# ९

# वेंचीक कोंकणी एकांकी

संपादक :

पुंडलीक नारायण नायक

पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळयांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी.

नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांचे बरेपणान.

# वैंचीक कोंकणी एकांकी

संपादक

**पुंडलीक नारायण नायक**

साहित्य अकादेमी

*Venchik Konkani Ekanki* (वेंचीक कोंकणी एकांकी) :
*An Anthology of Konkani One Act Plays*
*Compiled by Pundalik Narayan Naik*
*Sahitya Akademi, New Delhi (1992), Rs. 100*


First Edition : 1992

**Published by :**
Sahitya Akademi

**Head Office :**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department :**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001

**Regional Offices :**
172, M. M. G.S. Marg, Dadar (East), Bombay 400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road,
Calcutta 700 053
Guna, 304-305 Anna Salai, Teynampet, Madras 600 018
ADA Rangamandira, 109 J. C. Road, Bangalore 560 002

ISBN 81-7201-120-2

**Printed by :**
Apurbai Printers
Volvoi, Post : Savoi-Verem
Ponda, Goa 403 401

मोल : 100 रुपया

## मांडावळ

# संग्रहाविशीं दोन उतरां

कोंकणी एकांकीचो हो पयलोच प्रातिनिधीक स्वरूपाचो संग्रह. तो पयलोच आशिल्ल्या कारणान तो तयार करताना खूब कश्ट पडले. 1935 ते 1989 मेरेनच्या एकांकीचो सोद घेवचो पडलो. पुस्तक रुपांतल्यो एकांकी वाचच्यो पडल्यो. एकांकीवयले अभिप्राय, नियाळ, फाटलीं नेमाळीं सोदून काडून वाचचे पडले. त्याचप्रमाण कोंकणी एकांकीकडेन जांचो लागींचो संबंद आशिल्लो त्या लेखक दिग्दर्शकांकडेन संवाद सादचो पडलो. अर्थात ही सगळी प्रक्रिया घडटाना तातूंत निर्मितिचो आनंद आसलोच.

कोंकणीतलो हो पयलोच प्रातिनिधीक एकांकीसंग्रह चडानचड बरो जावचो म्हण मराठी, गुजराती, हिंदी, पंजाबी आदी भाशांतले साहित्य अकादेमी आनी नॅशनल बुक ट्रस्ट ऑफ इंडिया हाणी उजवाडायिल्ले कांय प्रातिनिधीक संग्रह नदरेखाला घातल्यात.

हो एकांकी संग्रह प्रातिनिधीक स्वरुपाचो जावचो अशी नदर दवरल्या. आयजवेरच्यो कोंकणी एकांकीचो पट मुखार दवरून तातुंतल्यो म्हत्वाच्यो अशो एकांकी वेंचल्यात. त्यो वेंचताना तांचो साहित्यिक कस, प्रयोगक्षमताय आनी कोंकणी रंगमाचयेर ताचो प्रभाव ह्या गजालिंचो मुखेलपणान विचार केला. तेचबरोबर तांचे स्वतंत्रपण आनी दुसरे भाशेंत अणकारीत जावपाची शक्यताय हाचेरूय नदर दवरल्या.

हें संकलन तयार करताना गोंय कोंकणी अकादेमीच्या ग्रंथालयांतल्या साहित्याचो चडानचड उपेग जालो. अकादेमीचे सचीव श्री. वि. मं. धुमे आनी अकादेमीच्या कर्मचारी वर्गान खूब सहकार्य दिलें.

पणजी आकाशवाणीच्यो कार्यक्रम निर्मात्यो जयश्री शानभाग तशेंच श्री. नारायण पत्की हांचो एकांकीच्या संकलनाखातीर तशेंच प्रस्तावनेचो तपशील पुंजावपाखातीर मोलाचो आदार घडलो. मुद्रणप्रत तयार करपाक बाय विनंती कांसार आनी हेमा नायक हाणी पालव दिलो. ह्या सगळ्यांचे उपकार.

साहित्य अकादेमीन हों जापसालकी म्हजेर सोपोवन म्हजेकडसून म्हजे आवडिचें काम करून घेतलें तेखातीर अकादेमीचे उपकार.

– पुंडलीक नारायण नायक

# कोंकणी एकांकी : काल आनी आयज

## एकांकी नाट्यप्रकार

एकांकी हो आपलेपरीन स्वतंत्र असो एक नाट्यप्रकार. एकांकी आनी पुराय स्वरूपचें नाटक हांचें नातें कथा आनी कादंबरी हांच्या नात्यावरी. कथा हें कादंबरीचें सुक्षीम वा मोटवें रूप न्हय तेचपरी एकांकी नाटकाचें मोटवें रूप न्हय. स्वतंत्र रचनांतत्वां आशिल्लो तो एक स्वयंपूर्ण साहित्यप्रकार.

नाटक आनी एकांका हे दोनूय 'नाट्यप्रकार' आशिल्ल्यान दोनायमदीं सभावीकपणान कांय समान मूलतत्वां आसतात, जशीं तीं कथा आनी कादंबरी ह्या दोनायनी आसतात. पूण एकांकी आनी नाटक ह्या दोनूय नाट्यप्रकारांतल्या नाट्याचे जातिधर्म आनी आविष्कारतरा वेगवेगळ्यो आसतात.

'एकांकी' हांतूंत 'एक' हें उतर संख्या सांगता. पूण नाट्यवस्तू, प्रसंग, व्यक्ती, वातावरण, संस्कार अशा जायत्या घटकांचे संख्येडेन न्हय तर गुणात्मक 'एकत्वा' कडेन एकांकी बोट दाखयता. सगळ्यो नाट्यशक्ती एका केंद्रार हाडपी असो हो नाट्यप्रकार. मर्यादीत वेळाभितर काळजाक भिडप, एकजिनसी परिणाम सादप ही एकांकीच मोख आसता.

एकांकी एकाच नेटान आनी दिकेन फुडें सरता. तांतूतलें नाट्य, जी गती आपणायता ती गती खासा तिचीच आसता.

सुरवात जाता त्या खिणाक नाट्याच्या गाभ्याक भिडप आनी फुडें लेगीत त्या गाभ्याक मात्तूय धील सोडीनासतना आकार दीत वचप हें एकांकीचें खाशेलेंपण. बऱ्या एकांकीच्या आस्वादांतल्यान मेळपी समाधान हें, एखाद्र्या उत्कृष्ट पुराय नाटकांतल्यान मेळपी समाधानाप्रमाण संपूर्ण आसता. पूण नाटक आनी कादंबरी ह्या अदीक विस्तारीत आस्कळ - विस्कळ फाटभूय आशिल्ल्या साहित्यप्रकारांची भव्यताय मात एकांकी वा कथा ह्या प्रकारांत येना.

मर्यादीत वेळाक लागून एकांकीकाराक रचनेतली शीस्त पाळचीच पडटा. आरंभाची धीलाय, थोडेभोव गरज नाशिल्ले संवाद, कृती आनी लेखनाचे दिकेविशिची थोडीलेगीत अनिश्चितताय ह्या गजालींतल्यान घडये एकाद्रें नाटक सावरत पूण एकांकी न्हय.

एकांकी सुरवेकूच उत्कर्षबिंदूक भिडटा आनी सतत त्याच पांवड्यार तिका अखेरमेरेन रावचें पडटा. सूचकताय, मोजक्याच उतरांची शैली, प्रेक्षकांकडेन तत्काळ संवाद सादपाची तांक ह्यो गजाली खूब गरजेच्यो. तेखातीर लेखकाक आशयगर्भ नाट्यवस्तू घेवंची पडटा. ती चड घुस्पागोंदळाची, मिश्र स्वरूपाची आसूंक उपकारना. ती एकपोडीय आसची पडटा. नाजाल्यार खर परिणाम

जावप कठीण. ह्या एकबीज स्वरूपाक लागून एकांकीत एकभाव आनी एकरस सामको गरजेचो थरता.

कथेभाशेनूच एकांकीक खंयचोच विशय वर्ज्य नासता. देखूनूच ती बहुरूपीण आसूं येता. काव्यात्मक, प्रहसनात्मक विनोदी, सामाजीक, राजकी, वैचारीक, तत्वचिंतनात्मक आदी जायत्या रूपांनी ती फुलता. पूण तिची कांय खाशेलीं बलस्थानांय आसात. देखीक : सुक्षीम नाट्याच्या चित्रणाक एकांकी हो प्रकार चड प्रभावी.

चड करून व्यक्तींव्यक्तींमदल्या भावसंवंदातलें सुक्षीमतरल नाट्य सांपडावपी तांक खासा उल्लेखनीय. रहस्यनाट्य आनी अतिमानूषी येवजण करपी नाट्य हाकाय एकांकीचें माध्यम चड सोयीचें आसता. कारण असल्या नाट्यानुभावांतली उत्कंठताय आनी भयाचो ताण, मर्यादीत वेळांत सोंशीसारको आनी आस्वाद घेवपासारको आसता. एकांकी अनेक रूपांनी आकारूं येता. पूण एकाच वेळार हीं सगलीं रूपां ती घेवन येवंक शकना.

एकांकीच्या प्रयोगाच्या येसांत कलाकार, दिग्दर्शक आनी तांत्रिक आंगा भर घालतात हें खरें. पूण मुळातच Script दम नाशिल्ली आसल्यार प्रयोग तितलोसो रंगचोना. एकाद्रो मातब्बर दिग्दर्शक गुणी कलाकारांच्या आदारान, तांत्रिक Gimmicks करून प्रयोग फुलयता हें मान्य पूण असल्यो एकांकी वाचताना उबगण येता आशी Script बाबत म्हणपाचें कळटा. प्रयोग माचयेर चलताना तांतूत बऱ्या दिग्दर्शकाचें कसब अदींमदीं जाणवल्याबगर जशें रावना तशेंच बऱ्या लेखकांचेंय आसता. हेर साहित्यप्रकारांवरीच एकांकी बरोवपी लेखकाकडेन हेरांक सांगपासारकें म्हत्वाचें कितेंतरी आसपाची गरज आसा. आपणा भोंवतणचे जिणेचो आपणाक होलमल्लो खाशेलो असो अर्थ ताका खबर आसचो पडटलो. फक्त एकांकीचो आकृतीबंध खबर आसून भागचेंना एकांकीतलो आशय अर्थान भरिल्लो नासत जाल्यार ती एकांकी उखलपी थरतली.

## संस्कृत एकांकी

संस्कृत एकांकीची परंपरा सामकी पूर्विल्ली. भरतमुनीन आपणाल्या नाट्यशास्त्रांत नाटकांच्या रचनांचे धा प्रकार सांगल्यात. तातूंत भाण, व्यायोग वीथी आनी अंक हे चार प्रकार फक्त एकांकीचेच आसात त्या भायर प्रहसन एकांकी आनी दोन एकांकी हांचोय आस्पाव आसा. विशिष्ट भावनाचे अभिव्यक्तीक फावो अशी रचनेची अंकसंख्या, पात्रयेवजण, रसनिर्मणी, शैली आदि बाबतींत मुखावयल्या नाटककारांक मार्गदर्शन घडचें देखून भरतमुनीन हें मार्गदर्शकतत्व सांगिल्लें. देखीक - अंक हो एकांकी प्रकार दुखेस्तभाव प्रगट करपी तरवीथी ह्या एकांकी प्रकारांत सगळ्या रसांचो आस्पाव आसतालो. शृंगार आनी वीर रसाची

भावना व्यक्त करपी एकांकी प्रकार म्हयाळर भाण. हो प्रकार एकपात्रीय आसलो उपहास आनी परिहास घडोवपी प्रकाराक प्रहसन एकांकी म्हळ्ळां.

भरतमुनीच्या ह्या मार्गदर्शक तत्वांचो मुखावयल्या कोणा बरोवप्याक खास उपेग जाल्लो दिसना. मात त्या तत्वांचो गैरउपेग जाल्लो दिश्टी पडटा. संस्कृत नाटकांक जी प्रतिष्ठा लाबली ती एकांकी प्रकारांक लाबलीना. भास सारको एकाद्रो एकांकीकार हे गजालीक आडवाद थरलो. भासान महाभारताच्या आख्यानाचेर आदारीत प्रयोगशील आनी अभिव्यक्तीचे गुणविशेश आशिल्ल्यो पांच एकांकी रचल्यो.

मुखार संस्कृत परंपरेंतूव खंड पडलो. जिणेकडली तिची नाटूच तुटली. देखून संस्कृत एकांकी ही भारतीय भासांतल्या एकांकीक प्रेरणा दिवंक पावलीना.

आविल्ल्या अस्तंती वाङमयांतल्यान आधुनिक साहित्य प्रकारांक प्रेरणा लाबली, तशीच कोंकणी एकांकीक पाश्चात्य एकांकी प्रकारांल्यानूच प्रेरणा मेळ्ळी.

## लोकनाट्यांत एकांकी

1892 वर्सा मुंबय शारांत कोंकणी लोकांनी सादर केल्लो 'इतालियन भुरगो' हो खेळ, पयलो कोंकणी खेळ अशें मानतात. एका इतालियन ऑपेराचेर आदारीत असो तो ऑपेरा आसलो. ह्याच काळांत मुंबयत इंग्लीश नाटकांचे खेळ जाताले. हे खेळ मुंबयच्या कंपनी सरकारांतले नोकर-चाकर करताले. केन्ना केन्ना ह्या लोकांच्या मनोरंजनाखातीर इंग्लडांतल्यान नाटकां सादर करप्यांचे पंगड मुंबयत येताले आनी आपणाले इंग्लीश खेळ दाखयताले. हेर भारतीय भासांवरीच आविल्ल्या स्वरुपाचो कोंकणी खेळ अस्तेंती भाशेच्या प्रभावानूच निर्माण जालो.

आविल्लो कोंकणी खेळ हो अस्तंतेच्या प्रभावान घडलो हें जरी खरें आसलें तरीलेगीत गोंयांत कोंकणी लोकनाटयाची परंपरा आसली. ह्या लोकनाटयाचो आनी संस्कृत नाटकाचो कसलो संबंद नासलो म्हळयार जाता. हांगासल्लें लोकनाटय हें हांगचें प्राकृतीक रूप आसलें. तो भौशाचो कलाप्रकार आसलो. गुजराती 'भवाई', मलबारचो 'कथकली', महाराष्ट्राचो 'ललित' आनी 'दशावतार', उत्तर प्रदेशाचो 'रामलिला' बंगाल आनी ओडिसाचो 'जात्रा', ब्रज आनी मथुरेची 'रासलीला' त्याचप्रमाण गोंयचे 'जागोर' 'रणमाले' आनी 'खेळ-तियात्र' हे लोकनाटयप्रकार आसात.

रचणुकेचे नदरेन हे लोकनाटयप्रकार एकांकी ह्या प्रकाराक चड लागिंचे थारता. 'जागोर' हें लोकनाटय आमोरेर सुरु जाता तें फांतोडमेरेन चलता. तें इतलें लांब आसलें तरी ताची कथा लांब न्हय. कितल्याशाच पात्रांवरवीं कितलेशेच प्रसंग वेगवेगळे गुंथिल्ले आसतात. एक वा दोन पात्रां हांचेमजगतीं लोकसंगीताच्या तालार चलिल्लो प्रसंग हो एकांक स्वरुपाचोच थरता. अशा

कितल्याशाच स्वतंत्र एकांकाची सांखळ म्हणजेच 'जागोर'.

गोयांतल्या सत्तरी तालुक्यांत धावें ह्या गांवगिऱ्या वाठारांत सांपडपी 'रणमाले' हो लोकनाटयप्रकार होवूय असोच वेगवेगळया घटनांचो आनी पात्रांचो मेळ. हातूंत रामायण, महाभारत आनी हेर पुराणीक आख्यानांतलीं पात्रां रंगमाचयेर एके हारीन पड्डयाभाशेन उबीं रावतात. जें आख्यान सुरू जाता त्या आख्यानांतलीं पात्रां पड्डयामुखार वचून नाच, संगीत आनी संवादाच्या आदारान प्रसंग उबो करता. हें आख्यान ल्हान स्वरूपांत आशिल्ल्यान तें एकांक कशें दिसता. एक आख्यान जातकच त्या आख्यांनांतलीं पात्रां आसा तशीं 'पड्डो' जाता आनी मागीर दुसरें आख्यान सुरू जाता.

'खेळ' हो लोकनाटयप्रकार गोंयांत नातालां (Christmas), इंत्रुज (Carnival) आनी पास्कां ( Easter ) ह्यावेळार पळोवपाक मेळटा. गांवातले उमेदी गडे हे खेळ रचतात आनी सादर करतात. 'जागोर' आनी 'रणमाले' हातूंत पारंपारिक आख्यानां आनी प्रसंग, वर्साचीं वर्सा तींच तींच आसतात. पूण 'खेळ' मात चालू सामाजीक परिस्थितिचेर रचिल्ले आसतात. एक दोन घुमटां संगीताची बाजू सांबाळटा. हातूंतलो लेखनाचो पावंडो सुमाराचो. पूण उत्सवी वातावरणांत खोस निर्मुवपाचो विनोदाचो मसालो तातूंत आसता. हो खेळ गांवांगांवांत भोवून खळयांत, तिठयार, इगर्जेमाचयेर अशा लोक जमपाच्या ठाण्यार करतात. ताकालागून ह्या नाटयप्रकाराचो अवधी, वरापरस उणो आसता आनी रचनेचे नदरेन सदळ आसलो तरी तो, प्रकारान एकांक थरता.

'तियात्र' हो लोकनाटयप्रकार तीनेक वरांचो आसलो तरी तातूंत संगीताचेर म्हळयार कांतारांचेर (गीतां) चड भर आसता मूळ कथा सामकी ल्हान आसता. लघुनाटक सोबुंये अशी. पूण मूळ कथेकडेन घटनेचे नदरेन आनी कलात्मक नदरेन कसलोच संबंद नाशिल्लो 'सायड शॉ' आशिल्ल्यान ताचो कालावधी वाडटा. अर्थांत अशेतरेची भरताड हीच लोकांची मागणी आसता. 'सायड शॉ' काडून मूळ 'तियात्र' नियाळपाचो यत्न केल्यार रचनेचे नदरेन तीं लघुनाटकां वा एकांक थरतले. 'खेळ-तियात्र' (non stop drama) हो प्रकार मात पुराय स्वरूपाचें संगीत नाटक. आंगणात, मळार जावपी 'खेळा' चोच हो माचयेवयलो आविष्कार. 1950 उपरांत हो प्रकार सुरू जालो. ताका एकांक म्हणपाक जावचें ना. आकाशवाणीचेर हींच नाटकां लोकांचे मागणेक लागून मोटया प्रमाणांत प्रसारीत जातात. 'तियात्र' आनी 'खेळ-तियात्र' हेच लोकनाटयप्रकार वेवसायीक रंगमाचयेर बरे घट पांय रोमून आसात.

गोंयांत दशावतारी हो लोकनाटयप्रकार चलता पूण शंखासूर हें एकूच पात्र फक्त विनोद निर्मुवपाखातीर कोंकणीत उलयता. बाकी सगळें मराठी भाशेंतल्यान चलता. महाराष्ट्रांतल्यान गोंयांत आयिल्लो तो एक लोकनाटयप्रकार. निजाचो गोंयचो न्हय.

अस्तंती धर्तिची आर्विल्ल्या स्वरूपाची कोंकणी एकांकी आंग धरचे आदीं ती लोकनाटयांत पोसवली. मागीर पुराय नाटकाचो काळ आयलो. त्या काळांत एकांकी दोन अंकाच्यामदें वा आरंभाक चिरंगटली. थोडीशी हिणसावली. हिंदूचीं देवळां आनी मठ तशेंच किरिस्तावांच्यो इगर्जो हांचे भोंवतणी उत्सवानिमतान कोंकणी एकांकी नाटकुलें, नाटिका जावन गोंदळ्ळी. पूण गायन, वादन ह्या कलाप्रकाराभशेन कोंकणी एकांकीक प्रतिष्ठाय लाबलीना आनी नामनाय मेळ्ळीना. फक्त दोन एकांकीकारांचो आडवाद. मंगळूरांतले लुईस मास्कारेन्यस आनी मुंबयचे बैंदूर देवराय अय्यगळ. ह्या दोन एकांकीकारानी इगर्ज आनी मठ-देवळाच्या प्राकारांतल्या एकांकीक प्रतिष्ठा दिली.

कोंकणी एकांकी हें कोंकणी समाजाच्या सांस्कृतिक आविष्काराचें एक आंग. पूण कोंकणी समाज हो भाशीक नदरेन एक आसलो तरी भौगोलीक नदरेन एक ना. समबिंबाचे (Identity) नदरेंतूय एक ना. धार्मिक नदरेन तो वाटला. हिंदू, किरिस्तांव आनी मुसलमान असो विभागला.

कोंकणी मनीस मूळ कोंकणचो. गोंय हें तागेलें केंद्र. पूण इतिहासीक अपघाताक लागून तो फाफसलो. गोंयांत पुर्तुगेजानी बाटाबाटी सुरू केली. ताकालागून हे लोक कर्नाटक, केरळ राज्यांनी पळून गेले. पोटा-पाण्याखातीर आनी शिक्षणाखातीर मुंबय महानगरांत वचप्यांचीय संख्या खूब व्हड आसली. कोंकणी लोक जंय गेले थंय ताणी आपाणाली कोंकणी भास सांबाळ्ळी. कर्नाटकांत ताणी कोंकणीखातीर कन्नड जाल्यार केरळांत मलयाळम लिपी आपणायली. गोंयांत पुर्तुगेजभाशेच्या प्रभावाक लागून, बाटिल्ल्या किरिस्तांव लोकांनी रोमी लिपीचो स्वीकार केलो. आपणांलें सांस्कृतिक दायज ताणी हेच लिपीन उतरायलें.

भाशेचे नदरेन अखंड आशिल्लो हो समाज लिपी, धर्म, जीवनपद्धत (Life style) हांचे नदरेन विखंड आसा. तागेले सांस्कृतिक जिणेचो वेध घेतना ह्यो गजाली मतित घेवच्यो पडटात.

कोंकणी मनीस गोंय, मुंबय, कर्नाटक आनी केरळ अशा चार राज्यांनी वांटून गेला. सगळयांत चड कोंकणी लोक कर्नाटक राज्यांत आसात हें जरी खरें आसलें तरी गोंय हें सगळया कोंकणी लोकांचें आनी कोंकणी प्रदेशाचें केंद्र थरलां. सांस्कृतिक आनी साहित्यिक मळावयल्या प्रयोगांक आनी आविष्कारांक गोयांतूच बेसबरी पोसवण लाबल्या. कोंकणी एकांकीचे आयजवेरचे वाटचालीचेर नदर मारताना गोंय होच तिचो केंद्रबिंदू थरता.

## आचार्य नायक आनी आर्विल्ली एकांकी

आधुनिक स्वरूपाची पयली एकांकी रामचंद्र शंकर नायक हाणी बरयली. तिचें नांव 'चवथिचो चंद्र'. हे एकांकीक पुस्तकांत दोन आंकी खेळ अशें म्हळां.

तरी लेगीत एकवटीत परिणाम सादपाचे नदरेन ती एकांकी थरता. चवथ आनी पंचम अशा दोन दिसांच्यो घडणुको दाखोवपाखातीर ही तंत्रीक मांडणी केल्या. ता. 21 डिसेंबर 1934 दिसा, पणजेंत 'अुनियांव अकादेमी' संस्थेच्या वर्सादिसा संस्थेच्या वांगडयांनी ही एकांकी एक मौज म्हण सादर केली. उपरांत दुसऱ्या वर्सा म्हळचार 1935 वर्सा ती पुस्तक रुपान छापली. दोन वर्सां हे एकांकीचे काणकोण ते मुंबयमेरेन प्रयोग जाले अशें पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत नमूद केलां. तेच उमेदीन बरोवप्यान मुखावयली एकांकी बरोवपाक घेतली आनी रामचंद्र शंकर नायक ऊर्फ राणू नायक कोंकणी एकांकीचे पयले वयले तशेंच एक समर्थ एकांकीकार जाले. तांगेल्या 'चवथिचो चंद्र' चे निर्मणेची गजाल खूब मजेशीर आसा. मुदलाक ही एकांकी कोंकणी भाशेची वा रंगमाचयेची सेवा घडची म्हण बरोवंक नासली. वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलकार ऊर्फ शणै गोंयबाब हो एकलो एकसुरो शिलेदार 1925 पासून कोंकणी भाशेचो पाखो घेवन कोंकणीच्या विरोधकांकडेन झगडटालो आनी साहित्य निर्मणी करतालो. कोंकणी ही मराठीची बोली न्हय तर ती एक स्वतंत्र भास म्हणपाचो तांचो आग्रो आसलो. शणै गोंयबाबांच्या मताची फकाणां मारचीं म्हण नायकानी ही एकांकी रचली. कोंकणीतल्या कारवारी, अंत्रुझी, सास्टी, बारदेशी अशा बोलीभाशांतले संवाद आशिल्लीं पात्रां निर्मिलीं आनी 'खंयची कोंकणी खरी तें सांगात ?' असो एक प्रश्न कोंकणीच्या समर्थकांमुखार मांडलो. परिणाम मात भलतोच जालो. एकांकी खूब परिणामकारक थरली आनी निजाचे भाशेचें बळगें खासा बरोवप्याकच होलमलें आनी मागीर नायक निष्ठेन कोंकणी सरस्पत रचपाच्या वावराक लागले. तांच्या वावराचो गौरव म्हण आधुनिक कोंकणी साहित्याचो रचनाकार शणै गोंयबाब हाणी रामचंद्र शंकर नायकांक 'आचार्य' ही भौमानाची उपाधी लायली.

कोंकणी एकांकीच्या संदर्भात अशेच तरेची उल्लेख करपासारखी एक गजाल त्याच काळाच्या अदमासाक घडली. प्रो. बाळकृष्ण सावर्डेकार हे गोयांतल्या मराठी भाशेच्या समर्थकांमदले आनी साहित्यिकांमदले एक. कोंकणीच्या साहित्यिक वावराक ताणी तांचे मुस्तित 'सुताची गिरण' म्हळचार दिवाळचाचो वा पिशांचो धंदो म्हण कुस्कुटायलें. कोंकणीच्यो भगल्यो मारतां मारतां ताणी कोंकणीत थोडेंभोव बरयलें. तातूंतली एक रचना 'खुटये भाटातलें शियाळें' ही आसा. हे रचनेक पुराय स्वरूपाची एकांकी म्हणपाक जावंचेना पूण ती संवादांनी भरल्या. त्या काळावयल्या भाटकार आनी मुंडकारांचे जिणेचे संबंद भोवच नाजूक धाग्यांनी विणपाचो बरोवप्यान यत्न केला. देखून तातूंत गोडी आयल्या. निजी साहित्यिकांचे गूण ते रचनेंत दिश्टी पडटात. बरोवप्याच्या मर्णाउपरांत 25 वर्सांनी ही रचना 'कोंकणी'च्या (1962) अंकांत उजवाडाक आयली.

शणै गोंयबाब हाणी 'अरेबियन नाइट्स' मदल्या अबु हसनाचे काणयेच्या

आदारान रचिल्लें 'झिलबा राणो' हें नाटक 1933 वर्सा मुंबयत रंगमाचयेर आयलें. हांगासरूच आधुनिक कोंकणी नाटकाचें मुळावण पडलें आनी मागीर एका वर्सा उपरांत शणै गोंयबाबांचे प्रेरणेनूच आचार्य रामचंद्र शंकर नायक कोंकणी एकांकी बरोवपाक लागले.

1930 च्या दशकांतूच मराठींत राम गणेश गडकरी आनी दिवाकर हाणी एकांकी लेखनाक हात घाल्लो. जाल्यार ईश्वर चंदर नंदा हाणी 'दुल्हन' नांवाची पयली पंजाबी एकांकी ह्याच काळांत बरयली. ज्या काळार कांय मुखेल भारतीय भासांनी एकांकी प्रकार रुजवणा आयलो त्याच काळार आविल्ली कोंकणी एकांकीय जल्माक आयली.

'चवथिचो चंद्र' च्या उपरांत नायकानी 'रायबाऱ्याची व्हाड्डीक' ही दुसरी एकांकी बरयली. 1956 मेरेन ताणी आनीक पांचेक एकांकी बरयल्यो.

तांगेली 'दामू कुराडो' ही एकांकी खुबूच गाजली. उत्सवांनी आनी सर्तिनी हालींसराक लेगीत तिजे प्रयोग जावपाक पावल्यात. एका पुर्तूगेज खेळाचेर आदारीत 'सोनुदादालो संवसार' हीवूय एकांकी विनोदी. मूळ जर्मन खेळाचो पुर्तूगेजींतल्यान केल्लो अणकार म्हळ्यार 'एकपरस एक हटी' आनी आनीक एक अणकार म्हळ्यार 'म्हजो सर्गार आशिल्लो धरकार.' ह्यो सगळ्यो एकांकी प्रहसनात्मक. आडवाद फक्त 'एक हजार आनो तेईस' हे एकांकीचो. ज्युलियु दान्तश हांच्या खेळाचेर आदारीत गंभीर स्वरूपाची ही एकांकी. त्या भायर मुंबयसावन भायर सरपी 'साद' च्या आगोस्त 1953 च्या अंकांत तांगेली 'शिकयिल्ली शिकवण' ही एकांकी उजवाडाक आयल्या. एक दोन बालसाहित्याचीं पुस्तकां सोडलीं जाल्यार नायकानी बरयल्यो त्यो फक्त कोंकणी एकांकी. शणै गोंयबाबाचे मुस्तित वाडिल्ल्या आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हांची भास सामकी घांसून पुसून निवळ केल्ली. म्हणण्या-ओपारीन ती भरल्या आनी असली भास पात्रांच्या तोंडांत घातिल्ल्यान तीं पात्रां सजीव जाल्यांत. तांगेल्यो एकांकी हे स्वतंत्र प्रज्ञेचे अविष्कार कशे दिसतात. रूपांतरीत म्हण ताणी उल्लेख केला म्हणूनूच त्यो कळपाच्यो. कोंकणीत उतरायताना ताणी तांकां सामको कोंकणी साज चडयला. शणै गोंयबाब हाणी परकी भाशेंतलीं नाटकां कोंकणीत हाडटाना असोच यत्न केल्लो आनी तो भोव फळादीक जाल्लो. शणै गोंयबाबालीं 'पोवनांचें तपलें,' 'मोगाचें लग्न,' 'झिलबा राणो' हीं नाटकां म्हळ्यार रूपकाराचे बऱ्यांतले बरे नमुने.

कोंकणी नाट्यरचनाचे बाबतींत आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हे शणै गोंयबाबापरस आंगूळभर वयर उरता. शणै गोंयबाबाच्या रचनानी सगळीं पात्रां एकूच प्रमाणभास उलयतात. मात नायकांच्या नाटकांतल्या पात्रांची भास तांची जात, धर्म, वांठार तांगेलो सामाजिक थर मतित धरून बरयल्या म्हणपाचें कळटा.

पात्रांचे रेखाटण जिवें तट्टटीत जावपाखातीर अशे तरेच्या संवादांची गरज आसता. ती नाटयकृती वास्तवाच्या चड लागीं वता.

संवादांतलें घोटीवपण, भाशेची गिरेस्तकाय, वास्तवपात्रां आनी पात्रांतले व्यक्तिविशेश ह्या गुणांक लागून आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हांची एकांकी 1975 मेरेन म्हळ्यार सुमार चाळीस वर्सां कोंकणी रंगमाचयेर रंगत रावली.

विसाव्या शेकडयाच्या मदेकार गोंयांत रामचंद्र शंकर नायक हांचे तांकीचो दुसरो एकांकीकार जालो ना. विनोद निर्मणी करून फकत हांसोवपाचें काम करपी कांय संवादबाज आनी प्रयोगक्षम एकांकी तयार जाल्यो. पूण साहित्यिक कसाक उतरपी एकांकी जाल्योनात. वसंत कारे हांगेली 'रिटेदाद' ही फार्सिकल एकांकी ह्याच समयार उजवाडाक आयली. मुखार ताणी फार्सिकल धर्तिचेरूच 'नबत' बरयली आनी ती 'साद' (फेब्रेर 1954) च्या अंकांत उजवाडाक आयली. 'रवळू पैंलो दिवटो' नांवाची गोपिनाथ विसू आरसेकार हाणी बरयिल्ली एकांकी 1944 वर्सा जाल्यार डी. व्ही. काणेकार हांगेली 'म्हाळूदादाली फुंकणी' नांवाची एकांकी 1951 वर्सा पुस्तकरूपान आयिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

## लुईस मास्कारेन्यस हांगेलें काव्यनाटक

1948 वर्सा कर्नाटकांतल्या मंगळूर शारांत कोंकणी भाशेंतलें एक शैलीदार काव्यनाटक उजवाडा आयलें. ताचे रचनाकार आशिल्ले लुईस मास्कारेन्यस. हांकां कोंकणीतल्या कन्नड लिपयेंतल्या काव्याचो बापूय अशें मानतात. ताणी 'कोंकणी दिरवे' ह्या पत्राचें संपादन करून मंगळूरांत कोंकणी साहित्याक प्रतिष्ठा दिली. ताणी बरयिल्लें काव्यनाटयूच तांगेले प्रतिभेचो मुकूटमणी थरलें.

मंगळूरांत त्या वेळार ल्हान व्हड नाटकां जातालीं. तीं नाटकां पळोवन ते बेजारले. ते संबंदी ताणी बरयलां "लोकाक पोटभोर हासोवचो एकच इरादो जाल्लेवरी, फडपशी चेष्टाय आनी काट उलौणे भोरशिल्ले ताळमूळ नातल्ले खेळ दाकैल्ल्यान नहिंच आमचे भाशेक, बगार पोळेतल्यांची अभिरूचयी आमी सकैल देवयतांव. लोकाची रुच अूंच हाडिजय जाल्यार, आमचीं नाटकांयी नाजूक जाय जाय."

हीं उतरां ताणी अधिकारवाणीन सांगलीं आनी कोंकणी नाटकांवयलो आपणालो अधिकार सिद्ध करून दाखयलो. पोरण्या तेस्तमेंतातले घडणूकेचेर ही एकांकी रचल्या. सर्वेश्वराच्या आदेशाप्रमाण पालेस्तीनांतलो आब्रांव पात्रिकार्य आण्ल्या एकल्या एकसुऱ्या पुताक इजाकाक, देवाक बळी भेटोवंक व्हरता तो प्रसंग एकांकीत उत्कटतायेन मांडला. मुदलाक नाटयपूर्ण अशे कथेक काव्यात्म संवादाचो बाज मेळिल्ल्यान एकांकी 'काव्यनाटय' हे पदवेक पावल्या. एकांकीच्या

आरंभाक 'आदिवचन' आनी शेवटाक 'आखेरवचन' आसा. ते मुस्तित नाट्यरचनांक सुरवातीक प्रास्ताविक आनी निमाणेकडेन देखदिणो संमारोप आसतालो ताची झळक हे एकांकीत पळोवपाक मेळटा.

## मुंबयत एकांकीची चळवळ

1950 ते 1960 हें दशक कोंकणी एकांकीच्या इतिहासांतलें म्हत्वाचें दशक थरता. ह्याच दशकांत कोंकणी एकांकीची चळवळ सुरू जाली. पूण ते चळवळीची सुवात मात गोंय न्हय, तर मुंबय शार.

ह्या दशकांत नवकथा, नवकविता, नवसमिक्षा अशा प्रकारांचो उदेव भारतीय भासांनी जावपाक लागिल्लो. कलेकडेन पळोवपाची आनी तिजो आस्वाद घेवपाची एक नवी नदर तयार जाताली. मुंबय हें मराठी साहित्याचे प्रक्रियेचें एक केंद्र आशिल्लें. ह्या काळांत मराठी एकांकीन नवें मोडण घेतलें. पु. ल. देशपांडे, विजय तेंडुलकर सारके लेखक नव्यो संहिता रचपाक लागले. आत्माराम भेंडे, दामू केंकरे, भालबा केळकर, विजया मेहता सारक्या नाट्यदिग्दर्शकांनी एकांकी प्रकाराची खाशेली प्रतिमा सिद्ध केली. ह्या काळांत मराठी एकांकीच्या प्रकारांत नवे नवे प्रयोग जाले. 'भारतीय विद्या भवना'त घडोवन हाडिल्ल्या आंतर महाविद्यालयीन एकांकीच्या सर्तिच्या प्रयोगांत संहितेचे, अभिनयाचे आनी तंत्राचे बाबतींतले हे बदल स्पश्टपणान दिसपाक लागले. एक नवें चैतन्य रंगमाचयेर फांकलें आनी ताचेंच पडबिंब कोंकणी एकांकीत पडलें.

पूण 'भारतीय विद्याभवन' ज्या भासांत आंतर महाविद्यालयीन पावंड्यार एकांकी सर्तो घडोवन हाडटालें तातूंत कोंकणीचो आस्पाव नासलो. ती संद मराठी, गुजराथी, हिंदी आदी भाशांकूच मेळटाली. मुंबयतल्या कॉलेजांनी त्या काळार कितलेशेच गोंयकार विद्यार्थी तेचपरी कर्नाटक राज्यांतले कोंकणी विद्यार्थी शिकताले. ताणी एकठांय येवन दोन म्हत्वाच्यो गजाली केल्यो. पयलीं ताणी आपणाल्या कॉलेजांनी कोंकणी 'वाङमय मंडळां' घडयलीं. दर एका मंडळाचो प्रतिनिधी वेंचून कोंकणी नाटक समिती वेंचली आनी ते समितीचे वतीन मुंबयत 'भारतीय बिद्या भवन' चे धर्तिचेर आंतर महाविद्यालयीन कोंकणी एकांकी सर्त घडोवन हाडली. त्या काळार ताका 'कोंकणी नाट्यमहोत्सव' अशेंच म्हणटाले.

दुसरी म्हत्वाची गजाल म्हळयार ह्याच कोंकणी विद्यार्थ्यांनी 'विद्या' नांवाचें आंतर महाविद्यालयीन कोंकणी वर्सुकी नेमाळें सुरू केलें आनी तातूंत कोंकणी विद्यार्थ्यांचें साहित्य उजवाडा हाडलें. कांय नव्यो एकांकीय ह्या नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयल्यो. 1960 मेरेन 'विद्या' चे एकूण चार अंक भायर सरले.

ह्याच दशकांत म्हळयार 1952 वर्सा मुंबय आकाशवाणीवयल्यान कोंकणी कार्यावळीचें प्रसारण जावपाक लागलें. गोंयच्या स्वातंत्र्याचो पुरस्कार करपी नभोनाटचां मुंबय आकाशवाणीचेर कोंकणीतल्यान प्रसारीत जावपाक लागलीं. तांचो रूपकार कोंकणी एकांकीकडेन जुळटो आसलो.

कोंकणी साहित्याक पोसवण दिवपी आनी कोंकणी एकांकीक नवो घाट दिवपी तो काळ आसलो. कोंकणीच्या साहित्यिक मळार उपरांत नामना जोडिल्ले शंकर भांडारी, सुमंत केळेकार, हरदत्त खांडेपारकार, अ. ना. म्हांबरो, उदय भेंब्रो, किसन कामत हे बरोवपी त्या काळांत विद्यार्थी आसले आनी हो रचनात्मक वावर करताले. मुंबयतलीं सात / आठ कॉलेजां ह्या सर्तिनी वांटो घेतालीं. ह्यो सर्ती सुरवातीक 'साहित्य संघाच्या' ओपन थेअटरांत आनी उपरांत 'भारतीय विद्या भुवनांत' जाताल्यो.

हेर भासांच्या बरोबर ह्यो कोंकणी सर्त जाल्ल्यान सभावीकपण'न कोंकणी एकांकीची तुळा हेर भासांकडेन जाताली. सादरीकरणाचे नदरेन कोंकणी एकांकी खंयच उणी पडलीना. हेर भासांतलें रंगमाचयेवयलें नवें तंत्र, बदल, प्रयोग आदिंचो तिका लाब जालो.

ह्या सर्तिनी जांच्या एकांकीचे प्रयोग जाताले ते बरोवपी म्हळयार आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, तांगेल्या 'दामू कुराडो' 'सोनूदादालो संवसार' हाचे प्रयोग परत परत जाताले. रघुवीर राम नेवरेकार ह्याच काळांत बरोवपाक लागिल्ले. तांगेली 'कोडू निंबु' ही एकांकी किसन कामत हाणी 1958 वर्सा बसोवन सर्तिन सादर केली आनी ती जैतिवंत थरली. ती विनोदी स्वरूपाची आसली.

## किसन कामत

ह्या एकांकी सर्तिक लागून एकांकीकार जावपाक पावले ते किसन कामत.

जे. जे. ई. महाविद्यालयांत शिकपी हो कॉलेजविद्यार्थी, चित्रकार आनी अभिनयाची जाण आशिल्लो नट. एकांकीनी कामां करतनाच सर्तिची गरज म्हण ताणी एकांकी लेखनांक आरंभ केलो. 'दोन आनी दोन' नांवाचो तांगेलो चार एकांकीचो संग्रह पुस्तकरूपान उजवाडा आयला. तातूंतल्यो 'बाप्पा मुंबय वता' आनी 'बाप्पा खंवसता' ह्यो दोन विनोदी जाल्यार 'पळसाक पाना तीन' आनी 'ही स्रापाची सृष्टी' ह्यो दोन एकांकी गंभीर स्वरूपाच्यो आसात. आकाशवाणीखातीर बरयिल्ल्यो आनी माचयेर प्रयोग जाल्ल्यो तांगेल्यो आनीकूय कांय एकांकी आसात. नामनेचे दिग्दर्शक दामू केंकरे तांगेल्या एकांकीविशीं बरयतना, प्रयोगक्षमतेच्या कसाक पुरायपणान उतरपी एकांकी, असो निर्वाळो

दितात आनी तो सामको खरो आसा.

आयजवेरच्यो एकांकी ह्यो वेळाचे नदरेन एकांकी आसल्यो. केन्ना केन्ना त्यो लघुनाटक वा नाटिका ह्या स्वरूपाच्योय आसल्यो. पूण किसन कामतीली एकांकी ही मदीं पड्डो घाली नासतना वा काळोख करून देखाव वा प्रवेश बदली नासताना सलगपणान चलपी एकांकी आसली. एकांकीचें मूळ एक सूत्र आनी ताचो निमाणकडलो परिणाम हे बाबतींत ही एकांकी चड प्रभावी थरली आनी मुखार हेंच तंत्र कोंकणी रंगमाचयेर रुढ जायत गेलें.

किसन कामतीन विनोदी आनी गंभीर अशा दोनूय स्वरूपाच्यो एकांकी रचल्यो तरी तांचो पींड विनोदी बरप्याचो दिसता. आनी तांगेल्या विनोदी एकांकीचो प्रभाव तांच्या उपरांतच्या एकांकीकारांचेर मोटया प्रमाणात पडिल्लो दिश्टी पडटा.

मुंबयच्या ह्या महाविद्यालयीन एकांकी सर्तिनी आनीकूय कांय जाण एकांकी लेखनाचो यत्न करताले. तातूंत विश्वनाथ कृ. संझगिरी हांचें नांव मुखार येता. तांगेल्यो 'कर्तव्य,' 'भुरग्यांली मळणी' ह्यो एकांकी तेन्ना माचयेर चलताल्यो. कांय जाण एखाद दुसरो बरोवपाचे यत्न करताले. शंकर भाडारी सारके कवी हेर भासांतल्यो एकांकी अणकारीत करपाचो वावर करताले.

ह्या काळांतल्यो एकांकी, प्रयोगक्षमतेचे नदरेन आदल्या एकांकीपरस चड प्रभावी आनी परिणामकारक आसल्यो. पूण आचार्य रामचंद्र शंकर नायक वा शणै गोंयबाब हांगेल्या घोंटयिल्ले भाशेच्या संवादाची सर तांकां नासली. त्यो शैलीदार नासल्यो आनी अडेच्या संवादशैलीपरस आसा त्या स्वरूपांतलें शुद्धअशुद्ध उच्चारण संवादांत घालून ते वास्तवाक भिडोवपाचेरूच नव्या बरोवप्यांचो भर आसलो.

मुंबयचे हे एकांकी चळवळीन एकांकी प्रकाराक प्रतिष्ठा दिली. एकांकी ह्या प्रकाराक स्वतःचें अशें खाशेलेंपण आसा म्हणपाचें दाखोवन दिलें.

मराठी रंगमाचयेर नट आनी दिग्दर्शक म्हण वावुरपी रघुवीर राम नेवरेकार हाणी ह्याच काळांत कोंकणी एकांकी बरोवपाक आरंभ केलो. 'पोपेबाबाली मुंबय' ही तांगेली पयली एकांकी. मुंबयत लग्न करून दिल्ले धुवेगेर गेल्या गोंयकार बापायची मुंबयत कशी दानदिस्पट जाता ताचे विनोदी ढंगान चितारप हे एकांकीत केलां. 'कोडू निंबू' हीत्रूय अशीच घोव आनी बायलेच्या झगडयांतल्यान विनोदाची निर्मणी केल्ली एकांकी. ह्यो दोनूय एकांकी सलग आसात. दोन-तीन पात्रांचेर वेतिल्ल्यो ह्यो एकांकी बैठ्या संवादानी खचाखच भरल्या पूण संवादांत घडिल्ल्या घडणुकांचो तपशील मार्मिक रितीन येता आनी विनोद घडटा. ह्या एकांकीत सामकी मोजकीच पात्रां घालपाचो उद्देश म्हळयार एक दोग कलाकारांक उण्या वेळांत त्यो खंयूय करपाक सोप्यो

जावंच्यो होच आसलो अशें दिसता. ताका लागून उण्या पात्रांचेर गरजेभायलो ताण पडून मूळ कल्पना रबरावरी ताणिल्लेभशेन दिसता. पूण रघुवीर नेवरेकाराची 'जल्मगांठ' मात हांचेपरस वेगळी. वैशिष्टचपुराय पात्रांनी आनी सभावीक विनोदी प्रसंगानी भरिल्लें तें एक लघुनाटक आनी मेलोड्रामा.

1950-60 ह्याच दशकांत गोंयातले कोंकणी रंगमाचयेर पुंडलीक नारायण दांडे नांवाचो स्वतंत्र प्रज्ञेचो नाटककार उदेलो आनी तांगेल्या 'ताची करामत' नाटकाचे खेळ पटापट जावपाक लागले. त्या नाटकाचो आनी नाटकाखातीर तयार जाल्ल्या वातावरणाचो प्रभाव मुखावयल्या एकांकी रचनांनी दिसपाक लागलो.

गोंयचें स्वातंत्र्य लागीं पाविल्लें. गोंयांत भाशण आनी लेखन स्वातंत्र्याचेर बंधना आसलींच. गोंयांत जांचो घुस्मटमार जातालो अशे सर्जनशील साहित्यिक मुंबयसावन रचना करून गोंयच्या स्वातंत्र्य होमखणांत आपणाली एक अग्नीशिखा निर्माण करताले. अशेंच एक पुस्तक म्हळ्यार डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांगेलें गीतनाट्य 'आयज रे धोलार पडली बडी.' गोंय सुटकेच्या सात म्हयनेआदीं तें मुंबयसावन भायर सरलें. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय तेन्ना कवी म्हण वयर सरताले. तांगेले सगळे काव्याचे गूण ह्या गीतनाट्यांत पळोवपाक मेळटात. कंसवधाचेर ही रचना आटापल्या. 'आयज रे धोलार पडली बडी' हें एक प्रतिकात्मक गीतनाटक. तंत्राचे नदरेन तांतुतलीं सदळपणा गीतनाट्याक क्षम्य थरतात. कंसवधाच्या एकलक्षी उद्देशाचेर हें गीतनाट्य एकांकी प्रकाराच्या सगळ्या गुणांक उण्या अदिक प्रमाणांत स्पर्श करता. ह्या गीतनाट्याचे प्रयोग उपरांत मुंबय आनी गोंयांत जाले आनी ते जैतिवंत थरले.

## विनोदाक ओतो

कोंकणी साहित्याच्या सगळ्या आंगांक चंवर फुटलो तो 1961 उपरांत. पुर्तुगेजाच्या शेकातळांतल्यान गोंयांत मुक्ती मेळ्ळी. पांजऱ्यातल्या सवण्यांक उंच मळबांत झोपय घेवपाक मेळची तशी कर्तुत्वाची संद गोंयातल्या बरोवप्यांक लाबली. कोंकणीच्या मळार वेगवेगळ्या साहित्यप्रकाराचे अविष्कार घडत रावले. कोंकणी नाटक आनी एकांकी हांचेय नवे नवे अविष्कार प्रगट जाले.

रसीक आनी उत्सवप्रीय म्हण गोंयकार लोकांची नामना आसा. हे उत्सवप्रियतेक लागून नाट्याक बरी पोसवण मेळ्ळी. पुराय नाटकाचे बरोबरीन एकांकीय पावली मारपाक लागली. शाळांच्या गॅदरिंगानीं, काल्या - जात्रांनी, नातालांच्या दिसांनी करमणूक म्हण कोंकणी एकांकीचो उपेग जावपाक लागलो. गोंयांत गंभीर विशयाचें तें मराठी नाटक आनी हांसोवन करमणूक करपी तें कोंकणी नाटक आनी चड करून कोंकणी एकांकी अशें एक समीकरण जावन पडलें. कोंकणी एकांकी ही हांसोवपाखातीरूच आसता अशो हांगच्या भौतेक बरोवप्यांनीय समजीकाय करून घेतली. पुंडलीक नारायण दांडे हांगेले 'ताची करामत' हें फार्सिकल नाटक, राणू नायकाल्यो विनोदी एकांकी, किसन

कामतील्यो विनोदी एकांकी, हांच्या पावलार पावल मारून कोंकणी एकांकी वाटचाल करपाक लागली. गोंय स्वातंत्र्या उपरांतचें पयलें दशक हो कोंकणी एकांकीच्या इतिहासांतलो अप्रतिष्ठेचो काळ. ह्या काळांत एकांकीक आपणाल्या स्वत्वाचो विसर पडून ती लोकांचे उखलापे मागणेचे भकीक पडली.

उत्सवांनी आनी शाळांच्या संमेलनानी तशेंच तालुको आनी शाळेच्या पावंड्यार तेन्ना विनोदी, प्रहसनात्मक एकांकीचीच चलती आसली. चंद्रकांत पार्सेकारानी ह्या काळार सुमार पन्नास ल्हान व्हड एकांकी बरयल्यो. तातूंतल्यो भौतेक एकांकी विनोदी स्वरूपाच्यो आसात. 'कोंकणी एकांकीका' ही तीन एकांकीचो संग्रह तांचो पयलो संग्रह. तो 1967 वर्सा भायर सरलो. प्रयोगाखातीर एकांकीचे मागणेक लागून त्या संग्रहाचें पुस्तक एका वर्साभितर सोंपलें. 1969 वर्सा ताणी सात एकांकीचो संग्रह 'देंवचार आनी हेर कोंकणी एकांकीका' ह्या नांवान उजवाडायलो. तांगेली 'देंवचार' ही रहस्यप्रधान एकांकी आनी 'तांबडे फुनेल सर्गार वता' ही एकांकी त्या काळार बरीच गाजिल्ली. मोटचा प्रमाणांत बरोवपी एकांकीकार म्हण चंद्रकांत पार्सेकार हाणी तेन्ना नामना जोडिल्ली.

ह्याच काळांत डॉ. विनय मंगेश सुर्लकार हो एकांकीकार वयर सरलो. पणजेच्या पिपल्स हायस्कूलांत शिकता आसतानाच हो भुरगो नाटकांनी संवंगा करपाक लागलो आनी अभिनय करतां करतां आपउलोवप, नाटकुलीं आनी मागीर एकांकी बरोवपाक लागलो. पिरायेच्या बाराव्या वर्सा 'म्हज्या बायलेचो म्हज्या बोंच्यार मोचो' हें नाटकुलें बरोवन आपणाल्या नाटचलेखनाची श्रीगणेशा केली. तांचो पयलो एकांकी संग्रह 'सात मजली हांसो.' नांवाप्रमाण तातूंत सात एकांकीचो आस्पाव केला आनी सातूय एकांकीचें स्वरूप विनोदी आसा. पूण तंत्राचे नदरेन तांकां पुराय स्वरूपाच्यो एकांकी म्हणपाक जावंचेंना. खासा शाळेंतल्या भुरग्यांखातीर बरयिल्लीं आनी विनोदाच्या साखरेपाकांत घालून काडिल्लीं देखदिणी अशीं नाटकुलींच तीं. त्या उपरांत ताणी 'खावची पानां' नांवाचो तीन एकांकीचो संग्रह उजवाडायलो. 'जुवावांगेर बॉम फुटलो,' 'दिवटो' आनी 'त्या घरांत' ह्यो अनुक्रमान विनोदी, गंभीर आनी रहस्यप्रधान अशो वेगवेगळ्या स्वरूपाच्यो एकांकी आसल्यो. ह्या एकांकीनीच तांकां एकांकीकार म्हण नामना लाबली.

मुखावयल्या काळांत मात डॉ. विनय सुर्लकारांची एकांकी बदल्ली. तांकां आपणाली वाट मेळिल्लेवरी जाली. किसन कामत हांगेल्या 'बाप्पा' ह्या व्यक्तिचित्राचेर वरयिल्ल्या एकांकीनी तांकां नवी प्रेरणा लाबली. गोंयच्या मध्यमवर्गि कुटुंबांतल्या 'बाप्पा' नांवाच्या करत्यासवरत्या मनशाची व्यक्तिरेखा ताणी केळयली. 'बाप्पा' ही मध्यवर्ती व्यक्तिरेखा मानून तिच्या भोंवतणी घडणुकांची मांडावळ केली. अर्थांतूच एकांकीचें स्वरूप प्रहसनात्मक आसलें.

'बाप्पा' वयली तांगेली पयली एकांकी 'बाप्पा शिवराक'. गोंयकारांच्या नुस्त्याच्या पिशाचेर ही एकांकी आटापल्या. उपरांत 'बाप्पाली म्हस,' 'बाप्पाली हुड्डमेथी,' 'बाप्पा भजीं गाळटा,' 'बाप्पाय ना पुडवेंय ना,' 'बाप्पाक व्हनीन शिंगां लायलीं,' 'मेल्ल्या म्हशीक बारा शेर दूद,' आदीं. हातूंतल्यो चार एकांकी वेंचून काडून 'बाप्पाली गांथन' माथाळ्याखाला तांगेलो एकांकी संग्रह उजवाडाक आयलो. हो संग्रह उजवाडाक येतासर तांगेली विनोदी रचनाकार म्हण सगळयाक नामना जाल्ली. आपणाल्या एकांकीच्या स्वरूपांत बदल म्हण डॉ. विनय सुर्लेकार हाणी 'मर्डर एट मिरामार', 'रिण' ह्यो एकांकी बरयल्यो पूण प्रेक्षकांनी तांचो जायतसो स्वीकार केलो ना आनी डॉ. सुर्लेकार आपणाले विनोदाचे फास्केंतूच बंदीस्त उरले.

मानवी सभाव आनी त्या सभावांतल्या विसंगतीचें दर्शन, गोंयकारांच्या अभिजात वृत्तींचें चित्रण, बाप्पाचें ओडलायगें आनी निर्व्याज व्यक्तिदर्शन हीं डॉ. विनय सुर्लेकारांच्या एकांकीचीं खाशेलेपणां म्हणपाक जाय.

गोंय स्वातंत्र्य उपरांतच्या ह्या पयल्या दशकांत कोंकणी रंगमाचयेर हास्याचो धबधबो कोंसळटालो म्हळयार अतिताय जावं नये. ह्या धबधब्याच्या प्रवाहांत नाटकांतलीं साहित्यिक मुल्यां व्हळून वताशीं जालीं.

आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रार तेन्ना पुंडलीक नारायण दांडे Script writer म्हण काम करताले. तांकां हाची जाण आसली. तांगेल्या 'ताची करामत' ह्या फार्सिकल नाटकान गोंयच्या खांवी कोंयडयांनी प्रयोग करून नामना जोडिल्ली त्याचबरोबर कोंकणी नाटकाचें आनी विनोदाचें समिकरण तांकां सलतालें. ताका आव्हान दिवन ताणी 'निमित्ताक कारण' हें पुराय स्वरूपाचें कौटुंबिक संघर्षाचें नाटक रचलें पयलेच खेप नाटयसर्तित त्या नाटकाक अपेक्षेप्रमाण यश लाबलें ना आनी पुंडलीक दांडे निरशेले. कोंकणी रंगमाचयेक विनोदाच्या चक्रयांतल्यान भायर काडपाचें सामर्थ्य आशिल्लो असो जो एकलो एकसुरो नाट्यरचनाकार आसलो तोच गळसणलो. ताणी बरयलीं तीं दोन नाटकां पूण रंगमाचयेवयले एकांकीचे वाटेक ते गेले नात.

पूण पणजी आकाशवाणी वयल्यान ताणी बरोवन प्रसारीत केल्ल्यो श्रुतिका मात आयकुप्यांक थाकाय दिवन गेल्यो. रेडिओची मर्यादा मतींत घेवन ताणी त्या माध्यमाची बळस्थानां हेरून घेतिल्लीं. तांचे श्रुतिकेंतलें एक पात्र दुसऱ्या पात्राचीं वर्णनां करताना सांगता -

' ताच्या दोळयांर काळें वस्ल आसतलें. दाढी कोरलेली आसतली. गंजीफ्रोकाचेर 49 हो आंगभर नंबर आसतलो आनी माथ्याक धवी तोपी आसतली." श्राव्य माध्यमातल्यान 'दृक्' उबे करपाचें तांगेलें कसब आसलें. 'चिटयेंतलो बॉम्ब,' 'बंद,' 'अशें केन्नाच धडलें ना' आनी 'अशें एकदां घडलें' हीं दोन विभागांतली

श्रुतिका तशेंच 'दुडवांचे सवंग' ह्यो तांगेल्यो गाजिल्ल्यो अश्यो श्रुतिका. आयज रंगमाचयेच्या तंत्रांत जाय तो बदल जाला. कालचो साचो बदल्ला. रंगमंचावयल्यो एकांकी नभोनाट्याचो रुपकार स्वीकारता तेचपरी नभोनाट्यूय कांयशा तंत्रीक बदलान रंगमाचयेर यशस्वी जावपाक शकता. एके स्पर्धेंत पुंडलीक दांडेची 'अशें केन्नाच घडलें ना' हें नभोनाट्य अशेंच रंगमाचयेर आयिल्लें. पूण तांगेल्या हेर नभोनाट्यांची हातबरपां सांबाळून दवरपांत केन्ना ताणीय खास आस्था दाखयलीना आनी पणजी आकाशवाणीनूय ती आस्था दाखयलीना.

पुंडलीक दांडेचे समकालीन बरोवपी कृष्णा लक्ष्मण मोयो. ताणीय व्हड प्रमाणांत गोंयचे मध्यमवर्गी जिणेचेर श्रुतिका बरयल्यो. 'हारशाचे कुडींत भांगराची दिवली' ही तांगेली श्रुतिका उपरांत एकांकी जावन रंगमाचयेर आयली आनी पुस्तक रुपानूय प्रगट जाली.

## अशोक कामत

कोंकणी एकांकीच्या मळार हांसोवण्या खेळांक ओतो आयिल्लो त्याच काळार अशोक कामत हो एकांकीकार उदयाक आयलो आनी विनोदाचे भकीक पडून सैरभैर जाल्ले एकांकीक चाट बसली. खरें म्हळयार सुरवेक अशोक कामत हाणी विनोदी नाटकुलीं बरोवनूच आपणाले साहित्यिक जिणेक आरंभ केल्लो. थळाव्या शाळांच्या गॅदरिंगांक आनी स्पर्धांक तांचेकडसून विनोदी एकांकीक मागणी आसतानाय ते त्या मोहाक बळी पडलेना. काळप्रवाहाच्याआड वचपाचें धाडस ताणी केलें आनी ताकाच लागून कोंकणी एकांकीच्या मार्गावयलें तें एक मायलस्टोन थरलें.

1968 ते 1975 वर्सांच्या काळांत अशोक कामतीन सुमार सोळा एकांकी बरयल्यो. 'म्हजी भूंय म्हजो मोग,' 'अशोकांकी,' आनी 'कोण कोणाचो न्ही !' अशा तीन एकांकी संग्रहानी त्यो आस्पावल्यात. त्या भायर 'हो तर खेळ सैमाचो' ('कोंकणी' दिवाळी अंक 1976) आनी 'दुकांची जालीं मोतयां' ('कोंकणी' वर्सूकी 1986-87) ह्यो एकांकी ताणी रचल्यात. ह्यो एकांकी शाळा - कॉलेजांनी, गोवा कला अकादमीच्या राज्यथरावयल्या सर्तिनी सादर जावन साहित्यिक आनी प्रयोगाच्या कसाक त्यो उतरल्यो म्हणपाची गवाय मेळ्ळी. सर्तिनी तांकां इनामां लाबलीं आनी वेगवेगळ्या थळांनी तांचे प्रयोगार प्रयोग जायत रावले. अशोक कामतीच्या एकांकीचो उद्देश लोकांच्या मनाचें तात्पुरतें मनोरंजन करपाचो न्हय. कांय मुळावे प्रश्न लोकांमुखार मांडून त्या प्रश्नांचे चर्चेंत लोकांक आस्पावन घेवचे हो तांचो हेत दिसता. तांचे नाट्यलेखन हें पलायनवादी न्हय. कुटुंबातलें आनी समाजांतलें जितेंजिवें वास्तव

ताणी रंगमाचयेर हाडलें. कथावस्तुंतल्या घडणुकांची गुंतावळ, उत्कंठा - उमळशीक आनी निसरगांठीवरी आपसूक सुटपी पेंच, नात्या - गोत्यांतले संघर्ष आनी समन्वय, विक्षिप्त आनी विलक्षण पात्रयेवजण, सुटसुटीत संवादरचना, हें अशोक कामतीचे एकाकीचीं खाशेलेपणां आसात 'म्हजी भूंय म्हजो मोग,' 'उमाळो,' 'मायेची भूक,' 'कोण कोणाचो न्ही !' ह्यो तांगेल्यो रंगमाचयेर गाजिल्ल्यो अशो एकांकी.

## कला अकादमी एकांकी सर्त

1969-70 वर्सा सावन गोंयांत गोंय सरकाराचे कला अकादमीन विद्यालयीन आनी महाविद्यालयीन पांवड्यार एकांकी सर्ती घडोवन हाडपाक आरंभ केलो आनी कोंकणी एकांकीक राजमान्यताय आनी थीरताय लाबली. अशे तरेची थीरताय आनी प्रतिष्ठा कोंकणी एकांकीक मुंबयत 1950-60 ह्या दशकांत मेळिल्ली.

गोंयांत एकांकीचे बाबतींत नवे प्रयोग घडत रावले पूण मुंबयवरी कोंकणी एकांकीची तुळा करून कस अजमावपाक हांगासर गुजराथी, हिंदी, मराठी एकांकीचो सांगात नासलो. कोंकणी बरोबर मराठी एकांकीचे प्रयोग जाताले पूण ते प्रयोग करपी कलाकार मुदलाक कोंकणी भाशीकूच आसताले.

पूण गोवा कला अकादमीन एक म्हत्वाची येवजण चालीक लायली आनी कोंकणी एकांकीचो पांवडो उंचावपाक आनी हेर भासांतल्या एकांकीकडेन ती समांतर दिकेन वचपाक आदार जालो. ती येवजण म्हळ्यार नाटचकलाकारांक नाटयकलेचें शिक्षण दिवपी कांय सप्तकांचीं शिबिरां. नाटयशिक्षणाची कल्पना आनी प्रसार एकांकीक खुबूच उपेगाक पडलो. नाट्याचीं पारखणी आनी नाटच निर्मणेचें पद्धतशीरपणान ज्ञान, ह्या शिबिरांतल्या जाणकारांकडल्यान शिबिरार्थ्यांक मेळपाक लागलें. के. नारायण काळे, विजया मेहता, माधव वाटवे, कमलाकर सोनटक्के, जयदेव हट्टंगडी, दामू केंकरे, रघुवीर तळाशीकर आदी नाटचक्षेत्रांतल्या जाणकारांचो ह्या संबंदान उल्लेख करचो पडटलो. नाटयकलेचो गंभीरतायेन अभ्यास करून रंगमाचयेक नट, दिग्दर्शक आनी तंत्रज्ञ दिवपाचो वावर ह्या शिबिरांतल्यान जावपाक लागलो. हीं नाटचशिबिरां जरी आसलीं तरी हातूंत वेगवेगळे प्रयोग करपाखातीर नाटकांपरस एकांकीचोच वापर जावपाक लागलो. एकांकी ह्या प्रकाराक प्राधान्य लाबलें आनी ताचो परिणाम म्हण एकांकीचीं चळवळ बळावत गेली. कला अकादमीच्या विद्यालयीन थरावयल्या सर्तिनी पणजेच्या 'इन्स्टिटयूट ऑफ इन्स्ट्रक्शन' शाळेच्यो एकांकी देखण्यो थरताल्यो. त्या शाळेंतले अध्यापक लिंगनाथ नायक, गिरी धुमटकार आनी दिगंबर शिंगबाळ हे कलाकार दिग्दर्शन, नेपथ्य, आवाज,

उजवाड हांच्यो सगळयो घटा यशस्वीपणान सांबाळून सर्तितलीं चडानचड इनामां उबारताले.

1975 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीन, कोंकणीक भारतांतली एक स्वतंत्र साहित्यिक भास म्हण मान्यताय दिली आनी कोंकणी साहित्याच्या मळार नवें चैतन्य फांकारलें. शिक्षणाच्या प्रसाराक लागून तळागाळांतलो समाज शिकूंक पाविल्लो आनी वर्सासंकिनी दबून उरिल्ल्या समाजाचो हुंकार साहित्यिक रूप घेवन प्रगट जातालो. साहित्य अकादेमीचे मान्यतायेक लागून कोंकणी लेखकांक हेर भारतीय साहित्यिकांवांगडा शिबिरां, कृतिसत्रां, परिसंवाद हातूंत वांटो घेवपाची संद मेळपाक लागली आनी कोंकणी साहित्याची तुळा हेर साहित्याकडेन करून आपणाली तांक वाडोवपाची संद तांकां लाबली.

1978 वर्सा पुण्यांत, साहित्य अकादेमीन कोंकणी, मराठी, गुजराथी आनी सिंधी एकांकीकारांचे एक शिबीर घडोवन हाडलें. हातूंत बैंदूर देवराय अय्यगळ, दत्ता श्री. नायक, अशोक कामत आनी पुंडलीक नारायण नायक ह्या कोंकणी एकांकीकारांक आमंत्रीत केल्ले. अकादेमीन आदीं पत्रान 'नवे एकांकीची कल्पना' चिंतून येयात आनी शिबिरांत एकांकी लेखन पुराय करात अशें एकांकीकारांक सुचयिल्लें. त्या प्रमाण बैंदुर देवराय अय्यगळ हाणी 'कौरवांलो कृष्णु,' दत्ता श्री. नायक हाणी 'कावळेमाम ! कावळेमाम' आनी पुंडलीक नायक हाणी 'एका जुंव्यार जंय' ह्यो एकांकी बरयल्यो. बैंदुरानी बरयिल्ली 'कौरवांलो कृष्णु' ही एकांकी म्हळचार तांगेल्या त्याच नांवाच्या मूळ नाटकाचो संक्षेप आसलो. ह्या शिबिरांतल्यान एकांकी लेखनाची प्रेरणा घेवन कोंकणी एकांकीकार परतले. त्याच वर्साच्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत दिगंबर शिगबाळ हाणी पणजेचे 'कला शुक्लेंदु' संस्थेचे प्रायोगिक एकांकी सर्तीत 'एका जुंव्यार जंय' सादर केली. पुंडलीक नायकान एकांकीचेर खाशेलें लक्ष ओडलें. 'पावणो,' 'मर्णकटो' अशो आनीक दोन एकांकी ताणी बरयल्यो.

ह्याच काळांत गोंयांत कला महाविद्यालयाची स्थापना जाली आनी त्या महाविद्यालयाचे विद्यार्थी कोंकणी / मराठी एकांकी घेवन कला अकादमीचे सर्तित देवले. दिगंबर शिगबाळ, श्रीधर कामत बांबोळकार, अरूणकुमार साळगांवकार, किर्तीकुमार प्रभू, सुनील नायक, दिपक गाड ह्या कला महाविद्यालयाच्या कलाकारांनी आपणालो असो एक खाशेलो ठसो एकांकीच्या प्रयोगांचेर प्रस्थापीत केलो. लेखन, दिग्दर्शन, नेपथ्य, आवाज, उजवाड हांचो मेळ बसोवन कोंकणी एकांकीचो सर्वंगी विचार ह्या काळांत जाल्लो दिश्टी पडटा. 'पावणी' आनी 'मर्णकटो' ह्या एकांकीचो ते नदरेन उल्लेख करूं येता. कला महाविद्यालयांतल्या विद्यार्थ्यांनी अभ्यासक्रमांत केल्लो सौंदर्यशास्त्राचो आनी भरतमुनिच्या नाट्यशास्त्राचो अभ्यास तांका रंगमाचयेर

उपेगी पडलो. रंगाच्यो छटा, उजवाडाच्यो शेड्स, नेपथ्याची रचणूक, प्रसंगानुरूप वेंचीक संगिताची सुरावट हांचें दर्शन ह्या सादरीकरणांत दिसपाक लागलें. कला अकादमीच्या नाटचशिबिरांनी मेळयिल्लें शिक्षणूय ह्या विद्यार्थ्यांक फायदयाचें थरलें. केन्ना न्हय इतली कलात्मक उंचाय कोंकणी एकांकीक लाबली आनी हेच उंचायेचे समांतर दिकेन पुराय स्वरूपाचें कोंकणी नाटक वाट मापीत रावलें.

## पुंडलीक नायक

पुंडलीक नायकाच्या 'मर्णकटो' एकांकीच्या नभोनाटय रुपांतराक आकाशवाणीचे 1980 वर्साचे अखिल भारतीय नाटक सर्तींत पयलो पुरस्कार लाबून राष्ट्रीय कार्यक्रमांत साबार भारतीय भासानी तिचें प्रसारण जालें. उपरांत तांगेल्या पांच एकांकी संग्रहाच्या 'चौरंग' पुस्तकाक 1984 चो साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो आनी कोंकणी एकांकीचो साहित्यिक पांवडो सिद्ध जालो.

'गांवधनी गांवकार' आनी 'उजवाडाचीं पावलां' ही तांगेलीं नभोनाटयां उपरांत रंगमाचयेर एकांकी म्हण आयलीं आनी पुस्तकरुपान प्रसिद्धय जालीं. 'छप्पन थिगळी येसवंत' ही एकपात्री एकांकी, भरत नायक हाणी गोंयभर सादर केली. तिचे सुमार पाउणशीं प्रयोग जाले. तिचें दिग्दर्शन दिगंबर शिंगबाळ हाणी केल्लें. आकाशवाणीर गाजिल्ल्या 'गणिलो गणपती' ह्या विनोदी श्रुतिकेचें मागीर रंगमाचयेर एकांकीच्या स्वरूपांत प्रयोग जाले. 'वावराची वावराडी,' 'सुराटचालो संवसार,' 'बाप्पा खो ऽऽ गया' ह्यो विनोदी स्वरूपाच्यो श्रुतिका रंगमाचयेर आयल्यो. अशा पांच नभोनाटयांचो संग्रह 'आकाशमंच' नांवान उजवाडाक आयलो. 'पांज,' 'महासागरांतलें तारूं,' 'खाटकागेर एक रात', 'पाडेबांयत भांगर पिकलां' ह्यो तांगेल्यो नव्यो एकांकी 'दिगंत' ह्या एकांकी संग्रहांत आस्पावल्यात.

चालू जिणेतल्या विशयांचो सोद, आशयाक दिल्लो वास्तवपूर्ण न्याय, सामाजीक आवतिकाचेर कोडसाणेबगर केल्लें व्यंग, सूचकतेचे शैलीचो वापर आदी गुणाखातीर पुंडलीक नायकांचे एकांकी लेखन ठसठसशीतपणान उठून दिसता.

## साहित्यकारांचें एकांकी लेखन

कला अकादमीची एकांकी सर्त आनी शाळा-कॉलेजांची गॅदरींगा

हांचेखातीर कांय अध्यापक/प्राध्यापकानी हुकमी स्वरूपाचें एकांकी लेखन करून ह्या मळार भर घातल्या. कोंकणीतले ज्येष्ठ कविवर्य डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांचो त्या संदर्भात उल्लेख करचो पडटलो. तांगेल्या 'स्मगलर' ह्या एकांकी संग्रहांत एकूण तीन एकांकी आसात. तातूंतली 'शेजाऱ्याली सासूमांय' ही गाजिल्ली एकांकी. ताची मूळ कल्पना एका फ्रांसेज नाटकुल्यावयल्यान घेतल्या अशें बरोवपी पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत सांगता. 'स्मगलर' ह्या एकांकीची कल्पना आपणाली इश्ट गुरूनाथ केळेकार हाणी आपणाक दिली आनी 'एक सुंदरी चार चोर' ही आपली स्वतंत्र एकांकी अशें बरोवपी बरयता.

मनोहर सरदेसाय हांच्या काव्यांत जशें तांगेले प्रतिभेचें खाशेलें पडबिंब पडटा तशें तांगेल्या एकांकी रचनानी पडना. एकांकीचो नवो आकृतीबंध आनी संवाद हांचे बाबतींत ह्यो एकांकी पोरणीच वाट मळटात. मात 'साखरभात' आनी 'खंय गेल्लो खंय ना कितें केलें कांय ना' ह्यो तांगेल्यो एकांकी नव्या तंत्राक लागून अकादमी स्पर्धेत उठून दिसल्यो. 'आयज रे धोलार पडली बडी' हें गीतनाट्यूच तांगेले काव्यप्रतिभेकडेन चड लागीचें नातें सांगता.

रवीन्द्र केळेकार सारक्या विचारवंतानी आनी चिंतनकारांनी फावल्या वेळांत आनी शाळा - कॉलेजींतल्या नाट्यमोगींच्या आगऱ्याखातीर कांय एकांकी बरयल्यात. 'मुक्ती' आनी 'तीन अेके तीन' अशे तांचे दोन एकांकी संग्रह उजवाडाक आयल्यात. 'मुक्ती' ही एकांकी Schisophrenia जाल्ल्या एका मनशाची. द मास्कस् ॲन्ड द फेसिस नांवाची कथा आनी एडवर्ड आल्बीचें 'द झू स्टोरी' ह्या नाटकुल्याच्या आदारान ती बरयल्या. महाविद्यालयीन सर्तित ही एकांकी नदरेंत भरिल्ली. 'पिसाळें' आनी 'लीग' ह्यो दोनूय एकांकी गुजराती नाटकुल्यांच्या आदारान बरयिल्ल्यो. दुसऱ्या - संग्रहातल्यो 'पैज,' 'इगो' आनी 'रुख' ह्योवूय एकांकी अनुक्रमान 'रंभाबेन गांधी,' मधु राय आनी लाभशंकर ठाकर हांच्या गुजराती एकांकीचे रुपकार. आशयाचे नदरेन प्रतिभावंताचो स्पर्श ह्या एकांकीक जाला. तांच्या वाचनान ती गजाल चट् करून मतित येता. पूण तंत्रिक अपेक्षा त्यो पुराय करपाक शकना. 'मुक्ती' ही एकली एकसूरी एकांकीच प्रयोगक्षमतेच्या कसाक उतरता.

मुदलाक नट आनी दिग्दर्शक आशिल्ल्या ज्या कलाकारांनी कोंकणीतल्यान एकांकी लेखन केलां तातूंत प्रकाश गंगाराम थळी हांचो क्रम बरोच वयर लागता. 1967-73 च्या काळांत मुंबय शिकता आसताना महाविद्यालयीन मराठी एकांकी सर्तिनी वांटो घेवन प्रायोगीक नाट्याचे चळवळींत ते एकरूप जाल्ले. गोंयांत आयल्या उपरांत ताणी गोंयचे नाट्यस्पर्धेत पावल घातलें आनी दिग्दर्शनाच्या मळार आपणाली खाशेली कल्पकता दाखयली.

नाट्यलेखनाचे बाबतींत ताणी केल्लो वावर उल्लेख करपासारको आसा.

साहित्याच्या मळार कवी आनी ललीत निबंदकार म्हण नांव ज़ोडिल्ल्या प्रकाश थळीनी मराठी, बंगाली, कन्नड आदी भासांतल्यो गाजिल्ल्यो नाटचकृती कोंकणीत रूपांतरीत केल्यो. 'वॅटींग फॉर घासलेट' ह्या नांवाचो तांचो मराठी प्रयोगक्षम एकांकीचो संग्रह मुंबय उजवाडाक आयलो. गोंयांत येतकूच ताणी त्या मराठी संग्रहांतल्यो एकांकी कोंकणींत उतरायल्यो आनी त्याचवांगडा कांय नव्या एकांकींचे लेखन केलें. 'तीन खेतीं शाणीं सुरतीं' ही तांगेली एकांकी कला अकादेमीचे महाविद्यालयीन एकांकी स्पर्तेत गाजली आनी उपरांत जायतेकडेन जायत्या पंगडांनी तिचे प्रयोग सादर केले. 'तीन खेतीं शाणी सुरतीं,' 'उजवाडटलें आज ना फाल्यां,' 'प्रिया तुज्या मोगाखातीर,' 'वाट पळयतां दुकां गळयतां,' 'आयलें हड्डचार घेतलें खड्डचार,' 'घर म्हजें हांव धनी' आनी 'उक्तावण' अशा तांगेल्या सात एकांकीचो संग्रह 'तीन खेतीं शाणी सुरतीं' ह्या नावान उजवाडाक आयला.

प्रकाश थळी खासा नाट्यकर्मी आशिल्ल्यान प्रयोगक्षमता हो तांचे एकांकीचो पयलो गूण थरता. पूण एका तंत्रज्ञ मनशान बरयिल्ल्यो निर्जिव नाटयकृती अशें मात ताचें स्वरूप न्हय. तांच्यांतल्या ललित लेखकाची सर्जनशिळताय आनी नाटचकलाकाराची सर्जकताय हांचो मेळ बसून तांगेली एकांकी घडटा.

आयज गोंयांत कला अकादेमी स्पर्तिच्या बावीसाव्या वर्सा विद्यालयीत आनी महाविद्यालयीन थराचेर नव्यो नव्यो एकांकी माचयेर येतात. स्पर्तित जैतिवंत थरिल्ल्या एकांकीचे एक दोन प्रयोग शाळांनी हेर थळाव्य स्पर्तिनी सादर जातात.

## नव्यो एकांकी नवे एकांकीकार

लेखनातली गुणवता, दिग्दर्शन आनी हेर तांत्रीक बाबतींतलीं कल्पकता हाकालागून जैतिवंत जाल्ल्या आनी गाजिल्ल्या अशा ह्या पांच/स वर्सांतल्या कांय एकांकीचो आनी नवोदीत बरोवप्यांचो मुजरत उल्लेख करूं येता. विजयकुमार कामत हांगेली 'चित्रांतलें घर,' राजू दा. नायक हांगेली 'खुरीस उबारूंकूच जाय,' श्रीधर कामतीली 'इंतेर' सु. म. तडकोड हांची 'कॅस्केड,' धर्मानंद वेर्णेकार हांची 'एक जयराम साजुलो अडवलपालकार,' दत्ताराम बांबोळकार हांगेली 'वनमहोत्सव,' दिलीपकुमार वि. नायक हांची 'आजून शाळा सुटूंक ना' ह्यो एकांकी आपणाल्यो कुरू रेखून गेल्यात.

कृष्णनाथ आळवणी हांची 'आमी सगळीं देड शाणी,' उल्हास पै. रायकार हांगेली 'बोमो द ग्रेट,' रामदास नायक हांची 'कावळे,' गुरूदास बांबोळकाराची

'काणी एका फळराजाची,' विजय थळी हांची 'भाटकाराचो कान,' पुंडलीक नायकाची 'रानसुंदरी' ह्यो एकांकी शालेय पावंड्यार बालप्रेक्षकांचे पसंतीक उतरल्यात. जयमाला दणायत हांच्यो 'सप्तक' एकांकी संग्रहातल्यो रचना ह्यो संस्कार साहित्याच्या स्वरूपांतल्यो शालेय एकांकी आसात. तानाजी हळर्णकार हाणीय असल्यो एकांकी बरयल्यात. डॉ. विनय सुर्लेकारानी इसापनितीचेर अशोच 'बोधिका' रचल्यात.

सतितल्यान नांवारूपाक आयिल्लो एकांकीकार म्हळ्यार दत्ताराम कामत बांबोळकार. पुराय स्वरूपाचीं कोंकणी नाटकां बरोवपांतूय ताणे नामना जोडल्या. श्रीधर कामत बांबोळकार हाणी दिग्दर्शित केल्ल्यो तागेल्यो एकांकी कलात्मक पांवड्यार जैतिवंत थरल्यात. दत्ताराम कामत बांबोळकार आपणाल्या एकांकीनी अस्वस्थ करपी प्रश्न, Socio Political समस्या, भ्रश्टाचार, पातकां, मनशाचीं आडांगपणा, जुलूम, अन्याय आदी अचूक उतरांनी मांडटा. हालींसराक चड प्रचलीत आशिल्लो Mob Play वा Group Theatre चो प्रकार तागेले लिखणेक चड मानवता. 'वनमहोत्सव,' 'खामसुत्री बावलें खंय खंय पावलें,' 'हीं झुजां सैमाची,' 'मायपास' आनी 'पुण्यफळ' ह्या पांच एकांकीचो संग्रह 'वनमहोत्सव' ह्या नांवान उजवाडाक आयला.

शाळांच्या गॅदरींगानी आनी काल्या-जात्रासारक्या उत्सवांनी आनी तालुको पावंड्यावयल्या सतिनी जांच्या एकांकीक खूब मागणी आसा तो एकांकीकार म्हळ्यार भरत नायक. तांगेली 'वेंचणूक' ही एकांकी खूब गाजली. 'चपलाहार' एकांकी खासा भरत नायक आनी तांगेलो पंगड गावागावांनी वचून सादर करतालो. 'भेरें भेरें टुणटुणे,' 'बॉबी न्हिदता तेन्ना,' 'चपलाहार,' 'तिसरे माळयेर बस' आनी 'चामट्याक चिमटो' हे तांगेले बारीकमोटे पांच एकांकी संग्रह उजवाडाक आयल्यात. उत्सवांची गरज मतींत धरून बरयिल्ल्यान सगळ्यो एकांकी विनोदी स्वरूपाच्यो आसात.

हेच धर्तिच्यो उत्सवी एकांकी मधुसूदन बोरकार हांगेल्या 'हांसोळ' संग्रहांत आसात आनी तांचे मोट्या प्रमाणांत प्रयोग जातात. गोकुळदास मुळवी, सुहास सावर्डेकार, पांडुरंग देसाय, सुमंत भट, शैलेशचंद्र रायकार, जे. एल. गोयश हांगेले प्रहसनात्मक एकांकीचे संग्रह उजवाडाक आयिल्ले आसात.

मनोरंजनाचे सोयीस्कर साधन म्हणूनूच ह्या एकांकीचो वापर जाता. बरेच फावट मागणी तशी पुरवण अशीय अवतिकाय जाता. प्रसंगाचेर आनी व्यक्तिच्या धोंगापोंगाचेर आदारिल्ली थरावीक सांच्याची ही एकांकी. केन्ना केन्ना फॅशन म्हण सामाजीक विशय तातूंत केळोवप जाता. साहित्यिक नदरेन कसलें खाशेलें योगदान ही एकांकी घडयना तरीलेगीत नाटकाच्या मळार ताणी निर्माण केल्लें वातावरण हेर उमेदवारांक पोसवण दिवपी थरता.

मीना काकोडकार हांची 'उदणी होंकल,' हेमा नायक हांची 'भायली गोडी' ह्यो एकांकी रंगमाचयेर आयल्यात. नयना आडारकार, अभयकुमार वेलींगकार, अशोक भोंसलो हाणीय एकांकी साहित्य रचलां. तेनसिंग रोद्रीगीश, सतीश सोनक, द. वा. तळवणेंकार, हाणी एकाकीच्या मळार केल्लो एखाद दुसरो प्रयोग नाविन्याखातीर नदरेंत भरला.

रामकृष्ण जुवारकार, सुरेश काकोडकार, पुरूषोत्तम शिंगबाळ, रवीन्द्र आमोणकार, पुंडलीक खवंटे, रवीन्द्र नमशीकार हाणी केन्ना स्वतंत्र तर केन्ना अणकारीत वा रूपांतरीत एकांकी संहिता निर्मिल्यात.

कोंकणी नाटककार एन. शिवदास हाणी 'ज्योतिस-फितीस' आनी 'पुतळे' आनी 'भायर भितर' अशो एकांकी बरयल्यात जाल्यार दुसरे एक नाटककार दिलीप बोरकार हांच्यो 'कॅन्सर', 'चार खांब्याकडेन,' 'धारेपेल्यान वचचें आसा.' अशो तीन एकांकी ताणीच संपादीत केल्ल्या 'आकार' नाट्यविशेशांकात (1982) उजवाडाक आयल्यात. तांचो पांच एकांकीचो संग्रह 'कॅन्सर' उजवाडणेचे वाटेर आसा. कोंकणीतले तिसरे एक नाटककार उपेंद्र तिंबलो उर्फ अनिरूद्ध बीर हाणी उण्यो एकांकी रचल्यात पूण 'बेनल्ल' सारखी तांगेली रचना प्रयोगक्षम आनी प्रभावी थरल्या. दत्ता श्री. नायक हाणी 'कावळेमाम ! कावळेमाम !' आनी 'परमवीर' ह्यो एकांकी बरयल्यात. तांगेली 'परमवीर' रंगमाचयेर यशस्वी जाल्या. तुकाराम रामा शेट हाणी 'फुटपायरी' 'आमी' आनी 'एक जुवो जियेता' सारक्यो प्रायोगीक स्वरूपाच्यो एकांकी बरयल्यात. नेमाळ्यांनी त्यो प्रसिद्ध जाल्यात.

## तियात्र शैलीचो एकांकी

'खेळ' आनी 'तियात्र' हे उणो अदीक फरक आशिल्ले दोन कोंकणी लोकनाट्यप्रकार गोंय स्वतंत्र जावचे आदींसावन गोंयांत चलताले. किरिस्तांव धर्मिय समाजाचें पडबिंब ह्या लोकनाटयांनी दिसतालें. हो प्रकार खेळपीय ह्याच धर्माचे लोक आसताले. ह्या लोकनाटयाची एक खाशेली शैली आसा. हलके-फुलके विनोद, अतितायी अभिनय, सामाजीक व्यंग, निती-बोध हीं ते शैलीचीं वैशिष्टयां.

गोंय सुटके उपरांत आनी गोवा कला अकादेमीन एकांकी, नाटक हांचेबराबर 1974 वर्सासावन तियात्रांच्यो सर्ति दवरिल्ल्यान तियात्र ह्या प्रकाराक बरें उत्तेजन मेळ्ळें. वेवसायीक स्वरूपाचो तियात्र सादरीकरणाचे नदरेन खूबसो सदळ आनी भडक आसलो. सर्तितलो तियात्र, दिग्दर्शन, अभिनय, नेपथ्य, उजवाड, संगीत हांचे बाबतींत जाणवीकाय दाखोवपाक लागलो. लेखनाचे नदरेंतूय तातूंत नवे नवे विशय येवपाक लागले.

तियात्र आनी खेळ हांची मूळ संहिता ही एकांकी ह्या प्रकाराकडेन खूब लागीचें नातें सांगपी आशिल्ल्यान कोंकणीत स्वतंत्र एकांकी नांवारूपाक येवंक लागतकूच कोंकणीतल्या कांय नांवाजल्या तियात्रीस्तांनी एकांकी लेखनाक आरंभ केलो. तातूंत सगळयांत पयलीं नांव येता तें तोमाजिन्यू कार्दोज हांगेलें. 'कांटेच, कांटे,' 'उतरां आनी करण्यो,' 'हांवूच तो,' 'इश्ट,' 'इन्सेक्टर,' 'आयचो समाज,' 'काळोख आनी उजवाड,' 'अंतस्करण आनी कायदो,' 'भुरगीं आमची गिरेस्तकाय' आदी तियात्र बरोवन ताणी तियात्राक कलात्मक आनी साहित्यिक दर्जो दिलो. तीच गजाल ताणी एकांकीच्या मळार केली.

एकांकी लेखन करताना तांचेकडसून दोन म्हत्वाच्यो गजाली घडल्यो. पयले सुवातेर तांगेली तियात्र लोकनाटयाची शैली एकांकीक लाबली. त्याखातीर तीं एकांकी हेर एकांकीमदें उठून दिसली. दुसरे सुवातेर ताणी किस्तांव आनी हिंदू अशीं दोन समाजांतलीं पात्रां एकांकीत सभावीकपणान निर्मिलीं आनी खासा त्या एकांकीचे प्रयोग करताना त्याच कलाकारांची निवड केली. धर्मिक एकचाराची ती एक बरी देख अशें म्हणपाक जाता. पूण हाचो अर्थ कलात्मक आनी साहित्यिक गुणांकडेन आडनदर करून तांगेली एकांकी धर्मिक एकचाराचे धडे दिता अशें न्हय.

एक सूत्र घेवन, हलक्या फुलक्या विनोदान आनी वैशिष्टयपुराय पात्रांच्या सभाव दर्शनान शेवटाच्या परीणामाक भिडप हें तांगेलें एकांकीचें खाशेलेपण. 'चीट' ही तांगेली गाजिल्ली आनी तांच्या नाटय-लेखनाचें प्रतिनिधीत्व करपी एकांकी. लोकनाटयाचे शैलीवरी 'बोध' होवूय लोकनाटयाचो भाग तातूंत सभावीकपणान प्रगट जाला. तोमाजिन्यू कार्दोज हांची 'चीट' 'पुनरदृष्ट' आनी 'परीक्षा' ह्यो तीन एकांकी 'एक आंकी नाटकुलीं' ह्या संग्रहांत उजवाडाक आयल्यात.

तियात्रांचें लेखन करतानाच एकांकी लेखन करपी दुसरो एक तियात्रीस्त म्हळयार फ्रेडी जे. द. कॉस्त. सुमार पंदरा वयर तियात्र बरोवपी ह्या बरोवप्यान सुमार धा वयर स्वतंत्र एकांकी बरयल्यात. 'पा. जुजे वाज,' 'शंबू पसरकार,' 'खरेलो पाद्री,' 'बदल,' 'शिकपाचें मोल,' 'जेजूचे कश्ट,' 'वाट,' 'खरीं नातालां' हीं तांगेल्या कांय एकांकीचीं नांवां. हातूंतल्यो कांय एकांकी धर्मिक स्वरूपाच्यो, कांय नितीचीं देख दिवपी जाल्यार कांय विनोदी स्वरूपाच्यो आसात. 'बाप्पा बाइरीन वता', 'बाप्पा मंत्री जाता,' आनी 'बाप्पाक सोर्त फुट्टा' ह्यो एकांकी पुरायपणान विनोदीच आसात. 'बाप्पा' ह्या Stock Character भोंवतणीच ह्या एकाकीचें कथासूत्र घुंवता. आदले एकांकीकार किसन कामत, रघुवीर नेवरेंकार आनी विनय सुर्लेकार हांच्या एकांकीतल्या 'बाप्पा' व्यक्तिरेखेचोच पुरायरितीन तांचेर प्रभाव आसा. प्रभावा परस तांचें अनुकरणूच आसा अशें

म्हणचें पडटलें. एक गजाल मात खरी. ती म्हळयार 'बाप्पा' चें आदलें व्यक्तिचित्र ज्या प्रेक्षकवर्गान पळयिल्लें आनी मनाची करमणूक करून घेतिल्ली त्या प्रेक्षकांपरस वेगळया प्रेक्षकांमुखार हें व्यक्तिचित्र प्रक्षेपित करपाचो तोखणायेचो वावर फ्रेडी जे. द. कॉस्ता हाणी केलो.

तियात्राच्या पालकार जे बरोवपी वा हेर कलाकार वावुरतात तांकां एकांकी हो प्रकार खूब मानवला अशें दिसता. तियात्राचें स्वरूप एकांका सारकेंच आशिल्ल्या कारणान एकांकी रचना करप हो त्या बरोवप्यांक तंत्राचे नदरेन संवकळीचो प्रकार थरता अशें म्हणचें पडटलें. आयचे घडकेक गोंयांत साश्टी, सांगें, काणकोण, केपें, सावर्डें, कुडचडें, फोंडें ह्या वाठारांत तियात्र शैलीच्यो एकांकी मोटया प्रमाणांत जातात. ह्या एकांकीच्यो दर वर्सा सर्ती घडोवन हाडपी कांय थळाव्यो संस्थाय आसात. प्रयोगाचे नदरेत जैतिवंत जाल्ली एकांकी हांगा-थंय परत परत इनामां घेता अशें चित्र दिश्टी पडटा.

ते नदरेन जॉनी एम. ह्या एकांकीकाराचो मुजरत उल्लेख करचो पडटलो. तांगेली 'श्राप' ही एकांकी ताणी आपणाल्या पंगडाचे वतीन गोंयांत 28 सुवातींचेर एकांकी सर्तिनी सादर केली आनी दर सर्तिक प्रयोगाचीं, अभिनयाचीं, दिग्दर्शनाचीं आनी लेखनाचीं इनामां जोडलीं. चालू राजकारणांतल्या भ्रश्टाचाराचेर आदारिल्ली तांगेली ही एकांकी 1987 वर्सा स्वतंत्र पुस्तक रुपान उजवाडाक आयली. अशाच थळाव्या संस्थांच्या सर्तितल्यान बऱ्या साहित्यिक पावंडयाच्यो एकांकी बरोवपी म्हण कार्लूस फेर्नांडीस हांचें नांव घेवं येता. तांची 'थीक' ही एकांकी तंत्र आनी आशयाचे नदरेन बरी आसा.

## गोंयांभायर एकांकी

गोंयांभायर महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ राज्यांनी विखरून पडिल्ल्या कोंकणी समाजांत कोंकणी संस्कृताय पोटळून धरल्या. ते संस्कृतायेंत नाटक हो भाग, वेगळो काडूं नजो इतलो तो एकरूप आसा.

नोकरी वेवसायाच्या निमतान मुंबयत येवन रावपी कर्नाटकांतल्या कोंकणी लोकांचो आंकडो व्हड आसा. हिंदू धर्माच्या लोकांच्यो धर्मिक आनी ज्ञातीय स्वरूपाच्यो संस्था आनी मठ आसात. आपणाली सांस्कृतिक भूक भागयताना तांच्यातल्या सर्जनशील कलाकारांनी नाटयाचे उत्कट आनी भावपूर्ण अशे अविष्कार घडल्यात. हे अविष्कार केन्ना मुंबयत जाल्या आनी तांचे पडसाद कर्नाटकांत तांगेल्या गांवघरा उमटल्यात जाल्यार हे नाटयप्रयोग तांच्या गांवघरा पयलीं जाल्यांत आनी मागीर मुंबयत तांचे कर्मभुयेंत पावल्यात.

1920 वर्साच्या अदमासाक बोळंतूर कृष्ण प्रभु हाणी बरयिल्लें 'चंद्रहास'

हें पयलें पुराय स्वरूपाचें संगीत कोंकणी नाटक अशें मानतात. तांच्या उपरांत शिवानंद भट्ट गुलवाडी हांचें नांव नाटककार म्हण मुखार येता. मुंबयत मंगळूरी शैलींतलीं जीं नाटकां सुरू जालीं तांचे श्रेय उमानाथ डोंगरकेरी हांगेल्या 'वज्रमुकूट' ह्या संगीत नाटकाक दिवंचे पडटा. तांच्या उपरांत स्वतंत्र आनी अणकारीत नाटकां रचपांत सुंदर उळ्ळाळ हांचें नांव येता. प्रभाकर आनंदराव मुदूर, पांडुरंग सिताराम तलगेरी, व्यंकट तलगेरी, नरहरीभट्ट कल्याणपूर आदी नाटककारांनी नाटकां रचलीं. हे नाटचपरंपरेच्या आदारान 1958 वर्सासावन 'कोंकणी साहित्य समिती' कोंकणी नाटचमहोत्सव घडोवन हाडटा.

मंगळूरी शैलींतले हे नाटचपरंपरेंत बैंदूर देवराय अय्यगळ हें नांव उठून दिसता. संस्कृत साहित्यावांगडा ताणी परकी भासेंतल्या अभिजात साहित्याचोय अभ्यास केला.

'सोयरिके संभ्रम,' 'दुडवाध्यासु,' 'धडाने घट्टी की बोडाने,' 'फोडुलें पन्नंबर,' 'प्रीतीखातीर,' 'उबगणि उद्योगु,' 'सुखा संसारू,' 'बाविसारी बारसो,' 'होवयि दिवसु वतली,' 'पांडव प्रगटन,' 'मद्देचो,' 'कौरवांलो कृष्णु,' 'पार्वती कवड काडि' ह्यो तांगेल्यो नाटचकृती आसात. ताणी आपणाल्या नाटकांन पौराणीक तशेंच सामाजीक विशय केळयल्या. कांय नाटचकृती प्रहसनात्मक जाल्यार कांय शोकात्म स्वरूपाच्यो आसात. बैंदूर देवराय अय्यंगळ हाणी सुमार आठ एकांकी रचल्यात. 'पार्वती कवड काडि' ही तांगेली एकांकी ताणी रेडिओखातीर श्रुतिका म्हण बरयली. पूण उपरांत ती रंगमाचयेर जैतिवंत थरली. 1981 वर्सा शिराली, श्री चित्रापूर मठाच्या रथोत्सवांत तिचो प्रयोग जालो आनी मागीर 1983 वर्सा ती पुस्तक रूपान भायर सरली. भगवान शंकर मृगयेक सावन, एके फांतोडेर स्वस्थानाक परतता आनी दारार मारता तेन्ना भायर आयिल्लो मनीस अनवळखी समजून पार्वती ताचेकडेन संवाद करता असो हो प्रसंग एकांकीच्या रुपान उबो केला.

'कौरवांलो कृष्णु' ही एकांकी म्हळ्यार तांगेल्या पुराय नाटकाचोच एकांश. पुराय स्वरूपाचें नाटक ताणी 1956 वर्सा बरयलें. उपरांत 1978 वर्सा ताची एकांकी धडयली ती 'कुळागर' (फेब्र. 1983) च्या अंकांत उजवाडाक आयली. अभिजात संस्कृत साहित्यांतल्यो 'व्यक्तिरेखा' आनी प्रसंग कोंकणीत हाडटना ताणी त्या व्यक्तिरेखां तोल ढळूंक दिवना. तांगेल्या संवादाची रचना म्हळ्यार नकसूद फुलांची माळ कशी. काव्यमय आनी शैलीदार संवाद हें तांगेल्या एकांकीचें खाशेलेंपण मानपाक जाय.

कर्नाटकांतल्या कोंकणी हिंदू लोकांच्या देवस्थानच्या प्राकारांत कोंकणी नाटकां खेळपाची परंपरा चलता. पुराय स्वरूपाच्या नाटकांसांगाता केन्ना केन्ना एकांकीचेय प्रयोग जातात. होनावरचे बाबूटी नायक हाणी शंबरांवयर नाटकां

बरयल्यांत पूण एकांकी साप उण्यो बरयल्यात. दांडेलीचे के. एन. राव हाणी 1952 ते 1962 च्या काळांत उत्सवाखातीर कांय नाटकां बरयल्यांत तातूंत कांय एकांकीचोय आस्वाद आसा. मंगळूरचे बि. व्ही. बाळिगा, मोहन भंडारी, अनील पै, कुमठाचे सदानंद पुराणीक, वासुदेव शानभाग, नरहरी प्रभु हाणीय एकांकी बरयल्यात.

कर्नाटकांतल्या इगर्जा भोंवतणीय कोंकणी रंगमाचयेक पोसवण लाबल्या. कोंकणी एकांकीचे प्रयोग पयलीं धर्मिक थळांचेर, वाठारांनी जावपाक लागले आनी मागीर तांका सामाजीक दाखोवणेचें स्वरूप आयलें. मंगळूरांत 'कोंकणी नाटक सभा,' कला संपत' आदी संस्था नाटकांच्यो सर्ती घडोवन हाडटा. डॉन बॉस्को हॉलांत सप्तकांतल्यान एकदां तरी कोंकणी नाटकाचे खेळ जातात. व्ही. जे. पी. साल्दान्य, दोल्फी लोबो काल्सीया, मार्टिन डि सा, एस. एस. मिरांडा, फ्रेड फेर्नांडीस, सिरिल व्हियेगश, विल्फ्रेड रिबोंबस हे कांय नाटचलेखक आसात. कांय प्रमाणांत ताणी एकांकी लेखनूय केलां. एका काळार हिंदू आनी किरिस्तांव हांचेमदीं आशिल्ली सांस्कृतिक दोंड सादपाचो यत्न कांय नाटचकृतीवरवीं जावपाक आरंभ जाला.

कर्नाटकांत कोंकणी नाटकाची परंपरा चलता. 1948 वर्साच्या अदमासाक लूईस मास्कारेन्यस हाणी बरयिल्ले 'आब्रावंचें यज्ञदान' ह्या गीतानाटचा उपरांत तितले साहित्यिक तांकीची नाटचरचना उपरांतच्या पंचविशेक वर्सामेरेन जाली ना.

## चा. फ्रा. दे कोस्ता

लुईस मास्कारेन्यस हांचेच तांकीचो स्वतंत्र प्रज्ञेचो आनी चिंतनशील नाटककार उदयाक आयलो तो म्हळ्यार चार्लस फ्रान्सीस दे कोस्ता. चा. फ्रा कोस्ता म्हूण काव्याच्या मळार तांका सगट कोंकणी संवसारांत नामना आसा. फाटलीं चार दशकां तो कवी, गीतकार, पत्रकार आनी नाटककार ह्या मळांचेर आपणाले स्वयंभू प्रतिभेन चकचकता. लुईस मास्कारेन्यस आनी चा. फ्रा. दे कोस्ता हांची तुळणा करताना तांचेमजगतीं एक मुळावो भेद नदर ओडून घेता. तो म्हळ्यार लुईस मास्कारेन्यस एक देवभक्त कॅथोलीक जाल्यार चा. फ्रा दे कॉस्ता विद्रोही कॅथोलीक आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार दोगूय प्रतिभावंत. एकल्याची देवभक्ती जाल्यार दुसऱ्याचो विद्रोह तितलोच कलात्मक जावन नाटचकृतींत देंवला.

चा. फ्रा. दे कोस्ता हाणी 'तर्ने तर्ने मोर्ने,' 'मागीरचें मागीर,' 'भांगरा मनीस' सारकीं एकापरस एक नाविन्यपुराय नाटकांच्यो रचना करता आसताना कांय बऱ्या एकांकीचेंय लेखन केलां.

'सुगें माजर हासता' ही तांगेली गाजिल्ली एकांकी. तिचें स्वरूप कांयशें लघुनाटकावरी आसा. 1976 वर्सा, मंगळूरांत तिचो पयलो प्रयोग जालो. कल्पकतेचो नदर दिपकावणो आविष्कार म्हण हे एकांकीची नामना जाली. 'विशेंतीचे भाव' हिवूय तांची गाजिल्ली एकांकी. एका मध्यमवर्गी घराब्याचेर ती आदारल्या. भांगराची आशा धरपी पूत-सुनो, मेल्ले म्हातारेच्या मडयाची कशी विदर्णा करता तें तातूंत मार्मिक रितीन दाखयलां. हे एकांकीचे सुमार पंचविशेक प्रयोग जाल्यात. 'टोमेटो' आनी 'हांडो उटला' ह्यो एकांकीय वेगळे विशय आनी मांडणी हांचेखातीर यशस्वी थरल्यात. तांगेल्या चार एकांकीचो संग्रह 'सुगें माजर हासता' ह्या नांवान पुस्तक रुपान प्रगट जाला.

धर्मिक आनी सामाजिक दंभाआड केल्लें मार्मिक व्यंग, मानवीक आनी विज्ञाननिष्ठ नदर. प्रतिकां आनी प्रतिमांची अलंकारीक भाशाशैली हे चा. फ्रा. दे कोस्ताच्या एकांकीचे खाशेले गुण आसात.

गोंयांत, मुंबयत आनी कर्नाटकांत जशी एकांकीची परंपरा आसा तशी खास परंपरा केरळांतल्या कोंकणी समाजामदीं ना. नारायण नरसिंह पै (1879-1959) सारक्या नाटककारानीं थंय कोंकणी नाटकां मोटया प्रमाणांत सादर केलीं. ही परंपरा आजूनूय चलता. कविता, कथा, धर्मीक साहित्य ह्या बरोबर नाटकांय जातात. के. अनंत भट सारके गीतकार, संगीत नाटकां रचतात. पूण एकांकी हो प्रयोग रुजवणा येवंक ना. धर्मीक उत्सवांनी आनी केन्नाय सामाजिक थरावयल्या कार्यावळींनी कोंकणी एकांकीचे प्रयोग करमणूखातीर जाता इतलेंच.

रंगमाचयेर एकांकी तशी आकाशवाणीचेर श्रुतिका वाजता. हालींच्या काळार कांय श्रुतिकांच्यो वेवसायीक स्वरूपांत कॅसेटीय भायर सरतात. श्रुतिकेचो भरीभार सगळो आवाजाचेर आनी संगीताचेरूच आशिल्ल्यान तिका कलात्मक मर्यादा पडटात. तरी लेगीत आकाशवाणी आनी रंगमंच ह्या दोनूय तंत्रांची बेसबरी जाण आशिल्ले लेखक आपणाले एकांकीचें श्रुतिकेंत रुपांतर करता तेच धर्तीचेर आपणाले श्रुतिकेचो एकांकी रुपकारूय घडयता. आयचे घडकेक आकाशवाणीचीं पणजी, मुंबय, मंगळूर आनी धारवाड हीं केंद्रां कोंकणी श्रुतिका नित्यनेमान वितरायतात.

कोंकणी नाटकाक अजून दूरदर्शनाचेर फावो तितली सुवात मेळूना. ती मेळटली तेन्ना रंगमाची, आकाशवाणी ह्या माध्यमावांगडा आनीक एका नव्या माध्यमाची भर पडटली आनी एकांकीचें एक देखणें रुप पळोवपाक मेळटलें.

**– पुंडलीक नारायण नायक**

वळवय-गोंय
31 डिसेंबर 1989

# 1.

# दामू कुराडो

## आचार्य रामचंद्र शंकर नायक

पात्रां :

सोंशेबाब कापसो : कमाविसदार, 50 साचें मान
दामू कुराडो : एक दांडगो भुरगो, 25 साचें मान

□

थळ : गोंय

□

काळ : हालींचो

अगरसाळेच्या माळयेर कमविसदाराली कूड. उजव्या आनी फाटल्यावशीन दारां. दाव्यावशीन जनेलां. बरवपाचें मेज. ताजेर वैर देवळाच्या कमविशेच्यो बरवपाच्यो पटयो आनी कागदां. उजवे कुशीन एक बांक. ताजेर शेनऱ्यां-उश्यांचो दाळ. जेकडे-तेकडेन कशाचीं कशींय दवल्लेलीं चार तरेचीं चार कदेलां. फाटले वणटीर एक खुंटयाळें. ताजेर चोळो, उपरणी, रुमाल बि पोरणे तरेचो पोशाग. आनी कुशीक देवकार्यांची वळेरी.

## देखाव एकूच

सोंशेबाव कापसो कुतांव कानतोपी घालून. पड्डो वैर सरता तेन्ना नाखार चाळीसराव चडवान मेजार कितें बरयता. इतल्यांत दामू कुराडो, अर्दें कल्सांव, हातकापें खोमीस, मापें हेल्मेट, पांयांक मेय-बोतां, अशा थाटांत येता. नुरा उचम्बळ. पैससून आयिल्लो दिसता. दोन हातांत दोन बॅगो. अेकेचेर संत्री, रोत आनी जोत्याची पोटली बांदल्या. खांक्यांत कांय वर्तमानपत्रांचें आंक.

दा. : नमस्कार तुमकां. सोंशेबाब कापशे म्हणटात ते तुमीच ?

सों. : (उठून नमस्कार करता) येयात. हांवच तो. म्हाकाच म्हणटात तशें ! (मनांत) खैचें रे बाबा हें आनी कूळ ?

दा. : वळख जाली, बरे दिसलें. तुमी म्हाका वळखतात ?

सों. : आजून तसो प्रसङ्ग आयिल्लो आठवना.

दा. : कांय नजो. आतां हाडुंया. तांतूत कितें ? सकैल तुमचें नांव विचारून घेतले आनीं नीट वैर आयलों हांव. तुमकांच मेळूंक ! आसात मूं बरे तुमी ? हांव आसां बरों तुमचे कृपेन. आनी तुमगेलीं घरचीं सगलीं ? जावं, बरीं जावन असतर जालीं.

सों. : (मनांत) "कोर्द" बरी सारकी ना दिसता !

दा. : हें सगलें हांगाच दवरतां. (दोन बॅगो दोन कदेलांचेर दवरता. आनी जोतीं

मेकळीं करून सकैल वडयता.)

सों. : (अजापून) हें वो, पुण ... (मनांत) कलम बरेंच भिडेस्त आसा !

दा. : (अेका कदेलार बसून) आगा, म्हाका उलयतलो जाल्यार, मेक्कळो बरो आसूंक जाय. (बोतां काडटा आनी जोतीं चडयता) जायतें उलवचेलें आसा तुमचेकडेन.

सों. : (अधिकूच अजापून) पुण ... (मनांत) सामकोच पिसो काय ?

दा. : आनी आयकात. म्हाका पळेयात अशी तान लागल्या ...

सों. : लागल्या आसत. पुण चन्याचो मांड थैं प्राकारभायर उल्लो. हांगा ही कमाविशेची कूड ! ...

दा. : (ताणशेवन मर्दीव) आगा, वोगीच मर्दां उलवं नये.

सों. : (फाटी सरून, मनांत) पिसोच ! आनी दुभाव ना !

दा. : म्हाका तान लागल्या ती कसली जाणात तुमी ? (तो अजाप जावन पळेता) ताज्या गोमटेक घांस मारचेली !

सों. : (थंडकायेन) बरे आसा हो, पुण म्हाका तातूंत कितें ?

दा. : तुमकां कितें ? आयकात सांगतां. तुमी कितें समजल्यात ? काल हांव येद्या देळार खैं आशिल्लों ?

सों. : हें गा कोणालें ? हांव जाणं ? (कुशीन) विमला बि जावंये.

दा. : दर्यांत ! आनी हांव दर्यांत कितें करतालों ?

सों. : भोव करून खारीं न्हाणां घेतालेशें दिसता.

दा. : न्हाणां ? (खो खो करून हांसता) आगा, पिशेंबि लागला व्हय गा तुका ?

सों. : (कुशीन) सगल्या पिशांक हें एक कोल्ल आसता. दुसऱ्यांक पिशे म्हणपाचें ! ताका कितें जाप दितलो ?

दा. : हांव भोंवडेर आसतालों. तो मुंबैसून परतलों. भोव बरें येवजलें हें म्हाका !

सों. : म्हाका दिसता, ते वाटेनूच राविल्ले चड बरें आशिल्ले. बरें. पुण ...... अेकाच उतरान सांगात पळोवंया, तुमचें म्हजेकडेन कसलें काम आसा ?

दा. : (अेकदम ताणशेवन) मर्दीं उलवं नाका म्हळ्ळी याद उरना ?

सों. : (कच्च करून आंग काडून) उरता. उरता. (कुशीन) शी : बाबा. हें चाळवून येत जाल्यार कशें जातलें ?

दा. : कितें म्हणटालों हांव तुमकां ? हय. हांव जुस्त धा वरां, बावीस मिनुटां आनी तेत्तीस सेंगुंदांचेर पणज़े, आल्फांताच्या धक्याचेर देंवलों ! मागीर पैलो विचार कसलो केलो हांवें ?

सों. : (कुशीन) म्हज्या कांट्यार येवन बसचेलो ! आनी म्हाका संवसार नाका करचेलो !

दा. : " येराल्द " विकतो घेतलो !

सों. : भोव बरें केलें !

दा. : (ताणशेवन) भोवच वायट केलें !

सों. : (कडकडत) आं. आं... तशें म्हणुं येत. (कुशीन) देवते, बरे भाशेन निस्तराय हें कितें आयलां तें !

दा. : आयकात तर. हांवें तो "येराल्द" उक्तो केलो आनी वाच जाल्यार ... ति ... ति ... (कळवळचान) तिरी ...

सों. : ति ... ति ... तिरी ... समज पडजो ना !

दा. : म्हाकाय पडना.

सों. : तर आतां जुळ्ळें !

दा. : (संतापून) ना जुळूंक. तुटलें.

सों. : (भियेवन) बरें सायबा. तुटलें. (कुशीन) आयज उटच्या कोणाचें तोंड पळेल्लें देव जाणा ! "गोस्त" लागीं आशिल्लो जाल्यार सोल्दाराक तरी उलो मारतलों आशिल्लों !

दा. : Ajuste de casamentos म्हणटात तातूंत वाचलें. ति... तिरी... तिरीची सोयरीक जाली.

सों. : (कुशीन) कोणा तरेची तरी ग्रहदशा रे बाब ही ! आं ? हो असलो शनैश्वर.

दा. : (दांत ओंठ किल्लून) म्हाका उगडास जालो तसो...

सों. : (जीव मुठींत घेवन, कुशीन) ओहो ऽ ! शी : बाबा, कशेंय जाल्यार हें चाळवता दिसता !

दा. : (चाळवून) नदरेमुखार येता तितलेंय मोडून, फोडून, पींजून वडवचेंशें दिसता. (मेजादेली एक फोलींची पटी काडटा आनी ती पींजून कुडके करून वाऱ्यार वडयता.)

सों. : (दोनूय हातांनी तकली दाबून धरून) आरे, आरें, आरे, आरे आरे . . . ! देवते ! गेली. "त्रर्षामेताची" "कोप्य" गेली ! आनी "शेलाद" फोली गेल्यो तीन !

दा. : आगा तुका बायल आसा काय ना ?

सों. : (कपलार हात मारून) आसा म्हज्या पुतळ्या.

दा. : (चुरचुरून) आरे, रे, रे, रे. . . !

सों. : (कुशीन) पळेयात हो न्हवरो म्हजेकडेनूच लग्न जावंक सोदतालो दिसता !

दा. : तुमी विधुर तरी आशिल्ले तर कितलें बरें जातलें आशिल्लें !

सों. : (कुशीन) म्हाका पुण नशीब आसुं नाका आशिल्लें ? (दामूक) आतां ताका कितें करतलो ? तुमकां जाय म्हणून तिका मारून वडवंक जाता ?

दा. : तुमी जर पैलेपणाचे जावं दुसरेपणाचे तरी न्हवरे आसते ... (तो अजापून

पळेता) तर म्हाका कितें भोगता तें तें तुमकां कळटलें आशिल्लें. (जाळ मारून) हायस ! विजांचो पावस पडूं आशिल्लो.

सों. : विजांचो पावसूच. (कुशीन) हय तर? कोणाय लेंच्यापेंच्याक अेक वीज पुरो आशिल्ली. पुण ह्या राक्षेसाक पावस पडल्यारूय थोडो !

दा. : जाणात मूं हो. म्हजो अेका चलयेचेर मोग बशिल्लो.

सों. : (कुशीन) भंगूं बाबडेचें ! काकळूत तिची !

दा. आनी तिजोय म्हजेर जीव आशिल्लो.

सों. : (कुशीन) नाका जाल्लो दिसता पापणीक जीव !

दा. : पिशें लागिल्लें तिका...

सों. : आं ऽ ऽ ! अशें बरें सांगात !

दा. : म्हजे हो, तोंडान तरी अशें सांगताली.

सों. : (कुशीन) ना जाल्यार हाच्यामुखार माणसुकी आशिल्ली ?

दा. : अेका देवळाकडेन आमची भेट जाली.

सों. : (कुशीन) सांखळे. आरथों वेळार जावंये !

दा. : नदरेक नदर मात मेळिल्ली...

सों. : दोगांय सामकीं पिशीं जालीं.

दा. : खरेंच हो. पुण हांव आशिल्लों सामको खांकवाळ ! जमनीर पडल्यार माती लागनाशिल्ली म्हाका !

सों. : आं ऽ ऽ ! देवतेचे दुडू काडूंक जायत दिसता तुमकां...

दा. : (तापून) तोंड धांपता काय ना ?

सों. : (भियेवन मनांत) आयलें... रावलें उबें कोल्ल !

दा. : तिज्या बापायक म्हजो हो असलो जागो मानलो ना.

सों. : (कुशीन) जावं. इतल्याय सगळयांत तकली जाग्यार आशिल्लो असो अेकूच तो !

दा. : हांवें मनांत निच्छय केलो. (उठून) आनीक हांगा रावप ना.

सों. : (कुशीन) देव पावलो. (उठून मोठयान) वरें हां, येयात. वळख विसरची न्हय !

दा. : (हासून) आगा तूं समजलो ना ! (बसता.)

सों. : (कपलार हात मारून, कुशीन) कर्माऽभोगा ! (बसता. मनांत) हें दसलें पुता म्हाका.

दा. : हांवें त्या वेळार म्हळें : आनी हांगा रावप ना. चल्लों नशीब उक्तें जायत थें ! आनी गेलों. दोन वर्सां भायर विडविडलों. कोकोनाड, कराची, रंगून ... आहाहा !

सों. : आहाहा ? रंगून म्हाका साप्प पचनात. (पोटार चिरपुटां मारून) दाब

जाता पोट !

दा. : हांव तुमकां तांदळांची खबर सांगतां ?

सों. : तर कसली ? करांची गंव म्हणटात ?

दा. : (ताच्या कानाकडेन) आगा, हांव तुका म्हज्या भोंवडेची खबर सांगतां !

सों. : जायत. पुण हांव सागोती खायना !

दा. : (कंटाळून) "कॅरक" जाला व्हय गा ?

सों. : (कुशीन) "कॅरक" जाला तूं. आनी तुगेलें तिरी कांय किरी ... कोण तें!

दा. : सगल्या तरांचो वेपार केलो हांवें. हांवें विकलें नाशिलें कितेंच ना !

सों. : (कुशीन) मेंदू लेगीत ! अेके वाटेन काकूळट !

दा. : तिणें कांटयाक जीव अासासर म्हाका केन्नाच अन्तर दिवंचना अशो सपूत दिल्लो.

सों. : तोंडांत सूत घल्लेलें दिसता !

दा. : तिची म्हूर्त दोळयांमुखार दवरून हांवें रातीचो दीस केलो आनी हाडां-नाखटां झरयलीं. गांठीक बरीच माया जाली. पुण अेक दीस, अकस्मात, अेकाच धपक्यान होगडली...

सों. : (कुशीन) सगळी बुद्द. दिसताच !

दा. : केल्ली तितलीय गांठ ! पुण हांवें आस्त सोडली ना.

सों. : (कुशीन) म्हजी मात साप्प तुटली. ह्या खोडयांतल्यान आपले पांय सुटपाची. (भायर) भोव बरें केलें.

दा. : (तापून) भोवच वायट केलें.

सों. : हय. हय. तुमी म्हणटात तशेंच. (कुशीन) भायरो जालो हो.

दा. : कित्याक वायट केलें ? तर ती जाली बेयमान !

सों. : हय. बेयमान.

दा. : अेकाद्रें अशेंय जावं येता.

सों. : जावं येता.

दा. : पुण ना. हय...

सों. : (कुशीन) ना आनी हय. ओहो ! आतां कशें ?

दा. : पुन्ना हांव कष्टाक पेटलों. दुसरी गांठ तयार केली. आनी गोयां आयलों. पणजे पांय मात दिल्लो. कितें पळेलें ?

सों. : इगर्जेची घांट !

दा. : तर ही "येराल्दां"त दिल्या ती नष्टी खबर ! म्हज्या जिवाचो इष्ट तूं. (हुस्कारून) रडून तरी हुडें ल्होव करतां मातशें ! ... करूं रे ?

सों. : (कुशीन) करतां करतां म्हाका "आरे" "तूं" वि म्हणपार पडलें. (मोठ्यान ताका) बरे भाशेन, म्हज्या भांगरा. रडिल्लो बरोच !

(कुशीन) कोण सांग : पोळे काट्टल्याक खैं आनीक कितें काडूंक जाय !

दा. : भांगराचो म्हजो कमाविसदार तूं ! तुज्या हड्ड्यार आतां म्हजें मस्तक तेंकयतां. (तशें करता.)

सों. : (मनांत) आतां म्हज्या हड्ड्यार ह्जें खड्डें. (भायर) दवर रे म्हज्या रत्ना. (मनांत) म्हाकाच भेटतात हीं असलीं !!

दा. : तकलेंत गिरं गिरं जाता अेकासारकें ...

सों. : जावंक फावता ! जावंचेलेंच ! कोणें तशें म्हळां लेगीत !

दा. : पुण हांव तिका सुकी सोडचों ना ! म्हज्या जाग्यार तुमी कितें करतले आशिल्ले ?

सों. : हांव ? चेपें चडयतलों आशिल्लों, मुस्तायकी उबारतलों आशिल्लों, आनी (दाराकडेन बोट दाखवन) आयिल्लया वाटेन चलूंक लागतलों आशिल्लों !

दा. : हांवूय तशें करतां तर !

सों. : (कुशीन) जावं म्हज्या पुतळ्या, म्हज्या भांगरा, म्हज्या राया, म्हज्या रत्ना, (मोठ्यान नमस्कार करून) येयात, येयात आं ऽ ! आतां केन्ना भेट जायत तेन्ना ! गरज पडल्यार म्हाका विसरुं नाकात.

दा. : काट्टां तिका सोडून आनी तिचीं उतरां तिका गिळूंक लायतां !

सों. : हेंच म्हणटां हांवूय. तिगेर वचून गिळूंक लायात. मात हांगा ...

दा. : तिज्यो आंतकड्यो तिज्या गळ्यांत घालतां ! पळेशात तुमी.

सों. : (कुशीन) ह्ज्यो आंतकड्यो भायर काडटा तसलो जर म्हाका कोणूय मेळिल्लो तर हांव दोळेभरून पळेत आशिल्लों.

दा. : बास्कळ ... तिरी ... (अेक बॅग उबारता.)

सों. : (बेगीबेगीन दुसरी ताज्या हातांत दिवन) उतर नाशिल्लें ! सपुत-खायरें !

दा. : (दुसरी बॅग घेवन) बेइमान. किराच्या जातीचें.

सों. : किरो ... फातराच्या काळजाचें !

दा. : लटकें प्रमाण जावपी !

सों. : (चेरें ताज्या माथ्यार दवरून) लज नाशिल्लें. नाखकात्रें !

दा. : (बॅगो सकैल वडयन आनी चेरें भिरकटावन) आ ऽ ! शाबास ! लाखा-मोलाची कल्पना सुचली. आतां ना वचना हांगाचो !

सों. : (रागान कुशीन) उंवाळुनूय वचना पीडा. लाखा-मोलाची कल्पना सुचली खैं !

दा. : आतां कितें करतां जाणात ?

सों. : नकळ. आनी नाकाय ती खबर म्हाका. (कुशीन) फटयाक आपयतां आनी गोमटेक धरून भायर घालूंक लायतां.

दा. : हांवूय लग्न जातां. कशें दिसलें तुमकां ?

सों. : बेस बरें. आनी विचारूंक जाय ? आदीं भटागेर वचून म्हूर्त पळेयात ! नो हांगा लागींच रावता. (कुशीन) वता जाल्यार वतूं साडेसाती ! (दामूक) मागीर फक्कत एकच उल्लें. खैंचीय होंकल होलमुंचेलें. तें सोंपें आसा !

दा. : तुमींच करूंक जाय म्हाका लग्न !

सों. : हें गा कोणाल्या घरचें ? तुमकां लग्न करूंक हांव कोण. पुर्‍ता तुमगेलो ? हांव हांगाचो कमाविसदार !

दा. : त्याच खातीर म्हणटां हांव. तुमच्या होलमाक ऐक होंकल आसूंकूच जाय. आनी हांगा रावन कसल्यो कमाविश्यो करतात तर तुमी ?

सों. : कसल्यो म्हणचे ? होंकलांच्यो ?

दा. : तुमकां धुवोबि नात ?

सों. : नात गा म्हज्या भाग्यवंता. (कुशीन) आनी, आशिल्ल्यो म्हूण ? चूड लावन असलो म्हारू हाडच्यापरस हांव तांका जल्मभर आंकवारीच दवरीन आशिल्लों !

दा. : धुवड्यो तरी ?

सों. : नात. म्हगेले भाव सगळे भुरगेपणांतूच भायर पडले. कोंबेवंक पावलेच नात !

दा. : सोडा. पुण तुमचे वळखी-देखींत वाडील्ल्यो चल्यो आसूंकूच जायत !

सों. : हांव तुमकां फटयतां ? म्हजे वळखींत चलेकारूच सगळे !

दा. : अब्बा ? हांगा म्हाजन बिजन येनात आपणागेलो तयार म्हाल खावंक ?

सों. : हांव तसल्यो दलाल्यो करीना.

दा. : पुण आतां कर्च्यो पडल्यो. चतुर्भूज जाल्याबगर हांगचो भायर कित्याक सरतां हांव !

सों. : हें गा कितें कोगें आयकुं-नाशिल्लें ? होंकल जाय मं गा ? सोदूंक वचात !

दा. : ना वचना. तुमीच पळेतले होंकल म्हाका.

सों. : कित्याक ? हांव कोण तुमचो मामा ? तुमकां होंकल पळेवंक ? तुमी हांगाचे वतात काय नात ?

दा. : ना म्हणून सांगलें न्हय ?

सों. : (मनांत) आतां व्हडलें गोंय दाखयल्या बगर जायना. आयलेंच तें तितल्यार ... (राग सांवरना जावन) ये, तुमी बऱ्यान भायर सरतात ? काय आपवं फटचाक तुमकां चतुर्भूज करूंक ?

दा. : (डोळे गि गिरावन उबो रावता) आपय, आपय तुजीं किल्लीं फटीं आसात तीं. (बोल्सांतल्याव पिस्तोल काडून तें सोंबाबाच्या हड्ड्यार जोखता) पांच मिनुटां भितर म्हाका ह्या लोकांतली होंकल सोदून काडलीना जाल्यार धाट्टां तुमकां दुसऱ्या लोकांत !

सों. : (भियेवन गुळी जावन) देवते, कितें धाडलें तुवें हें सकाळीं उठून? (मेजा फाटल्यान लिपता)

दा. : (दिंबी मारून) भायर सर पैलो. ना जाल्यार तसोच घट जातलो.

सों. : (काकुळटी येवन) सांगशात ... तें आयकतां. पुण ... तें ... पिस्तोल मात... फाटीं काडात ... उपकार करून.

दा. : आतां बरे उलयले! कितें म्हणटात तुमी? (पिस्तोल काडून मेजार दवरता.)

सों. : (उडी मारून पिस्तोल काट्टा) आतां तुका हांव दाखयतां घट कसो जाता तें! अरे तू! लाग चलूंक पैलो. (पिस्तोल जोखता) ना जाल्यार पेटयतां! (कुशीन) वता पीडा जाल्यार पळेतां.

दा. : (भुजां वेर काडून) पेटय, पेटय. पोकें तें. (ताका जिबली दाखयता)

सों. : (पळेवन) खरेंच पोकें! कसल्या जातीचें अवचिन्न नाड पळेयात! (पिस्तोलानूच आमुडटा) लाग चलूंक पैलो.

दा. : (थंडकायेन) हें दुसरें पळेलां व्हय तर? (काडून दाखयता) स "कार्तुशी" आसात. स कम भिसदारांक वैल्या देवाचे कमाविशेक धाडुंयेत.

सों. : राणो? बरडवालो!

दा. : बेटे खराब जावं नाकात. होंकल पळेतात काय नात म्हाका?

सों. : ना म्हणून खं वतलो? (मनांत) बरें भल्लें म्हाका हें! नवऱ्याक शिंगां लावचीं पडलीं आतां.

दा. : (मोटयान) आं?

सों. : (कच्च करून आंग काडून) राव मं गा. येवजितां तरी... हांव अेक गिरेस्त वळखतां...

दा. : हांव कोण कलवंत? म्हाका गिरेस्त किंत्याक? म्हाका जाय ती घरकान्न.

सों. : जाणं गा. ताका अेक चली आसा.

दा. : आं! आतां मार्गार आयले.

सों. : (मनांत) मार्गार आयले खं! हांव खं आसां म्हणून हांवूच नकळ (भायर) पुण तिजेकडेन अेक पांदुडू पासून ना.

दा. : कांय नजो. हांव बरो आसां ताण!

सों. : आनी पळेल्यार दिसता खांपन्न.

दा. : दिसूं गा. दिसाचो तिका बराबर घेवन भायर सरना जातर जालें!

सों. : आनी सभावान सामकें आगुल्लें!

दा. : ताका निवळावचेलें म्हजेर पावलें!

सों. : म्हऱ्यांतल्यान गेल्यारूच उप्साणी येतात.

दा. : "मारांव" साबांवाची कासूच घेतां.

सों. : आनी दांत किडेल्यात !
दा. : काडटां आनी दुसरे बसयतां.
सों. : तिरसुल म्हळयार पळोवंचेलें न्हय.
दा. : कांय नजो निळेंच बरें "ओक्क" घेतां. वायट सोबची ना.
सों. : चार दिसांत तुमकां ती पुरो जातली.
दा. : चड बरें. मुंबै व्हरून सोड्टां. खैंच खपनाशिल्लो म्हाल थैं खपता. म्हाकाय तरी ती चारूच दीस तिरीक बुद्द शिकवंक म्हणून जाय.
सों. : (कुशीन) म्हाका पिडूंक जल्माक आयलें हें तिरी...
दा. : हें पळेयात, अेकाच दिसा, अेकाच म्हुर्तार ठो, ढूम् जावंक जाय. आयच्यांन पंद्राव्या दिसा तिरीचें लग्न थारायलां. म्हळ्ळया भाशेक वेळ होगडावपांत शाणपण ना. चलात तर हाडात ती सोयरीक म्हाका.
सों. : आनी सोयरीक बि कित्याक गा ? या दोगूय वांगडाच. (कुशीन) पोस्तार व्हरून उबो करतां आनी काबाक दोळो मोडटां !
दा. : पुण हांव असोव कसो येवं ? मुस्तायकी बि हाडल्या हांवें तशी. (खोमीस काडूंक लागता.)
सों. : शी : बाबा. आगा, आगा, हें कितें ? हांगाच मुस्तायकी काड्टा ? भायल्या, गांवचे म्हाजन बायलां-चलयांक बी घेवन हांगा येतात.
दा. : तर चड बरें. तांतूतलीच अेक फारायली ! ती बावका देवता तशीच आसु दी ! (थैंच बसचेली तजवीज.)
सों. : (कुशीन) आनी हो वेताळ म्हजे गोमटेर बसु दी ! नजो रे बाबा. जीव काडलो हाणें.
दा. : पूण पैलीं अेक सांग. त्या काळांदुराच्या बापायचें नांव कितें ?
सों. : काळांदुराच्या बापायचें नांव ? (कुशीन) कसलें सांगूं ? बोडाचें ? (भायर) शेंवटो.
दा. : शेंवटो ? हें गा बाबा कसलें नांव !
सों. : अिस्कोलाक वतालो तेन्ना पडिल्लें तें ताका.
दा. : तसलें नाका. खरेलें सांगात.
सों. : (कुशीन) आतां वोगीच कसलें नांव सांगूं हाका. मडसरेचें ?
दा. : (मोठ्यान) सांगता मं गा ?
सों. : (कुशीन) दवरीना हो म्हाका. सांगतां तोंडा येता तें. (भायर) ताजें नांव मारुती शणै.
दा. : मारुती शणै ? समजलें ! मारुतीगेर कितली सुंदर चली जातली सांगूंक जाय ? पुराणांतलो मारुती ब्रम्हचारी रावलो तो पिसो म्हणून न्हय ! जाय. (येवजून) आतां आनीक अेक कल्पना सुचली म्हाका.

सों. : (कुशीन) घात जालो. आनीक अेक सुवली खैं.

दा. : तुमगेलो फटो जाण्टा जालो तागेलें धर ! हांव करतां फुडली वेवस्ता. (उठून जनेलांतल्यान) फट्या, ये फट्या, (भायल्यान "जी, येयलों," अशीं उतरां आयकूंक येतात.)

सों. : (मनांत) फटीचें नांव सांगलें म्हणून पातळायता हो म्हाका. कुकुम सोपलें दिसता आमगेलेचें ! (उठून ताका आडावंक पळेता.)

दा. : बसात पैलीं जाग्यार. ना जाल्यार पेटयतां. जनेलाच्या आरशांतल्यान दिसतात तुमी म्हाका. (ताजेवाटेन पिस्तोल जोखता. दुसरेवाटेन जनेलांतल्यान फट्याकडेन उलयता) वैर येवं नाका.

सों. : (मनांत) देवते !

दा. : (फट्याक) मारुती शणैक वळखता तूं ? हय ? शाबास ! खैं रावता तो?

सों. : हो आनी मारुती खैंचो हांगा प्रसन्न जालो ? ज्योतीशाक पत्रिका दाखवंची पडली. गिरेच गंदळ्ळयात म्हजे.

दा. : (सोंशेबाबाक) कारबारचो लोटिंग्याचो वेपारी खैं (सोंशेबाव वोगीच रावता.) (फट्याक) तोच. म्हाका नाका तागेलो लोटिंगो !

सों. : (कुशीन) पुण म्हज्या हाताक जर येद्या वेळा अेक लोटिंगो मेळटो, तर– मागीर जाता तें जावं आशिल्लें – हाजो मेंदू हांव शेणयतलों आशिल्लों.

दा. : (फट्याक) ताका सांग : कमाविसदारान तुका ...

सों. : पुण म्हज्या नांवानसो गा तूं ...

दा. : (सोंशेबाबाक नाखार पिस्तोल धरून) ये, जाणत्राय नाका. फट उलयल्यार विचारशांत तुमी म्हाका. – सगळो आदेस खालो म्हणो ...

सों. : (कपाळार हात मारून) हाजो आदेस हांवें खालो खैं. आतां कमाविसदार बायलेक तानेला म्हणुन सांगात ताका !

दा. : (फट्याक) कमाविसदारान म्हणवे तुगेले ते काळबा देवतेक. तुगेले खांपन्नीक...

सों. : (मनांत) वांचना आतां हांव.

दा. : (फट्याक) तुगेले धुवेक--एक गुणेस्त, रुपेस्त, भागेस्त (सोंशेबाब ल्हवूच आरती करता) न्हवरो पळेला. (आयकून) चलीच ना ? आनी, हो आसा म्हणटा तें रत्न कोण तर ? धुव, धुवडी, भैण, मेवणी-म्हाका तश्यो खोडी नात – कोणूय जाता.

सों. : हय. (कुशीन) "न भयं न लज्जा"

दा. : सांगता मरे ? माथें बि खरपूंक जायना. (थांबून) पिशें लागलां काय म्हणटलो ?

सों. : (कुशीन) गुन्यात्र आसा ताजो ? अेकट्याक लागलां आनी अेकट्याक

लागचेलेंच जालां !

दा. : तूं सांगिल्ले सांगणेचो ! सांगता तें कर, जालें ! (थांबून) सोंड रंगयतलो? (कुशीन) हो मारुती रामाचे पांय वळटा तसलो दिसना. वीर मारुती दिसता ! (थांबून) हो पळे गा (सोंशेबाबाक) पळे गा, चलीच ना खैं तागेर.

सों. (काचाबुल जावन) भायर पडली बि दिसता !

दा. : तसल्यो फटाफटी नाकात. (फटयाक) फटया, त्या मारुतीकूच सांग कमाविसदारान पैलीं तुका अेक जाप दिवक सांगल्या म्हणून. उपकार जायत म्हणचें.

सों. : उपकार जायत... ना आयल्यार!

दा. : आनी आयक. तो येवंक बि अनमनत जाल्यार ताका सांग. बऱ्यान आइल्यार सुटलो. नासल्यार शेंवटयाचां पोस्तां करून तव्यार तळटा तसलो कायलाथो हांगा आसा म्हणचें!

सों. : हे वो...

दा. : ये, चीप रावतलो थैं.

सों. : आतां म्हजी धडगत ना. मुर्दगाय परस म्हजी अवस्ता कठीण! हे वाटेन मारुती ते वटेन रौदिरी !

दा. : आ : (सोंशेबाबासरीं येवन) आतां जाल्लें जालें. ह्या मारुतीक माथावंक जाय तो तुमी. म्हाका सांबाळून घेयात. (पिस्तोल हातांत घेवन हातवारे करता.)

सों. : तो यमदूत (पिस्तोल दाखवन) मात्सो सांबाळात तुमी पैलीं.

दा. : तुमीच दाखयली ही सुडाची वाट म्हाका ! तडाक उडवंया! न्हवऱ्याक बाण, गर्नाल, शिगां...

सों. : सद्या लागल्यांत म्हाका...

दा. : वाजप कलवंतां... सगळें तुमीच सांगात! तिरीच्या आंगाक भगभग पडूंक जायत!

सों. : पडूंदी अवचिन्नाच्या ... (कुशीन) कोण खैचें भूत म्हणून हांव वळख पासून ना. म्हाकाशें पिडूंक लागलां !

दा. : ताणें आनी अशें केलें म्हळयार फटूच दिसता हो म्हाका. फोटोग्राफ दाखयतां तुमकां ताज़ो. आसा म्हजेकडेन भितर. ताजे ते दोळे ... ताजें तें उतर ... (बॅग उक्ती करून सोडटा.)

सों. : आतां हो पट फुकटचो पळेवंचो पट्टा दिसता.

दा. : (फोटो काडून ताज्या हातांत दिवन) पळेयात. हांव सांगतां तें लटीक जाल्यार.

सों. : (अजाप जाता) आं ? हें ? ... ही म्हगेली भाची – तिरविणें ! (कुशीन)

तिरी. तिरी करता येत पासून हो साडेसाती !

दा. : तुमगेली भाची ? दुदांत साकर पड्टली आशिल्ली ! तुमी म्हगेले मामा जातले आशिल्ले तर !

सों. : दामु कुराडे म्हणटात ते तुमी ?

दा. : तोच म्हणून धेवंचो.

सों. : म्हगेले भाचयेचो जीव आशिल्लो तुमवेर.

दा. : केदो भाग्यवंत आशिल्लों हांव तेन्ना !

सों. : म्हणसर तुमी ... भायर पडले ना तर !

दा. : तुमकां कितें दिसता ?

सों. : कारवार धरून मुम्बैमेरेन भल्लें ते वदन्तेन. तुमी बुडले म्हणून "जोर्नालार" लेगीत आयलें !

दा. : म्हाका बुडलो म्हण्टल्यांक हांवेंच बुडयले! (हांसो मारून) मेंगें मारूंक सोपताले पुण चोरी उक्ती जाताशी पळेवन तांकांच गांव सोडून वचचें पडलें.

सों. : दुखांच्या झरींनीं रडलें तें!

दा. : खतखते येतात भितल्ल्यान म्हाका हें आयकून.

सों. : दोन वर्सां लेगीत ताच्या मुखार लग्नाची खबर काडूंक कोणाकूच काळीज जालें ना. आवय-ब पूय खेदतात. म्हणून तें ह्या पंद्रशीक तयार जालें ह्या असल्या लग्नाक. आमी तरी कितें करचें गा? तुमी गेले समुद्रच्या तळाक! कोणाय बरोबर तरी "समुद्रसावधान" करूंक नाका आशिल्लें?

दा. : "समुद्रसावधान"?

सों. : न्हय तर? संवसार म्हण्टात तो अेक समुद्र. तातूंत उडी मारताना "सावधान" अशें म्हणटात!

दा. : (हांसून) पुण हांव समुद्राच्या तळाक वचून आयलों न्हय वैर. म्हाका दुसरें भाशेन म्हणचें!

सों. : (येवजिल्ले भाशेन करून) म्हाका दिसता आजून तुमगेले तिरी तुमच्या हाताक लाग सारके आसा!

दा. : (खोशयेन उडी मारून) चलात तर. (ताका धुकलता) घालात रुमाल. (ताजो रुमाल ताज्या माथ्यार चिड्डिता) आतां या ताज़ेसरीं.

सों. : (जनेलांतल्यान पळेत) आतां पैलीं हो पळेयात फटो येता बेगीबेगीन. तें केलां तें निस्तारात आदीं.

दा. : तें तुमकां लागना. (फटयाक) कितें रे ! कितें खै मारुती ? तापता ? अब्बा ! तोंड फोट्टलो ! म्हगेल्या, आतां जातलो त्या मामाचें ? मारुतीक शेंपडेक धरून आपटितलों म्हणचें.

सों. : घे. हें आनी वाटेन वता आसताना करून दवल्लां म्हाका !

दा. : तुजें ? मुस्कट फोंडूक आयलो ! राव. आतां म्हाका फावना. तेल लायिल्लो तळयेर न्हावंक गेला ? चल वचून सांग ताका. तुगेली ती बावका देवता म्हाका नाका म्हणचे. तिरसूल ! किडिल्ल्या दांतांची ! खांपन्न ! म्हन्यांतल्यान गेल्यारूच उप्साणी येता तसली ! तें मचकट व्हरुन तळयेर उमळ म्हण देवतेच्या ! ना जाल्यार घाल मडवळागेर ! आर्र तूं – शेंवटो ! पोंवशेल्या म्हणचे तागेली ती शेंवटाळी !

सों. : (कुशीन) शेंवटो ... खांपन्न शी : सांगिल्लेंच जिवार हाडलें हाणें ...

दा. : (सोंशेबाबाक) आगा तूं कित्य क भियेता. म्हाका वळखना तो ! हांव दर्यांतसून वैर सल्लां तो शेंवटयाक भियेतां ? हांव कुराडो. राग आयल्यार मारुतीक बसूंक झाडाची ताळी ना करून दवरीन ! आर्र तूं लोटिंगो !

सों. : (कुशीन) आयकल्लें ऽ उतर हो सोडीना !

दा. : (फटयाक) फटया, चार पोरांटे अेकठांय कर. येवंदी ताका ! हुप्प, हुप्प, करूंक लाय मारुतीक ! (सोंशेबाबांक) यो गा तूं ! (ताज्या हातांत एक बॅग दिता) मामा जातले तुमी म्हगेले ! तुमगेल्या भावजीक हांव नाकासो जायना आतां – दुडू जाला म्हजेकडेन ! मामा म्हण्टलों हांव तुमकां ! हय ! म्हाका जर म्हजें तिरी मेळत ...

सों. : तर हो म्हजी चिरी भायर काडटा.

दा. : तर तुमकां हांव एक वाग दिमां.

सों. : (कच्चकरून आंग काडटा) वाग ? आवय म्हजे ; तो गा म्हाका कित्याक ?

दा. : भियेवं नाकां गा. जितो न्हय !

सों. : हे : मेल्लोपासून नाका म्हाका. सप्नांत येतात तसलीं अवचिन्नां ! नाका सायबा. उपकार जाले ! सगळे सांडून वाग खैं. म्हजी अपुरबाय करता ! (फुडें अेक बॅग घेवन सोंशेबाब फटया, फटया, करीत वता. फाटल्यान दुसरी बॅग घेवन कुराडो ताका मुखार चलयता.)

* * *

# 2.

# आब्रांवचें यज्ञदान

**लुईस मास्कारेन्यस**

**पात्रां :**

आब्रांव् : प्रायवंत् हेब्रेव्

इसाक : आब्रांव्चो पूत, भुर्गो

थारे : हेब्रेव कुळयेचो चाकोर, गोर्सो

मेनु : मिस्रे मगार चाकोर, काळ्सो

देवदूत : (दिष्टीभायर)

## आदिवचन

म्हा - व्हड झुजार्यांनी पांडवांच्या कालार
केल्यो किर्तीभरीत कर्न्यो रणा - थळार :
या कांय राय् - कुळयेच्यांक अस्च्यो खंती, आकांत्,
सीता - रामान् भोग्ल्याबरी दंडऽक वनांत् ;
नात्ल्यार टिप्पू सुल्तानचीं निष्ठूर कृत्वां
आम्च्या पुर्वजांची देस्वाट केल्ली ; अथ्वा
तेन्नाल् रामाचे खेळ्, हासव्न करूंक फुगार :–
अस्ली दाकव्ण खंचीय घालिनांव आज मुकार.
बगर क्रिस्तापुर्वि दोन सास्त्र वर्सा पय्लें
सृष्टी - पुजेंत आस्तां आदांवचें कूळ सग्ळें
हेब्रेवांच्या गावांत आब्राम म्हळो एकलो
खर्या जिव्या देवाक भजन करीत आस्लो ;
भजन कर्च्या वेळार सोमी दिष्टीक पडटा :
"तुजो मायगांव सांड तूं, दुस्रो दितां"- म्हणटा.
उत्राक पाळो दिंवचाक पर्गावाक तो गेलो
बेसांव पळोव्न ताचेर विशेस नंदऽन जालो.
पूण तो पुत्रविणो ; सारे ताची पतीण
वांज्डी देकून, लोट्टालो दीस खंतीन व्हडे
एक दीस सारेऽन म्हळें :" भर्तारानो आय्का,
दुखनाकात पुत्रा - फळ् ना म्हणोन आम्कां ;
म्हजी दासीण आसा मिस्रेमगारलें आगार
घेया तुमी तिका तुम्चेऽ स्रीयेऽ जाग्यार
तिचे थंय पूण जांव्दी आम्कां एक्लें भुर्गं.

कित्याक भेष्टें अशें सदां खंतीन बस्चें ?"
आब्राम बाव्डो आप्ले ऽ स्त्रीयेन सांग्ल्या बरी,
आगार म्हळ्ळे कन्येक, परजातिची जरी
तव ऽ ळ चल्ल्या प्रकार आप्ली पतीण कर्ता ;
थोडया कालान तिका इस्मायेल पूत जाता
उप्रांत तशेंच सारे ऽ क देवान दिलें एक फळ,
इसाक म्हण ताचें नांव ; इस्मायेली जव ऽ क
तोवीय वाडलो आनी जाब्रांव्क जालो संतोस ;
पुणी भुर्ग्यां निमतीं थंय्सर उब्जली धोस.
दोगीय भुर्गे वाडोन, खेळटास्ताना आंग्णांत
एक दीस सारे ऽ न सांगलें घर्काराच्या कानांत :
" नाका म्हज्या पुताक इस्मायेली सांगोड
वचोनी तो आनी आगार, दोगांय विंग ऽ ड "
देवाकडेन आब्राम आलोचेन विचार्ता
सारेन सांगल्याबरी देवाची जाप मेळटा.
तक्षण आब्राम आपवंक लायता आवय-पुताक
आनी भुती बांदून, भाकऱ्यो आनी उदाक
दिता तांकां चला म्हणोन देसांतरीं
दुकां गळय्त दोगांय वन्वासाक तीं गेलीं
थोडया काला नंत ऽ र देवान ताकीद दिली
इसाकाकीय कात्रून आपणाक भेटंवक बली.
इल्ली कठीण ताकीद आब्राम कसो पाळटा
ज्यारी कर्तास्ताना काळीज कित्लें जळटा :
व्हडलो आकांत भोग्ता जरी ताच्या जिवाक
इन्कार करतागी तो काणीक आपल्या देवाक
म्हळ्ळी संगत् दाकय्तल्यांव रंगस्थळार
जिविजिवी जाल्ली तशी आदल्या काळार
चडीत उलय्ना हांव : दर्वडटातगि पळेवंक ?
दुकां आसात जरी तयार कर्यां गळवंक ;
आनी घरा वेत ऽ च असों आट ऽ व मतींत
आब्रांव्न दिल्लें लिसांव - थिरावन देव भक्तींत.

## पयलें थळ्

(बेर्साबेच्या मळचांत, आब्रांव्चो चाकोर थारे एक शेळी आनी मे ऽ नु

लांकडाचीं भोर्कुटी खांदार घेवन येतात)

थारे : मे ऽ नो, दव ऽ र हांगा राकूड ; धन्यान आम्च्या
पुजा कर्चो जागो अब्ळे, अंजुराच्या
रुकातळा, भुकार सरोंनाका - कळ्ळें ?
हें ब ऽ ण पवित्र, जिव्या सोम्याक भेट ऽ वन दिल्लें.
तुमी ऐगुप्तातले, प्राणींक, बोंब्याक भज्जे,
मंत्रवादी, घाडी विद्यात् लोळोन आस्चें
सग्ळी सृष्टी आसाकेल्लो सोमी आम्चो
तस्ली पुजा कर्तल्यांचेर सग्ळोच उजो.
तूं चल पाटी, हाड्न ये आनी थोडचो मोव्ळचो
दाळ्चें म्हजेर पाव्लें.

मे ऽ नू : आहां ! थारे कळ्ळचो ऽ
म्हाका चाण्डी तुज्यो, सदां कष्टाचें काम
म्हजेर धाल्चें, आनी तुवें घेवंचें विराम
तूं कोण म्हाका सांगोक ? म्हजेबरी चाकोर
म्हाका सांग्च्या बद्लाक, जाय्गी नाका तूं क ऽ र.

थारे : कोपुनाका, मे ऽ नो, आमी एकच न्हयगी ?
हाड्चें वेगीं हाडयां ; दोगीय जाल्यार दोगीय.
(दोगीय लांकडाच्यो मोव्ळचो ऽ हाड्न सारी दाळटात.
दाळन जातच थारे वस्तूर फाफडून म्हणटा.)

थारे : हब्बा, म्हज्या! चिक्के बस्यां, व्हडोल किते
कोप्लोयगी तूं ?

मे ऽ नू : कोप्चें कशें ? आंग जळवंचें
उत ऽ र आयकताना, जाय्तगी कोणीय रागार ?
घडी बरी ऽ जाली - नाल्ल्यार तुजो हुंकार
कसो देवय्न जाणांय ? करीन सुण्याबरी
आम्चे जातीक हल्की कसाय ? पळेवं तरी
तुम्कां हेब्रेव लोकाक ना एक राज्वट तुमचें
आम्चें ऐगुप्तीराज् साळक् नैल् - उद्काचें !
राजा परकी बळवंत्, पर्जा सग्ळी सुखार ;
विद्यांत आनी संकटांत कोण ना आम्चेऽ मुखार !
दुकोळ आय्ल्यार तुमी धांवतात् आयच्या गावाक्
तुम्कां मुस्ताय्की सय्त थंय्ची ; वोताक हिंवाक् ;
हिंडाक चर ऽ व ना तर एजिप्त राजाक वेचें

आनी स्त्रियो वांज्ड्यो जाल्यार आम्च्यो धेवंचें.

**थारे** : पुरो कात्र ऽ प तुजें ! अशे आम्चे जातीक्
भुर्ग्यां दुकोळ येवंक ना दिस्ता.

**मेऽनु** : तुज़े ऽ मतीक्
तुमीच् भारी म्हळ्ळो पोक्ळो हंकार चड्ला
ताच्या अमालाचेर दोळ्यांक खव ऽ ळ मांडलां
नेणायगी तूं आम्ची धनीन सारे ऽ बाये ऽ न्
दाय्जाक् कोणीय् ना म्हण् बर्ते ऽ बेजारायेन्
आब्रांव धन्याक् घे म्हण् दिल्ली दुस्री पतीण्
इस्मेलिची आवय्, न्हयगी आम्ची जातीन् ?
भांगार् ब्राव्ड्याक भष्ट् ना जालें ; पुनेवंत् तो !
तुवें म्हाका पय्स राव् म्हळें य् ! जांव्दी ! सांग्तों,
नाका, मरों, चडा ऽ र पड ऽ त, कितें आमी
साव्ळे म्हण्गी हल्के ? या कांय आगार् मामी
फुंक्टोन गेली म्हण् एजिप्त्गारांक् केंड्चें ?
सम्जतारे म्हाकाय् सक्कड् तुवें चित्चें ;
त्याभाय्र शास्तीर् सांग्ताय् ! आमी कशे पार्के ?
तुम्च्या पंग्डांत मेळटच् न्हय्गी तुम्चे सार्के ?
हेब्रेव खंय्च्यांत व्हडले ? तुमी कितें केलां –
तुमच्या सोम्याक् ? देवालय् पूग् बांद्लां ?
आम्च्या गावांत् पळे, ‘ आमोन्, आटोम् रा ’ चीं
दिवळां कितलीं आसात् व्हडलीं राव्ळेरांशी !

**थारे** : चुप् राव्, पिश्या ! सर्गा संसाराच्या कर्ताक्
दिव्ळांत् सोंबयेत्रे ? तुम्चीं दिव्ळां भुताक् !
आनी... तेणे धनी आय्लो... चल्यां वेगीं!

**मेऽनु** : जाय्त तर्, चल्यां ; मागीर् उलय्न तुजे ऽ लागीं
(दोगीय सरारां वेतात्. आब्रांव येता आनी दोनीय्
हात् उबार्न सुरू कर्ता.)

**आब्रांव्** : स्वामी, येहोपिता, सर्वेय् सामर्थवंता,
सग्ळी सृष्टी अब्ळे ! तुजें स्वामित्व् मांदता
हांवीय् तुजी रच्ना तुज्या पायां पडटां
करोनी साष्टांग नमस्कार्
(वोम्तो पडटा.)
अंत्रळिचीं तारां, भुमीर् आस्च्यो प्राणी

सगळयो ऽ तुज्यो ऽ, सोम्या, तुजें व्रय् ना धनी
तुजें स्वामीत्व् ओळकोन्, शेळी भेट्यून वनी
सोम्या, दयेन् क ऽ र् तूं स्वीकार् !
(शेळी सोडोव्क वेता.)

**देवदूत** : (वय्र थाव्न) आब्रांव्, आब्रांव् !

**आब्रांव्** : ... हाज ऽ र्, सोम्या, सेवेक् तुजो.

**देवदूत** : तुका आस्च्या एक्ल्याच् मोगाळ् बाळा इशाक्
काण् घे आनी व ऽ च् तूं दर्शनाच्या देशाक् ;
थंय्सर् दाकयून तुका दोंगर्, जाचेर् भेटय्
इनाकाची बळी म्हाका.

**आब्रांव्** : साय्बा, घटाय्
दी तूं हाताक् ! तुजी इच्छा जारी करूंक्
अब्ळे तयार्! मन् ना तुजें उत ऽ र् मिर्वोंक् ;
चलसोना केदीं तुजे ऽ ताकिदे ऽ भाय्र्
तुज्या सब्दा मुकार् म्हजो जीव् सय्त एक् कोय्र्
पूण हें काळीज् म्हजें, मोव रक्ता - मासाचें,
म्हज्या बाळाक् कात्रूक् फात ऽ र् करूं कशें ?
तुज्या मोगान् तापव्न, घटाय् दी तूं काळ्जाक्.
आतांच् भाय्रसर्न चल्लों तुजी ताकीद् पाळच्याक्.
(कुशीक पळेव्न)
थारे ऽ थारे ऽ ! खंय् पाव्लोगाय् चेडो? ? थारे ऽ–

**थारे** : हांगा आसां, धन्या ; मे ऽ नो ऽ उजो खंय् रे ?

**आब्रांव्** : उजो नाका आतां ; शेळी घरा व्हर्‌न सोड ;
म्हज्या गाडवाक् पाक्डी बांदून मार्गाक् आंबूड् ;
तुमी दोगीय आतां पाय्णाक् तयार जाया
वर्वी आनी लांकूड् काण्घेव्न पाट्ल्यान् येया.
इजाक् आनी हांव् दोग् गाड्वार् मुकार् वेतांव् ;
मोरया पर्वताच्या मुळांत राकोन रावतांव ;
जल्दी जावंदी – चलोंक बरें आतां राती –
दोन्-तीन् दिसांची वाट्-पळे पड्शात पाटी.

**थारे** : कळ्ळें, धन्या ; तुमी थंय्सर् पावचें ऽ पर्लें
आमी पाट् धरन, आय्ल्यार पुरो न्हयवे ?

**आब्रांव** : जालें.
(काळोक)

## दुसरें थळ

(मोरया पर्वताच्या मुळांत आब्रांव् आनी इजाक्. आब्रांव् सुरू करता.)

**आब्रांव :** गाड्वा आसोंदीत् थंय् ; तूं ये ऽ रुका साव्ळे ऽ
चिक्के बश्यां, सोम्यान् सांग्लो दोंगर् अब्ळे !
तोच् तो, बाळा

**इजाक :** दादा, ताचेर चिक्के चड्टां
कणेरांबी पिक्ल्यांत् जाल्यार् वचोन् हाडटां ;
कांटे-कल्ली फुल्या पळे, कित्ली सोबीत्

**आब्रांव :** चिक्के बस् तूं बाळा, आम्चे चाकोर येवं दीत ;
पुरो जालां तुका, उस्क्यार तकली दव ऽ र,
कालीय समा नींद ना, अब्ळे दोळ्यां भोंवर
इंग्ळो जाल्यात ; सग्ळी रातीय् आवय्चो जोप्
ओ ऽ टंबि कर्पोन गेल्यात् ; ताळवेंत येता हुलोप्.
घरा आस्तास्ताना सदां जय्जाय् आसली
सुकृण्या पिलाबरी तुका आवय् पास्ळी
मोगा-साव्टाक वाडोन् वोताक् पडल्यार् पळे
आल्पुलिशी बाव्तात् तुजे असले कळे.

**इजाक :** तें कांय् व्हड् न्हय्. दादा एदोळ् आसुल्लो सान्
खंय्च्या पाय्णाक् तरीय् आतां एक्लोच् वच ऽ न

**आब्रांव :** तुजे प्रायेर् वोताक् आनी दोवाक् हावें
सग्ळ्यो राती पाशार् केल्यात् हिंडां सवें
उब्गण् काडूंक तणार पडोन उदारो हांव
नेकेत्रांच्यो राशी ओळ्कोन् दितालों नांव् ;
जाणां आसलों हर्येकाचो उदेवंचो वेळ्
नक्षत्रांचीं विधा म्हाका सदांचो खेळ्

**इजाक :** नेकेत्रां तीं मिण्कतात् मु, कित्याक दादा ?
चंद्रेम् कित्याक् मोडां पाटल्यान् लिपोन् राव्ता ?
कसो जाता अर्धो, थोडे पाव्टी सगळो ?
कस्लीं ताचेर खतां ? अखंड्गी तो पोक्ळो ?
(थारे खरशेवन धावोन येता.)

**थारे :** (खरशेवन)
जीव् हातांत् धर्न धावोन्, आयल्यांव धन्या ! वाटेर्
लांक्डां निम्तीं सुस्ती जाली ; व्हो ऽ ते : घाटयेर्

चडटास्ताना लांकूड सक्कड निस्रोन पडलें ;
कशेंय पर्तून बांदून गाडवाक लोटून हाडलें ;
आता लांकूड काडी जायगी ? आसा तशें
गाडवांक दोंगराक आंबडूं देवयनास्तां व्हजें ?
सांग्ल्यार उप्कार जातो.

**आब्रांव** : बरें, लांकूऽड देवऽय,
आनी गाड्वांक, आम्चीं बांदल्यांत थंयसर रावऽय.
इजाकाक हांव दोंग्रा मात्यार आपवन व्हर्ता ;
थंय्सर सोम्याक भजन कर्तऽच पाटी येतां ;
सदयाक ताका इल्लें तानेक दी तूं
(इजाकाक पर्तोन) बाळा,
अंजुराचें साट बि खाताय ? या जर्दाळां ?

**इजाक** : नाका, दादा, आमचें कार्यें जातच फळहार
इल्लें ताजेक पुरो आतां.

**आब्रांव्** : तशें जाल्यार
थारे, तुमी दोगीय हांगाच रावा, आनी
गोंवा भाकऱ्यो करा, हाडलांगी ना लोणी ?

**थारे** : सगळें हाड्लां, धन्या, हुकूम दिव्चीचीच बाकी.

**आब्रांव्** : बरें ; जेवऽण तयार कर्या वेगीं वेगीं

**थारे** : तें मु, म्हजेर पाव्लें ; लांकूड मेऽनु व्हरों

**आब्रांव्** : नाका दिस्ता, इजाक काण घेत, उकोल भोरो.

**इजाक** : जाय्त जाय्त, दादा, थारेऽ, दवऽर म्हजेऽ पाटीर,

**थारे** : (आब्रांवकडे)
ताका सवय् ना, बा, घाल्ता कोण्णा वाटेर ;
ताणे व्हरचें जाल्यार, आस्चें कित्याक आमी ?

**आब्रांव्** : तुम्कां आमी धनी, तसो आम्कां सोमी ;
ताचे सेवेक न्हय तर आमी कित्याक आस्चें ?
बाळा, घे तूं लांकूड

**इजाक** : (खांदार घालन) जालें, दादा वेचें.
(आब्रांव हातांत उज्याचें आयदान आनी इजाक पाटीर लांकडाचो भोरो घेवन वेतात. थारे चिवके मुकार पावून पाटी येता.)

**थारे** : अरे, मेनो, कितें गजऽल रे हि ! इजाक
लांकूड व्हर्ता म्हळ्यार ! आवय ताची निजाक
जीव सोड्न सोडीत आय्कऽत मुणी आयची खबऽर ;
एके आवय्क भुर्गीं जर्तर आस्तीत सबार

तिचें काळीज वांटोन वेंता ; तेंवीय कशें ?
जो कोण बरो दिस्ता. ताका इल्लें च ऽ डशें,
इजाक दिस्ता लिंबो - त्याभायर आस्चो एकलोच,
भाव - भयणी नांत ; भोग्ता आवयचो मोग सगळोच.
तीन दीस घरा नामु, आवय कितली कंगाल
जाल्या कोण्णा ; खेल्लें खाण कांय लाग ऽ त आंगाक ?
ताळ्ह्याताचो फोड तो तिचो, जिवाची गांट,
दोळ्यां आड जर जाल्लो, कितें तिचो आकांत!
धर्नीर सोडल्यार मुयो, उंचार ठेव्ल्यार कावळो
व्हर ऽ तगि म्हण जाग्रुतकायेन ल्हान व्हड केल्लो.
घोंटेरांतलीं पिलां फाल्यांर, सुकणें बसोन,
रुदान कर्ता तशें, सारा दुकां पुसून
हुंबरार राकतासतेली.

मे ऽ नु : तिचें तुका दुकता
व्होयगि ? आगार बाये ऽ चें दूक कोण तो लेकता ?
तुम्कां काळीज आस्चें ; आमी काजऱ्याचे खुंट ;
तुम्कां लाग्तार दुक्ता, आमी दाड्डे-धारुंट !
आगार बाव्डी, तिच्या चेक्र्याक आनी तिका
सारा निमतीं वनवास जाल्यावेळार, एका
रुकामुळांत बसोन, उदाक ना म्हण रडटा
ताजेन मर्च्या इस्मायेलीक थंयसर सोडटा.
दोळ्यां आड पूण मडर तूं - म्हळ्ळे तिचे कोळहाळ
सर्गा पावल्यात ; तरीकय चित्तायगि तूं ते जाळ ?
हाय, हाय, इस्मायेली ! बिर्मोतिच्या आगार!
साराची खंत कितें ? तुमच्या दुखा मुकार !
(काळोक.)

## तिसरें थळ

(मोरया पर्वताच्या मात्यार आब्रांव लांकूड दाळ्न सारी माण्डटा. इजाक निमाणो भोरो हाड्न दिता. दिव्न जात ऽ च इजाक बाव्ळे गळोव्न सुरु कर्ता –)

इजाक : दादा पुरो ऽ जालें म्हाका,

आब्रांव् : ... बाळा व्हजें

तुवें व्हांवयल्यांय व्हय एदोळ ? कितें कर्चें
सोम्याखातीर मोगान भोगचे इल्लेशे कष्ट.

**इजाक** : तें कांय व्हड न्हय दिस्ता, सोसीन ताच्याकी पाश्ट :
आतां लांकूड हाड्लें व्होयमु - अय्यो मोसा !
दादा, सोम्याक भेटवंक शेळी खंयसर आसा ?

**आब्रांव्** : शेळी सोमी दितलो - बा पयली तल्वार
पाजतां चिक्के ; उजो फुंकीत राव तूं ; पाल्वऽत
(इजाक उज़ो फुंकून, बापूय फात्राचेर तल्वार पाजताना पळेवंक वेता.)

**इजाक** : तल्वार पळेताना कूड्च सगळी कांपता
म्हज्यान पळेवंक नजो अब्बा ! दोळे धांपतां.

**आब्रांव्** : बाळा कांपताना तूं म्हाका जाता बेजार.

**इजाक** : कित्याक दादा ?

**आब्रांव्** : कित्याक म्हणो ? तुजे विचार
सास्पोंक लागल्यात काळजांत आस्ऱ्या गुपीत घुटाक.
कित्याक म्हणों ! म्हज्या पातकाच्या प्राचिताक.

**इजाक** : तशें म्हणनाका, दादा कसलो घुट
म्हाका सांगिनाय तो ? न्हयगि हांव तुजो पूत ?

**आब्रांव्** : कितें सांगों पुता ? खंयची वोपार सोदूं
घुट म्हण लेकिनास्ताना आसा तसो फोडूं ?
म्हजान नजो केदिंच ! विचारनाका आनीक
शेळी दिसनामु, मारूं खंयचे प्राणीक ?
लागीं ये तूं बाळा.

**इजाक** : मारताय, दादा, म्हाका ?
व्हय तऽर जालें, सांगोंक पाटी करीनाका

**आब्रांव्** : सांगोकीय न्हय, दवरूंकीय न्हय, तूंच ती शेळी
पुता म्हज्या, सोयान म्हाका दितां म्हळली

**इजाक** : दादा म्हज्या, उस्क्यार बसोवन उमो दिल्या,
घालिनाका तल्वार म्हज्या अस्कत गळ्या,
कांय पुण चुकलां जाल्यार, दी तूं शिक्षा फावो,
आडबोग्यां घाल्न बडय, दवऽर म्हाका जिवो.
(आब्रांव सुस्कार्न रडटा.)

**आब्रांव्** : ना बा, रत्ना म्हज्या तुजी चूकवी कस्लीय
बेर्शेबाच्या मळ्यांत भेटयतानां शेळी,
थंयसर सांगलें म्हाका उग्तें आम्च्या सोम्यान

इजाकाची बली भेटयजाय म्हण नम्यार्न,
आदिं धर्यां, जेदवां म्हजो मायदेस सांडून
वचजाय म्हण म्हळया वेळाय पोटली बांदून,
तक्षण ताच्या उतराक हावें पाळो दिलो.
आनी अब्ळे, ताणे म्हाका उद्धार केलो.
गोरवां आनी बक्र्यांचे हिंड केले सुफळ
पुत्राविणे ऽ स्त्रियेक म्हज्या, दिलो एक बाळ.
तोच तो पाटी मागता ; दिना म्हणोंगि हांव ?
इजाक : तशें जाल्यार दादा, सोम्याची खुशी जांव !
आब्रांव् : अनंद, सोम्या तुका, असलो भुर्गो दिल्लाक
भागी पतीण म्हजी, ताची आवय जाल्याक !
पुण हा ! दुर्दैव म्हजें, पुता, तुका मार्चें,
संय्बाक विरोध तरीय सोम्याखातिर कर्चें.
कितें भोग्ता म्हाका, म्हज्यान सांगूं नजो!
अब्ळे, हात घाल हांगा (हृद्याक) केदो मोटो उजो !
तुका बचाव करूंक, कितें जाय तें करीन
न्हय म्हजो एकजीव, सात जीव असल्यार ते दीन ;
पूण जें खंयच्यार मन्शाचें मन विप्रीत वोडटा
तें जर दिलें, वस्तुप्रास ती कर्नी चडटा सोम्यामुकार
इजाक : तसली पुन्याभरीत कर्नी
आडायनगी हांव ?दादा खंडचां मोगा - वोडनी
आशीर्वाद दी तुजें, आनी मांयक तूं कळय
असो दिला म्हण उमो-तिका भोळाय
भुर्गे मतीन तुमकां दोगांयक दुकल्यां तऽर
दादा, दोगांयखातीर आतां म्हाका माफ कऽर
आब्रांव् : वाळचें उदाक कशें बांदून धर्ल्यार काटान
इल्लें इडें मेळटच, व्हाळटा दोड्या लोटान,
तशें भोगता काळजांत आयकोन तुजें उतऽर.
आनी तुजी आवय हाजर आसली जरतऽर
कितें कर्ती कोण्णा ! आशीर्वाद तूं मागताय ?
खंयसर घालचें ? बेसावांनी पयलोच वोत्ताय.
आनी चुकी तुज्यो कसल्यो माफ हांव करूं ?
बाळशेपणी खाडाक धर्लें चूक म्हण धरूं ?
या दूध चिवतास्ताना, तुजेऽ आवशक पोल्यार

बोटान भोकुलेंले ? अथवा पुनवे वेळार
चंद्रीमाची थाली जाय म्हण बसचें रडोन,
व्हडली तुजी चूकशी आतां काडूं सोदून ?
ना, ना, बाळा, आमचेवरवींच कांय पूण उणें
जाल्यां जाणवेतू ; तंव ऽळ भोगसीजाय आज कोणे ?

**इजाक** : मोगा दोळचांक, दादा, काळें सयतीय धवें –
कितले पावटी तुमकां दुकवंक ना गी हावें ?
इस्मेल आनी हांव दोग, खेळांत झगडटाना –
अय्यो ! ताका धाडूंक हांवूच कारण कोण्णा !

**आब्रांव्** : पुरो पुता, पुरो - नाका भेण्टें तरी
करीनातल्यो चुकी आपल्या मात्यावेरी
कित्या व्हयसून घेताय भोगसाण्याक भु आतां ;
भोगसूंक कांय ना तरीय, सगळचा काळजान दितां :
तुजो निर्मळ अत्भो कळो तुर्माणांतलो
पितृलोकीं फुलोन, थंयसर परमळ उकलों !
हाय हाय, म्हजे गती ! घर आज म्हजे रितें !
भितर रिगतास्ताना साराक सांगो कितें !

**इजाक** : दादा, खंत कर्नाका. तुका म्हजे पाशी
बरो भुर्गो तो दीत ; सदां ताची खुशी
तुवें पाळचाच ; कष्टांत आनी नष्टांत जावंदी
तुजे वोडनेक इडें दिवंकनाय तुवें केदीं
सोमी तुका भुजयतलो ; काळीज घट्ट कर
ताची ताकीद ज्यारी जावंदी क्षणाभितर
सुस्ती कित्याक ? दादा, म्हजो नवो दगलो
काडटां ; नातल्यार रगतान भिजान पाड जायत सगळो
मांयक व्हर्न दी तो ; तिचें दूख तो फटयत-जशें ;
गायचें वासरूं मेल्यार कर्तात भातेणाचें.
(दगलो काडून दिता.)
आतां, दादा, तुजें काम तूं वेगीं तिर्शी.

**आब्रांव्** : हाता म्हज्या, सांग तूं. आतां कितें कर्शी ?
पोसलोय व्हय तुवें, उकलल्लोय ताका
पूण तें खंयचेय आतां मुखार हाडीनाका ;
तुवें ल्हान व्हड केल्लें बकडेचें पील सयतीय
कातर्ताना मुटीभितर कांप ऽत कोयती

तऽर हा ! तुजाच रगताक कितें कशीं ? तूं सांग

**इजाक** : दादा ! तल्वार पळोताना कांपतामु आंग ?
दोळयांक म्हज्या आड बांद, आनी अती जोरान
खिणाभितर उसळाय तकली एकाच मारान

**आब्रांव्** : नजो म्हज्यान तडवूंक हांवच मर्तीं पयलो !
(मत चुकोन पडटा.)

**इजाक** : (बापायक उटवन)
दाजा, घळाय चडयता दूख ; मात्यावयलो
दिवऽस फाडला पावलो तुज्या मनांत तूं लेक
हर्शी मार्ताय तस्ली शेळी म्हणोन हांव एक

**आब्रांव** : ये तऽर, बाळा म्हज्या, बांदयां तुजे हातपाय.
(सारीयेर चडवन, दिंबियेचेर बसवन इजाकाचे हात पाटल्यान बांदता.)
आतां, सोम्या, पाव तूं ! आनी कर्नी घळाय

**इजाक** : दादा म्हज्या, दोळयांक बांदिनायगि लुगऽट
नातल्यार आपशीच गोमटी हालोन, मार कांय चुकत.

**आब्रांव्** : (दोळे बांदताना)
उप्रांत धांपचे दोळे प्राणबी गेल्या वेळा
म्हजेकर्नी आतांच धांपयतागि, बाळा ?

**इजाक** : अदेवस, दादा तुका आनी मांयकीय म्हज्या !
सोम्या, ओप्सुन दितां अत्मो हातांत तुज्या !
(आब्रांव उमो दिता.)

**आब्रांव्** : अदेवस, म्हज्या बाळा ! पितृलोकीं तुका
विशेव मेळों ! सोम्या, उतऽर प्रायेर आमकां
हासवक आनी रडवंवक दया केल्लो हो बाळ
नातलोच जाल्यार पुणी, भोगत्यांव एकोडे जाळ.
आमचे ताबेन आसतां, ताका ल्हान व्हड केलो
दोनीय काळजांचो मोग ताचेर एकल्यार दाळळो.
सगळें प्रयत्न केलें आमकां तांकता तशें
ताच्या दोळयांत, कानात कांय वायट रिगनाशें,
आतां तुजें देगें, साबीत मेळयनास्तां
म्हजो हात हांव उकलून, तुका ओपसुन दितां
(तल्वार मारूंक जोकता. तक्षण देवदूताचो ताळो आयकता.)

**देवदूत** : आब्रांव ! आब्रांव !

**आब्रांव्** : ... अब्ळे हाजर !

देवदूत : उबार्नाका,
चेक्र्याचेर तुजो हात ; नाका ताका आपडूंक –
जाणा सोम्याक भ्येताय म्हण तूं ; आनी करूंक
नाय म्हण पाटी तुवें तुज्या एकल्याच पुत्राक.
आब्रांव् : आपडना हांव ताका ; पाळो दितां उत्राक ;
अनंद जावंदी तुका, काकुळटिच्या राया !
तुका खाल्ते जाल्यांक केदी तुजी दया !
(पाटी पळेवन)
शेळी खंयची हांगा
इजाक : दादा, कित्या घळाय !
आब्रांव् : तुका मारिना बा, आज तूं बचाव जालाय
(दोळयांचें आनी हाताचें सोडवंक वेता.)
इजाक : बचाव ! कसो ? सांग तूं, दादा, म्हाका - व्हयगि ?
आब्रांव् : आत्तां देवदूत उलयताना आयकोंक नायगि ?
इजाक : भियाज थर्थरोन हांव समा मतीर जाल्लों ;
पाटी पळेताना, अब्ळे ! बोकडेचें पील !
सोमी कितलो बरो पळे - इतली तपशील
तयार कर्चीं म्हळयार
इजाक : तऽर आज पयलीं अर्गीं
सगळया आमच्या काळजान दिल्यां आमी सर्गी
मागीर म्हाका वेगीं पाटी घरा वचोन
मांयक ही खबर सांगोंक आसा उस्क्यार बसोन ;
थारे आनी मेतु ? आसात गि ते गेल्यात ?
आब्रांव् : पयली शेळी हाड-बा, धडबडटा ती बोलयांत,
तितले भितर कर्तां उजो पेटवंक
(आयदनांतलो उजो फुंकता.)
इजाक : (शेळियेक फोटलून धर्नू हाडटाना)
ये तूं सुंदर शेळिये, म्हज्या बदलाक मेटवंक
सोम्यान तुका धाडल्या ; तूं जावनासाय भागी !
बोब मार्नाका - इल्लिशी दूक - काबार वेगीं.
आब्रांव् : उजो चिक्के पळे - शेळियेचे पाय बांदतां.
इजाक : तल्वार मुणि काडिनाका बाग्त्रोन आसतां,
आयचो धको काळजां तरी रिगला म्हाका –
आनी मुकार केदीं तल्वार म्हळळी नाका.

(आव्रांव शेळी सारयेर दवर्ता.)

**आवांव्** : तसोय कांपोनाका, बाळा ; ये तूं कये तूं कर्यां
दोगीय सोम्याक नमन, आनी शेळी मार्यां.
(दोगीय सारियेलागीं उबे रावतात. आव्रांव हात उबार्न म्हणटा :)

ओहो ! नमो विश्वकर्ता
धर्निसमा पायां पडटां
रचना तुजी भेटवन दितां
सेवकाचे ऽ भक्तीन
हजार देणीं आमकां दिल्याक
दर्यन आमकां चलवन व्हेल्याक
बाळाक म्हज्या बचाव केल्याक
अर्गां सगळे सक्तीन.

**देवदूत** : म्हणटा सोमी ; " म्हज्यान प्रमाण केलां हावें
म्हजे पासून तुज्या एकल्याच पुत्राक तुवें
इन्कार करूंनातल्याक आशीर्वाद घालतलों
तुजेर आनी संतत तुजी वाडयतलों
अंत्राळावरय नेकेत्रां तीं आसात कशीं
आनी रेवेचे कण दर्यावेळेर, तशीं ;
दुस्मानांच्या दार्वटयांचें स्वाधीनतें,
तुजे ऽ संततेच्या आदीन येतलें तें
आनी म्हजो ताळो पाळळोय देकून, सर्वंग
पर्जा भागी होत्यो ऽ तुजे ऽ संतती थंय.

(काळोक)

# आखेरवचऽन

नाटक जालें; आतां घरा वेचे आदीं
दोन सब्द उलवंक सोडया तुमचेलागीं
आदल्या कालांत सोमी जेजू येवंचेफुडे,
भेटयताले देवाक बकरे आनी पाडे;
तांचे बदलाक आब्रावन पुताक आमकां दिलो.
सार्येक लांकूड कसो इजाक आपले पाटीर
व्हावय, तसोच जेजून घेलो खुरीस वाटेर;
ताचेबरीच ज़ेजुय दोंगरांमाते चडटा;
कशी शेळी मरोन इजाक जिवो उर्ता
तसो आमचो सोमी मनशेपणी मेलो.
दुसऱ्या संयबान देव तो; आसातसो उर्लो
मोरया पर्वताची रुपकाराची शेळी
काल्वार पर्वताचेर सार्की ज्यारी जाली;
तीच ती ज़ेजु शेळी तवोळ धर्यां अजून
हर्येक दिसा पुर्वित दिता मिसार अर्पुन.
आन्येक उतऽर: आब्रांवबरी आमकांय एकलो
पूत जर आसा आनी ताकाच देवान मागलो.
अथवा संसाराचो आदाय नाडच्या वेळार
कशें भोगता आमकां पाळो दिंवचो म्हळचार
तवोळ उगडास आसो आब्रांव पाटी सरोंक
ना म्हण, आपल्याच पुत्राक देवाखातीर मारुंक,
जऽर तर सर्गांत पयलें देवाक मेचवोंक सोदूं
आशीर्वाद देवाचें सदांच आमचेर वोडूं.

•••□•••

3.

# पोपेबाबाली मुंबै

## रघुवीर राम नेवरेंकार

**पात्रा :**

पोपेबाब :
नोनेबाब :

**नोनेबाब** : (पैसुल्यान व्हडल्यान उलैत येता) कितें सियोर पोपेबाब ! कितें ? देपोयस द मुइतु तेम्पु, आं ऽ !

**पोपेबाब** : (मोट्ट्या उमेदीन) यया, यया, कशें आसात तुमी ? बरे आसात मू ?

**नोनेबाब** : आमी बरे आसात हो. पुण मुंबैकार कशे आसात तें पैलीं सांगात मू. आं ऽ ! मुंबैची हवा बी मानवली मू ? केन्नासर पावले तुमी ? (हातांतली कांसाळें पनाची केळीदोरान बानिल्ली सुंगटांचि पोंटली वण्टीकुशीक दवरून बसता.)

**पोपेबाब** : हो न्हंय ? येतां थंय आसां. निकतोच पेज जेवन न्हावंक वतालों - इतल्यांत तुमी आयले.

**नोनेबाब** : म्हणचे ? इतलो कळावसो ? वाफोर हरशीं बेगीन पावल' !

**पोपेबाब** : वाफोर पावला गा ! पुण आमी गा खंय पावल्यात ?

**नोनेबाब** : आगा, हांव सांगतां न्हय ? वांफोर म्हणचे··· हांव पळया. बाजारांत गेलां, फक्त सुंगटां घेतल्यांत, आनी असो परतलां ; आनी म्हाका दिसता, सांकवार पावलां जावये ना जांवये, इतल्यांत पूं ऽ जालें. म्हज्या बरोबर तो देमूलो चेडो आशिल्लो. ताका सुद्दां हांवें म्हळें, धा वाजलेशे दिसता ! आनी तुमी हो इतलो वेळ खंय घुस्पले ?

**पोपेबाब** : घुस्पलो खैंचो म्हण्टा गा ? आगा, हांव आयलो तोच व्हड म्हण्टां. कितें वाफोरार खेट जाणां ? आल्फांतार सामके हुमलेशे देंवले म्हळचार. अं ? सामके मनीसपण नाशिल्लेशे ! कितें बोव्रो आनी हुयेली माल्ल्यात ! शी: नाका धर्म जालो म्हाका. तशें पळोंक गल्यार म्हजेकडेन सामान हरशीं कांयच नाशिल्लें आं ! सगळींच दोन काशोतां, एक साक आनी हातांत, वाटेर खावपाक चार लारजां, थोडे चिकू आनी बरो तिकसो सांजो - म्हज्या दातांक लागना म्हणून तूप बी बरें चडशें घालून केल्लो पिरून-ताजी पोती ! पुण हांवें तें कांयच खांव ना आं ! खातलो कितें कपल ? आं ऽऽ... !

**नोनेबाब** : व्हय तर. प्रवासांत नाकाच जाता.

**पोपेबाब** : नाका म्हणचे अशें तशें न्हय. आतां हांव खाय नाशिल्लों म्हणून लोक खाय नाशिल्ले म्हणशी ! शी: ! सदन पडुं नाका तांचें. म्हज्या म्हऱ्यांत आशिल्लो ताणें आनी पळे अशी करड काडल्या... ! पैलीं चिकु खाले, ताजेर लारंजां खालीं, ताजेर केळी आनी उंडो खालो. म्हण्टा म्हणसर कितें लेंसाक गुटलावन हाडिल्लें तें खालें. आनी हांव म्हण्टां, इंग्लेंय करून ओगी तरी बस पापया. च्ये : ! ओंकलो म्हळ्यार म्हज्या हांतुण्णार सामको बकबकीत ! शी : हळशीक ! ज्युदयेर सुद्दां उसळ्ळें म्हज्या. काय बरी नवीच शिवून घेतिल्ली काश्मिराची ! आनी तें पळेतकच म्हाकाय ओकूंक येंव लागलें. कांयच नाका जालें. आंतकडचो सुद्दां तुटून पट्टात काय जाल्यो.

**नोनेबाब** : हय तर ! अशी हळशीक म्हणून पळौं येता ? म्हण्टकच सामके उपाशीं पडले तर तुमी !

**पोपेबाब** : थेम सुद्दां धेंव ना उदकाचो ! बद्द म्हळें आल्फंतार पावतकच सोद घेवचें. म्हळ्यार खैंचें सोद आनी खैंचें कितें गा ? आं ऽऽ ! आल्फंतार बांकार एक काशोत दवल्लां आनी दुसरें खंय पावलां तें पळेता म्हणसर ताजेर हाडून कोणें आपल्यालें काशोत दवल्लें. ताका सांगलें, सबग्या फाटल्यान घे रे मात्शें तुगेलें. म्हळ्यार कितें उसळ्ळो गा तो ? सामको खायन् म्हणून आयलो. बरें, ताजेकडेन केस्तवां करतलो जाल्यार म्हाका फोर्स आसा ? बरें सायबा, तुजेंच खरें म्हणून मोन्यानी रावचें पडलें. आतां ओगी रावलोसो पळेलो आनी सगळयांनीं ताजेर कोणें आपलो साक, कोणें पांटलो, करतां करतां सामकें पोंदा घालें न्हय तें काशोत ! आनी ताजेर पळे डब डब करून आपटिलां तें सामान ! उरता तें काशोत ? मदींच भितर गेलें. सामकी पुन्नपोळी करून उडैली पापयाच्यानीं त्या काशोताची. कसलें नवें करकरीत घेवन दिल्ले जाणां पिरुज्या घोत्रान ! चुरचुरलो म्हजो जीव !

**नोनेबाब** : तें जालें गा ! काशोताचें कसलें व्हडलेशें घेवन बसल्यात ? बरें, तें आसूं. तुमी गेल्ले तें काम जालें मू बरे भशेन ?

**पोपेबाब** : काम ? बरे भशेन ? म्हगेलें गा बाबा मुंबै कसलें काम !

**नोनेबाब** : म्हण्टकच गेल्ले कित्याक तर तुमी ?

**पोपेबाब** : हांव गेल्लों म्हणचे ... पिरुचीं म्हाका आत्र्यापैऱ्यान पत्रां येवंक लागलीं. बाप्पा, म्हाका तुका पळैन दिसला. बाप्पा, म्हाका तुकां पळैन दिसला. तूं मुबै यो. हावें म्हळें, म्हाकां कित्याक मुंबै ? तुका पळेन दिसला मूं, तूंच ऊठ, घोवाक घे, यो हांगा ! पुणून ताका कितें फिर्याद मेळना जाली, काय कितें बगलांट केलें कोण जाणां ताणें. तोय काय उदारेक

रावलो ना. रजिस्टरांतल्यान पैशे धाडले, आनी पिरूक तुका पळेन दिसलें, ज्यायज्या भायर सर म्हणून बरौन धाडलें. आतां म्हळें वचचेंच पडलें, मनांत म्हळें योव या चार दीस फोलग मारून. मुंबयूय पळौन जाली.

**नोनेबाब :** जांव, मागीर ! पुणून हेंय जाल्यार काम न्हंय व्हय तर ! म्हण्टकच पळेली मूं मुंबै बरी करून ? चौपाट बिवपाट पळेली ओ ना ?

**पोपेबाब :** व्हय तर ! बरी करून पळेली. आनी आनी सायबा चौपाट नाका. साष्टांग दंडवत त्या चौपाटेक !

**नोनेबाब :** कित्याक ! इतले विटलेशे कित्याक हो ? बरी आसा म्हण्टात मूं ती !

**पोपेबाब :** म्हाकाय तशेंच दिशिल्लें पैलीं. गेलां त्याच दिसा सांजेवेळा पिरूलो चलो कसोच थार करिना जालो ! सारको, "बाप्पाक चौपाटेर नेउं या, बाप्पाक चौपाटेर नेउं या" म्हणूं लागलो ! हांवें म्हळें ; "आज नको, म्हज्या पायांच्यान जात नाहीं, चडून येतें, फाल्यां जाऊं या." म्हळचार कसोच आयकना. पुणून पिरूच्या घोवाकूय त्या दिसा फिर्याद आशिल्ली. आयतार आशिल्लो. तोय म्हणूंक लागलो, 'बाप्पा, पायांनीं होत नाहीं तर गाडयेन जाउं या ' त्या उतराक हांवे म्हळें, 'खर्चाक आनी कशाला मारूं या ? होळु होळु करून वचु या. आसा न्हय उमेद तांकाय बी ? भागुं दी.'

**नोनेबाब :** म्हणचे ? हय हो पोपेबाब, पिरूच्या घरापसून पैस आसा व्हय तर ती चौपाट ?

**पोपेबाब :** चेः ! हांगां साकून देवळाकडेन गेले इतलें आसा.

**नोनेबाब :** म्हण्टकच गाडयेंतल्यानशें कित्याक वचुं या म्हळें तागें ?

**पोपेबाब :** तें कांय विचारूं नाका. गाडयेक थंय वालूच ना. असो सकयल वतलो जाल्यार गाडयेबगर कोणांक टांचूच वचना ! बाकी भोव करून ट्राम ना जाल्यार बसांतल्यान वतात. आणो थैं दोन आणे दिल्यार काम जाता. आतां गाडी मातशी म्हारग पट्टा. बाकी पैसोय तसोच घोळटा न्हंय थंय लोकांच्या हातांत ! तांका म्हारग कितें, सवाय कितें !

**नोनेबाब .** हय हो, म्हणचे तुमगेल्या पिरू-घोवाक पागामेंत बरो मेळटा दिसता. हातार कितेंय शें दोनशें पट्टात ?

**पोपेबाब :** कितें मेळटा आनी कात मेळटा तें म्हाका काय खबर ना. एका दुकलें विचारतों आशिल्लो. पणून पिरून म्हाका पैलींच सांगिल्लें. "ह पळे बाप्पा, हांकां पागामेंत बी कितलो मेंळटा काय, तूं विचारूं नाका मुंबैत पागामेंत कितलो मेळटा काय विचाल्ल्यार लोकांक वायट दिसता." हांवें म्हळें, तोंडा कुलप, म्हाका कित्याक विचारूंक जाय ?

बाकी रावतात तो थाट पळेत जाल्यार पकदस्त आसतलो काय दिसता.

**नोनेबाब** : घर बी व्हडलें आसा दिसता ?

**पोपेबाब** : व्हडलें ? शे: शे: ! आमगेलें हें साल ना ? तें आतां मातशें व्हड आसा. हें मात्रें ना, तेदें एक साल आसा. थैंच जेवप थैंच न्हिदप, सगळें थैंच. म्हाका आनी पैलीं पैलीं घुस्पुंकूच जांव लागलें.

**नोनेबाब** : बरें, तें आसूं ! म्हटकच चौपाटेचें कितें तें सांगलेंच ना तुमी.

**पोपेबाब** : ताचे कितें कपल सांगतलों ?

**नोनेबाब** : न्हंय, पुण आसा हरशीं पळौपासारकी ?

**पोपेबाब** : चे : ! पळौपाचें कितें आसा गा थंय ? हांगा वेळ ना ? तशी थंय चौपाट. हांगा आमी वेळ म्हण्टात, थंय ताकाच चौपाट म्हण्टात.

**नोनेबाब** : म्हण्टकच लोक अशे झुंडचांनीं वतात म्हण्टात ते कित्याक ?

**पोपेबाब** : पिशे ! एकटो वता म्हणून दुसरो वता.

**नोनेबाब** : हें आनी बाबा कितें ? आमी हांगासर वेळेर सकाळीं वतात तितले. बाकी पिशे म्हण्टात तें फट न्हय. आनी करप कितें थंय वचून ?

**पोपेबाब** : करतलें कितें ? त्या रेंबेर बस बस बसप, चणे खावप, चिरमुल्यो खावप, ना जाल्यार घाणयारी खावप.

**नोनेबाब** : शी : घाणयारी ? आवंय !

**पोपेबाब** : घाणयारी म्हणजे ही घाण येता ती न्हय. उशिकांडचा करवे. ताका थंय घाणयारी म्हण्टात. आनी आनी कितें मेळटा थंय पाणीपुरी काय कितें म्हणून. दांतोळचाचेशे खटखटीत वडे ! ताका मदींच बुराक घालतात. तातूंत आमटाणेचें उदक घालतात, आनी सुर्र सुर्र करून खातात. म्हाका पिरू म्हणूंक लागलें, बाप्पा, खाता पाणी पुरी ? फाल्या हांगा साकून वतकच मेळची ना. हांवे म्हळें, ना मेळल्यार नाका मेळूं. बाप्पाक पाणीपुरीय नाका आनी मसणपुरीय नाका.

**नोनेबाब** : हय हो, पुण पोपेबाब, तुमचे भशेन जर सगळेच अशे विटले तर त्या विकत्ल्यांचे हो कशें जावंचें ?

**पोपेबाब** : आगा नोनेबाब, पुणून तांचें कशें जावंचें, हो हुस्को तुमी हो कित्याक काट्टात ?... आनी विट्टात गा खैंचें कोण ? पळेलेबरोबर टक टक करून मिटक्यो मारून खातात... वखवख उठलेलेशे !

**नोनेबाब** : म्हण्टकच पळेल्या भितर मुंबैंत कितेंय खपता म्हण्टात तें फट न्हय तर ! आंऽऽ! ... बरें तें आसूं...! म्हण्टकच तुमी पळे चौपाटे वेल्यान घरा आयले, ते चलत आयले, काय पिरूच्या घोवान गाडी बी आन्हंजार केली !

**पोपेबाब :** आगा, तेंच सांगतां न्हय !... बरो काळोक पडला, तेन्नाच्याक आमी घरा वचूंक भायर सल्ले. पिरून म्हाका म्हळें, "बाप्पा, तुज्यान चलूंक नज जातलें. तुका ह्या गर्देंत नाका धर्म जातलो. गाडयेन गेल्यार माणसुकेन सुट्टलो !"

**नोनेबाब :** रजाव तागेलें बाबड्यालें ! कितलोय जाल्यार बापूय न्हय ? आनी तातूंत म्हातारो.

**पोपेबाब :** तें जालें गा ! पुण हांवें त्या उतरार म्हळें, "तें दवर तूं ! असो कितें सामकोच मेगाचो ना हांव ! बरो म्हातारो जालो म्हणून !... सामकोच कितें भायर उडौपाचो कोलू जाला व्हय ?"

**नोनेबाब :** चे : चे : ! कोलू ? कोलू कसलो ? आगा, पिरून तुमकां, हांगा पळे तीं तुमगेलीं खारव्यांकडेन केस्तवां जाल्लीं, तेन्नां पळौंक जाय आशिल्लें !... पुण तुमीय जाल्यार कपास्तातीचे आं !... म्हज्यान काय जातें ना !... हय हो, पुण ऱ्हा दिसा जाल्लें तरी कितें तें ? म्हाका सारकें समजलें ना तें. हाव हरशीं पैसुल्यान पळेतालो आं ! मनांत म्हळें लागीं येवन अशें फुलौंचें एकेकटचाच्या खुमग्यार ! पणून म्हळें भोंगूं !

**पोपेबाब :** बाकी म्हजोय जाल्यार आज्नेर जाली गा ती ! आगा, ते अशें जालें ! हावें पळे ती एक गांथन घेतिल्ली तिजेर ताका म्हळें, "वेल्यान तें एक शेतूक उडय !" बरें आशिल्लें हो ... जितें फडफडीत ! तळल्यार बरें लागतलें आशिल्लें ! म्हळ्यार तो मालक्रियाद म्हाका म्हण्टा, तुमकां भाटकारांक नुस्तें खायन दिसता आनी दुडु दीन दिसना ! म्हाका माल्लीं भिरभिर ! हांवें म्हळें, तुज्या बापायक केन्नां नागैल्लो रे हांवे ? म्हळ्यार तो म्हाका विचारता. "म्हागेल्या बापायक वैर कसो काडचो तुयें ?" हांवें म्हळें, "बापायक वैर काट्टलो तो काट्टलो आनी हें पळे शेतूकय वैर काट्टलों" अशें म्हणून पांटलेंत हात घालून पळे तें काट्टालों थैंच घट्ट हात धरलो म्हजो ताणें ! तो हात सोडिना, हांव शेतूक सोडिनां ! शी : सामकें भेरभेरें जाले हातांत !

**नोनेबाब :** केदें व्हडलें केस्तांव जालें तें ! न्हय ! – बरें, तें आसूं म्हण्टकच चौगाटे वैल्यान कशे ... चलतूच आयले तर तुमी !

**पोपेबाब :** आं ऽ ऽ तेंच सांगतालों पळे ! मदीं आनी हें केस्तांव आयलें – व्हय ! तर आमी चलत घरा वचूंक म्हणून भायर सल्ले. पिरुन म्हजो हात धल्ला ; आनी चल्याक काडून घोवाकडेन दिला ! चलतां चलतां ... चलतां चलतां ... व्हय चलतात ! बरे पैस पावले, तेन्नां हांवें म्हळें, 'चलये, येता आसतनां बेगीन पाविल्ले, आनी आतां इतलो कळाव

कसो जालो ?' हे विचारतनां हांवें हात सोडून पळे असो बचकुला कडेन धरिल्लो, – म्हळचार सुळसुळीतसो लागलो ! वैजिणीचो सो ! हें आनी म्हळें कितें ? – म्हणून तोंडाकडेन जर पळे, तर इस्तीद घाल्लें लामोडयाच नाखाचेंशें एक चेडूं !

**नोनेबाब** : कितें ? हें आनी कितें सांगतात गा तुमी ! सामकीच भूतबाधाशी !

**पोपेबाब** : म्हाकाय तशेंच दिसलें. जिवाच्यान तर ! सामकें भूत ! तोंडाक रंग काडला संवगाभशेन ! मानेर केंस सोडल्या आलांवतिणिभशेन ! आनी म्हाक विचारता, "बुट्टा ! शरम नहीं लागताय ?" म्हज्या आगाक असो उजो पेटलो ! आं ऽऽ ! मनांत म्हळें, एदेंशें चिरकुटें तूं ! आनी म्हाका "बुट्टा" म्हण्टा ? - खैंची फाकुल्दाद तुका ? पणून आदमिरार जालों हांव एका भशेन ! म्हळें, हाका म्हज्या बापायचें नांव सांगलें कोणें ?

**नोनेबाब** : कोणाचें ? बुटेबाबाचें मूं ? - आरे तूं ! आनी तें ताका बुटो म्हण्टा ? म्हगेल्या बापायन सुद्दां केन्नां बुटो म्हळो ना ताका, इतलो व्हड जावन ! तो सुद्दां ताका 'बुटेआप्पा, बुटेआप्पा' म्हण्टालो ! बरेंऽऽ मदांद आसतलें तें चेडूं पळेल्याभितर ! थैंच उडौं जाय आशिल्लें सामकें विड्डून !

**पोपेबाब** : आगा, पणून आयकात तरी ! "बुटो" म्हणचे म्हगेलो बापूय न्हंय ! थैं म्हाताऱ्यांक खैं "बुट्टा" म्हण्टात ! मागीर सांगलें तें म्हाका पिरुच्या घोवान !

**नोनेबाब** : अशें, अशें ! म्हाताऱ्याक 'बुटो' म्हण्टात !... हें बाबा कितें आयकूं नाशिल्लेंचशें ! आनी तन्न्यांक कितें म्हण्टात ? 'खुंटो ऽ' ? ?

**पोपेबाब** : चे : ! रावा गा ! कोमिकां कसलीं करतात मदीं, मडयाचीं ? सांगतां तें आयकून तरी घेया पैलीं !

**नोनेबाब** : बरें, बरें ! सांगा ! मागीर कितें जालें !

**पोपेबाब** : आ ऽ ! आतां कशें विचाल्लें ! तर जालें कितें ! कितलोसोच वेळ तें चेडूं म्हजेकडेन दोळे मोटे मोटे करून उलैता ! म्हाका तागेलें कांयच समजना ! हांवें मात ताका एकूच सांगलें. आगो, पापणी, हांवें तुगेलो हात बळयां धरूं ना ; इतलेंच न्हय. तर तुजो हात म्हज्या हातांत कसो पावलो तो सुद्दां म्हाका खबर ना ! ओगी म्हळें ताणशेता कित्याक ? हांव म्हळें तुका आफुट्टां तरी ? आतां पैलीं वचून म्हळें म्हाका न्हावचें पडलें.

**नोनेबाब** : जांव म्हाटकच एकूण तुमी म्हातारपणांत पावन जाले तर !

**पोपेबाब** : व्हय तर ! सामको ! आनी आनी तिर्थांबिर्थां कांय नाका !

**नोनेबाब** : काय वाङनिश्चय केलो गा तुमी ?

**पोपेबाब** : खरें, खरें ! पुणून कितें जालें तें आयका पैलीं !

**नोनेबाब** : व्हय, सांगा ; आयकुया तरी ! म्हाका हरशीं वचूं जाय आशिल्लें ! पणून सांगा तुमी !

**पोपेबाब** : व्हय ; तर जालें कितें, आमगेल्यो ह्यो पळे थैं लटापटी जाल्यो, त्यो पळौंक म्हणून थैं लोकांचे चोंब्याचे चोंबेच येवंक लागले ! करतां करतां थैंच गर्दी जाली. तांतूत तुमचे भशेन बरो एक समंजस मनीस आशिल्लो. ताणें म्हाका विचाल्लें, "आजोबा, तुमचें जालें तरी काय ?' म्हण्टकच त्या उतराक ताका हांवें सांगलें, "तुमी विचारतात म्हणून," म्हळें, 'सांगतों ;' आनी सगळो फाक्त ताका सांगलो. आनी ताकाच मात्सो बाबापुता करून म्हळें, "उपकार करा, आणि तुमीच ह्या चेडवाला जरा सांगा कीं मी त्याचा हात कांहीं बळयां धरला नाहीं ; एवढेंच नाहीं तर," म्हटलें, "तो माझ्या हातांत कसा आला तेंय मला जिवाच्यान तर खबर नाहीं !" ताका दिसता इंग्रेज बरी येताली. ताणें तें ताका इंग्रेजीतल्यांन फॅट फॅट करून सांगलें ! पणून त्या चेडवाके, पोराक दिस्ता इंग्रेज येनाशिल्ली.

**नोनेबाब** : म्हणचे कोण तर तें ! इंग्रेज येनाशिल्ली ? आनी तोंडाक तांबडेंबी काडलेलें म्हण्टा तें कित्याक खंय तर ?

**पोपेबाब** : आगा, पुण तोंडाक आनी बोंडाक तांबडें काडलें म्हणून इंग्रेज येता ? आंऽऽ? तशी इंग्रेज येताली जाल्यार हांगां लोक तोंडाक, बोंडाक-सोंडाक सगळे आंगाक तांबडें काट्टले आशिल्ले !

**नोनेबाब** : व्हय ! तेंय खरें ! म्हण्टकच जालें कितें फुडें ?

**पोपेबाब** : तें चेडूं ताकाय तापौन काडूं लागलें ! 'तुमकू मोदें बोलनेकू कोन बोलताय ? आया है इ्येत करनेकू बडा झेंटलेमॅन !' ह्या उतराक ताणें ताका बरोबर धल्लें ! आनी तागेली ती भास आयकून लोकांनींय 'मारा, मारा' अशी बोब मारूंक सुरवात केली ! कोण शिळौग्यो घालता, कोण बोबो मारता ; नाका पुरो धर्म करून सोडलो ताका ! जीव असल्यार भीक मागून खायन म्हणून. ताणें आनी फाट फुडो पळौ ना ! तोंड घेवंन गेलें !

**नोनेबाब** : म्हण्टकच मागीर तुमगेलें कितें जालें ? तुमकां वाटबी खबर आशिल्लीं व्हय तर परत घरा येवपाची ?

**पोपेबाब** : म्हाका गा खैंची खबर ? हांवें थैंच खूब लोकांक विचाल्लें सुद्धां ! 'आगा', म्हळें, 'तुमकां थिरूलें घर खबर आहे? तर म्हणूं लागले, 'पत्ता माहीत आहे तुमकां ?" म्हाका पत्तो खबर आशिल्लो. पत्रां बी बरैतालो न्हंय हांव आत्र्यापैन्यान ? तांका हांवें सांगलें, 'घर नं. १२,

रूम नं. ब्यास्तर; फष्ट ल्फावर, चुनामा लेन !' म्हण्टकच ताणें आनी कळाव केलो ना. ताणें म्हाका सांगलें, तूं वच आनी पोलिसाक मेळ! तो तुगेलें जुस्त करतलो !

**नोनेबाब** : पोलिसाक ? 'पोलिसा' म्हणून कोण ?

**पोपेबाब** : पोलिसा न्हय गा 'पुलीस'! म्हणचे सोल्दाद !

**नोनेबाब** : बापायस् ! तो आनी कित्याक ? हें आनी बाबा कसलें लजांड ?

**पोपेबाब** : लचांड कसलें तर तातूंत ? थैं व्यवस्थाच तशी चोख. तुमी शेंणल्याबरोबर जर ताका वचून मेळशात तर तो तुमचें नावगांव बरौन घेता आनी तुमगेल्या जाग्यार तुमकां व्हरून पायता.

**नोनेबाब** : अशें अशें ! फस्कलास ! म्हणचे शेंणलेलें गोरूं करमळे तळचांत आनी शेंडलेलो मनीस सोल्दाराच्या हातांत ! आं ऽ ऽ ? – म्हण्टकच तुमकां सोल्दारान पायले तर घरा ! न्हंय ?

**पोपेबाब** : ना ! म्हाका सोल्दारान पांव ना ! हांव सोल्दाराकडेन वचूंक म्हणून असो पळे वतालो ... इतल्यांत पिरूचो घोव म्हाका सोदिसोदीत बरोबर थैंच पावलो. जांव सायबा, म्हळें, देव पावलो ! आनी आनी ताणें फाटफुडो पळौं ना ! रोखडीच थैंच्या थैंच आलुगेर आफौन बट्ट घरा मारून दिली ! – घरा वच जाल्यार कितें जालां, जनेलांत पिरू उबें रावलां आनी त्या मजल्या वैलीं सगळीं बायलां भुरगीं येवन ताका समजायतात ! म्हाका पळेल्या बरोबर ताका पळे अशें जालें ... ! पोराक सामकें रडूंक आयलें ! म्हाका म्हणूं लागलें, 'तुका आपणें पैलींच सांगिल्लें ! म्हाका इतलो भंय दिसलो ! कांयच समजना ! आतां म्हळें, जाता दिसता म्हगेलें सदांचें ! आनी, थोडो वेळ जर तूं येंव नाशिल्लो तर म्हाका जातलेंच आशिल्लें !

**नोनेबाब** : कितें तें ?

**पोपेबाब** : नेर्वांचें हो ! ताका मात्शें नेर्वांचें आसा न्हंय ? तात्पर्य बरी भोगली चौपट म्हाका ! आनी आनी सायबा चौपाट नाका !

**नोनेबाब** : एकूण बरी अप्रतिष्ठा जाली तर तुमगेल्या चौपाटेची ! आं ऽ ऽ ! आनी कितें कितें पळेलें तर तुमी ? राणयेबागबी पळेली मूं ?

**पोपेबाब** : व्हय, थैं गेल्लों ! ... पैर न्हय अवेर ! हांव मुंबैं सगळोच बारा दीस आशिल्लों. चौपाटेर तशी अवस्ता जातकच हांव आनी आनी खैंच भायर सरूं ना. फक्त गेल्लों तो राणयेबागेंत.

**नोनेबाब** : भायर कित्याक सल्ले ना ?

**पोपेबाब** : म्हाका आनी म्हळें नाका सायबा ! मनांत म्हळें, मोटारी, मुळा जर पडलों तर मागीर जाली जुस्त मुंबै !

**नोनेबाब :** किल्याक गा ? सोनापुरय पळौन येतले आशिल्ले ! नांव रेपार आं ऽ !

**पोपेबाब :** तें जालें गा ! . . . पळौन येंवचो नाशिल्लों. थैंच उरतलों आशिल्लों. पुण म्हळें आमगेल्यो काजू हुंस्केतल्यो !

**नोनेबाब :** (मात्सो हांसून) म्हटकच राणयेबागेंत तुमी कितें कितें पळेलें?

**पोपेबाब :** वाग म्हणुं नाका, कोल्ले म्हणुं नाका, हति म्हणुं नाका . . . सगळीं श्वापदां, पशु, सगळें सगळें आसा थंय पणून हांवें सगळें पळौं ना ? आगा ल्हान आसा तो बाग ?··· म्हज्यान बाबा नज जालें ! पायांत सामके गुळे येवंक लागलें. आगा, तींक भायर सल्लेले आमी घरांतल्यांत ! चार जालीं, पांच जालीं ! सामकी घुंवळ आयिल्ले भशेन जावंक लागली म्हाका ! म्हण्टकच पिरूय म्हणूं लागले, 'तुज्यान नज जाल्यार या आमी बाप्पा घरा !' आयले आमी बसांतल्यान !... पोण तत्पूर्व कितें जालें, पिरूच्या घोवान म्हाका म्हळें, "बाप्पा, हाटेलांत जावून आम्ही कांहीं घेऊ या ! तेवडेंच बरें वाटेल !"

**नोनेबाब :** म्हणचे खंय ?... ब्राह्मणींत मू ! ... शी : ! हांव आनी गादेलो जाल्यार सुद्दां वचना ब्राह्मणींत ! थू :... हळशीक खैंचेकडली ! च्यावनां सुद्दां सारकीं धुयनात ! पिचिक करून उदक उडौन थैंच्या थैंच उडैतात !... आनी पिरु खाता व्हय तर ब्राह्मणींतलें ?

**पोपेबाब :** हालींच शिकलां खंय.

**नोनेबाब :** आं ऽऽ ! म्हण्टकंच तागेलें पळौन तुमी शिकले दिसता !

**पोपेबाब :** बाकी हांवें कितें घेतलां गा थंय ?··· फक्त जंजिर काय किते म्हण्टात तें घेतिल्लें. तेंय पिरूच्या घोवान घुंवळीर बरें म्हणून सांगलें म्हणून घेतलें,

**नोनेबाब :** आनी च्या बी काय घेतली ना ? ... म्हणचे जंजिर खावन वैल्यान उदक पियेले दिसता !

**पोपेबाब :** आगा जंजिर तें पिवेपाचें ! लिमोनादाभशेन ! बरें झेल बी घालून घेतिल्लें ! उजो जाता न्हय थंय खूब ?

**नोनेबाब :** मुंबै उजो जाता ?

**पोपेबाब :** व्हय तर ! त्याच वाजांनी हांव बेगीन आयलों हांगां ! आगा, न्हिदतलो जाल्यार हिन्दूंक धड जागो ना ! सामको तव्यार फोडी दाळिल्ले भशेन न्हिदचें पट्टालें ! बरें न्हाण पोण आसा ? शिंपीभर उदकांत साळोरेभशेन न्हावप ! ... आनी बिकणांधडे तर माणसुकीच ना !

**नोनेबाब :** बिकूणय आसा व्हय तर मुंबैंत ?

**पोपेबाब :** बिकूण आसा ?... असले तसले न्हंय! सामके रेडेबिकूण? त्या

बिकणांनीं चाबून पळे म्हाका दादड काडल्यात !... तांचेर हांवें एक कवन सुद्धां केल्लें!... आसा खंय तुमी ?

**नोनेबाब :** कितें म्हण्टा गा ?... तुमी कवन केलें?

**पोपेबाब :** फट दिसलें तुमकां ... आगा, पिरूल्या घोवाक आमगेली भास येना, पुण ताका सुद्धां हांसूहांसून ताका जीव जालो ! मुद्दाम आयका दाखैतां तुमी ! (पद म्हण्टा)

किटकिटतें आंग माझें, बुरडिनसें वाटतें ।। धृ ।।
बुरडुनि बुरडुनि रगत निघालें
आतां भुगभुगतें, आतां भुगभुगतें
तरीपण खरपिनसें वाटतें ।। १ ।।
(पड्डो)

...❑...

# 4.

# कौरवांलो कृष्णु

**बैंदुर देवराय अय्यगळ**

**पात्रां :**

सूर्यु :
कर्णु :
इंद्र :

(कर्णागेलो राजमहालु. भूमीरी पान हातुळनु ताजेरी कर्णु निदला. निद्दांतुचि सोपन पळयित आस – गगनांतु एक सूर्यमंडल दिसता. हगूर अदृष्य जाता आनि ब्राह्मणवेशांतु सूर्यु प्रवेश करता.)

सूर्यु : आहा ! हा !! हा !!! कौरवांगेलो कृष्णु !! मगेलो तेजस्वी पुत्रु ! संसारातुलि चिंता विसोरनु निद्राधीन जाला. तत्वनिष्ठेच्या आनि कर्तुत्वशक्तिच्या प्रखर तेजान लखलखणारो हो मुखचंद्रु, गाड निद्रेंतु आशिल्ल्या सान बालकागादी निरागस दिसत आस. हाय हाय !! वसुशेना कसलि ही तुगेली दुरावस्था ! सूर्यागेलो अंशु घेवनु; कुंती असल्या जगन्नातेल्या उदरांतु उदय पाविलो महापराक्रमी तेजस्वी पुत्रु तू ! जाल्यारि, जन्माक येतना आपणासांगाति दुर्दैवाकयि बांदुनु घेवनु आयलो. तुजसलो तेजस्वी पिंडु प्रसवल्या क्षण खंचायि मातेक उत्श्रृंखल आनंदु जावंकाशिलो. जाल्यार कुंतीक मात्र दुर्दम दुःख जालें. अजाणतेपणान आपणा हातान चूकि घडील्यामिती कुमारी माता जाल्ली ती. (कर्णु बरीन सरता) कन्यावस्थेंतु आसतना, दुर्वासमुनीन शिककिल्लो पुत्रकामेष्ठी मंत्रु फळता कि कशी, हाजि परिक्षा पोळोंचाक वचु गेली. आनी मंत्रु जपतचि आसतना दूर क्षितिजारी सळसळणाऱ्या सूर्याक आव्हान दिल्लें. मुनिष्वरालो मंत्रु तो, मिथ्या वतलो कशी? जन्मलो; आनी आपणागेल्या भवितव्याचे अकराळ विकराल रुप कुंती इदूर उब्ररलें, हाय हाय ! हृदयाक पीळु पडतले तसले तिगलें क्रंदन पोळोवनु सूर्यु व्याकूल जालो. आनी दोगांनियि सखोल विचारु केलो. त्या दुर्विपाकाक एकचि निवारण आशिल्लें - तुगेलो त्यागु (कर्णु दचकत) माता जावनु मदिणीगेलें मन कोरनु, तिने तुका पेटियेंतु भद्रवेरी दवरलो, आनि, आपणाक रुण ना, रुण आशिल्याकपुणी पावो, म्हणु काळजारि फातोरु दवरून तुकां उदकांतु हुळोवनु दिलो (कर्णु निश्वासु सोडता आनी आर्त स्वरान देवा देवा म्हणता.) जाल्यार वत्सा, तीं मातापिता तुका विसरनेति. जन्मदात्यागेलो हुंगु जन्मावधीक सुटना. (सूर्यु लागि येवनु कर्णामात्यारि हातु फिरायता. कर्णु उटावनु बसता.)

जान्मल्यक्षणा धोरनु मातापित्यांगेल्या प्रीतिक वंचित जालेल्या तुका; द्रोणानसुद्धां, अर्जुनावेल्या पक्षपातन वंचित केले.

**कर्णु** : तावळि हांवे कसले केलें तें तुका गोतु आसचि. देवा संकल्पु सफल जायपरि साधना सोडचि न्हयि. भारद्वाजान वंचन केलेलें ब्रम्हास्त्र भार्गवाकडेर (परशुरामाकडे) प्राप्त कोरनु घेतलें न्हैवें ?

**सूर्यु** : जाल्यारि त्या प्राप्तीसरशी शापुयि घेतलो म! !

**कर्णु** : ब्रम्हास्त्र मेळले सर्व श्रेय तातुं आयले.

**सूर्यु** : तूं बाम्हणपुत्रु हे तुगेले जन्म रहस्य तूं नेण आशिल्लो. म्हुणूचि परशुराम् क्षत्रियांगेलो कट्टुवैरी. ब्रह्मास्त्र शिकयिशना म्हुणु कळनु, तुका सारथी पुत्राक ब्राम्हणवेशु घेंवका पडलो आनी अखेर परशुरामागेल्या क्रोधाग्निन शापग्रस्तु जालो.

**कर्णु** : सारांश... मगेले अदृष्ट!!

**सूर्यु** : आजिवरेक आपणाक हक्कान प्राप्त जांवचि तसली प्रतियेक वस्तू, तुका तुगेल्या अदृश्टान वंचन केली. जाल्यार हाजामुखारी, केवल नशिबाक दुरायत बोसपातु अर्थु ना, तिन्हीलोकांतु अमूल्य आशिल्यो तसल्यो एक-दोन चीजो तुका सुदैवान प्राप्त जाल्याति. तांका मात्र तू जाग्रेतेन जतन कोरनु दवरि. आपणागेल्या दानशूरतेच्या कैफांतु त्यो कोणाकयि दीवनु सोडनाका.

**कर्णु** : प्रभो, तु वयोवृद्ध, ज्ञानवृद्ध, तुगेले सिद्धान्त मागेल्या मूढमतींसु बैसना म. त्यागु, परोपकारु, ओदार्य सर्व दुर्गुणांनु गणताति की इतें ?

**सूर्यु** : सद्गूणचि ते, उत्तम धर्म! जाल्यारि, सर्वांकयि येक सीमा आस. तिन्ही लोकांतु तुगेली दानशूरतेचि कीर्ति पसरल्या व्हयि. जाल्यारि खंचेयि दान सत्पात्र पोळोवनु दिवका. आपणाक अप्रुपायेन प्राप्त जाल्लेलि, अमूल्य वस्तू...

**कर्णु** : असलो कसली ती अलौकि, अमूल्य वस्तू प्राप्त जाल्या माका ?

**सूर्यु** : तुगेली ही अभद्य कवच कुंडलं.

**कर्ण** : ओ, हो हो ! ... (हासता.) ही मर्त्य रक्तामासाची सामान्य कवचकुंडलं? ही कोणाकयि कसल्या उपयोगाचीं ? हांव तरी मगेलें वचन आणि पौरुष, ह्या दोनी वस्तूशिवाय प्रतीयेक चीज तृणासमान मानतां.

**सूर्यु** : तुगेल्या ह्या अभेद्य कवचकुंडलांतु किजलें सामर्थ्य आस हें सगळे जग जाणता. जाल्यारी तू नेण म ! अरेरे कसली खेदजनक सब्बरी ही !

**कर्णु** : जाल्यारी प्रभो ! मगेल्या मूढमतीक हें आकलन जायना कि मगेल्या शरिरापोद्दूंवि उद्भव जालेलीं ही ... कवचकुंडल, मजाशिवाय आनी कोणागेल्या शरिराक संरक्षण दिववाच पात्र नाती मू. तरीकयि ती कोणाक

जाय जाल्याती वा ?

सूर्यु : देवेंद्राक.

कर्णु : कसले ? साक्षात इंद्राक ही मर्त्य बस्तू जायि जाल्या ? देवा तुगेल्या ह्या असल्या कूट वाक्यांनी मगेली मती आनीकयि मूढ जाता आस म.

सूर्यु : वत्सा, सांगता आयक. शापग्रस्त रोगग्रस्त जालेल्या पंडुराजाक औरस संतान जायना. तागेले संततीचे आकलस पोळोवनु कुंतीन वापस दुर्वासमुनीगेल्य पुत्रकामेष्टी मंत्राचो उपयोगु केलो. यमागेलो युधिष्टीरु, वायूगेलो भीमु; इंद्रागेलो अर्जुनु. त्याचि मंत्राच्या सहाय्यान माद्रीक अश्वीनीकुमारागेल्या कृपेन नकुल सहदेव जाले.

कर्णु : हे सर्व अंतस्थ जाणतलो तू कोणु महापुरुषु ? माका कसली चेतावणी दिवचि आस तुका ?

सूर्यु : हांव तुगेलो एक हितचिंतक म्हुणु लेक. आजि इंद्रु कपटवेशान कपट हेतून तुजेलागी येवन तुगेली कवचकुंडल मागतलो. जाल्यारि तूं ती सर्वथ्था दीवनाका. दीशि, तर तुगेले सामर्थ्याचि हरण जावनु येका सामान्य सैनिकाली अवस्था तुका प्राप्त जातली. तीं आंगारि आससरी अर्जुनुचि इतें ह्या भूतलावेलो खंचोयि शूरवीरु तुक्का जिकूक शकचोना. आनी त्याचि खातीर तुगेलें सामर्थ्य हरण कोरुक देवेंद्रु तुजकडे येतलो आनी वावगो भिक्षुक जावनु दान मागतालो. जाल्यारि तागेल्या बाबलावण्यांक दाद दीव नाका. इत्तें जाले तरी कवचकुंडलं दीवनाका जाग्रता.

कर्णु : भो, क्षमस्व ! तुगेलो आग्रहु मगेल्या व्रताआड येत्ता म. हीं रक्तमासाचीं कवचकुंडल मगेल्या शरिरारोदुचि उद्भवलीं. आनी तांचेसरशी चितेंतु गळनु जळनु भस्मिगत जांवचि. असल्या नश्वर वस्तूच्या वासनेन व्रतभ्रष्ट जावनु उदंड आयुष्य मोगच्यापाशी, कीर्तिचि येकीचि यकि घडी अधिक श्रेयस्कर मानता हांव.

सूर्यु : त्या कवचकुंडलांनी तुका अमरत्व दिल्यां. कीर्तीचो अक्षय भंडार आस तांतू. ती व्हगाड नाका.

कर्णु : विप्रवर्या, व्रताचें महत्व पूर्ण जाणतली तूं माका व्रतभंगू कोरूक सांगता ?

सूर्यु : दान दीवनाका म्हुण कोण सांगतां तुका ? जाल्यारि ही कवचकुलं तूवें अड्डी घालेली न्हयि. ती तुगेली अवयव अवयव दुर्दान म्हुणु गणना पावताति. आसुरी वृत्तिन दुर्दान मागतलो कपट कारस्थानि इंद्रु तो - तू लेंकता परमार्थु जाल्यारि ताने येवज़ीला निव्वळ स्वार्थु.

कर्णु : भगवन, इंद्राल्या भंडाराचें ऊन मगेल्या कवचकुंडलांनी भोरन् येता हो सामान्य गौरवु वे मगेलो ? यज्ञांतु आहुत्यो घेतलो आसुरागेलो निग्रहु करतालो देवाधिदेवु एक दीनु भिक्षु जावनु मजलागी दान मागता– देवा

हें माका वचन न्हवि इंद्राक लांछन.

**सूर्यु** : वत्सा ! सामान्य न्हयी हीं तुगेली कवचकुंडल. ती तू धारण करता म्हणसरी स्वयं इंद्रूचि बाण जालो तरि तुका बाधना. तींचि तुगेलें सत्व. इहलोकाचो इतिहासु नव्यान बरयतीद तीं अर्जुनाहातान तुका मरण येतलें हें विधात्यान बरयिल्रे शासन थायि फट्टी करतीद तीं. ती दीवनाका सर्वथा दीवनाका.

**कर्णु** : भूसुरा ! मगेलें भवितव्य माका कळलें. नियतीन केदनाचि निर्णयु घेवनु जाला. (अत्यंत निर्धारी स्वरान) हांव व्रत मोडीशिना, अपकीर्ति जोडिशिना, मरणाक भिता तो क्षणोक्षणी मरता. त्या वज्रपाणीन मागल्यारि ही कवचकुंडल मात्र न्है, मगेले प्राणचि ताका अर्पण करतां. (हस्तोदक सोडता.)

**सूर्यु** : वत्सा वत्सा !! कसलें कोरनु बसलो ? इतलें मन हळहळेवनु सांगिलें, कान्नारि व्हरने मरे तूवें ! ब्रम्हसंकल्पु मिथ्या जावनये म्हुणूचि हो कठोर संकल्पु सुचलो तुका ? (दोळे पुसुनु घेता.) हं (निश्वासु सोडता.) विधात्यान कपालारी बरयिली नियती चुकयिल्यारि मानव तो कसलो ! हांव आंत इतलें पीळनु सांगलें तरी मगेलें उत्तर आयकते तुवें निदान एक सानशी विनंती आयकशी की ?

**कर्णु** : सांग भगवन्. मगेल्या व्रताआड येनाजावची तसली तुगेली कसली मागणी माका शिरसावन्द्य.

**सूर्णु** : तुगेलें बल हरण कोरचा दुष्ट हेतून केदनाकि देवेंद्रु तुगेली कवचकुंडलं हरग करता, ताजे परितोषण म्हुणु तुवें इंद्रागेली अमोघ शक्त मागुनु घेवकाज. आसवे मान्य ?

**कर्णु** : शिरसा मान्य. अवश्य मागतां.

**सूर्यु** : तुगेलें कल्याण जावो. दानशूर, सत्यवत म्हुणु त्रैलोक्यांतु तुगेली कीर्ती गाजो. (स्व.) कोणकोटीचो मनोनिर्धारू! निद्रागत तरी व्रत जागृत हागेलें. आपणल्या सुचरितान बांपसूक भूषण हाडता तोचि खरो पुत्रु. (काळोखु जाता सूर्यु वता. कर्णु प्रवेशा आरंभातुल्यावरि निद्लेलो. दगूर फाल्लें जाता. कर्णु जांभयि काडीत, दोळे पुशीत उटावन बसता. दूरथावनु ‘ भिक्षान देही ’ ‘ भिक्षान देही ’ अशी उल्लो आयकता.)

**कर्णु** : कसलें पुणी सोपन. सकाळी स्वप्न सत्या जाता खंयि. त्या भुसूरान सांगिल्लो भिक्षु होवि न्हयि म ? (भिक्षु प्रवेश) पूज्या ब्राह्मणोत्तमा, सुस्वागतम्.

**इंद्र** : (येकडे) मेघानु, तुमि स्वल्पसमयु दूर दृष्टिआड जायाती.

**कर्णु** : (स्व.) हो सामान्य भिक्षु न्हयि. बद्धचि कोणुकी वेषांतर केल्लेलो श्रीमंतु. हागेली योग्य संभावना कोरकाज. (प्र.) महोदया, या आसनाचेरी विराजमान जा हांव अेका क्षणार्धांतु येत्तां. मागीरि जाल्यारि तुगेलो

कार्य हेतु सांगयेद. एक क्षणु क्षमस्व.

इंद्र : कांयि चिंता ना. कांयि चिंता ना. जायि तितलो समयु घे. माका अवस नाति. (कर्णु भितरी वता.) (स्व.) मगेली कार्यहेतु हाका केदनाचि कळला कि म्हुणु पार्थाले प्रिय कोरचा पासावत कवचकुंडल हरण कोरूंक आयलां व्हैं ? परंतु हाचकडे यक्षु आस की, कर्णपिशाच आसाकी भविष्यांतु घडचे वृतांत हाका फूडेचि कळता आशि आयकलेले. सूर्याक सुट लागुनुतु तो हेकडेचि येतालो- कर्णाक चेतावणी दिवपाक न्हैं म... आपणाक हतबल कोरचो मगेलो कपट हेतु हाका कोळतु ताने कवचकुंडल दिवचाक नाकारल्यारि ... छे ! छे ! कर्णा असल्या सत्यव्रता विषय विकल्पु मनांक येवचोचि न्है. हांव ते मयि संकल्पचि कोरनु आयलां. तो सिद्धिक पावंचो भारू नरागेलो त्राता नारायणा मात्थारि.

कर्णु : (प्रवेश) चिके वेळु जालो. क्षमस्व. (स्व.) कसल्या विचारांतु मग्न हो ? (प्र.) भगवन् कोणु तूं ? आयिलें. कार्य कसलें ? तुगेल्या मुखचंद्राचेरि महेंद्रालि कांती उजळता.

इंद्र : (स्व) आरे दूर्ता ! हाने मगेलो गुरतु धरलो कि अभ्यागत म्हुणु आदर केलो.

कर्णु तूं भारि चिंताग्रस्त दिसत आस. सगळे कुशल न्हैवे ?

इंद्र : अंगराज ! कसलो सांगु-कांशि सांगु ? एका महाविलक्षण संकटात शिरकलां हांव. मगेल्या चेरडाचेरी एक भयंकर आपति येत आस. लागि येवचो एकेक क्षणु तागेली धडगति दूर धिंगुळत आस. ताका निवारण करतलो तूंचि अेक त्राता म्हुणु फातोंटीरि हांगा येवंक पावलो.

कर्ण : तुगेल्या खंचायि संकटाचे निवारण कोरची सुसंधी मेळलेलो हो मगेलो क्षुत्रु जीव धन्न जालो. सांग देवेशा, हावे कसलें केल्यार तुगेल्या चेरडारी येंवचे तें ब्रह्मसंकट निवारण जातलें ?

इंद्र : अंगराज, ब्राह्मणांगेलें गौरव कोराची प्रथा आस. खरिजाल्यारि अशी न्है. मगेली दैनावस्था हांवचि जाण. माका महेंद्रु, देवेशु म्हुणु इंद्राक दिंवची सगळीं विरूदां दित आस तूं ! खंचा अर्थान ?

कर्णु अपराधु क्षमा करि देवा. हांव व्यंग अर्थान उल्लयिने. हो कर्णु अंतरंगातु एक वहिरंगातु आनेकु ना. विप्रवर्या नमन करता तुका. आशीर्वादु दी.

इंद्र : (स्व.) उभय संकट ! ! हाका दीर्घायुषी जा म्हुणु म्हुणू पुण कशी ? (प्र.) अंगराज तुगेली कीर्ति सूर्यहिमालयावरी अपरिमीत आसो.

कर्णु : रीतीप्रमाणें दीर्घायूष्याचो आशीर्वादु दीने तूंवे माका.
(इंदु शेळेचि जाता) ओ हो ! अशि कळलें – निरर्थक दीर्घायुष्यापेक्षा सत्कीर्तींचि चिरकाल उरता. कसली अपेक्षा तुगेली ?

इंद्र : (स्य.) हो माका उत्त-उत्तराय धरता ग ! (प्र.) हांव तुजलागी एक महत्तर भिक्षा मागूक आयलां.

कर्णु : सांग – सुवर्णाभरणानि शिंगारलेल्यो बायलो जायो कि धान्य दवसानि समृद्ध देश जायि, कि दुभत्या गोरवांलि गोंलि जायि ?

इंद्र : हे सर्व माका कसलें कोरुक ?

कर्णु : तरी सूर्यागेल्या घोडयांक लज्जोंवचें तेज आशिल्ले घोडे दितां. साटि वर्साचि पूर्ण वाडी जालेले गज दितां. मापुक जावनये तितलें द्रव्य दित्तां. हस्तगत कोरनु पृथ्वीचे राज्य दित्तां.

इंद्र : आरे आरे ... नाका जाल्लेलें सर्व निमगीता मरे ... जायि जालेंल्याचें नावचि काडना.

कर्णु : तरि घे ! मगेलें शीरचि कापुनु दित्तां.

इंद्र : कर्णकपाल गळपाक बांदुक घे म्हणता वे ?

कर्णु : विप्रवर्या, महत्तर भिक्षा म्हणालो, जाल्यारि ताज्यी निर्देषु करने. त्यानिमित्ति मगेल्या मतीक महत्तर दिसलें, ते विषय निमगेले ; ते तूं तृणसमान लेकता. हांव मगेलि प्रतिज्ञा आनि पौरुष्य दोनि वर्ज कोरनु उरलेले सर्व तृण समान मानतां.

इंद्र : सर्व म्हणल्यारि उदाहरणार्थ ?

कर्णु : अुदाहरणार्थ ... उदाहरणार्थ ...

इंद्र : तुगेलिं कर्णकुंडल ...

कर्णु : व्हयि व्हयि, कर्णकुंडल आनि ... अभेय कवच.

इद्र : (कर्णांली दृष्टी चुकयितचि) तीचि दिवन सोडी. जायव माका.

कर्णु : (इंद्राक नियाळनु पळयिता. इंद्रु अनवरकि पावता.) भूसुरा, असले क्षूद्र वस्तु मागुन् तूं माका लाजयिता.

इंद्र : अंगराज, आदर्श नम्रता तुगेली. त्रिजगांतु अपरुप ते वस्तु शुद्र ?खंचोयि येक वस्तू क्षूद्र भद्र जाता ती प्रसंगानुसार क्षुल्लक वस्तु दुर्लभ जाल्लो कि ताजें मोल वाडता. तोचि एक मौलिक वस्तु विपुल जावो, तो कस्पट लेकताति. तात्पर्य कसलें की म्हणल्यारि ...,.

कर्ण : आयलें लक्षांतु भगवन. (स्व.) ब्राह्मणान सोपनांतु सांगिलें तंतोतंत सत्य जालें. हो वेषांतर केल्लेलो देवेंद्रुचि.

इंद्र : अंगराज स्तब्ध जाला इत्ते उच्चारनना हगूर लागचें तण हातु उच्चारन दितना सुमार जड जाता व्हयि. हें चोयि. मगेलो आग्रह ना. दान लगेने वरु–आशिर्वादा म्हणके प्रसन्न मनाने कोरका तू येका संभ्रमातु पडला ते तुगेली मुखमुद्राचि मांगतां.

कर्णु : देवा माका संभ्रम जाला जाल्यारि तूं लेकता त्या निमित न्हैं. ऋत्विजांकडे

आहुरो घेतलो स्वर्गलोकाचो अधिपती पाकशासनुचि ...

**इंद्र** : हांव इंद्रु भिक्षेक आयलां ; मगेलो अक्षयभंडारू थंयी पाय मोडनु पडलेलो आसतना, इंद्राणि शचिदेवीक मुहूर्तागुविणपणांतु कोळसो खांवचो दुवाळो लागिल्यावरि माका तुगेल्या कवचकुंडलाचि भीक लागल्या. म्हण म्हण... जायि ते म्हण ! हाय ! हाय कसलो हो दैव दुर्विलासु ? पुजिलो गणपती तीर्थापळेरांतु उपराटी दिसता तशि ह्या मगेल्या दरिद्री वस्त्रांतु तुका देवेंद्रु दिसलो ? तूवें उल्लयिनातिल्या शब्दांतु सांगचे म्हणल्यादि तुका हें दान दिवचें मन ना.

**कर्णु** : ना. ना. सर्वथा ना. जाल्यारि दिवंचे दान ते सूदान आसकाज इतलेंचि हांव जाण. ही कवचकुंडल मगेलीं अवयव रक्तामासाची मर्त्य वस्तु, जो पर्यंत मगेल्या आंगातुली जीवनसत्वं तांतु खेळत आसाति तो वटीचि तांचो उपयोगु. देहाथावतु विगलीत जालि तरि कामांतुल्यानचि गेलीं.

**इंद्र** : ओ हो - दान घेतल्याने ताजो आमकोचि उपयोगु करतां म्हुणु दानपतीक समाधानकारक उत्तर दिवंका वे ? तूवे माका इंद्रपद दिल्लें तेंचि भरपूर जाले – येता हांव (वचूंक करता.)

**कर्णु** : (तागेले पाय धरता.) रित्ते हातानी वचू नाका. (तागेलें तोंड नियाळता.) दान दिवच्या विशय दोनि मन नाति.

(कर्णु दृष्टी हालयिना पोळोवक इंद्रु अस्वस्थ जाता )

**इंद्र** : (जुग्गुळु पळयित) तुका विचारु कोरुक थोडो समयु जायि जाल्यारि घे. तोवरेक हांव मगेले दुसरे एक संकेत कोरनु येतां.

**कर्णु** : हें पैले संकेत सिद्धीक पावो एकळाक. दानाचो संकल्पु कोणागेल्या नावान कोरुं ?

**इंद्र** : सर्व दान श्री नारायणा प्रित्यर्थ कोरची न्हं वे ?

**कर्णु** : ते व्हयि जाल्यार दानी आनी प्रतिग्रही, दोगागेली नामोच्चारण कोरका न्हयि संकल्पांतु ? तू अमरावतीचो अधीपति देवेंद्रु ... व्हयि की न्है ?

**इंद्र** : कर्णा ; हरलो हांव ! तूवें माका चोक धरलो. हांवचि देवेंद्रु. वेशांतर कोरनु – यःकश्चित भिक्षु जावनु तुजालागी दान मागूक आयलां. (मान तग्गु घालता.)

**कर्णु** : देवेशा, तुवे वेशांतर कोरची कांयि जरुरी नाशीलि.

**इंद्र** : मगेल्या मनाक फटवंच्याक हें कपट कोरका पडलें माका. तुगेल्या व्रतांतु भेदु कपट नाति हे पूर्ण जाण हांव. मगेल्या कपटाचें मर्म तुका कळल्यां. तुवे केलेल्या अर्जुनवधाच्या प्रतिज्ञेमिति मगेल्या चेरडाचेरि एक घोर संकट आयल्यार हें सत्य. अतुल पराक्रमु तुगेलो, असामान्य सामर्थ्य ! हीं कवचकुडलं हरण कोरनु तुका हतबल कोरचो प्रयत्नु केल्लो तरी अर्जुनावेल्या

प्राण संकटाचें निवारण जायद हाजि खात्री ना माका. हे उदार पुरुषा, ह्या देवेंद्रालि दैनावस्था पळे आनि मरी तागेली झोळ्ळी. (झोळ्ळीं पसरता.)

**कर्णु** : भगवान, कवचकुंडलांच्या अभावान मगेले अमरत्व नष्ट जातलें हाजें दुःख माका ना. परंतु तुका जावो कोणाकयि प्रयोजन नातिलें वस्तू तूंवे माका वंचन केले अशि तुज़ेरि पुनावु पोडूक नज म्हुणु माका एकु वरु दी.

**इंद्र** : (हांसता.) सांग, कसली तुगेली इच्छा, मगेले वज्रयुध सोडनु जाय तें माग.

**कर्णु** : तुगेली अमोघ शक्ती दी.

**इंद्र** : (हातु वैरी करता. अंतरिक्षातुल्यान अमोघ शक्ती तागेल्या हाताक येता.) चंपाधीपा, ही शक्ती तुका येकचि प्रहरापूर्ती फलतली.

**इंद्र** : तुगेलो येकु आनि येकुचि महागर्विष्टु प्रतापशाली शत्रु मारनु ही शक्ती मजकडे परत येतलि.

**कर्णु** : जायद. माका ती येकूचि महागर्विष्टु शत्रु मारचें पूर्ती जायी. इतरांक हांव लेकाक धरना.

**इंद्र** : कर्णा, मगेल्या अमोघ शक्तीन एक महान वीरु रणांगणातु आहुती पडतलो व्हयि जाल्यारि तो तू लेकता तो न्है. तुगेल्या परमशत्रुगेलें संरक्षण तो नारायणा करतलो.

**कर्णु** : कांयि चिंता ना. प्रारब्धाची रेषा ती विधात्यात एक फांता बोरोंवचो थैं. आसो, तागेलें शासन आशिलें तशी जातलें.

**इंद्र** : कर्णा, कर्णा तुगेलीं ही उदात्त उत्रं आंगारि कोरड्या पेट्टशे बसतातित. मुर्तीमंत त्यागुचि तूं मानव रुपान अवतरला.

**कर्णु** : पुरंदरा ; एका क्षणाचि अवधी दी. दानाची वस्तू घेवनु येता. जाल्यारि देवा, ही गात्रं कापिल्या मात्रान मगेलें रुप बिभत्स जायनाशि वरदान दी.

**इंद्र** : तुगेले रूप अधिक मनोहर, कांती अधिक प्रखर जावो. (कर्णु भित्तरी वता. चर्म कापिलो आवाजु येता) आरेरे ! युद्धावेशांतु, वीरावेशातु शत्रूगेलो संहारू करतलो परमवीरु इतल्या शांतचित्तान प्रसन्न मनान स्वत: अवयव कापुनु घेत आस. धन्य तूं.

**कर्णु** : (प्रवेश) देवा, हें घे दान.

**इंद्र** : (कवचकुंडल घेता आनी अमोघशक्ती दिता) कर्णा, तुगेल्या ह्या अमोल दानाची कीर्ती तिन्हीलोकांत पसरतली. कर्णा, न भूतो न भविष्यति अशि तुगेली योग्यता. स्वस्ति ... स्वस्ति ... (वता)

... ❑ ...

## 5.

# पळसाक पानां तीन

### किसन कामत

पात्रा :

शारदा
रमेश
विठ्ठल

(स्थळ : ल्हानशाच शारांतलो एक रस्तो. रातची अकरांची वेळ सगळे कडेन सामसूम. रस्त्यार उजवाड चड म्हणपाचो ना. पैसल्या ग्यासबत्तीचो उजवाड पट्टा तितलोच. अशा ह्या वेळार एक पंचेचाळीस वर्साचो मनीस, दाढी वाडल्या, पिनकें मळकें पुडवें आनी पिंजकें तांबडें खोमीस घालून लिपत लिपत प्रवेश करता आनी तसोच दुसरे वटेच्यान वता. स्टेजीर काळोख जाता आनी सीन बदलता. फ्लेटांत भितर सगळो काळोख. कितें आसा म्हणपाचें कांयंच समजना. फक्त फुडल्या दाराच्या सकल्या फटींतल्यान भायल्या पडवेवैल्या दिव्याचो उजवाड झिरपता. भायल्या जिन्याच्या सोंपणाचेर पावलां वाजूं लागतात. कांय वेळान दारासकल्या फटींतल्यान भायर कोणतरी आयला म्हणपाचें कळटा. हळूच दार वाजता. कोणाची कांय वेळ जाग ना. दार आनी मात्शें मोठयान वाजता. थोडयावेळान काळखांतच भितल्ल्या कुडींतल्यान एक व्यक्ती येता आनी उघट्टा. भायली व्यक्ती भितर येवंक करता.)

**शारदा** : कोण... कोण जाय... कोणाक सोदूंक आयल्यात तुमी ?

**विठ्ठल** : तुकाच......दिवो लाय. (शारदा दिवो लायता आनी त्या भायरसून आइल्या व्यक्तीक पळौन चपापता.)

**शारदा** : कोण तुमी ?

**विठ्ठल** : है –

**शारदा** : पुणुन इतल्या रातचे तुमी ?

**विठ्ठल** : रमेशाचें लग्न आसा म्हुणुन कळ्ळें.

**शारदा** : लग्न – !

**विठ्ठल** : कित्याक, अजाप दिसलें ?

**शारदा** : पुणुन तुमकां कशें कळ्ळें ?

**विठ्ठल** : रमेश खैं ?

**शारदा** : न्हिदला, थैं ते कुडींत –

**विठ्ठल** : सुस्त न्हिदला, ? (भितर वचपाक वता.)

शारदा : उठौं नाकात ... आतांच न्हीद लागल्या ताका.

विठ्ठल : तुका न्हीद लागलीना ?

शारदा : आंऽऽ... म्हाका... नित्तीच लागूंक वताली इतल्यांत...

विठ्ठल : हांवें ब्यत्यय हाडलो... कितलो दुष्ट हांव...

शारदा : अशें कितें उलैतात तुमी ! तुमकां भूक लागल्याशी दिसता ! थोडो च्या करून हाड्टां !

विठ्ठल : जेवनच आयलां हांव पोटभर... खैंच्याय वेळार च्या घेवपाची संवय ना म्हाका.

शारदा : पुणुन च्या बगर तुमकां जायच नाशिल्लें !

विठ्ठल : तुज्यायबगर म्हाका जायनाशिल्लें... याद आसा तुका ? (शारदा तोण कुशीक वळौन ओगीच रावता.) कितलें क्रूर उलेतां हांव न्हे ?

शारदा : अशें कोणे म्हळां ?

विठ्ठल : हांव दुश्ट न्हे ? हांव क्रूर न्हें ?

शारदा : ओगीच कित्याकितेंय उलौं नाकात पळौया ! हांव रमेशाक उठैतां !

विठ्ठल : न्हिदुनी... उठौं नाका ताका. एकदां उठल्यार न्हीद लागचीना ताका परत. न्हिदुनी... आपुण जावन जागो जायसर न्हिदुनी ताका... आतां तितलेंच सूख ताच्या नशिबांत.

शारदा : रमेश आय्. ए. एस्. जाला ! शिकून खूब मोठो जाला ! तुमी म्हण्टाले न्हे !

विठ्ठल : हांव जायतें म्हण्टालों ! ... तुका याद आसा ?

शारदा : कसली ती ?

विठ्ठल : तूं कुळारा गेली म्हण्टकच दिसपट्टी म्हाका चीट धाड. चीट आयलीना जाल्यार म्हाका सूख लागचेना !

शारदा : हांव चीटी धाड्टालीं !

विठ्ठल : आनी हांवय त्यो वेळवार वाचतालों... तूं धाड्टाली तितल्याच ओडीन... तुमी सुखांत आसात तें पळौन हांव आनंद मानतालों..... दुखांत सूख मानतालों. तुगेलीं पत्रां पळौन.

शारदा : म्हाका पत्र बरौप जमलेंना.

विठ्ठल : पैलींच्या प्रेमाचो नेट कमी जाल्लो !

शारदा : अशें म्हुणू नाकात. हांवें सदांच पत्र बरौंक घेवचें...आनी....आनी रडून रडून दुखांनीं भिजौन बरैनास्तना रावचें.

विठ्ठल : निमाणें तीं दुखांय सोंपलीं आस्तलीं. सदांच मरे ताका कोण रडे !

शारदा : अशें म्हुणू नाकात ! म्हाका म्हजें मन घट्ट कोरूं जाय आशिल्लें. दुखां आटौं जाय आशिल्लीं...आमच्या रमेशा पासत.

**विठ्ठल** : तुवें तुजीं दुखां आटैलीं पुणुन म्हाका मात् दिसरात रडपाक शिकैलो. पुणुन आतां म्हजेंय मन सुकत चल्लां...दुखांची झर आटत चल्या. फातोर जायत चल्लां म्हजें मन, फातोर जायत चल्लां...तेवीस वर्सां पैलीं जाल्लें... सारकें तशें...

**शारदा** : नाका ताजी परत याद ... हांव च्या कोरून हाड्टां.

**विठ्ठल** : राव..ओग आयला तसो म्हाका उलौन घेवनी. उलैलोना जाल्यार म्हाका पिशें लागतलें... तुका याद आसा ?

**शारदा** : अं ऽऽ !

**विठ्ठल** : सदांच आमचीं झगडीं जावचीं !

**शारदा** : झगडीं......कसलीं झगडीं ?

**विठ्ठल** : तुवें म्हणचें म्हाका चली जाय...हांवें म्हणचे आमकां चलोच जातलो.

**शारदा** : आनी निमाणे तुमीच जिकलें.

**विठ्ठल** : हय हांवच जिकलों ! तुजें पत्र मेळ्ळें त्या दिसा हांव उडयो मारून मारून नाचलों. सगळें दुःख विसरून दुखांतच सुखान नाचलों ! हांव जिकलों म्हुगुन न्है तर तूं हरली म्हुणुन !

**शारदा** : चलो जाल्यार ताका रमेश नाव दवरचें अशें तुमी म्हणटाले !

**विठ्ठल** : तें नांव म्हाका खूब आवडटालें.

**शारदा** : आनी म्हुणुनच तें नांव हावें ताका दवल्लें आनी पत्रान तुमकां तशें कळैले.

**विठ्ठल** : तेंच तुजें निमाणें पत्र . . . सद्दां दोळयांत तेल घालून तुज्या पत्राची हांव वाट पळेतालों, पुणून तुका ताची सुलूस नाशिल्ली. तूं म्हाका विसरूंक पळेताली.

**शारदा** : म्हाका शक्य नाशिल्लें तें ! इतल्या उरफाटया काळजाची न्हे हांव !

**विठ्ठल** : म्हाकाय अशेंच दिस्तालें आनी देखूनच हांव पत्राची वाट पळेतालों.

**शारदा** : समाजाचो तिरस्कार म्हाका सहन जायना जालो.

**विठ्ठल** : आनी म्हुगुन तुवें म्हाका विसरपाचो प्रयत्न केलो.

**शारदा** : म्हज्या खातीर न्हे . . . तर रमेशाखातीर म्हाका तशें करचें पडलें. हांव एकटी खंयय कशीय दीस काडीन आशिल्ली आनी म्हाका म्हजो जीव तरी कित्याक जाय आशिल्लो. रमेशाखातीर म्हाका जगपाचें आशिल्लें.

**विठ्ठल** : आनी म्हुणुन तुवें घरदार विकून उडैलें ?

**शारदा** : लोकांचीं कुसकीं तोंगां म्हज्यान पळौं न्हज जालीं. दिसरात लोकांचें फुतफुतप म्हज्यान आयकूं न्हज जालें.

**विठ्ठल** : आनी म्हुणुन वाडवडीलांनी घाम काडून मिळैल्लो जमनीचो कुडको

आनी बांदिल्लें घर तुवें विकून उडैलें ?

शारदा : म्हाका तशें करचें भाग पडलें... रमेशा खातीर म्हाका जगपाचें आशिल्लें. ताच्या फुडाराचेर ध्यान दवरून हांव जीण जगैतालीं !

विठ्ठल : पुणुन एका उतरान तुवें म्हाका कळैलें ना तें ?

शारदा : तशें कळौपाचें म्हाका धाडस जालेंना. म्हज्या मना विरुद्ध म्हाका तशें करचें भाग पडलें. तशा परिस्थितींत गावांत रावणें म्हाका अशक्य जालें... म्हज्या खातीर न्है तर रमेशा खातीर.

विठ्ठल : जगाचो न्यायच असो. आपलें पातक तो सदांच दुसऱ्याच्या माथ्यार थापूंक पळेता.

शारदा : सोपुद आसा तुमकां अशें उलैशात जाल्यार. म्हजेर विश्वास दवरात. जें कितें हावें केलां तें बऱ्याच खातीर केलां. म्हजी खात्री जाल्याबगर हावें तशें कोरुं ना. म्हाका तरी आनी दुसरो मार्गच दिसनाशिल्लो ?

विठ्ठल : एकदां दोळे बंद कोरुन घेतकच मार्ग तो आनी खैंचो दिस्तलो. विचारपाक दुसरो कोणच नाशिल्लो, जाल्यार हांव कितें मेल्लों ?

शारदा : कितें उलयतात तुमी अशें अभद्र. दुःखान चेपून गेल्यान त्या वेळार म्हाका तशी बुद्ध सुचलीना. वाडवडिलांची इस्टेट विकप हो विचारच म्हाका पैलीं भेष्टायतालो. पुणुन दीस गेले तशें तशें मन घट्ट जालें. रमेशाक त्या गोष्टीची सुलूस लागूं नये, ताच्या भुरग्या मनाक खंत भोगूं नये, तन्ने आस्तनाच तें मुडेंव नये म्हूणुन हांव घरदार विकून, गांव सोडून, हांगा ह्या गावांत येवन रावलीं.

विठ्ठल : तुवें म्हजो पूर्ण विश्वासघात केलो –

शारदा : विश्वासघात–आनी हांवें ! अशीं उतरां येतात तरी कशीं तुमचे तोणांतल्यान !

विठ्ठल : हांव केन्नाच येवचोना अशें तुवें धरिल्लें. आपुण कितें करीत तें सादतलें अशें तुका दिशिल्लें. आपली आपुण मुखत्यार अशें धोरून चलतकच मनशाक दुसऱ्याची पर्वा कशी दिसत ! माजर कितलेंय दोळे धांपून दूध पिलें म्हुणुन तें लोकांक थोडेंच दिसल्याबगर रावता !

शारदा : म्हणजे तुमकां म्हणचें तरी कितें आसा ?

विठ्ठल : डॉक्टर भगवंताल्या हॉस्पिटलांत तुवें नर्सीची नोकरी धरिल्ली गोष्ट खरी ?

शारदा : आं ऽऽ! तुमकां कशें कळ्ळें ?

विठ्ठल : कित्याक, इतली भियेली कित्याक ? पापी मन इतलें कांचवेलें कित्याक? पाप उघडकीक आयलें म्हुणुन ? सत्य लिपलेंना म्हुणुन ?

शारदा : सत्य, कसलें सत्य ! पोटाची भूक मारपा खातीर नीतीन कामधंदो

कोरुन चार पैशे ज़ोडले जाल्यार तुमी ताका अनीती म्हण्टात ?

विठ्ठल : हांव म्हणना, सगळें जग म्हण्टा !

शारदा : जग...हं ! जग कितलें दुश्ट आसूं शकता हाजी प्रचिती म्हज्या इतली आनी कोणच बरें जाणू शकचोना. तुमी वचत पासून आजमेरेन जगाच्यो लाथोच खायत आयलीं हांवं. तुमीय आतां भलते सलते आरोप करून लाथांव नाकात म्हाका !

विठ्ठल : धगधगीत सत्याचें तेल कानांत पडलें म्हण्टकच असो आंगाक भगभग पेटप साहज़ीक आसा !

शारदा : नाकात म्हाकां अशे छळूंक ! आजपर्यंत लोकांनी छळ्ळें तें खूब जालें ! लोकांचीं उणींदुणीं घेतील्यानव आज हांव रमेशाक ल्हानाचो व्हड कोरूंक पावलीं ! ताज्या शिक्षणाचो खर्च करपाची म्हज्यांत तांक आयली !

विठ्ठल : आनी बेफाम आनी बेछुटपणान वागपाचीय !

शारदा : सोसूं न्हज म्हज्यान हें ! म्हाका घुंवळ आइल्यावरी जाता ! रमेश – (किळांच मारता आनी घुंवळ येवन पट्टा. रमेश किळांच आयकून धांवत भायर येता आनी आवयक सांबाळटा. बिठ्ठल स्तब्ध आस्ता.)

रमेश : आई . . . आई . . . कितें जालें आई ? (विठ्ठलाक पळौन) कोण ?

शारदा : र . . . मे . . . श . . .

रमेश : किते जालें आई . . . आनी हो कोण ? कोण तूं ?

शारदा : र . . . मे . . . श

विठ्ठल : सांग, सांग ताका. रक्ताचीं मनशां लेगीत हालीं रक्ताचें नातें वळखनाशीं जाल्यांत.

रमेश : म्हणजे !

शारदा : हे . . .

विठ्ठल : हांव सांगतां. तुका जलमाक घालून स्वत : संकटांत उडी घेवपी हांव हो तुजो बापुय !

रमेश : आई . . .?

शारदा : (नुसत्या तकलेनच हय म्हण्टा.)

रमेश : शक्य ना ! म्हजो बापुय परत येंगें कदापि शक्य ना ! तुमी कितेंय तरी भलतेंच कारस्थान रचूंक पळेतात. म्हाका –

विठ्ठल : तुज्या आवयक – हिकाय अशेंच दिशील्लें कीं हांव केन्नाच परत येंवचो ना म्हुणुन. आनी म्हुणुन तिका जाय जाय तसले . . .

शारदा : बंद करात म्हुणुन सांगलें न्हे ! आयकूं न्हज म्हज्यान हें !

रमेश : आई, हें चललां तरी कितें ? तुवें म्हाका म्हज्या जलमाविषीं, निदान

म्हाका समजूं लागत पासून . . .

शारदा : हांवें तुका केन्नाच कांयंच सांगलेंना. ल्हानपणातच तुज्या मनार आघात जाल्लो म्हाका नाका आशिल्लो.

विठ्ठल : आघात !

रमेश : कसलो आघात ?

शारदा : तुजो बापुय खूनी . . .

विठ्ठल : अशें तूंवय म्हणटा ! हांवें खून केला अशें तुकाय दिसता.

शारदा : अशें हांवें खैं म्हळां !

रमेश : म्हणजे तुवें खून केला ?

शारदा : आतां न्हैं, वीस वर्सां जालीं त्या गोष्टीक.

विठ्ठल : कसल्या गोष्टीक ?

शारदा : तुमी खून केलो असो तुमचेर आळ आइल्लो त्या गोष्टीक !

रमेश : म्हणजे ?

विठ्ठल : हांव सांगतां आयक ; बस असो. वीस वर्सां आदली गजाल. हिज्या पैल्या बाळंतपणा वेळार म्हळचार तूं जावपाच्या वेळार ती अडिल्ली. सात आठ वरांभितर ऑपरेशन जालेंना जाल्यार पेशंट मरतलो अशें सांगिल्लें दोतोरान. ऑपरेशन करतलो जाल्यार तीनशें रुपये तरी जाय आशिल्ले. म्हजे कडेन तर वीस पंचवीस रुपयां वैर एक पानदुडूय नाशिल्लो. म्हज्या बायलेचेर – म्हळचार हिजेर म्हजें अतोनात प्रेम आशिल्लें. तिज्याबगर म्हाका चैनच पडनाशिल्लें. ती मरतली हो विचारच म्हाका सहन जायनाशिल्लो. हांव तसोच उण्णे पैशे हाट्टलों म्हुणून विष्णू परबूगेर गेलों. तो नोटींचे कवळे मेजीत बशिल्लो ! हांवें ताजेकडेन पैशांची याचना केली तसो ताणें म्हाका उणे दुणे उतरांनीं किकोत केलो. लक्ष्मीपुजना दिसा पैशे आपुण जींवचोना तुजी बायल मेल्यार जाता अशें ताणे म्हाका सांगलें. हांव म्हजो म्हाका विसल्लों. म्हज्या आंगांत राक्षस संचाल्लो आनी हांवें पैशांच्या कवळ्यांक हात घालो. आमची झटापट जाली आनी त्या झटापटींत विष्णू परोब हार्टफेल जावन मेलो. हांवें पैशे होरून डॉक्टराक दिले आनी हेवटेन हांवें विष्णू परबूचो खून केलो ह्या आरोपाखाला म्हाका पोलीसांनी धोरून व्हेलो आनी म्हाका जल्मठेपेची शिक्षा पडली.

रमेश : पुणुन खुनाक तर कायद्यांत फांशीची शिक्षा सांगल्या.

विठ्ठल : ती जाल्ली जाल्यार सुट्टलों आशिल्लों हांवं पुणुन म्हज्या नशिबांत हें सगळें भोगपाचें आशिल्लें म्हुणुन जांवये, म्हाका जल्मठेप पडली. पुणुन आतां आनी म्हज्याड त्या नरकांत रावूं न्हज जालां. थैंची ती जीण

म्हज्यान जगूं न्हज जाल्या आनी म्हुणुन...

रमेश : म्हणुन कितें ?

विठ्ठल : म्हुणुन हांव पळून आयलां.

रमेश : पळून ?

विठ्ठल : हय पळून. म्हाका घरची याद जांवं लागली. म्हज्या त्या वेळच्या म्हज्या बायलेची–म्हज्या, हांवें पळौनाशिल्या म्हज्या वंशाची.

रमेश : तें शक्य ना.

शारदा : कितें तें ?

विठ्ठल : शक्य ना, कितें शक्य ना ?

रमेश : खूनी मनशाक म्हज्या घरांत जागो मेळणें कदापी शक्य ना.

शारदा : रमेश–

विठ्ठल : उलौनी, उलौनी ताका ! म्हजें घर ! हं ! केदो अभिमान आपल्या घराचो ! तुका जलम दिवपाक हांवें ज़ो म्हजो जीव धोक्यांत घालो त्या वेळार कितें म्हाका म्हजें घर नाशिल्लें ? घर, ज्या घरांत आपलीं अशीं म्हणपी आपलीं आवय बापुय नात तें घर कित्या कामाचें !

रमेश : तुवें दिव्य केलां आसत, घराची पर्वा केल्ली नासत, पुणुन ती पर्वा तुवें केलीना ती म्हज्या खातीर न्हे तर तुज्या बायले खातीर. जिच्या बगर तुकां चैन पडनाशिल्लें, जिच्या मरणाचो विचारच तुका भेष्टायतालो त्या...त्या म्हज्या ह्या आवैखातीर.

शारदा : रमेश, कितें उलैता तूं आनी कोणाक ?

रमेश : म्हज्या खातीर केलां खैं दिव्य. जलमाक येंवचे पैलीं आपल्या अपत्या-विषीं प्रेम फक्त जलम दिवपी आवयकच आस्ता. तुका हांगा दवरून घेवन म्हाका म्हजी बेअब्रू कोरुन घेवपाची ना. म्हाका मानान जीण जगपाची आसा.

विठ्ठल : हं ऽऽ, मान आनी अपमान ह्यो गोष्टी मनशाक फक्त सुखांत आस्तनाच सुचतात. मनीस ज्या वेळार दुःखांत पिचून वता त्या वेळार ताजी खरी परिक्षा आस्ता. अब्रू, कितलो नाजूक शब्द !

शारदा : तुमी म्हजें मात्शें आयकात सांगतां !

विठ्ठल : तुकाय हांव हांगा राविल्लों नाका. कुजक्या घाणींत, त्या नरकांत हांव परतो ओचुन पडिल्लो जाय तुमकां.

रमेश : कायदो नातें गोतें मानीना.

विठ्ठल : म्हणजे ! कायदो, आवय-बापायचें, बापुय-पुताचें, आवय-पुताचें, कोणाचेंच – कोणाचेंच नातें मानीना ? तुजी असहाय्यता कबूल कर. आपुण बापुय मानपाक तयार ना अशें म्हण.

रमेश : हय, थोडेंशें तशेंच.

शारदा : रमेश ?

विठ्ठल : म्हणजे !

शारदा : रमेश, तुका हांव जाय काय ना ?

रमेश : म्हाका म्हजो जीव जाय तितलीच म्हाका तूंवय जाय आई. पुणुन म्हाका सुखांत जगपाचें आसा. खुनी मनशाचो पूत म्हुणून लोकांच्यो कुसक्यो नदरो म्हाका म्हजेर ओडूव घेवपांच्यो नात.

विठ्ठल : लोकांक तूं भिता ! तुज्या जल्मावेळार तुज्या आवै खातीर तुज्या खातीर . . .

रमेश : म्हज्या खातीर म्हुणू नाका !

विठ्ठल : हांवें केन्नाच कोणाची पर्वा केली ना. मायेच्या मनशां खातीर जीव दिता अस्तना कायदो आड येवंक शकना.

रमेश : पुणुन जीव घेता आस्तना न्हे !

शारदा : रमेश, म्हाका कितें जाता !

रमेश : म्हज्या सुखा खातीर केलें खें दिव्य ! अशें जर आसा, म्हजी जीण आनीकय सुखी जांवची अशी जर तुजी इच्छा आसा, जाल्यार तुवें आत्तांच्या आत्तां, सुर्योदया बराबर ही बातमी गांवार फांकचेपैलीं आइल्लो थैं परत वोचूं जाय.

विठ्ठल : आतां प्राण गेलो तरी हांव त्या यमदुतांच्या हातांत परत सांपडचेलो नां. मायेचें म्हजें घर आस्तना, मायेचीं म्हजीं मनशां आस्तना निष्ठूर अशा त्या चार वण्टींभितर हांव म्हाका कुसौंचोना.

रमेश : पुणुन हांगासल्ले पोलीस हुशार आसात. साध्या मनशापरसय तें हुशार आसात.

विठ्ठल : हांव साधो ! दोन जीव सुखा समाधानांत नांदिल्ले पळौंचे म्हुणुन स्वतःचो जीव धोक्यांत घांलपी हांव साधो ? म्हज्यांतलें मनीसपण मेल्लें जाल्यार म्हाका तूं तरी कित्याक जाय आशिल्लो ! नात्या गोत्याचे आमचे ऋणानुबंध नाशिल्ले जाल्यार हांव तरी ते दिव्य कित्याक करतलों आशिल्लो !

रमेश : परत परत आपल्याच मोठेपणाची टिमकी वाजौपांत कांयच अर्थ ना.

विठ्ठल : जगाचो न्यायच हो, गरिब मनशाच्या हातांतसून केदोय जरी स्वार्थ त्याग घडलो तरी ताजी कोण पर्वा करीना पुणुन एखाद्रो श्रीमंत गृहस्थ आसलो जाल्यार ताज्या कुत्र्या मुखार लेगीत हांजी हांजी करपाची तांची तयारी आस्ता. हांव हो असो – पिंजके कपडे – वाडिल्ली दाढी – म्हुणुन तुका, म्हाका बापुय म्हणपाक लज दिस्ता. जल्मदात्या बापायक मानभौमान दिवपाची, ताका सांबाळपाची तुज्यांत ताकद ना.

तोच हांव जर श्रीमंत आस्तां, नीटनेटके कपडे घालतां जाल्यार तूंच – आज म्हाका अशा उण्यादुण्या उतरांनी कुस्कुटावपी तूं . . .

शारदा : असो ओगीच जिवाचो संताप कोरुन घेवं नाकात पळौया. म्हाका कितें तरी जाल्या भशेन जाता.

रमेश : उलौंनी ताका. आनी थोडोच वेळ उलैतलो तो. एकदां पुलीस येवन हातांत बेड्यो पडल्यो म्हण्टकच हीं उतरां बंद जातलीं, वाचा लुळी पट्टली, सुटिल्लो ज्रोम मंदावतोलो आनी सगळें आशिल्लें तशें पयलींसारखें सामसूम जातलें.

विठ्ठल : तें शक्य ना !

शारदा : कितें शक्य ना ?

विठ्ठल : तुमकां दोगांकय हांव नाका जालां. तुमी दोगांय म्हाका पैस दवरूंक पळेतात. तुमी निर्दय निष्ठूर जाल्यांत. तुजी इतली अब्रू आसा, तुका येदो मान आसा जाल्यार तुज्या बापायक तुज्या तुज्यान वाटांव न्हज ? कायद्याच्या नावांसकैल स्वतःचो नामर्दपणा सिद्ध कोरूं नाका.

रमेश : आनी तूंवय मायेच्यो, मोगाच्यो आनी प्रेमाच्यो खबरी सांगून, रक्ताच्या नात्याचो पड्डो उबारून स्वतःचो स्वार्थ साधूं नाका. ह्या स्वार्थांत तुका सूख तर मेळचेंचना पुणुन म्हजी मात् गांवभर बेअब्रू जातली. आजपर्यंत हांवें मिळैल्लो मान भौमान कांचेच्या आयदनाक तडो वच्चो तसो एका खिणात नाच्च जातलो. तूं एका खिणाचें सूख जोड्टलो पुणुन आमकां मात कायमचें दुःखांत बुडैतलो.

विठ्ठल : त्या परस सरळ सरळ कित्याक सांगना कीं तुका म्हाका सूख दिवपाचें ना म्हणुन. स्वतःच्या अब्रूचो दोलारो सांभाळपा खातीर आपल्याक आपल्या मनशांची पर्वा दिसना म्हणुन ! (शारदेक) आनी तूं म्हज्या सुखदुःखाची अर्धांगी जावन लेगीत तुका येद्देंय दिसना कीं आपल्या घोवाक वाटांवचो म्हणून !

शारदा : हांव...कितें...कोरूं ? म्हाका रमेश जाय तशे तुमीय जाय. दोगांय म्हजींच मनशां. एक म्हज्या देहाचो धनी तर दुसरो म्हज्या काळजाचो कुडको.

विठ्ठल : ज्याका आपल्या मनशांची माया ना तो कसलो काळजाचो कुडको !

रमेश : आनी ज्याका आपल्या मनशांच्या फुडाराची पर्वा ना तो कसलो देहाचो धनी !

विठ्ठल : तुमच्या फुडाराची पर्वा म्हाका आशिल्ली म्हुणनच आज तेवीस वर्सां अज्ञातवासांत रावलों. पुणुन तुमकां ताजी पर्वा ना.

रमेश : भूतकाळांत केल्या पराक्रमाचीं नुसतीं वर्णना करीत बसशांत ह्या जगांत

फायदो ना. ह्या जगांत सुखांन जगपाचें आसत, सुखासमाधानान दीस सारपाचे आसत जाल्यार भूतकाळांत वावरून उपयोग ना. प्रसंग येता त्या त्या प्रमाणे मनशान बदलूं जाय.

विठ्ठल : म्हणजे हांवें सुखान जगचें अशें तुका दिसना ?

रमेश : म्हाका कितें सांगपाचें आशिल्लें तें हांवें स्पश्ट शब्दांन सांगलां.

विठ्ठल : बरें आसा ! तशें जाल्यार तूंवय सुखान कसो जगता तें हांव पळेता ! दुसऱ्याची ज्याका पर्वा ना, ताजी तरी दुसऱ्यान कित्याक पर्वा करची ! पुलीस कशेय जाल्यार म्हाका धरून व्हरतलेच पुणुन ताज्यापैलीं हांव सगळयांक आड्डू आड्डून सांगतलों कीं तुजो बापूय खूनी ! हांव हो असो भिकाड्डो मनीस. जो कादयेच्या चार वण्टींभितर आज तेवीस वर्सां कुजत पडला तो हांव तुजो बापुय! एकदां ही गजाल लोकांक कळ्ळी म्हण्टकच मागीर पळेतां तुगेल्या अब्रूचो नगारो कितले दीस वाजता तो. तुका कितें आपल्या नांवाची प्रौढी गाजौपाची आसा ती आतां चारच घटका गाजै आनी तीवय फक्त आमचे दोगां मुखार. फाल्यां सकाळीं आजपर्यंत मोठ्या आदारान तुजेकडेन पळेतालीं तोणां तुका, एका खुनी मनशाचो पूत म्हुणुन कुत्सीत्री नदरेन तुजेकडेन पळेतलीं.

रमेश : पुणुन ती वेळ हांवें येवंक दिल्यार न्है !

विठ्ठल : आतां कितें कोरूं शकता तूं ?

रमेश : तेंच दाखैतां. (रमेश फोन उखलता आनी पुलीसचो नंबर फिरैता.) हॅलो, हॅलो, पुलीस पुलीस –

शारदा : रमेश, कितें करता तूं हें . . . ?

रमेश : हॅलो . . . पुलीस . . . .

शारदा : रमेश – (किळांच मारता आनी मरता. रमेशाच्या हातांतलो फोन पट्टा.)

विठ्ठल : शारदा . . .

रमेश : आई . . . .

(दोगयजाण तिका वेंग मारतात आनी रडटात. थोडो वेळ वतकच विठ्ठल मनाचो निश्चय केल्या सारखो कोरून उठ्ठा.)

विठ्ठल : आज तेवीस वर्सां उप्रांतची म्हज्या आयुष्यांतली ही दुसरी हार्टफेलची केस. पुलीसांक सांग हांवें तिजो खून केला.

(रमेश भ्रमिश्टासारखो उठ्ठा आनी सकैल पडील्लो रसीव्हर उखलता. बरो वेळ विचारमग्न स्थितींत उबो रावता आनी मागीर रेसीव्हर एकदम् सकैल दवरून धांवत येवन ''बाबा'' म्हणून बापायक वेंग मारता.)

(पड्डो पट्टा)

... □ ...

# 6.

# बाप्पा भर्जी गाळटा

## विनय सुर्लकार

पात्रां :

बाप्पा : जाण्टेलो
व्हनीबाय : बाप्पाली बायल
म्हाड्डू : घरचो चेडो
मावशीबाय : शेजान्न
विष्णुबाब : शेजारी
बुकीबाब : दुसरो शेजारी
मधु : ताचो चलो
मास्तर : शाळेंत शिकोवपी
शास्त्रीमाम : भटजी
रमेश, माला : मधुबरोबरची भुरगीं

वेळ : आयतारची सकाळ

(बाप्पा तोंड धुवन भितर येता.)

**बाप्पा** : कितले दिस जाले हांव भजीं खातलो म्हण्टां. म्हजी मांय, म्हणजे म्हज्या घरकान्नीची आवय कसलीं मसाले भजीं करताली जाणा ? तशें पळेशात तर ह्या म्हज्या जगदंबेकडे हांव लग्न जांवक भजींच कारण! जेन्नां हांव हिका पळोंवक गेल्लों, तेन्ना हिजे आवयन भजीं तळीललीं. किते वास सागूं तुमकां! आमची मंडळी घरांत सरतनाच भज्यांचो घमटघमाट. ह्या वासारूच हांवें थारायलें कीं चली कसलीय जांव. भज्यांचो वास तर इतलो बरो तर भजीं कितलीं बरीं आसतलीं ! हिका दाखोंवक घेवन येवचे पयलींच सांगलें म्हाका चली पसंत ! बापूय सामको पातेत. चली पळेनास्ता पसंत म्हणजे ! हांवें सांगलें भज्यांचो वास जर इतलो तर भजीं कितलीं रुचीक आसतलीं. तशेंच भजीं करपी कितली बरी आसतली आनी ताजे फुडे तिची चली सुपीक. म्हण्टा म्हणसर ही भज्यांची प्लेट, शिरो, शेव-चिवडो घेवन आयली. हांवें वेळ केलोना. पयली भज्यांचेर उडी घाली आनी फस्त केलीं. कितें सांगूं तुमका रूच ! अहा ऽऽहा अहा ऽऽऽहा ! असलीं भजी हांवें जन्मांत खालींना. हिका पळेनास्तना हांवें थंयच सांगलें कीं चली म्हाका पसंत ! जालें आनी ही गळयांत पडली. खरी पडली ना ! फक्कत भज्यांचे रुचीन हांवे बांदून घेतली (इतल्यान व्हनीबाय भितल्ल्यान तावतावान येता.)

**व्हनीबाय** : कसल्यो चाडयो करतात म्हज्यो ? हांव येदोळच्यान कुशीक रावन आयकतालीं. तुमी म्हाका भज्यांखातीर पसंत केल्या म्हण्टा ?

**बाप्पा** : आगे, आगे किते गे ओगीच फणफणटा ? फकाणांनी म्हण्टालों. ओगीच कित्याक अशी म्हशी बरोन शिगां मारूंक येता ?

**व्हनीबाय** : हांव म्हस आनी तुमी कोण ?

**बाप्पा** : आगे तूं जर म्हस जाली तर म्हाका रेडो जांवचोच पडलो ना ! कितें ? (हांसता) जांव तें सोड ! हें पळें, हांव, म्हण्टालों आज भजीं खावचीं म्हणून !

**व्हनीबाय** : कितें भजीं ? हें गे बाये कसलें नाका जांल्लें. भजीं शीं सकाळफुडें?

**बाप्पा** : आगे तूं नकळ. तुजी आवय कितलीं कुरकुरीत आनी रुचीक भजीं करताली ती ? हांव तुका परतून-परतून कुळारा धाडटालो तो तुका हाडपाक येतना तुज्या आवय हातचीं भजीं खांवक मेळटा म्हणून ! आनी तुकां हांवें होकार दिलो तो फक्कत ह्या भज्यांचे आशेन. नाजाल्यार तुका गे कोण पसंत करपाचो !

**व्हनीबाय** : हय तर, तुमी भज्यांक लागून म्हाका पसंत केल्या ? आयकत कोणी ! तेन्ना तुमी दिस रात म्हज्या घराभोंवती प्रदक्षणा घालनाशिल्ले आनी हांव तुमकां जनेलांतल्या लिपून पळे नाशिल्लीं !

**बाप्पा** : आगे तुका सांगतां कितें. एक दिस विठोबाच्या देवळांत वतना भज्यांचो घमघमाट आयलो. म्हाका दिसलें आमच्या शेटीच्या हॉटेलांतले ! म्हणून हांव वेळ काडनास्तना हॉटेलांत घुसलों आनी भजीं मागयलीं. पळे जाल्यार ताणे तीन दिसांचीं शेळी बुकबुकीत भजीं हाडून दवल्लीं. हांवें तोणांत एक घालें आनी चाबडावन भायर वडोवन पयशे फारीक करून भायर सल्लों.

**व्हनीबाय** : इतलो जर तुमकां भज्यांचो घोस्त तर तीं कित्याक खालीं ना ?

**बाप्पा** : आगे ! भजीं म्हण्टा तीं गरम आनी कुरकुरीत खावूंक जाय. तुज्या आवय असलीं, आगे त्या वासान हांव इतलो घुंविल्लों कीं त्या वासाच्या ल्हारार हांव तुज्या घराभोंवतीं भोवूंक लागलों. तुळशीक पळे प्रदक्षणा घालता तस्सो.

**व्हनीबाय** : व्हडले आयल्या तुमी भजीं पारखी ! म्हाका तुमची पर्वा आशिल्ली ? म्हाका येताल्यो व्हडल्या-व्हडल्यांच्यो मागण्यो !

**बाप्पा** : आगे, तुका व्हडल्या–व्हडल्यांच्यो मागण्यो येताल्यो तर तूं इतलो तेंप सुकली कशी ? काय पाळण्यांत तुका पळेतनाच मागूंक लागिल्ले गे आं ? हा ऽऽ हा ऽऽ हा (हांसता.)

**व्हनीबाय** : हय ! सकाळफुडेंच तुमच्या तोंडाक लागतलो कोण ? हांव चल्ली !

**बाप्पा** : आगे, हांव तरी खंय लाग म्हण्टा तोंडांक सकाळफुडें ? आगे तूं तोंडाक लागचे परस मसाल्याचीं भजीं जर तोंडाक लागत तर भोव बरें पडटलें, कशें ?

**व्हनीबाय** : हें पळेयात, तुमकां आज जालां तरी कितें ? सकाळफुडेंच भजीं खावपाचे धुवाळेशे लागल्या ?

बाप्पा : आगे, भजीं खावपाचे धुवाळे आमकां कशे लागतले ? किर्तेंय खायन दिसता तें तुमकां न्हय ? आं ! (हांसता) आगे, सहज रुच आयली गे ! काल प्रासारच्यान येतना, काफे सेंत्रालागेर असो भज्यांचो वास आयलो कीं येंव रे येंव. सारको तुका पळोंवक येतना येना आशिल्लो तसो ! हांवें मनांत म्हळें, म्हजी मांय आशिल्ली जाल्यार आपल्या जांवयान ह्या भज्यांकूच लागून म्हजी चली पदरांन घेतिल्ली म्हणून भज्यांची रास करून घालतली अशिल्ली. पुण करूया किर्ते ? गेली बापडी. तीन वर्सां जालीं. त्या कालच्या भज्यांच्या वासाक लागून सगळचो पयलींच्यो यादी येंवक लागल्यो! आनी आता भजीं कर म्हळ्यार तू केंच्च करता. यादी थंयच उल्ल्यो !

व्हनीबाय : कसल्यो ? त्या वेळार भज्याच्या निमित्यान तुमी म्हज्या घराभोंवती घिरट्यो घालताल्यो त्यो ? (हांसता.)

बाप्पा : न्हय गे सायबिणी. त्या वेळची तूं दोळ्यार आयली. किर्ते वेलीसारखी बारीक आनी नाजुक आशिल्ली. आतां तीच तूं रोलरासारखी जाल्या आनी वयल्यान चड झगडूंक येता.

व्हनीबाय : हय हांव झगडूंक येता ? आनी तुमी ओग्गी बसता दिसता ? तुमकां ह्या म्हातारपणांत पळे चळ लागला तें बरें न्हय.

बाप्पा : पळेले हेंच तें. हांव म्हण्टा थंय आसा, जाण्टेपणान पसून तुका घोवाचो पुळको येना. पयली भुरगेपणान एक खालोच आतां तरी बाबा हाका सांबाळया, तें ना ! मातशें हरशीत किर्ते म्हळें कीं केंच्च करून आंगार येता.

व्हनीबाय : हय, हांव केंच्च करून आंगार येता आनी तुमी कच्च करून आंग काडटा ? तुमी म्हज्या फुडले ! तुमकां नाकां म्हण्टा तें करूंक जाय, भुरग्यां भशेन. हें पळेयात, तुमकां हांव पयलीं सांगता, म्हज्यान आज कशेंच नज. हांव तुमकां भजीं करून कशींच दिवचीं ना.

बाप्पा : अशें ? तर बरें आसा. हांवूय हट्टाक पेट्टलों. आनी हांवूच भजीं गाळटलों. तुमका बायलांक किर्ते दिसता, तुमी व्हडली ? हांवें भुरगेपणांत शींत, रोस–कडी, सगळें केलां. पळोवया, हांव भजीं करतलों म्हणजे करतलों. (व्हनी वता. बाप्पा म्हाड्डूक उलो मारता.)

बाप्पा : म्हड्डू ये म्हाड्डू ! खंय गेलो काय हो अवचीत्त ! गेला आसतोलो विड्यो फुसकांवक ! म्हाड्डू ऽऽ

म्हाड्डू : ओव बाप्पा. किर्ते ! आज सकाळफुडेंच कित्याक उलो माल्लो ?

बाप्पा : तुज्या मडयाक !

म्हाड्डू : बाप्पा, म्हाज्या मडयाक तूं कितें उलो मारतलो ? फाटीं म्हाजो बापूय मेल्लो तेन्ना हायें खूप उलो माल्लो, पूण तो जापूच दिना आसलो. बाप्पा, तुवें म्हाज्या मडयाक उलो माल्ल्यार हांव जाप दितलों ? ओव बाप्पा !

बाप्पा : पाड पडलें तुजें. तूं सदांच असो अर्द वाजंतर. आरे, तूं येदो व्हडलो जालो तरी तुका कांयच कळना कशें ?

म्हाड्डू : बाप्पा हांव नोकळो. म्हाजो बापूय सांगतालो कीं ब्रह्मदेव जेन्ना खीं बुद् वांटूक भोंवतालो तेन्ना हांव न्हिदलेलो खैं. खरें बाप्पा ?

बाप्पा : आतां हांव कितें सागूं म्हजें कपळ ? ब्रह्मदेवाबरोबर हांव वचूं नाशिल्लों बुद् वांटूक ! बरें हें पळे, तूं भजीं खातलो ?

म्हाड्डू : कितें बाप्पा ! भजीं ! आवयस् ! तुयें भजीं म्हणनाफुडेंच रुच येयली. रावा ! हांव आंयडो गिळटां ! हा बाप्पा–भजीं हॉटेलांतलीं हाडटा ? काफे तात्यान बरी जातात. हाये दोन महिन्यांपैली खाल्ली. ताजी रूज अजून वचूंक ना.

बाप्पा : हॉटेलांतलीं न्हय आनी खंयचींच न्हय. आमगेरूच केल्ली भजी !

म्हाड्डू : कितें बाप्पा, व्हनीबाय करतली भजीं ? आवयस् ! तिची आई कितें भजीं करताली न्हूं ?

बाप्पा : हय पुता, हिची आवय बरीं भजीं करताली म्हणून हांवें हिका पदरान घेतली कीं बापसे बेटा सवाई, तशें आवयसे बेटी सवाई काय म्हणून !

म्हाड्डू : पुण ही म्हारक पडली न्हूं ? चुकलो. ती आनी आयकत जाल्यार म्हजी करतलो भजीं. खरेंच आईच्या आईची भजीं बरी फसस्क्लास लागताली न्हूं ? रूच येयली पळे. लाळ पसून गळ्ळी !

बाप्पा : हय पुता. खरें तुजें. आवय करताली फस्क्लास आनी ही चली करता गोबर ! (व्हनीबाय येता.)

व्हनीबाय : हांव गोबर करतां. आनी इतलीं वर्सां हांवें संसार केलो तो तुमी गोबरच खावन दिसता ? म्हाका तुमी कितेंय म्हळचार बीरमत फुट्टली तुमकां ! हो आनी म्हाड्डू कपाळफुटको.

म्हाड्डू : आई म्हाका कपालफुटको तुयेंच केलो. तुयें काल, हायें सारकी आयदनां पुसूं नाशिल्ली म्हणून कट्टी मारील्ली - ती म्हाज्या कपलार बसोन फुटली.

बाप्पा : कितें - तुज्या कपलार बसून नाल्ली फुटली ? म्हणजे बरीच घट्ट मरे तुजी तकली ! बाकी तुज्या ह्या तकलेचेर वसतकच नाल्ली

फुटपाचीच रे !

म्हाड्डू : कितें बाप्पा, कट्टी फुटोंक ना. म्हजोच नाल्ल फुटलो ! पळय केदें धोंग येयला तें !

बाप्पा : बरें, तें जांव. तूं हाडटा मरे म्हजें सामान ?

म्हाड्डू : हाडटा बाप्पा. म्हाका कितें. जायतें हाडटा. पयशे मात चड दियात. थोडयो म्हाज्यो विडयो सुटूं नाका ?

व्हनीबाय : कांय नाका, बाजारांतले सामान हाडपाचें ! सगळें आसा घरांत.

बाप्पा : नाका म्हाका तुजें सामान ! हांव नवें सामान हाडटलों आनी स्वत:च भजीं गाळटलों. कितें म्हाड्डू ?

म्हाड्डू : फोर्स बाप्पा—फोर्स ! उखल, उखल व्हनीबायक.

व्हनीबाय : तुका रे दळिद्रचा आमच्या मदीं कोणें पड म्हणलां ? आमी घोव बायलां झगडटलीं नाजाल्यार मारतलीं. तूं कोण रे फोर्स दिवपाक ?

म्हाड्डू : पाड पडलें म्हाजे. हांयें काल कब्बाडी मेचीक लोक फोर्स दिताले, म्हणून बाप्पा पडटासो दिसता म्हणून फोर्स दिल्लो ! हीं एकमेकाचो जीव घेयना, हांव चल्लों. (विष्णुबाब येता. म्हाड्डू वता वता ताका आपट्टा—आनी 'गॅर्र पेटलां' म्हण्टा.)

विष्णूबाब : आरे बाप्पा, कसलें रे बाबा गॅर्र पेटलां ? सगळेचकडेन मरे अशें जालां. तेवटेन व्हीयेतनामाक, जनानाक, कॉंग्रेसीत गॅर्र ! आरे, सकाळफुडे कसली रणखेवां ?

बाप्पा : यो यो विष्णूबाब. तूंच फाल्त आशिल्लो. म्हाका फोर्साक बरो पडलो.

विष्णूबाब : म्हणजे व्हनीबाय तुका येकटयाक आटापा येना तर ? हांव आनी कित्याक पुता ? हांव चल्लो आपल्या वाटेन !

बाप्पा : आरे, यो रे भितर. खंय कितें जालां ? हांवे हिका सकाळफुडें सांगलें कीं म्हाका भजीं खायन दिसल्यां. तेन्नां म्हाका आज भजीं करून घाल. तर ही कशीच आयकना.

व्हनीबाय : जाणां विष्णूबाब, तुमीच सांगात, भजीं म्हणून केन्ना सकाळचीं खातात ?

विष्णूबाब : म्हणजे ! भजीं सकाळचीं खायना जाल्यार कितें मध्यान रातीर खातात ? कितें बाप्पा ? (हांसता.)

बाप्पा : तूंच सांग तिका.

व्हनीबाय : तशें न्हय. उपाशी पोटार कोण भजीं खाता ? तुमीच सांगात.

विष्णूबाब : हें बरोबर. उपाशी पोटार मात खायना ! कारण पोट पिठान बिघडटा.

बाप्पा : आरे, हिका म्हाका उपाशी कोणे दवर म्हळ्ळां ? तूंच सांग. आरे, पयलीं बरो शिरो कर – मागीर – उंडचाक तूप साखर लावन दी आनी मागीर भजीं कर ! कशें ?

विष्णूबाब : हें बरोबर ! शिरो उंडो खालो कीं पोट भल्लें आनी भरिल्ल्या पोटार भजीं. वा ! वा ! कितें आयडिया जाणां. शी ! भजीं म्हण्टकच रुच आयली.

व्हनीबाय : हय. तुमी हांचे फुडले. तुमकां दोगांचेंय खरें दिसता. तांचो तुमकां चड खेद दिसतलो कारण भजीं केल्यार तुमकांय मेळटलीं. न्हय वो ?

बाप्पा : आतां कशी उलयली शाण्यासारखी. आगे, हें जर तूं येदोळच्यान हांगा वाद घालत बसनास्तना केलां तर तो प्रश्न मेकळो जाता. किदें विष्णूबाब ?

विष्णूबाब : पूरतांत – ये सेर्तु. आरे, आयतरा दिसा भजीं खावप म्हणजे भाग्य समजूंक जाय, कारण भजीं सहजा सहज मेळना. कितें बाप्पा ?

व्हनीबाय : अशें जाल्यार मावशीबायकूच कित्याक सांगीना. हुस्को मेकळो जाल्लो.

बाप्पा : हय गे. पूण भजीं खावपाची रुच आयल्या म्हाका, ताका न्हय. ताका जर आयिल्ली तर मावशीबाय केन्नां ना म्हणची नाशिल्ली. कितें विष्णूबाब खरें मरे ?

विष्णूबाब : तर कितें ! हांवें फक्कत इच्छाच करूंक जाय, उतर भायर पडचे पयली खांवक तयार, कितें बाप्पा ?

व्हनीबाय : हें तुमी म्हाका सांगता ? मावशीबायक हांव वळखनां ? फाटीं तुमकां खीर खायन दिशिल्ली तेन्नां तुमकां ताणी कितले वळवळायल्यात तें हांव नकळ ?

बाप्पा : आगे, आतां ओगीच कित्याक मावशीबायक वायट करता ? ती तुमचे मदीं आयल्या ? ती बाबडी थंय ओगी आसा. ओगीच तिची फाट कित्याक घेता ? करना मगे भजीं ? बरें आसा, हांवूच करतां. कितें विष्णूबाब ?

विष्णूबाब : कितें बाप्पा तूं भजीं गाळटा ? आरे वा ! म्हणजे बायलांक सुद्धां तुवें फाटी घाली मरे ! शाब्बास बाप्पा, शाब्बास ! हिम्मत आसची तर अशी. भजीं खातलों म्हणजे खातलों. वा बाप्पा – ब्राव्हो ! ही मात व्हनीबायक लज आं !

व्हनीबाय : आमी भजीं करूं नाजाल्यार एकमेकाची भाजी करूं, तुमकां आमचे मदीं पडपाक कोणे सांगलां ? तुमी मावशेबायचेच हातचें खावपाक

चलात तोंड घेवन !

**बाप्पा** : आगे आगे, तुवें आज आडायलां तरी कितें गे ? मेळटा ताका कचकचायता ! पयलीं त्या म्हाड्डूक उजरायलो, आतां त्या विष्णूबाबाक रात्रीक भाजता तसो हुलपायता. आगे, आज तुजे मानगुटीचेर कोण बसला गे ? आं ? भजीं करना तीं करना, वयल्यान म्हज्या मोगाळ इष्टाक थरथरायता ! लज दिसता म्हाका, तूं बायल म्हणपाक.

**व्हनीबाब** : लज दिसता जाल्यार म्हजेकडे कित्याक लग्न केल्लें ?

**बाप्पा** : सांगता कितें तर ! आगे फक्कत त्या भज्यांचे आशेन. फक्कत आवय करता तसलीं भजीं करून घालतली म्हणून. कितें विष्णूबाब?

**विष्णूबाब** : हांव आनी कितें उलोंव पुता ? एदोळच्यान उतरांनीं म्हाका शेकयलो. आतां आनी उलयल्यार म्हाका दांडयांनी पेटोवपाक आनी नाका म्हणून हांव जीव घट्ट धरून बसतां. बरें बाप्पा येतां हांव. भजीं सोडूच, म्हजी सोजी जावचे पयलीं हांव पांय काडटा. (वचूंक उठटा.)

**बाप्पा** : कितें विष्णूबाब, तूं खरेंच समजलो ? अरे, हिणें तुमकां ओगीच म्हळ्ळां. तिजो राग मात्सो नाकार. मात्शें सट्ट जाल्यार फट्ट करून तिका सोणकोटो मारता न्हीं गे ?

**व्हनीबाय** : हें कितें विष्णूबाब, खरेंच समजले काय कितें ? आमी तें ओगीच केल्लें नाटक. हांवें एदोळ भज्यांक पीठ काडिल्लें. तरी पळोवया म्हळें तुमचें मन ! न्हय वो !

**बाप्पा** : हय तर !

**विष्णूबाब** : अशें, अशें. म्हणजे हो एदोळच्यान फकाणांचो खेळ चलिल्लो तर ! बरें तर, हांव मारता थबकल. कितें ? आरे, आयतार आसा म्हणून बाजारांत वतालों. वाटेर म्हाड्डू मेळ्ळो. म्हण्टकच करता मगे भजीं ?

**व्हनीबाय** : करतां म्हणजे ? तुमकां हांवें केन्नां ना म्हळां तर ? बरें, तुमकां कसलीं जाय ? कांद्याचीं, मिरसांगेचीं, बटाटचाचीं काय वट्टेलावाचीं ?

**बाप्पा** : आगे, वट्टेलांव बिट्टेलांव आमकां नाका. तूं तुज्या आवय असलीच कर मसाल्याचीं. कितें विष्णूबाब ?

**विष्णूबाब** : बरोबर ! मसाल्याचींच कर. कांदो-बिंदो घालून. म्हणजे काफे रियालान मेळणा तसलीं !

**व्हनीबाय** : बरें ! तुमकां जाय तसलीं करूंया. पूग पळे, चण्याचें पीठ थोडेंच

आसा. तांतून जाता तितलीं करतलीं.

**बाप्पा** : आगे, कितलीं जाता तितलीं कर. पूण कर येकदांची. येदोळच्यान केल्लीं तर येन्ना खावन मेकळी जातलीं आशिल्लीं. आगे, आमी फक्कत दोग जाण आनी तूं. हां, हां म्हण्टा सोपतलीं. कितें विष्णूबाब ?

**विष्णूबाब** : हय तर. भजीं म्हण्टा तीं वासानूच पयलें पोट भरता. मागीर खातकीच आनीक भरता आनी जीव सातीस्कृंत जाता.

**व्हनीबाय** : बरें तर, हांव बतां भितर भज़ीं करूंक.

**बाप्पा** : चल गे बाये चल, वेळ काडूंक नाका. सामकी जीब लुवलुवता म्हजी (व्हनीबाय वता.) गेली बाबा एकदांची ! सकाळच्यान कितें लटाफटी केल्या जाणां ? जांव, तूं येवन बरो पडलो. म्हणजे तुजो तो आवत म्हज्या फायद्याक पडलो. तशी आमगेली बरी रे. पूण ओगीच नाका त्या कामाक कें‍च्च करतली.

**विष्णूबाब** : हें तुवें म्हाका सांगूंक जाय. हांव व्हनीबायक वळखना तर ! आरे, ह्या बायलांचो स्वभावूच तो. ओगीच पयलीं तिडप आनी मागीर करून घालपाचें घालप. आरे, आमगेली कितें, हिजीच भयण ! घरोनघरीं मातीच्याच चुली !

**बाप्पा** : हय रे, पूण आमची चूल मातशी बरीच भडक चूल रे ! बरें तें कितेंय जांव. भज़ीं पयलीं आज खावपाक मेळ्ळीं. कितें ? ना जाल्यार म्हाकाच गाळचीं पडटलीं आशिल्लीं ! वास येवपाक लागलो. कायलीन घालीशीं दिस्ता !

**विष्णूबाब** : बरोबर – ना जाल्यार सगळे म्हण्टले आशिल्ले कीं बाप्पा भजीं गाळटा पूण लोकांक मात टाळटा. कितें ? (म्हणपाक मास्तर येता.)

**मास्तर** : काय बाप्पा ? कसें काय ? तब्बेत फोर्त मूं ? असो वतालो ब्राह्मणींत. म्हटलें बाप्पाची ख़बर घेवया. बाप्पा वास येता काय तरी तळील्ल्याचो !

**बाप्पा** : मास्तर. ख़रेंच सांग आं ! बाप्पाची खबर घेंवक आयला, काय ह्या वासान आयला भजीं चाबडांवक ?

**विष्णूबाब** : मास्तर, ओगीच ताकाक येवन गाडगो कित्याक लिपयता ? भज्याच्या वासान आयला म्हळ्यार तुका कोण फाजार चडयतलो आशिल्लो ?

**मास्तर** : काय विष्णूबाब, उगीच तुमी संशय घेतात ते. विद्येच्यान तर म्हाका ह्या भज्यांची ख़बर पसून ना !

**बाप्पा** : आरे, मास्तर ओगीच त्या विद्येवो सपूा घेंत्र नाका. आशिल्ली

नाशिल्ली विद्या नाच जायत ! सरस्वती कोपत फट सपूत घेता म्हणून. किदें विष्णूबाब ?

विष्णूबाब : हय तर ! आनी सरस्वती कोपप म्हणजे आमच्या भुरग्यांक तुमचें अज्ञान तोपप ! कितें बाप्पा ?

बाप्पा : आनी कितें ! म्हणून म्हण्टां ! मास्तर खरें उलयात. तुमी शाळेंत भुरग्यांक शिकयना कीं सदा सत्य बोला यथातथ्य चाला ?

मास्तर : शिकयता म्हणजें - सत्यमेव जयते, सत्यम् शिवम् सुंदरम्, सत्याला कधीच भय नसतो, अशे आमी सुभाशितांचे बोर्डूच लायल्या शाळेच्या वन्टीर !

विष्णूबाब : अशें आसा तर तुमीच कशे सत्य उलयना ? तुमी भज्याच्या वासान येवन सुद्धां तुमी बाप्पाच्या खबरीक आयिल्ले म्हण्टा तें सोबता तुमकां ?

बाप्पा : बरोबर-मास्तरच जर फट उलौंक लागलो तर भुरगे आयकतात ?

मास्तर : बरें बाबा चूक जाली आमची. म्हणजे ताचें काय झालें. मी जातांना सहज आंत डोकावं म्हटलें. पण डोकावच्या पयलींच आंत भज्यांचो वास घुसलो नाकांत आनी उगीच म्हटलें बाप्पाच्या खबरीक आयला म्हणून.

विष्णूबाब : आता कशें जालें ! हें सेर्त. आता खरें तें वदलो ना ? आरे, आमकां फटयता ? तुमचे परस आमी चारुय पावसाळे चड काडूंक ना ? कितें बाप्पा ?

बाप्पा : तर कितें ! आरे ह्या भज्यांच्या वासान, इतिहास घडला म्हज्या घरांत. आता परतून रिकॉर्ड लावपाक म्हाका त्राण ना. आतां भजीं आयलीं कीं पळोवया.

मास्तर : वा ! म्हणजे विष्णूबाब पण म्हाजे सारकेच भज्यांच्या वासान भितूर सल्ला तर ?

विष्णूबाब : मास्तर वोगीव उलोंव नाकां ! ह्या भज्यांखातीर हांवें कितलीं उलोवणी खाल्यात तुमी नकळं. खरें म्हणजे म्हजे खातीरुच हीं भजीं तयार जाता ! कितें बाप्पा ?

बाप्पा : हय पुता ! नाजाल्यार म्हाकाच भजीं गाळचीं पट्टलीं आशिल्लीं ! पुण आता पट्टलीशों दिसता ताळच्यार. आमी खावपी थोडेच. हांव, विष्णूबाब आनी तुमी. (मावशीबाय येता-येतनाच वास घेत येता.)

मावशीबाय : व्हनीबाय, ये व्हनीबाय. कितें गे बाये-आज सकाळ फुडेंच घमघमाट सुटला मगे. कितें गे, भजीं करता काय कितें ? (विष्णूबाब हळूच लिपूंक सोदता.)

बाप्पा : कोण, मावशीबाय गे ? यो. तूं बरी वेळार आयली. आज भज्यांचो प्रोग्राम चल्ला आमगेर. खंय तूं हेवटेन सकाळफुडेंच ?

मावशीबाय : कांय ना. हांका धाडल्या बाजारांत कितेंय बांगडे ताल्ले मेळटा जाल्यार पळोवपाक आनी मागीर याद जाली कीं तेफळां कालूच सोपल्यां. म्हणून व्हनीबायकडे आयिल्लीं दोन मेळटा जाल्यार पळोंवक. वास बरो येता. बरें हांव भितर वता.

मास्तर : हय गे मावशीबाय, तुमी विष्णूबाबाक बाजारांत धाडल्यात तो अजून पांवकना मगे ? नाहीं म्हणजे-विष्णूबाब एकाच वेळार दोनकडे कशे पावतले ?

मावशीबाय : म्हणजे हाजो अर्थ किदें ? एकाच वेळार दोनकडे म्हणजे ? तें बाजारांत येदोळ गेल्या. आनी खंय गेल्या ते जाणा तर तुमी ? हांवें तांका आज मुद्दाम बेगीन धाडल्या. कालच्या आयतरा तार्द वोचून आमकां विस्वण चुकिल्ले !

बाप्पा : कांय ना गे. ह्या मास्तराक संवयूच ती मदीच वूच्च करून उलोवपाची.

विष्णूबाब : हय पाडपडिल्लो, पडिल्लो दांत कसो ! (विष्णूबाब चुकून म्हण्टा आनी जीब चाबता.)

मावशीबाय : म्हणजे तुमी हांगाच आसा तर ! तुमीय ह्या भज्यांच्या वासान घुस्पले दिसता.

विष्णूबाब : आगे, घुस्पला खंयचो ? ह्या भज्यांखातीर कसलें गॅर परा फोग जाणा तूं ? तूं कांयच नकळो तें बरें !

मास्तर : हो मावशीबाय. ह्या भज्यांकरतां म्हणें बाप्पापण भजीं गाळपाक शोधी ! पूण ह्या विष्णूबाबाच्या नाटकांनी सगळें काम फत्ते जालें. काय बाप्पा ?

बाप्पा : हय बाये. तूं आनी मोठ्यान उलोंव नाका. ह्या भज्यांखातीर कोणाकोणाचीं उणेपणां वयर आयल्यां तीं तुवें आयकल्लीं जाल्यार हांगा आनी व्हियेतनामापरस चड व्हडलें गॅर पेट्टलें आशिल्लें ! बरें, आयल्या तशी भजीं खावन वच ! आं ! आज म्हज्या ह्या तपश्चर्येक फळ येता दिसता.

विष्णूबाब : हय गे, बाप्पाची मांय खंय फस्कलास भजीं करताली मसाल्याची ! तिजी चली व्हनीबाय म्हणजे पळे ! कितें मास्तर ?

मास्तर : तर वो काय ? सुधारूच वाढवलेली आवृत्ती !

मावशीबाय : बरें तर, हांव भितरूच वचून रुच पळेतां. (भितर वता.)

बाप्पा : ह्या वेळार आयली मावशीबाय. जांव, आनी कोण येना जाल्यार

पुरो न्हय ! एक-एक नग वाडटा मरे ! (इतल्यान बुकीबाब आपल्या धाकटचा मधूक घेवन येता. येता आसतनांच भज्यांच्या वासान सातीस्फेत जाता.)

**बुकीबाब** : बाप्पा, ये बाप्पा ! आरे तुमगेल्या ह्या भज्यांच्या वासान सगलो वाडो मरे चवथाळ्ळा. हांव म्हज्या चल्याक घेवन केंस मारपाक वतालों. म्हळ्ळें, बाप्पाच्यो खबरो बऱ्यो लागता न्हय. तेन्नां एक विझीत मारून येवचें ! तर, दरवाटचाकडे हो भज्यांचो वास. बाकी भजीं कशींय जांव. वास मात झकास !

**बाप्पा** : आरे पापया, मोठचान म्हणू नाका अशें. ती जर म्हजी महामाया आयकत तर तुकाच त्या भज्यांबरोबर तळपाक फाटी ना ! कितें विष्णूबाब ?

**विष्णूबाब** : हय पुता ! हीं भजीं तळचे पयलीं म्हाका कसो तळसून काडलो तो हांव जाणां. बरें, हें साग, हो कितली शिकता ? नांव कितें रें तुगेलें ?

**मधू** : म्हजें नांव मधुकर बुकी शिरगांवकर. शिकता तिसरी. तिसरे फावट मुष्टिफंडांत.

**मास्तर** : म्हणजे तूं म्हज्या वर्गांत आसा ? मग मी तुला कधीच बघूक नाय.

**बुकीबाब** : मास्तर, ह्या शाळेंत न्हय, त्या दुसऱ्या शाळेत. ताका पयलीं हांगा घालो दोन वर्सां. आता त्या शाळेंत घाला.

**बाप्पा** : आं, म्हणजे प्रत्येक वर्सा एक एक इयत्ता बदलच्या परस हाका शाळेचो बदल चड मानवता दिसता ! आरे, पुण जर मराठी जमना तर इंगलेजीन घाल.

**विष्णूबाब** : बरोबर ! आता हें मराठी शिक्षण व्हडलें उपयोगांत येना खंय. वता थंय थंय इंग्लिश. कॅट, मॅट, रॅट, फॅट !

**मास्तर** : काय विष्णूबाब, अहो हाका मराठी जमना तर पिडा गेली ! हो इंग्लेजीत काय उजवाड घालतलो ? काय रे ?

**मधू** : म्हाका इंगलीश आवडना. म्हाका मराठीच आवडटा.

**बाप्पा** : अशें अशें. बाकी वयामानान तूं बरोच उलयता शाणेपणाचें. आरे बुकी, हो तुजो धाकटो न्हय रे ?

**मधू** : न्हय ! हांव सगल्यांत व्हडलो. म्हज्या फाटल्यान चार आसा.

**बुकीबाब** : आरे, पुता कितें सांगूं ? हो सगल्यांत व्हडलो पूण मोटवो. वर्सां हाका बारा, पूण अभ्यासांत पोराचे बारा वाजल्यात.

**विष्णूबाब** : बरें, तें जांव. हें सांग बुकी, आरे हाजे केंस मारपाक व्हरतालो मरे ? मागीर कितें जालें ? खूप वाडल्या मरे हाजे केंस !

मास्तर : आणखी काय हिप्पी काय बिप्पी जांवक सोदता दिसता ? काय बिरलस कीं शरलस ?

बाप्पा : काय म्हाका दिसता हाका धेना दिसता भितर – कारण हें केंस कापपाचें रे ? आरे, हें आपुणच झडटले ! कितें मधू ?

मधू : मारात तुमी म्हजी मस्करी. पूण हांव बरो नाशिल्लों म्हणून हे केस वाडल्या. न्हय बाबा ?

बुकीबाब : हय पुता. हाका साधीच ग्रीप आयिल्ली. पूण निमीत्याक कारण धरून हो आज एक म्हयनो शाळेंत वचूंन ना.

विष्णूबाब : बरें तें जांव. केंस केन्नाय मारूं येता. पूण भजीं आयचीं फाल्यां मेळटा ? न्हय बुकी ? नाजाल्यार बाप्पाच गाळपाचो भजीं. कितें बाप्पा ?

बाप्पा : तर कितें ? म्हज्या ताळचार फक्कत चार-पांच पडल्यार पुरो ! न्हय, चढते भाजणेन मनीस वाढत आसात म्हणून म्हळ्ळें.

मधू : म्हाका चढती भाजणी उतरती भाजणी गणितां कळटा.

मास्तर : हो, पण तीं बरोबर नासता म्हणून चुकता. काय विष्णूबाब !

विष्णूबाब : हांव आनी चड उलयता. म्हाका बाजाराक जाता वेळ. आनी व्हनीबायचीं भजीं तर कशीं येना ! आतां नुस्तें चुकलें जाल्यार बाप्पाय ना आनी पुडवेंय ना !

बाप्पा : आरे, तूं म्हणपाक चुकला. नुस्तेंय ना आनी भजींय ना म्हण. म्हणजे म्हणीक पसून भज्यांचो स्वाद गेलो. (इतल्यान शास्त्रीबुवा येता.)

शास्त्रीबुवा : काय बांप्पां ! काय नवीन नवीदाद ? अरे वां ! वास तर भज्यांचो सुटलो. म्हणजे आमी योग्य वेळार पावले म्हणायचें.

बाप्पा : हय पुता. पावले, योग्य वेळार पावले तर ! बाकी तुमी योग्य वेळार येताच म्हणा. कोणाच्याय लग्नाक, मरणाक आनी अशें नवें केल्यार ! कितें विष्णूबाब ?

विष्णूबाब : हय शें दिस्ता. शास्त्रीमाम, तुमच्या प्रश्न-कुडलेचेर तुमका दाखयली कीं बाप्पागेर भजीं केल्यां म्हणून ?

मास्तर : काय सगल्या बऱ्या ग्रहांची युती जातकच जशें काय तरी बरें घडटा, तशें आमी आनी बाप्पा हांची युती पळोवन बरीं भजीं जातलींशीं दिसलें तुमकां ?

बुकीबाब : काय शास्त्रीमाम ? बाप्पाक भविष्य सांगपाक आयल्या ? फाटीं बाप्पाक धनलाभ जातलो, म्हणून फियाट लागली अशी फाम जाल्ली न्हय ?

बाप्पा : आनी लागली फियाट, पूण म्हज्या आंगाक. आवयऽऽ ! याद काडल्यार अजून दुखता.

शास्त्री : काय-तुमी लोक बाबा ? मी आपलो सहज शाणुबाबाकडे पूजा करूंक म्हणून वतालों. मध्येंच आठवण जालीं कीं विनायकी आनी पंचमी एक दिसाच्या अंतरान आयल्या, म्हणून सांगूंक हेवटेन सल्लों. तर तुमी सगळे बसल्या आनी भज्यांचो वास सुटला.

मधू : बाबा, हांव मात्सो भायर वचून येतां.

मास्तर : अरे, कुठें जातोस ? आतां तर भजीं जालीं पळे. चल खंय वतलो लवकर तो वच आनी ये. चल लवकर. आटप (मधू वता.)

बाप्पा : बाकी भजीं बरीं जाल्या दिसता. आगे, गरम गरम काड मगे आनी धाड भायर. सामकी जीबेतल्यान लाळ सुट्टा !

विष्णूबाब : हय तर ! नुस्तें सोडून हांव हांगा भज्यांक बसला, उलोवणी घेवन.

बुकीबाब : आनी कितें ! केंस केन्नाय मारूं येता. भजीं एकदां चुकलीं कीं चुकलीं. काय शास्त्रीमाम ?

शास्त्रीबुवा : तर हो काय ! अहो पुजा जरां उसरां झालीं तरी चालेल. पण भजीं थंड खांव येता बाप्पा ? (मधू आपल्या इष्टाक-रमेशाक आनी रमेश आपले भयणीक मालाक घेवन येता.)

मधू : यो रमेश. खंय वतालो गडुयानीं खेळूंक ? पळे बाप्पागेर भजीं केल्यां.

माला : कितें बाप्पागेर भजीं केल्यां ? तर म्हज्या बावलेच्या लग्नाक प्लेटीनी घालूंक बरीं पडलीं. वास बरो येता न्हय ?

बाप्पा : आरे, मधू हें त्रोप खंयचें रे बाबा एखठांय केलें ? खंय गेरीक वता काय कितें रे ?

मधू : ना बाप्पा. हो रमेश गडुयांनीं खेळपाक वतालो. हांवें ताका सांगलें तुमगेर भजीं गाळटा न्हय म्हण्टकच थोडीं खावन वच.

बुकीबाब : आरे, तूं एक म्हज़ेबरोबर आयला तो आयलां. हांका हाडपाक रे कोणे सांगलें ?

मास्तर : काय ना रमेश, यो तूं ! अरे हो आमच्या जुवारकारालो.

विष्णूबाब : आं ! तुमचे शाळेंत शिकता दिसता ? काय तूं शिकवणी दिता मास्तर ? म्हणून हें मेजावयलें केळें काडून फिर्याद जोडटा.

बाप्पा : कांय जायना, यो बाब तूं रमेश. आमच्या शांबा जुवारकरालो मरे तूं ?

रमेश : हय, शांबाबाब म्हजो बापूय. ही म्हजी भयण माला. ती बावलेच्या

लग्नाचो खेळ खेळटाली. म्हणून सांगलें ताकाय यो म्हणून भजीं खांवक.

बाप्पा : बस्स बरें जालें. येयात बसा. आतां फक्कत लावडस्पिकरान भोवपाचें उल्लां. चोत्राय–चोत्राय आयकात. आज बाप्पागर भजीं केल्यांत – तेन्ना सगले जण शेजारी – पाजारी खांवक येयात. (मावशीबाय येता – भजीं खायत वता – हातान भज्यांची ल्हान पोटलो घेवन.)

मावशीबाय : बाकी भजीं फस्कलास जाल्यां ही पळय व्हनीबाय घेवन आयली. (व्हनीबाय भजीं प्लेटीत घालून येता आनी मेजार दवरून फाट करता. म्हाड्डूपसून येता. इतले म्हणसर बाप्पा सोडून सगळे जाण भज्यांचेर तुटून पडटात आनी खांवक लागतात. बाप्पाक येकूय भजें मेळना.)

बिष्णूबाब : वा ! कितें भजीं जाल्यां जाणां. सामकीं कुरकुरीत.

मास्तर : असलीं भजीं मी माझ्या जन्मांत खालीं ना !

बुकीबाब : खरेंच ! कितें रूच रे भज्यांक !

शास्त्रीबुवा : बाप्पा, तुमच्या व्हनीबायच्या हातचो गुण म्हणजे काय – वा ! स्वादिष्ट जाल्यां.

म्हाड्डू : बाप्पा, सारकीं आईच्या आई भशेन जाल्यां !

मधू : कितें भजीं ! हॉटेलांतलीं पसून भायर मार !

रमेश : भजीं खांवचीं तर असलीं. न्हय गो माला ?

माला : आमची आई कसली करता हळशीक. बाप्पा, थोडी म्हज्या बावलेच्या लग्नाक व्हरतां !

बाप्पा : घे – घे पुता. उल्लयार म्हाकाय व्हर तुज्या बावलेच्या लग्नाक !

विष्णूबाब : आरे बाप्पा, तूं जागशी करना मरे. हरशीं कशीं लागलीं ? तुज्या मांयचे भशेन ?

बाप्पा : आरे, रुच सांगपाक पयलीं तोणान एक तरी भजें पडूंक जाय मरे? आरे, तुमी तर सामके टोळधाडशे तुटून पडले ताजेर. म्हाका हांगाच सुकयलो. (सगळे वतात.)

व्हनीबाय : आं ! म्हणजे इतलेंय करुन तुमकां भजीं खांवक मेयळींच ना तर ?

बाप्पा : आगे भजीं म्हणूं नाका, भजें म्हण. इतल्या रुचीन हांवें करपाक सांगलीं भजीं आनी भज्यांची रुच पसून पळौंक मेयळी ना. सकाळच्यान बोवाळ घालो बाप्पा मजीं गाळटा म्हणून. पूण जालें कितें तर बाप्पा भजी टाळटा. आयच्यान कानाक पीळ, जीव आसल्यार भीक मागून खायन. पूण हाजे फुडें भजीं म्हणून गाळप ना.

(माथ्यार हात धरून बसता. व्हनीबाय तिडकीन भितर वता.)

(पड्डो पडटा.)

... ❑ ...

# 7.

# सुणें माजर हासता

चा. फ्रा. देकोस्ता

पात्रां :

प्रोफेसर अिजिदोर अिनशियो मोरल्लो : निवृत्त विज्ञानी
श्रीमती आयोना अिज बेल्ला मोरेल्लो : ताची बायल आनी समाज सेवकी
कुमारी आलेलुया मोरेल्लो : तांची म्हलघडी धूव
मास्टर रायन मोरेल्लो : तांचो पूत
कुमारी माया मोरेल्लो : तांची निमाणी धूव
किट्टी : तांचें माजर
किट्टा : तांचें सुणें
भोडवो गाब्रियेल : सर्गाचो दूत

□

जागो : प्रोफेसर अिजिदोर अिनाशियो मोरेलाच्या घरा सामखार केल्ल्या टेनीस कोर्टांत, माडाकाटचार, घरच्या मेटांर अित्यादी.

□

काळ आनी वेळ : अेके दशेंबराचे रातीं

(कितलिशीं जणां ह्या मोगाळ गांवांत 'हा कितली सुंदर सांज' म्हणनासतांव मेल्यांत, आनी कितलेशी सांजो अशो गेल्यात, कितलेशो राती सुरेल्ल्यो काती जाल्यात. नावाडदीक भाशाविज्ञानी प्रोफेसर अिजिदोर अिनाशियो मोरेंल्लोच्या घरा मुखल्या माडाच्या बोंडुल्या भितर देवाचे दिसनातल्ले हात आज अुदक भरतात, चिकोळचांनी रंग भरतात, नताच्यां फुलांनी सुवास भरतात, क्रोटनाच्या पाल्यांक वर्ण लायतात, पैंस पैंस कोडियाळच्या ल्हान-व्हड घरांनी तेच दिसनातल्ले हात चेडवांच्या गालांनी तांबसाण भरतात, बायलांच्या पोटांनी चरब भरतात, म्हाताऱ्याच्या कुडीं वेर मिरयो भरतात आनी बाळकांच्या पोल्यांचेर हासो नेटतात. प्रोफेसर मात हे देवा आनी मनशां मधले लिपते गूट पुरते जाणां आसल्ल्या बरीं घरचीं मेटां देंवोन येता आनी अुद्‌गारता.)

**प्रोफेसर** : आहा ! सुंदर सांज, शितळ सांज, समृद्‌देची सांज (आमकां पळेवन) देव बरी सांज दींव. व्होय, हांव प्रोफेसर अिजिदोर अिनाशियो मोरेल्लो. गांव सोड्‌न पांचतीस वर्सां जालीं, काजार जाव्‌न वीस आनी निवृत्त जाध्‌न स दीस जाले. हांवें संसाराचीं व्हड व्हड समस्यां सोडयल्यांत. पूण म्हाका कंगाल केल्लें वरतें समस्थें आजुनी म्हज्या घरा भितरच आसा.

(ताच्या पाटल्यान मेटांवेर अेक स्त्री अुबी जाता ताचे परस अिल्लिशी तरनाटी) म्हजी बायल.

**स्त्री** : अिज्जी -

**प्रोफेसर** : (आयकानासतां) काजार जावन वर्सां वीस जालीं आनी हांव केवल चोवदा महिने आनी चोवदा दीस तिचे सांगता रावलां म्हण बेजाराय तिका.

**स्त्री** : अिजिदोर,

**प्रोफेसर** : अळे, नांव काडलें सैतनाचें आनी खिणान जालें येणें तिचें (तिका

हाताक धरून हाडता) म्हजे कुशिची बोर कातरून सर्वेस्पर देवान केल्लें वैभवीक अचर्यं :
आयोना अिजाबेल्ला, झाडां पेडांचे तारक आनी तेरें घाणेऱ्याचे पोशक संस्थांची गौरव अध्यक्ष ; किटाळ प्रेमी संघांत स्थापक कार्यदर्शी आनी मेंदुगाळणी निवारणा मंडळेंत वाहुरपी सांदो.

**आयोना** : शट अप, अिजिदोर, तुज्या हातांत कितें म्हण कळजाय म्हाका.

**प्रोफेसर** : ह्या हातांत अुशें आनी हांतूं बोल, म्हज्या भांगरा.

**आयोना** : कित्याक हाडल्याय म्हण कळजाय म्हाका.

**प्रोफेसर** : सिंपल, म्हज्या काळजाच्या कांद्या, हांव आज भायर निदतां. आज जिणयेंत पैल पावटीं म्हज्या मात्या वैर गेंदाळी बोंडे, ताच्याकी वैर चुडेत्यांचे शेंडे ; ताच्याकी वैर नेकेत्रांचे व्होर आनी ताच्याकी वैर अंवळाच्या माट्यांत काळोकाची झर ... अेब्बे ... ताच्या मस्तकांत मोरसो वाडलो कासोळ्च्या कांद्यांत खोरोज भरल्ल्या बरी.

**आयोना** : ना अिज्जी, म्हजे कुडींत बिरमोत चडली बोव्रळयांत थंडाय भरल्ल्या बरी. हाव कित्याक मोसोर करतेलीं ? प्रायेन तुज्या केसांक चुनो पुसला.

**प्रोफेसर** : मागीर कित्याक तुका हुस्को ? हांव रातीं निदल्ल्याकडे चांदण्यात हे नारेल्ले केस आनी धोवशेल्ल्यो मिशयो थळथळतना, आमच्या माटवांत आपलो सांडल्लो पाडो सोडून शेजारचीं आडबोसरी चेडवां आयली तरी हे नारेल्ले केस आनी धोवशेल्ल्यो मिशयो दोदोन हुमटून आपल्या फिंतांक लायतीत पुण वोंटांत लांवचीं नांत. मागीर कित्याक तुका मोसोर ?

**आयोना** : अिश्शी, तें भें म्हाका ना, म्हाताऱ्या तुका आपडल्लें चेडू म्हजे तसलें जाल्यार आपडलो हात डेट्टोलांत धुंवक आसा आनी गुणेस्त जाल्ल्यार आगमेंतांत धुंवक आसा. तूं फिरकी बरी त्या अेका कोटरुयांच्या पिला पाटल्यान -

**प्रोफेसर** : कोटरुयाचें पोल ? ... थूत ... मांकडाक कोणें माणीक दिलें, गाडवाक कोणें गोड दिलें, पाडक्याक कोणें पोवळें दिलें आनी हांवें तुका अुलोण्याचें विज्ञान दिलें ! कोटरूयं खै तें ! हें सावजां मधें अपरूप अेक सुण्णें ; काळ्या पाकांचे पास, तर्ने चलयेच्या केसांचे राशी बरी, मात्यार लिंब्या रंगाचो कुरोव, पांयांक मेय बिलुदाचे आनी ताच्या ताळ्यांत बसयल्यांत सात वायलिनां आनी बोंच अुसयतना असलो ताळो भायर सरता त्या सातय वायलिनांचेर तीन बोतली बीर पियेल्लें कोयरांतलें चेंडू खेळल्ल्या बरी.

**आयोना** : पूण तुजे अिस्कूर, अिजिदोर. तुजे अिस्कूर रातचे रातीं झडचे आसतात. घरा भितर जाल्यार रावयल्ल्या चेडवाक झाडताना मेळतीत. हांगा कुंकडां पुणी बिडांच्यो बियो म्हण विंचून खातीत जाल्यार ?

**प्रोफेसर** : ओ ! शट अप ! तुका अेक घोव म्हळयार कितें म्हळ्ळी खबरच ना. म्हज्या कामाक अेके दमडेचें मोल दिनांय तूं.

**आयोना** : पुण तुजे हात धर्न हांवें कसली चूंक केली सायबा ?

**प्रोफेसर** : चूक तुवें करूंक नांय, तुजे लागीं काजार जावून चूक हांवें केली. मध्यानेचें अेक अपरूप सुकणें ताळयांत बियोलांचो नाद लावन म्हजे जाणबायेक अुलो मारता, हांव ताचो नाद यंत्राच्या पोटांत फिचार करून संसाराक दाटसाल्लो नेणारपणाचो कळोक धांवडांवक सोदतां आनी हे मोलादीक घडये तूं म्हाका भितर येंवक नाडताय !

**आयोना** : तूं कळोकांत दाटल्ल्या संसाराचेर गॅस लायट फांकय सायबा. तूं डब्बल खटल्यार थाव्न निदेंत लोळोन सकला पडताय, ते बारीक शिमेटिचे पेंटाळेर कसो निदतायगी म्हण हांव आलोचन करतां.

**प्रोफेसर** : नाका नाका म्हजो मेंदू बोंचाय नाका गायले, चानयेन पेर बोंचायल्ल्या बरी हांवें लेक नातल्ल्या बायलांक पळेलां, पूण तुज्जे बरी घोवाचो वावर कुंड्याक पास्ट करच्यो बायलो पळेंवक नांत.

**आयोना** : हांवेंय लेक नातल्ले दादले पळेल्यात, पूण -

**प्रोफेसर** : व्हड चूक थैंच जाली. तुवें लेक नातल्ले दादले पळेल्याय आनी हांवें लेक नाकल्ल्यो बायलो पळेल्यात. तुजे लागीं हांव आतां कुवाळे कातरूंक वचना, रेडचाच्या कानांत किंदरी वचाना आनी पाडयाच्या पायांत नाच बसना. चल भितर हांव हांगासर निदतां आनी मध्यानेर तें अपरूप सुकणें बियोल व्हाजयतना म्हज्या टेप रेकोर्डाचेर, ... हांव आवाज गिळ्न जिरयनासतां रांवचें मिशीन हाडूंक विसरलों ... लुया ... लुया –

**लुया** : (भितर थाव्न) येस डेडी –

**प्रोफेसर** : कोंकणेन अलय पुता. तुजो बापय बत्तीस वरसां रेंवेर रावलो. दर्यो अुतरोन फाडलाक पावलो तरी बापायन दाकयिल्लो देस विसरलो तरी आवैन शिकयल्ली भास विसरलो ना.

**आयोना** : ताका अिंगलीश हांवें शिकयिल्लें.

**प्रोफेसर** : कावळयान कोगळीक गायान शिकयिल्ल्या वरी. (लुया मेटार अुबें जाता. दोळयांक नीद आसल्लें चोवदा वरसांचें आडकुळेंच चेडूं जांबाय काडता.)

लुया : नीद येता डेडी.

प्रोफेसर : तुजे प्रायेर अबें रावोनंच काडिजाय पुता, घोड्यान नीद काडल्ल्या बरी. हांगा ये पुता, (लुयाक आमकां दाकौवन) म्हजें म्हालघडें अचर्ये. लुयिजा यास्मिना, पी. यू. सी. पैल्या वर्सांत शिकता.

लुया : सेकेंड अियर डेडी.

आयोना : तुजो डेडी तें पुरा खैं मतींत दयरतागो ? ताका हे म्हातारे प्रायेर रातीं मध्यानेर कोटरुयां दिसतात.

प्रोफेसर : अलयनाका, अुलयनाका, आयोना आराबेल्ला.

आयोना : हांव आराबेल्ला न्हय अिजाबेल्ला. पांच वर्सां तुज्या काळचा दर्याचे तडीर रावोन येशी जाल्यार बायल भुरग्यांक पुरा विसरताय तूं.

लुया : व्होय, डेडीक अेकी अुडास ना. म्हाका पी. यू. सी. दुसरेंत दोन मार्क 'अॅड' कर्न कशेंय लोटून घालें म्हण तीन पावटीं बरयलें. हाका दरौंच्या कागदाच्या स्टेंपिच्या खर्चार अेक पावटीं फिल्माक वचोन येव्येता.

प्रोफेसर : तूं म्हाका बरतालेंय, म्हज्या काळजाच्या किस्शोरा ?

लुया : तूं म्हजे लागीं अुलयच नाका डेडी. तुका हांवें म्हजें 'प्रोब्लेम' बरयिल्लें आनी तुवें जापच दिली नांय.

प्रोफेसर : अे रचनारा, मनीस कामाचो गुलाम जाला. सांग पुता, आतां तुजें प्रोब्लेम सांग, हांव सोडयतां. हांवें लोकाचीं समस्यां राशिनी सोडयल्यांत.

आयोना : बायले भुरग्यांच्या केसांचीं फितां सोडौंकी वेळ ना तुका.

प्रोफेसर : तूं मधें दाय घाली नाका बायले. सांग पुता, कितें जालें ?

लुया : आमच्या शेजारच्या किशोर आरान्हान ...

आयोना : तें सांगनाकागो. लज दिसनांगो तुका येद्या व्हडल्या आरबास्थानाच्या घोड्याक पुराणांतलीं पातकां अुस्तूंक.

प्रोफेसर : भुरगीं तोंड सोडताना बोडयो चेपी नाका, आयोना मिराबेल्ला.

आयोना : (व्हडल्यान) हांव मिराबेला न्हय, अिजाबेल्ला, अिजाबेल्ला.

प्रोफेसर : व्होय म्हज्या अंडेच्या कांद्या, तुवें अितली अिजा दिवनय तुजें नांव अुडास अुरना म्हाका, (धुवेक) सांग पुता.

आयोना : सांगनाकागो.

प्रोफेसर : अिश्शी,

आयोना : अिश्शी विश्शी कांय ना. सांगची गर्ज ना.

प्रोफेसर : तुजे गर्जेक तें सांगना. तुजे मर्जेकी तें सांगना लुया, तुज्या डेडीक तुजीं समस्यां समजाय पुता. हांव समस्यांचो गुरू. युगोस्लावियाच्या अेका

कलेक्टीव फार्मांत बारा हजार कुंकडां आसल्लीं. सगळ्यांनी अेकच पावटीं तांतयां दवरचींच बंद केलीं. व्हड व्हड विज्ञानिच्यो तकल्यो चिंतून चिंतून पोकळ जाताना म्हाका सांगोन धाडलें आनी अळ्ळे ताचें ' अुलोणें ' आयकोन म्हाका कारण कळ्ळें.

**आयोना** : कितें जाल्लें तांकां ?

**प्रोफेसर** : हायली अिंटेलेक्चुवल. तुका बाराय काळ मेंदू काकयेंत दवरून भोंवतेल्याक समजना तें. लुया तुज्या किशोर आरानाक कितें जालें ?

**आयोना** : सांगशी जाल्यार बोंचो फोडतां घोड्या. दावल्यांच्या कानाक थोडो पुणी बेटवोळ जाय. बायल जाल्ल्यान मर्यादेक लागोन म्हालघड्याचें नांव अुरच्या खातीर, शेरमांवांक अेक अेंबू जांवच्या खातीर, मतीक समाधान जांवच्या खातीर, बायलांनी सर्वय गजाली सर्वांक सांगजाय, पुण खैंच्यो, कोणाकडे सांगजाय, म्हण पैल्यो कळजाय. थोड्यो रडोन सांगजाय, थोड्यो गुटान सांगजाय, थोड्यो कुमसारांत मात्र, थोड्यो बायलां लागींच, थोड्यो दादल्यां लागींच. हांगा बत्तीस वर्सां परकी गांवांनी कुंकडां आनी कोटरुयां लागीं संबंध दवरल्ल्या फिरकी बापाय लागी तें किशोर आरान्हाची गजाल सांगता.

**प्रोफेसर** : लुया !

**लुया** : डेडी,

**प्रोफेसर** : सांग पुता.

**आयोना** : तोंड धांपतायगो ना ?

**प्रोफेसर** : म्हाका खुबळाय नाका, आयोना शिरावेल्ला. हांवें आजून बायलांच्या आंगार हात अुकल्लोलो ना आनी अनुभवावीण तें काम करूंक गेल्यार तुजी खीळ चुकोंक असा. (धुवेक) सांग पुता.

**लुया** : किशोर आरान्हा –

**आयोना** : सांगनाका लुया.

**लुया** : माम्मी थंड बस थैं. किशोर आरान्हा आमच्या शेजारचो.

**प्रोफेसर** : त्या गोद्दयाचो पूत. ताचे लागीं हांव आजून अुलयिल्लो ना.

**लुया** : ताणें आनी हांवें अेक पावटीं ' मिक्स्क ' फेन्सी ड्रेस घालो.

**प्रोफेसर** : पाट बागवानाल्ल्या आळशांचें वेळ विकरांवंचें साधन तें. कसलो वेस घाल्लो तुमी ?

**लुया** : तो काज जालो आनी हांव काजुची बी.

**प्रोफेसर** : तुमी धा जाणा मुखार उबी कशीं रावल्यांत गो ?

**लुया** : तेंच म्हजें पयलें प्रोब्लेम डेडी. दोन रुपय अेयटी पैशे खर्चुन तुका कागद बरयलें. तुवें जापच दिली नाय. त्या वेळार हांगा

"दिल के टुकडे दस हजार" म्हळ्ळें अितलें बरें पिक्चर लागल्लें, तुका कागद बरोवंच्या खातीर हांवें सोड्न सोडलें.

प्रोफेसर : मागीर तुमचें समस्यें कशें सोडयलें पुता ?

आयोना : तूं अेक काह्लेंबा गाळ्न गाळ्न विचारताय ? तुकां तोंड धांपुनोजोयेगो लुया ? कितें व्हडलो वाग मारल्ल्याबरी सांगताय.

प्रोफेसर : तूं कुशीन बस थै.

लुया : माम्मी, तिकेशें ओगी राव मा. किशोर काज जालो आनी हांव काजुची बी कशें तरी अेकामेका लागून अुबी रावल्यांव काजूक बी लागल्ल्याबरी. आमकां फस्ट प्रायज मेळ्ळें डॅडी.

प्रोफेसर : तूं म्हजी धूव पुता.

लुया : ते घडयेथावन ताचे आनी म्हजेमधें एका थराचो मोग जालो डॅडी, आंगार बारीक पूड खरोज पडल्ल्याबरी. 'रीयल लव' न्हय तो. काहल्लें तरी लवाबरीच, पुण रीयल लवाबरी न्हय. पिटो भरशिल्ले सुरे बरी डॅडी. माम्मीन म्हाका आडायलें. ताका मेळ्ळचार पांयीच मोण्ण घालतां म्हळें.

प्रोफेसर : तुजी माम्मी थोडे पावटी काकयेंतलो मेंदू तकलेंत अुडयता पुता.

आयोना : आनी कितें दोगांय जाणांक घोडे घालूंक सोडिजे आसल्लेंगी ...

प्रोफेसर : ना, ना म्हज्या कोटरुयां. तुजें अक्कल थोडे पावटी मडवळाच्या गाडवाबरी घोळता. निस्कळपण म्हज्या भांगरा निजायकी तांचीं आस्त आसता आनी तो होगडायताना आमचें शींतीद फोडता. हांव पळे निसरच्या तिगराबरी इर्गजिचे मुठीभितरलो अुसळ्ळों, आनी मागणें म्हळें विसरोन गेलों. पुण गांवांभायर येताना म्हजे आवैन रुद्राक्षेचें अेक कोंत दिलें तांतू . . .

आयोना : (व्हडल्यान हासोन) तूं तेंस म्हणतालोय.

प्रोफेसर : व्होय. काजार जाल्ल्या दुसऱ्याच दिसा म्हाका वचोंक पडलें आनी स वर्सां पाटीं आयलों ना. तुजो अुगडास येतना निळशीं लारां तडीक आपटोंची पळेतालों. कितना लारांर बसोन गांवाक पावतालीं पुण हांव मात्र रुद्राक्षिचें कोंत घेव्न सगिचे माये लागीं मागतालों . . .

आयोना : कित्याक ?

प्रोफेसर : तुवें निस्कळपण सांबाळूंक. आस्त तुजी, पूण तकली फोडफोड म्हाका., मागीर कितें जालें, लुया –

आयोना : पुरोगो.

लुया : माम्मी वोगी राव. तो म्हाका कसो तरी मेळोंक येतालो. अेक दीस पाटलो दोरो अुडयताना पडोन धोंपार अेका माती खेल्ल्या तगडाचेर

पडोन चिरोन आस्पत्रेक गेलो आनी पांय सेप्टीक जाव्न कात्रिजे पडलो. आतां तो दांडे घेव्न चलतना म्हाका मेळता आनी म्हज्या काळजांत कितगी रियल लवा बरी पालेव्न येता ड़ेडी.

**आयोना** : गॅट औट. गॅट औट. चल भितर. तुजो रियल लव हांव राण्गीत भाजून सुटयतां.
(ती ताका आंबडून व्हर्न मेटांचेर पावताना पैलें माया आनी पाटल्यान राया ताका धांवडाव्न हाडता आनी तीं सगळें आंगण धांवतात.)

**राया** : म्हाका अेक कुडको दी घोडये –

**माया** : जिना . . . जिना –

**प्रोफेसर** : (तांच्या पाटल्यान धांवत) माया, राया, कितें तें ? मारनाये पुता.

**आयोना** : माया, रावगो थैं. रायाच्यो आत्तां हांव दोंकळचो मोडतां.

**लुया** : तूं सगळचांच्रो दोंकळयो मोड्न कितें करताय माम्मी ?
(प्रोफेसर दोगांयकी धरता आनी आमकां दाकौन)
हो रायन अशोक म्हज्रें दुसरें अचर्य. नोवेंत शिकता.

**राया** : धावेंत डेडी.

**आयोना** : डेडिचें घडचाळ अेक वर्स पाटिंरे.

**प्रोफेसर** : हें निमाणें, पुसून घाल्लो पोळो (बायलेचेर अुसळोन) तांकां रातीं निदोंक येताना तूं कसलीं खाणां खावयताय, आयोना . . . मिराबेल, शिराबेल . . . विराबेल . . . लेकरी विरार जाल्यावे तुज्री ? (मायाक पळेवन) कितें पुता तें ?

**माया** : मुचयें.

**राया**<br>**लुया** } मचयें.

(माया हेडायता.-प्रोफेसर ताका आराव्न धरत )

**प्रोफेसर** : ताका हेडायनाकात. अुलोण्याचें आयब् तें. हांव तुमचीं पोटां भरूंक देपांदेस पावोंक नातल्लों जाल्यार म्हज्या चेडवाक तशें अुलौंक सोडचों ना.

**आयोना** : (ह्डावनशें) तूं पेल्या गांवांत कोंबयां करनां तांतयां दवरय. तुजीं भुरगीं हागा गोद्दीं अुलौंदीत.

**प्रोफेसर** : (अेक पावटीं तिका दोळे अुरकुटवन) माया, तशें न्हय, पुता म्हण - मु -

**माया** : मु

**प्रोफेसर** : ट

**माया** : च

प्रोफेसर : लें
माया : यें
(सगळीं हासतात)
प्रोफेसर : शट अप. मुटलें म्हण मु – ट – लें
माया : मु – च – लें
प्रोफेसर : मुटलें.
माया : मुचयें.
प्रोफेसर : मुटलें, मुटलें, मुटलें.
माया : (रागान, मातशें पैस सरोन) मुचयें, मुचयें, मुचयें –
राया : (तमाशांनी) मुचयें – मुचयें – मुचयें म्हाका अेक कुडको दी म्हळचार दिना घोडो.
माया : (लांब ज़ीब भायर घाल्न) जय –
राया : (आनिकी लांब जीब भायर घाल्न) धर तूं खा.
माया : (जाता तितली लांब ज़ीब भायर घाल्न) यें –
राया : (आनिकी जीब लांबौन) यें –
प्रोफेसर : पुरो आतां. म्हज्या पाटल्यान घरांत कशेंय रातच्या धा वोरार मुटलीं खांवक शिकयल्यात. म्हज्या पाटल्यान ह्या गांवच्या अिस्कोलांनीय जिबो भायर घाळूंक शिकयतात आसतेले.
राया : आमच्या अिस्कोलांत टिचर ज़ीब भायर घालता.
प्रोफेसर : बूद बसोंक नातल्यांचें लक्षण तें अेवाळेंय जीब भायर घालता. पूण किटाळांक धरूंक, माणको जीब भायर घालता मुसांक ; सुणें खाण चिवोंक, माजर आंग लेंवोंक, गोरूं नाक खोरपूंक, बेरूं कूड नितळांवक, पूण रायाच्या अिस्कोलांतली टिचर कित्याक जीब भायर घालता तो म्हाका मिस्तेरच जाला. तुजी जवाबदारी वाट चुकोन व्हाळांत पडल्या, आयोना खारावेल्ला . . .हांव पाट घाल्न गेलों, गांव कसोय ज़ीब भायर घाल्न बसलो, तूं घरांतली मर्याद भायर घाल्न बसलेंय.
आयोना : मागीर तुका कोणें देशंदेस वचोंक सांगल्लें ? भुरगी म्हाका अेकल्यांक जावनांत. तुकाय जाल्यांत न्हय ! अितलें शिकल्ल्याक तुका हांगा अेक पोट भरचें काम मेळतें ना ? कितें दादल्यांचें राजांव, बापय नासत भुरग्यांक वागय आनी कायलातो नासकां पांयाक दागय म्हळचाबरी.
प्रोफेसर : निकळ, निकळ तुजें तकलें अस्क्त जालां. हांव दर्यो अुतरनासता तूं तुजे राण्णीर गारयो भाजतेंनांय, आयोना मिराबेल्ल्या. तुजे केस आतां न्हाल्ल्या फारा ड्रायराचेर सुकतात. तुजें वस्तूर आतां बसल्ल्या कडे

वाँशरांत धुता. तुजी मासळीं रेफ्रिजिरेटरांत शितळेता. तुज्यां अुंड्याचेर दाट दाट लोणी पातळता. हांव देप्नंदेस वचनातल्लों जाल्यार तीन हाती कुडको न्हेसोन सोप्याचे देगेर बिडयो बांदतेंय. हांव जीब भायर घालून अुस्मडोंदी, हांव नासतां गांव न्हय, हांव नासतां म्हाका अेक नांवय न्हय. चला, निकळा, वेळ जाता, आतां तें अपरूप सुकणें दारार येता.

लुया : (पैस रावोन आयकोंचें तें लागीं येवन विचारता) तुमी तुमचेंच अुलयतातगी म्हजें आयकतात ?

प्रोफेसर : कितें पुता ?

लुया : म्हजें प्रोब्लेम डेडी.

प्रोफेसर : अिल्लो वेळ राव. राया भितर धांव आनी म्हजें टेप रेकोर्डर हाड. (राया भितर धांवता) माया, भितर वचोन निदे पुता वेळ जालो.

माया : तू भितर ये.

प्रोफेसर : ना हांव आज भायर निदतां.

माया : म्हाका भें दिसता.

प्रोफेसर : माम्मीक पोटलून धर. चल, चल. (माया चलता. तेदाळाच राया रेकोर्डर हाडून दिता) चल पुता तूंय भितर वच. (तो चलता) लुया,

लुया : डेडी,

प्रोफेसर : तुजी प्राय कितली ?

लुया : पंदरा, डेडी.

प्रोफेसर : तुजे प्रायेर हांवें लव केल्लो अेक बशी पेजेचो आनी नातन्याच्य आंबिलाचो. आतां दांतांनी मासाच्यो शिरो शिरकातना मोगाच्यो पेरी सुजतात. आन्येक पावटीं तुज्या लवाची खबर काडशी जाल्यार वानांत घालून दिशोरल्यान फोव कांडल्ल्या बरी काडतोलों चल निदे.

लुया : डेडी.

प्रोफेसर : चल निदे.

(लुया ताकाच पळौन पार्टी धुंवता आनी मेटार थावून)

लुया : डेडी –

प्रोफेसर (गरजोन) हांवें सांगलेनाये तुका निकळ म्हणोन.

लुया : (तितलेंच गरजोन) तुका हार्ट ना, हार्ट ना. ब्रूट खैंचो. निदल्ल्याकडे वैर थावून पडजे तुवें, पांय मोडजे, किशोर आरान्हा बरी.

आयोना : लुया – (तें मात्र तिचें आयकानासतां दार आपटून भितर अुसळता.)

प्रोफेसर : कितें वाट लायल्याय म्हज्या भुरग्यांची, आयोना अिजाबेल्ला. बोबैच्या चेडवांच्या पालवां बरी तुजी जबाबदारी घडये घडये निसरली

बायले... आतां दोळे पिळिपिळी कर्न पळेत म्हजें शितीद चाळी नाका... निकळ भितर... निकळ भितर...

**आयोना** : (मेटांलागीं परतोन) हांव परतून तुका सांगतां. अिज्जी ह्या दोवाक भायर निदनाका.

**प्रोफेसर** : निकळ. (ती चलता आनी दार अुगतें करताना माया अेक कांबोळ व्हावयत भायर येता आनी पेळयेर तेंकुल्ल्या प्रोफेसराक दिता.)
कांबोळ कित्याक हाडलाय पुता ?

**माया** : तुकाचीं काचा नीं –

**प्रोफेसर** : बोरें बाळ म्हजें. वच निदे.

**माया** : (मेटांलागी वचोन) गूड यांय्ट, (आयोना दारार हासता)

**प्रोफेसर** : (लागीं धांवोन) निकळ म्हज्या दोळ्या मुखलें, सैताना. माया म्हण गू... ड... नाय्ट

**माया** : गूड यांय्ट... (चलता)
(प्रोफेसराच्या तोंडार अिराराय फांकूंक साद्य आसल्यारी वेळ ना. अेक माजर म्याव म्हण हुंकारे दिताना अेक सुणें गुरकिता. पैलें किट्टी मागीर किट्टा तांच्या बोबांनी आनी हुंकाऱ्यांनी भायर येतात आनी सगळे धरणीर धांवताना प्रोफेसर तांकां आपयता.)

**प्रोफेसर** : किट्टा... किट्टा .. किट्टी... किट्टी... (तांकां धरता आनी आमकां दाकौन) आमचें सुणें किट्टा... ताची आवय... ताची आवय .. पुरा आमगेलेच कुळवार. बापांयचें रिकार्ड दवरूंक आमच्यान जालें ना. हें किट्टी आमचें माजर... ताची आवय... ताची आवय .. तींय आमगेलेंच कुळवार. माजरांच्या बापांयची वोळक सर्वेस्पराक आसागी म्हण हांवें तुमकां सांगोंक.
(किट्का परतून गुरकेता आनी किट्टी धांवडाव्न मियांव करून मेटार वचोन बसताना किट्टा धांवडाव्न व्हर्न मेटाच्या मुळांत बसता. तांची मियांव गुरकोणे चलतच आसा. प्रोफेसर पेळयेर आपलें हांतुळ्न समा करीत आसताना)

**प्रोफेसर** : पाप मोनजाती. ताणीं सांगातीं सोडून शेजरां भोंवाजे. संतत सांबाळूंक आमगेरच येजे. ह्याज किट्टिचीं कितलीं म्हालघडीं आमगेर जावून गेलीं. अत्मो नातल्ल्यान बचाव नातल्यार सर्गार माजरांची पिडा कोणाक सोसूंक जाती ना ! तीं आतां अुलयतात. कितले गूंड मिस्तेर तांचे भाशेंत लिपल्यात गरायेंत मोय लिपल्ल्या बरी. आमकां चाबोंक दांतांक घटाय पावाना. बेश्टी जाली जिणी. साऱ्याची काणी. सगळे गांव भोंवल्यारी मोनजातिची भास कळाना. आसोंदीत तीं. हांव ल्हान

अेक नीद काडतां.
(तो घोरेता. अेका थराचो सपणेरो प्रकास त्या आंगणांत पसरता. ताका बहुशा सपण पडता. तो सपणांत अुटता आनी हात जोडून, वैर करून मागता. किट्टा आनी किट्टी तांचे आवाज करीत आसात)

**प्रोफेसर** : हे दाड्डे मतिचीं वोर्ली अुसय देवा
दिसनातल्ल्या दोळयांक झळकीं कर्ली दिसय
हांव दर्यो अुपेव्न आयलों
तरी मीट चाकोंक पावलों ना
कोगळिचो ताळो चिरलो
वागळाचो गळो चोयलो
शिंवांची गोरोज पारकून
कोंब्याचो साद धरलो
घरा भायलीं मुरगां जांव
घरांतलीं सुणीं – माजरां
अेकमेका अुलयतात
पूण पारकूंक हांव सकलों ना.
हें वाड्डे मतिची वोर्ली अुसय देवा
हे अुमिणेची जाप विसय . . .
(अेकाच्छाणे तांबशा निळशा प्रकाशांत कोणगी तरी चलोन येताना किट्टा धोंकता. अेक मनीस काळोकांत पैलो काळोच दिसता तरी अुजवो पांय कुंट्टोन येंवचो तो प्रोफेसरा लागीं पावताना प्रकासांत ताची मुस्तायकी झळझळता ताचे पाकाटे दिसतात. तलवार अुजळता आनी तो भोडवो गाब्रियेल म्हण वोळकोंक आमकां चड वेळ वचना.)

**प्रोफेसर** : (दोळे मिणकून) कोणगा तू ?
**गाब्रियेल** : गाब्रियेल.
**प्रोफेसर** : खैंचे कडचो ?
**गाब्रियेल** : सर्गा वैलो.
**प्रोफेसर** : कित्याक आयलाय ?
**गाब्रियेल** : देवान धाडला.
**प्रोफेसर** : पांय समा नांगी ?
**गाब्रियेल** : पांय अेक गेलोच म्हजो, स हजार वरसां आदीं मिगेली सांगाता लुसिफेराच्या पेंकटाक अेक खोट घाल्ली. त्या दिसा कुसकाल्लो तो आजुनी तसोच.
**प्रोफेसर** : वोकत करूंक नांयवे ?

**गाब्रियेल** : वोकत करूंक त्या दिसा साव्न आज म्हणसर अेक पुणी दाक्तेर वँर आयलावे ? हांगा पावल्या अुप्रांत कोणायकी दाकौन अिल्लेशें तेल रगडचां म्हळचार पुरा बदल्लांगे आवय.

**प्रोफेसर** : निमाणो केदाळां आयिल्लोय ?

**गाब्रियेल** : आंकवार सायबिणीक विजवी हाड्न आयिल्लों. थोडचा महिन्यांनी जुजेक सपणांत दिश्टीक पडोन मांकोड केल्ल्या अुप्रांत हिशीन कोण आयलां ? पाप मनशां त्या काळाची. लिल्ली फुलांची अेक ताळी घेवन पोल्यांचेर धुंवडायिल्ल्या वेळीं सांगल्लें पातयेतालीं.

**प्रोफेसर** : म्हाका कितें सांगोक आयलांय ?

**गाब्रियेल** : आमचो सायब तुजेर अिल्लोसो खुशी जाला.

**प्रोफेसर** : सायब म्हळचार ?

**गाब्रियेल** : सायब म्हळचार देव. तुवें नादशास्त्रांत अेदोळ केल्ल्या वावरा खातीर संतोस जाला.

नमान अिजिदोर
ज्ञानान भरल्ल्या
सर्गिचो सोमी तुजे सांगता
ज्ञानीं भितर तूं सदेंव
आनीं सदेंवीं ज्ञान तुजे खुशेचें जांव.

आज थाव्न तोंड येनाकल्ल्यो मोनजाती, सुकणीं, सावजां, किटळां. तुमचें किट्टा या किट्टी अुलयिल्लें तुका आनी तुका मात्र समजातेलें,

**प्रोफेसर** : तर म्हाका मात्र आयिल्लो दुबाव न्हय तो. तुका आनी तुज्या सायबाक मोनजाती अुलयतात म्हण कळीत आसा जालें. कितें म्हणताय ?

**गाब्रियेल** : अुलयतात तर.

**प्रोफेसर** : अुलयतातम् ?

**गाब्रियेल** : अुलयतात तर.

**प्रोफेसर** : काल हांव साकाळीं अुटोन तोंड धुताना अेक सुकणें अुगलें " टाटा टाटा बाय बाय " म्हण आयकतालें. घडयेन खैंच्यागी घोंटेर थाव्न आन्येकल्लें जाप दिलागलें ' आनी केदाळा येताय ? तो आजय येंवचो ना, आनी केदाळ येताय ? तो फाल्यां येंवचो ना '' म्हळ्ळ्या बरीच आयकतालें.

**गाब्रियेल** : रायट. मोनजातिच्या अुलोवण्याची जाणवाय तुज्या शिरांनी चरोन प्रोफेसर मोरेल्लो. बहुशा त्या घोंटेरांतल्या सुकण्याचो घोव तुजे बरीच देप्पंदेस गेल्लो आसतलो आनी सुयोग पळेवन ते रातीं हें सुकणें आयिल्लें आसतलें. सकाळीं तें टाटा बाय बाय करून अुबलें

आनी हें "आनी केदांळा येताय ?" म्हण विचार लागलें.

**प्रोफेसर** : तूं अर्थ बरे करताय.

**गाब्रियेल** : हांव अर्थ करी ना आमी आसा तशें अुलयतांव, आमी सर्गा वेले आंज संसारातल्यो मोनजाती, वाऱ्यांतलीं सुकणीं, अुदकांतली मासळी, गाद्यांतलीं लिल्ली फुलां तशींच. आसल्लें आसा तशें अुलयतांव. आमी लायनांव या लुबानांव या अिंजेक्षनां तोपीनांव. म्हजी तलवार पळेलायवे ? कितलीं कोरोड वर्सां जाली कोण्णां. मिगेलिकडे आसल्ली ती पोतार मोन्या मोन्यांची साबसिणिच्या पाळा बरी जाल्या. आमी खैं हातेरां करतांव ? मिगेलिलागीं अेक भालो आसल्लो. देंवचाराचें कट्टें कोंकताना दांडो मोडल्लो तसोच आसा आजुनी. तुमी हांगा बॉ केल्यात खैं गांव लासूंक. तुमी हांगा कायदे केल्यात दुबळयांक तासूंक आनी ग्रेस्तांचीं पोटां पोसूंक. हांव निकळतां. आमची भास मात्र तुमचे भाशे बरी कशीय घाशी नांका.

फर्माण दिलां सोम्यान सर्वेस्परा
बरें करून आयक अिजिदोरा
आमची भास मोनजातिंची
कोगळिची, कावळयांची, किट्टाची आनीं किट्टिची
आयक, भोग आनी संतोस पाव
जाय तशी घाशी नाका, पोरन्या कुंडयात पुशी नाका
ही जाणवाय तुका मात्र
आनी हेरांक केदीं सांगशी जाल्यार
अुगडास दवर
तेच घडये रयाच जाग्यार
तुका मरण, मरण, मरण . . .

(तो फट्ट करून चलताना किट्टा घोंकता आनी किट्टी मियांव करता आनी त्या नादांत प्रोफेसराक तांची भास समजाता. किट्टा गाब्रियेलीक धांवडायता)

**किट्टा** : रातचो येनाक चोरा बरी परकी मनशा ! हें कोणाचें तुज्या बापायचें घर या तुजे बायलेचें कुळार ? हांव राय हांगा आनी हें म्हजें रावळेर (पाटीं धुंवोन) तूं काहलें बिंडिसोलां सोलतायगो मेटार बसोन माजरिणिच्या पिलकाटा ? भितर राण्णीण्या खुरार बसोन स्वताच्यो अवो मार.

**किट्टी** : तुका कित्याकरे जळता ?

**किट्टा** : जळनासतना, माळचार नातन्याचे गोण्येक वुराक जाला आनी गोण्ये

वेल्यान अुंदीर धांवताना अकेकच नातऱ्याचो कण सकला पडचो म्हाका आयकाता.

किट्टी : व्होय आयकाता. तुका कितें जळतागी म्हण विचारलें.

किट्टा : तशें विचारलेंवे तुवें ? कानांक कांय कातो साणशिलायगी म्हण चितलें हांवें. धन्याचें बदीक तें गोयेंतल्यान गळता, तुज्या बापायची आस्त म्हळचाबरी चिंती नाका. तुजो बापय पंचफकिराबरी, तुजी आवय गुरवार आसतना धांवल्लो तो तूं जलमता पर्यंत हेवशिल्या सुत्तुराचेर नातल्लो खें तो खें नातऱ्याच्यो गोणयो माळचार दाळतालो.

किट्टी : अळेरे परदेशा, घाल्लें खा आनी कोणी येताना घोंक नातल्यार चिंवोन घाल्लीं दोन हाडांय मेळाशीं नांत तुका हांव फोरीन रिटर्नड़ा गेलें माजर. अिंगरजेंतल्या कुजनेराचे न्हय, खुरार बसोन गोणयेंतल्यान गळचे नातऱ्या कण मेंजूंक रेफ्रिजिरेटरांतलें दूद पियेतां. दिसाक अेक मुदो लोणी खातां. म्यांव.

किट्टा : खेल्ल्याचो अुपकार आसाजेगो, घागेऱ्याचे बोडये. धनी दर्या भायर वेच्या आदीं तुजी आजी वर्साक अेक हाडा कुडको मेळाजे जाल्यार दिसाक पंदरा पावटीं तुज्या धन्याच्या बापायचे पांय लेंवतालो. धनी भायर गेल्या अुप्रांत सगळीं चरवेल्यांत तूंच कित्याक ?

किट्टी : तें व्हडलें तुया काजुचो मुट्टो फोकाचें सर्ल आजून घट जावना, त्या लंगडयाचो मोग करता.

किट्टा : (घोंकून) तुका कित्याक गो भाणशिऱ्या धन्याचे धुवेची खबर ? हांगा ये शेणकुटा गुड्डायतां तुका. खेल्ले बशयेंत म्हेळें करताय ? किट्टी, हांगा येगो . . .

किट्टी : कितें रे अुबेलोय !

किट्टा : हांगा ये गो.

किट्टी : तुज्या लागीं म्हुणीं येना.

किट्टा : आमचें न्हयेगो तूं. तुका पोर तो शेणगेलो बोकूल धांवडावून व्हर्न बांयचे पेळये रागल्यान गोंगेराच्या पाळाक चिरडिताना हांवें न्हयवेगो नाच्या पेंकटाक घास काड्न तुका सोडयिल्लें.

किट्टी : तुका कित्याकरे तीं अशीक प्रसंगी कामां ? चिड्डिल्यार कितें खातोगी म्हाका तो ?

किट्टा : ये अनुपकारी बोकडे . . .

किट्टी : व्होय बोकूड म्हज्या जातिचो, तुका कित्याक धांवडायजाय ताका ?

किट्टा : मागीर बोबो कित्याक मारतालेंय ?

किट्टी : केन्नाक दितां आतां. हांव संतोसान बोबो मारतालीं. बोबो मारल्या

फारा धांवडायजायगी तुवें ?

**किट्टा** : तें मोरोंगो. लुयाचें आनी त्या लंगडचाचें कितें जालें ?

**किट्टी** : हो दूमप्पा हांगा भायर निदला. निदा नांका म्हण तें म्हणता हो कोटरुयां पाटल्यान आनी तें लंगडचा पाटल्यान . . .

**किट्टा** : कसल्यो अुमग्यो अुलयतायगो ?

**किट्टी** : तीं आज धांवताहरे अप्पा. ताणें रातीं येव्न लोव दार थापुडतां म्हळां. तें भायर येतलें आनी दोगांय अुसाळतलीं. मोग करतातरे तीं कोय मांडनातल्लीं तोरां. आतांच्या अिस्कोलानी शिकपच मोग करचें जाला खैं.

**किट्टा** : केदाळा येता तो ?

**किट्टी** : येंवच्यार जालो.

**किट्टा** : आयल्यार गोमटचाकच घास मारतां.

**किट्टी** : तुज्या पेंकटाक तूंच घास मार, दांत खोरजतात जाल्यार. तीं धन्यगेर्लीं पिलां, तुका कित्याकरे तीं आड मुठ्ठाळांचीं कामां ?

**किट्टा** : हांगा ये खेल्ल्या घराक घात चिंतच्या आग्याच्या पिला. तुका आतां अुबेंच चिरतां हांव.

**किट्टी** : दांत घासून ये. मियांव . . .

**किट्टा** : निकळ राण्गिच्या खुरार. घूर घूर . . .

(तो धांवडावन व्हरताना किट्टी घरचे पाटलें बाटेन अुसळता. प्रोफेसर भोव गंभीर जावन)

**प्रोफेसर** : पोटा खातीर घराचेर पाट पडली पळेनांय कशी भुरग्या बाळांची वाट लागली. रातीं हांव हांगा पेंटाळेर जिवो जिवो पारो करताना धांवतात खैं. शिकयतां त्या गोंद्दयाच्या पुताक. पांट सोलन भिरयाचो पिटो लायतां. येमकोंडाक वेच्या पैलें हुलपोन मोरोंदी.

(टक्क टक्क करून दांडचांनी चलल्लो आवाज आयकता. किट्टा घोंकून मुखार येताना प्रोफेसर अेका पोंतार रावोन पळेता. दांडो आसा या ना म्हळ्ळें त्या काळकांत आमकां दिसा ना. पूण दांडचांनी चलची अेक व्यक्ती आंगणात येता आनी आंगार अुडच्या किट्टाक अेक अुंडयाचें काप दिता. किट्टा तोंडान घेवन घरा पाटीं धांवता. व्यक्ती मेटां चडता आनी दारार ठोके मारताना प्रोफेसर अुठोन ताच्या कोलराक धरता.)

**प्रोफेसर** : पुरो फडफशा मर्यादवंताच्या घरा चोरां बरी येनाका. तुजे मोगाचे वोरोड हांव अेक गुद्दू मार्न रावयतां. कितें वाट लाबली ह्या घराची, वाली वैलें पिपरें आकाशाच्या गिदाक आशेता. मोग करताय हराग्या?

अेक पाय मोडल्लो पावनातल्ल्याक तुजी मोडानातल्ली दुसरी दोंकळी मोण्ण घालतां.

(तो ते व्यक्तीक वोण्ण सकला घालतना बोबो मारता) लुया, लुया, अळे तुजो लंगडो आपौन व्हरोंक आयला. घरचें सुणें माजर तुज्या ह्या जल्माक हासतात.

(तेदना रे व्यक्तिचेर तांबडो प्रकास फांकता आनी भोडवो गाब्रियेल तलवार वोड्न रागान अुबो जाता.)

गाब्रियेल : प्रोफेसर अिजिदोर
ज्ञानान भरल्ल्या
सर्गिचो सोमी आतां तुज्या सांगाता ना
तुवें फर्माण मोडलां
तुजें ज्ञान आतां झडलां
मोर्नाक तयार जा . . .

(तो तलवार अुबारावन मुखार येताना प्रोफेसर सगळोच कंगाल जावन पेळये पर्यंत चलता आनी तेंकता.)

प्रोफेसर : माफ कर, गाब्रियेला, तुजे पांय धरतां. तुजे माफ मागतां.

गाब्रियेल : (तिकशें निवळोन) तुजी भास कशीय घास अिजिदोर, पुण आमची भास मोडकेचे पाटीक घाशी नाका. तुमची लजमांडी करी जाता. तुका हे घडये सोडतां. आज कोणेंय तुका आयवल्लें ना. आन्येक पावटीं अेक अुतर भायर जरतर सांगशी तुजी तकली तुज्या खांद्याचेर उराशी ना.

(गाब्रियेल नपैंच जाताना घाम पुशीत प्रोफेसर आड पडता आनी अिल्ल्या वेळान घोरेताना किट्टी व्हडल्यान हासोन भायर येता. पाटल्यान किट्टाय आनी प्रोफेसरय अुटोन दोळे पुसता.)

किट्टी : ही ही ही ! मियांव. अेक काप अुंड्याक कुंड्यांत नाक घश्टूंक तयार आमचो किट्टा. तुजी आवयी तशीच आसल्ली म्हण म्हजी आवय तशीच आसल्ली म्हण म्हजी आवय सांगताली.

किट्टा : अुलयशी जाल्यार चुजे पाटिचें हाड मोग्ण सोडतां, काळजिन्याचे काडये, बिडयो बांदच्या चेडवांनी निट्टचो काडल्ल्याबरी.

किट्टी : (मेटार चडोन) मागीर व्होडोल व्हडलो धन्याच्या मोगाचो, नातन्याचे कण मेजतालोय. आतां धन्याचे धुवेक लंगडो व्हरोंक येताना अेक अुंड्याचें काप घेवन किट्टा पिडच्यो . . .

किट्टा : म्हाका खुबळनाका, फोडकेच्या कुडक्या . . .

किट्टी : म्यांव. किट्टा लेंव्टो . . .

किट्टा : तुजें चांबडें सोल्न लुयाक अेक चेपें करतां काजराचे काडये. (गुंरकेवन लागीं येता)

किट्टी : आंगार हात घालशी जाल्यार भोकोरतेलीं बोंडाक, दांवल्यो अुदेजे कोटारले येदचो, म्हार्णेमीक वेस घाल्ले बरी दिसाजे. ही . . . किट्टा लेंवटो . . .

किट्टा : (ताका धांवडावन) हांगा ये फातराक आपटितां तुका. धांवताय खैं ? तुजे बरी घरच्यांचें मोर्न भायर दवरल्यावरी खुरार तोंड पुशीत बसना. हांवें करचे सेवेचें अेक कूस पुणी करतायेगो तूं सुकल्ले कांडये. नाका लागीं अुंदराचें चिवळें आयल्लयारी तुका अुटोंक कायलातो घालिजे . . .

किट्टी : मागीर कित्याक अुंड्याचें काप काण्वेव्न धावलोयरे शेजारचो पोर येवन घरच्या पोवळ्याक अुकोलताना. किट्टा लेंवटो.

किट्टा : (धांवडावन प्रोफेसर बसल्ल्याकडे व्हरता) तुका लेंवटो दाकयतां.

प्रोफेसर : (ताका आडाव्न) किट्टा, किट्टा नाका पुता. आमचें माजर तें. (किट्टा 'कांय, कांय' करीत कुशीन वेता)

किट्टा : हांगा ये गो, किट्टी.

किट्टी : येना.

किट्टा : येगो.

किट्टी : कितें रे परतून अुबेलोय ?

किट्टा : हांगा येगो.

किट्टी : तुज्या लागी म्हुणी येना.

किट्टा : तू आमचेंच न्हयवे किट्टी.

किट्टी : (तिके लागीं येवन) कितें रे चरबेलोय ?

किट्टा : त्या दिसा तूं आनी गोद्दा गेलें माजर दोगां आसताना तो गोऱ्या तोंडाचो बोकूल गोद्दयागेल्या माजराकच अुमे दिताना तूं चडबडतालेंय . . .

किट्टी : अळे तें पुणी सांगा नाका, भाकोरतां तुका, भोकेरतां तुका.

किट्टा : तेदाळा हांव लोव पाटल्यार येव्न गोद्दयाच्या माजराक धांवडाव्न व्हर्न गेलों. मागीर तुमी दोगांच चांदण्यांत . . .

किट्टी : अळे तुजे लागीं आनी मुखार उलौंची ना. तें पुणी सांगा नाका . . .

किट्टा : लागीं ये.

किट्टी : कितें ? (लागीं येता)

किट्टा : म्हाताऱ्याक आमी अुलयल्लें कळना म्हणिगो.

किट्टी : ताका कळता शेळें. मियांव.

किट्टा : आमी अुलयताना पाच्चे पिरांदा बरी तकली हालयता, हासता पळे पळे ताका.

किट्टी : ताका आरब्यांचो रोग लागला. आमची भास ताका कितें समजाता म्हण. तांची आमकां खैं समजाता म्हण.

किट्टा : व्होयगो तूं म्हजे तमाशे करताय. त्या हराम्यान दाकयिल्लें अुंडयाचें काप म्हण चितूनंच हांवें घास मारलो. घरा पाटीं वचोन पांयांनी धर्न वोडतां जाल्यार तें रब्बरा बरी लांब येता. मेल्ले म्होशिचें मास जाल्यारय अिल्लेंशें मोव आसा गो कसलोगी पास्टा कुडको हांवें दोन भोंवाडे चाबताना दडामां वोंळ्ळीं. शेडिचे मातयेचीच रूच.

(किट्टी वोमतें पडोन हासता.)

किट्टी : जायजे तुका. तुवें लेंवटेपणां करच्याकी मीत ना, तुवें धन्याचे पाय लेंवच्याकी लेक ना. हांव पळे, खैंच्यायकी मीतमेर आसा. गोण्तेल्यान नातनो गळता म्हण हांव कांय तकलेन विरार जायना. तिकें लागीं येरे.

किट्टा : आतां तूं कितें अुबेलेंयगो ?

किट्टी : लागीं येरे किट्टा.

किट्टा : लागीं आयल्यार दावली मारची सवय आसा तुका.

किट्टी : तें, तूं नाका लागीं नाक हाडताना. खैंच्या ताळण्यांत नाक बुडयिल्लें कोण जाणां, तुजें शेळमोडें नाक लागीं येताना म्हाका हींव खाता. व्होड न्हय, अिल्लो लागीं ये.

(तो लागीं येतच)

हांव भितर पावल्लीं. कितें तरी घडबड जाता.

किट्टा : कसली घडबड म्हणतायगो तूं ?

किट्टी : सायबीण न्हेसता, बांधता, फाकुडता, नितळ करता . . .

किट्टा : कितें तें धनी गांवाक आयलो म्हण ही कांय आरबी देसाक भायर सरलिगी ? आयिल्ल्या गेल्याक आज काल पेट्रोलाची मूर येतामुंगो ?

किट्टी : अे किट्टा ! कित्याक अुपकारलेंरे तुका अेदें लांब नाक आसोन ! लागीं येताय, हुंगताय आनी खांवचें जाल्यार घास मारताय. परमळ आयल्यार तो पास्टा कुटको जाल्यारी परवो ना तुका. अिताें वर्सां ह्या घरच्या दारार पातळोन आजुनी धनिणिचो जाल्लो दीस खबर ना तुका.

किट्टा : हांव खैंच्या दिसा जालां म्हण म्हाका खबर आसल्यार ! भश्टे आवनारगो ह्या मनशाकुळाचे. जाल्ल्या दिसाक वेस घाल्ल्या बरी न्हेसलीं, खाव्न जेव्न कुसलीं, आनी बँड व्हाजौन नाचलीं. कितें

बांधलां त्या दिसाच्या पेंकटाक, मैसुरचें भांगर या माडये वैली भिगार ? घाटिमोटी केक, केकिचेर वातीं, लोकाचे जमे आनी त्या दिसा जाल्ल्याचेर राशिचे अुमे. थोडे जण पत्रांचेर फोटो छापून आनी शेंबोर वर्सां वांचोदी म्हण लोका करना मागोंक सांगतात खैं

किट्टी : अळे, तूं तुजी जाणवाय अुलयनाका. भितर घडबड जाता म्हणतां हांव. हो फिलोसोफी अुलयता.

किट्टा : म्हाका कळना तुजी अुमिणी.

किट्टी : आमच्या शेजारच्या गोद्दचा आरान्हाचो जाल्लो दिसी आयच्या दिसाच पडता म्हण म्हजे आवयची आवय म्हज़े आवयक सांगताली म्हण म्हज़ी आवय म्हाका सांगताली. आतां सोळा वर्सां थाव्न ती ह्या दिसा जेवण घेव्न तांगेर येता. ताची बायल अेक चेरको जाल्या अुप्रांत तिशिल्या संसाराक गेल्या. घरांत कामाची अेक अरधी फिरकी बायल आसा. ती राण्णीच्या लांकडां सांगाता गुस्पाली जाल्यार हेवशिल्या संसारांत आसाना. तो बिरिच्यो बोत्ली अुगत्यो करता. ही जेवणाची पोटली सोडयता. तो आवाजाचें मिशीन दवरता. ही हाताक हात दिव्न नाचता. हांवें खुद्द पळेलां अेक पावटीं तिच्या पाटल्यानंच वचोन.

किट्टा : (दांत किरलून) मोनजातीं मधें माजर न्हय, मनशां मधें शेजार न्हय. तो थैं अुलपोंचे रेंवेर गोळ दिता आनी हांगा घरची बायल जाल्ल्या दिसाक शेजारच्यांक मासां खावयता.

किट्टी : तितलेंच न्हय रे रामप्पा. तो हेरेका वर्साक अेक नोवें कापड हिका अिनाम दिता. ती तें त्याच दिसा न्हेसता आनी रुंबा नाचता.

किट्टा : (दांत किरलून) देकुनंच तांच्या देवान तांकां अेक येमकोंड केलां. अशीं जेवणां केल्ल्यांक आनी कापड घेतल्ल्यांक रोस्ट करूंक

किट्टी : हो अेक अुटलो कुडकुड्यांतलो सांत. तो बाराय काळ देव्ंदेस रावोंदी आनी ही येमकोंडांत रोस्ट जाता म्हळ्ळचा भियान राण्णी लागीं बसोंदी. तुका अक्कलनारे किट्टा तकले भितर मुक्कालाचें. दोन किलो दांत मात्र. शेजारचो बोकूल अेक दीस हुंकारे दिना जाल्यार म्हाका नाका लागीं शेवटाळयाची खोरू धरल्यारी खांवक मन येना हें मनशाकूळ हो पोटाच्या गत्तिगाटाचो त्रिख कसो सोसतागी म्हाका कळा ना.

किट्टा : अे जिरगी मिरसांगे, अेक हात नाकाक धर आनी दुसरो हात तोंडाक धर खेल्ल्या घरा घरच्यांचीं कुलगां काडी नाका. तुज्गो काती सोलतां आतां.

**किट्टी :** नाकशो वडाच्या रुकाक पाजून ये, म्यांव.
(तें धांवता आनी ताच्या पाटल्यान किट्टा धांवल्लोच दार अुकतें जाता आनी आयोना हातांत अेक बास्केट घेवन भायर येता. ती सवकास दार वोडता आनी तेदाळाच कुशीन रावल्लो प्रोफेसर अिजिदोर वोमतो पडोन हासता.)

**आयोना :** अिजिदोर हासताय कित्याक कळाजे म्हाका.
(तो आनिकी हासता)
अिजिदोर तसो बीर पियेल्ल्या बोकला बरी हासताय कित्याक कळाजे म्हाका.

**प्रोफेसर :** तुज्या हातांत कितें कळाजे म्हाका.

**आयोना :** म्हज्या हातांत वालिंची बास्केट आसा. तांतू तुका पिशां बरी हासोंक कितें आसा ?

**प्रोफेसर :** (आनिकी हासोन) तुज्या हातांत बास्केट आसा म्हण म्हाकाय दिसता, आयोना अिजाबेल्ला. पूण बास्केटींत कितें आसा म्हण कळाजे म्हाका.

**आयोना :** बास्केटींत माजराचीं पिलां.

**प्रोफेसर :** हा ! हा ! हा ! खैंच्या माजराचीं आयोना आराबेल्ला ?

**आयोना :** तूं कलवंतां बरी हासताय, अिजिदोर. म्हजे नांव अिजाबेल्ला.

**प्रोफेसर :** हा ! हा ! हा ! तूं मुंगायेक गोड पुसून म्हाका फुसलाय नाका. खैंच्या माजराचीं पिलां म्हण आतांच्या आतां कळाजे म्हाका. हा ! हा ! हा!

**आयोना :** हांव तकलेचे अिस्कूर झडल्ल्यां कडे अुलयना.

**प्रोफेसर :** अुलयनांय, या अुलौंक तुजे तकलेचे अिस्कूर पावा नांत. खैंच्या माजराचीं पिलां तूं बास्केटींत घालून व्हावयता ? माजराचीं पिलां तूं बास्केटींत घालून ह्या वगतार खैं वेताय ? माजराचीं पिलां बास्केटींत घालून तूं कित्याक असो साडो न्हेसोन भायर सरलांय ? हा ! हा ! हा ! तुजो पिटीकोट दिसता. हा ! हा !! तुजो पिटीकोट दिसता आयोना आरा . . .

**आयोना :** तुज्या आंगार पुणी येवनाम् ?

**प्रोफेसर :** म्हज्या आंगार पुणी येवना. विज्ञानी हांव. विज्ञानिच्या आंगार देंवचार येंवच्या आदीं तो धा पावटीं चिंता. तो बऱ्या मनशांक नाडूंक येना, बायले. तो पैलो अेत्रेक नाडूंक गेल्लो आनी तेदाळा अेब कशी आसल्ली? वस्तुराचो तीर नातल्लो आंगार. तो मागीर जोबाक नाडूंक गेल्लो, ताचें लागीं तांब्यान काडल्ली तार नातल्ली आनी सगळ्या आंगाक रुंवां जाल्लीं. मागीर तो जेजूक नाडूंक गेल्लो आनी तो भुकेन कंगाल

जाल्लो. म्हाका नाडूंक येना तो. घरा भितर धादोशी आसा आनी बेंकांत अेफ. डी. ची रास आसा. देंवचार गोट्यातल्या म्होशींक लागता आणी पोटाक कांय नातल्ल्यांक लागता. नाडांतल्या बुद्दूंक लागता. तूं म्हाका विसराय नाका, आयोना अिजाबेल्ला. ते बास्केटींत तूं कितें भर्न कोणाक व्हरताय म्हळ्ळें आतांच्या आतां कळाजे म्हाका.

**आयोना** : (व्हडल्यान) हांव बास्केटींत माजराचीं पिलां व्हरतां म्हळचार तुका समजातागी ना अिजिदोर.

**प्रोफेसर** : खैंच्या माजराचीं ? हा ! हा ! हा !

**आयोना** : किट्टिचीं.

**प्रोफेसर** : किट्टी गाब आसल्लें हांवें पळेंवकच ना.

**आयोना** : पळेंवक तूं खंय आसाय म्हण हांगा ? गांवा वैर गांव पडल्यारी तुका कांय खबर ना. भुरगीं पास जावन असल्या असल्या क्लाशींत पडल्यांत म्हण बरयल्यार तुका कांय अुगडास अुरना. लुया आयलेवार अिल्लेशो धोशी करता म्हण बरयल्यार तूं गांवाक येताना तुका खबरच ना. घरच्या माजराक देव तीन महिन्यांक अेक पावटीं बेसांव घालतान तुका कशी खबर आसची ?

**प्रोफेसर** : ती पिलां बास्केटींत भर्न तूं खैं व्हरता ?

**आयोना** : व्हाळाक अुडौंक व्हरतां.

**प्रोफेसर** : कित्याक ?

**आयोना** : आनी कितें आसल्लीं भुरगीं पावानातल्याक माजरां पोसचिगी ? किट्टीन दवरल्लीं पिलां तशींच सोडल्लीं जाल्यार आतां घरांत कांय देडशें माजर आसतें.

**प्रोफेसर** : तर तूं तांकां व्हाळाक सोड्न जीव काडताय. जीव तितलो सवाय जाला तुका. पळेयां हांव तिकें किट्टिच्या बिल्लूंक पळेतां.

(बास्केटीक हात दिता पूण आयोना चुकयता.)

हा ! हा ! हा !

**आयोना** : तुका हासोंक कितें जालां ?

**प्रोफेसर** : म्हाका हासोंक पिशें लागलां, देंवचार आंगार आयला, आयोना अिजाबेल्ला. तूं बास्केटींत कितें भर्न कोणाक व्हरताय म्हण म्हाका कळींत आसा. बत्तीस लांब वर्सां हांव तुजे खातीर आनी तुका जाल्ल्यां खातीर परगांवांत गोळ दिव्न आयलां. तुजे केस सुकौंक हांवें ड्रायेर हाडलां. तुजी मासळी थंड दवरोंक मिशीन हाडलां. तुका न्हेसोंक हांवें हाडल्लीं कापडां अेकामेकाक बांदल्लीं जाल्यार अेक पोंत काश्मिरांत दवरल्यार दुसरें कन्याकुमारींत पावता. तरी भिकेचें अेक कापड हाडूंक

तूं शेजारा येताय.

**आयोना** : हो कितें तोंडाक आयिल्लें झांकुळता !

**प्रोफेसर** : तर तुजे बास्केटिंतलीं माजराचीं पिलां भायर घाल, आयोना मिराबेल्ला...

(तो बास्केट वोडूंक पळेता आनी ती पाटीं वोडता. थोडो वेळ तांचीं वोद्दुवरांट चलोन क्रमेण तो जिकता आनी बास्केट सोडौन अेक केक भायर काडता.)

**प्रोफेसर** : हें कोणाचें पील, आयोना अिजाबेल्ला... हा ! हा ! हा ! म्हजी जिणी परगांवचे रेंवेर जाली आनी म्हज्या घरांत काणी पाडारी जाली. अुलय म्हजे बायले, तुजीं माजराचीं पिलां व्हळाक पडच्या आदीं लिंबाक गेलीं. हा ! हा ! हांव न्हय, तुज्या जल्माक ह्या घरचें सुणें आनी माजरय हासता. हा ! हा ! हा !

(घरा भोंवतणी सुणें माजर हासल्ले बरी आयकता. त्या आवाजांत गोद्दे भाशेन अेकलो अुलयिल्ल्या बरी आयकाता.)

**ताळो** : आयोयां, चूं चंय गेयांय आयोयां आज जायतो दीच आनी यांय बियिच्यो बोचली जेव्न राकतां. धय धय कापड धय, आयोयां.

(कोणगी अेकलो हातांत कापड घेवन, आंगणांत रिगताना आयोना वगत पळेव्न बास्केट ताच्या हातांतली वोडता आनी मेटां चडोन दारा भितर अुसळता आनी प्रोफेसर शिरीं सुकता. आयिल्लो मनीस मेटां चडोन दार बडयता आनी ताळो सगळ्या हितलांत गाजता.)

**ताळो** : दाय अगचें कय, आयोयां. जाय्या दिचाचें कापय धय आयोयां.

**प्रोफेसर** : अेय आमाल घोटल्ल्या काळ्या कोटरुयां. लज नातल्ल्या लजमांड्या ! कोणाच्या दारार येव्न कोणाच्या बायलांक बांग दितात ? तुजें कापड मात्याक रेवडाय आनी तूं व्हळांत निसरोन पड, पडटना कांटयेच्या बोल्याचेर पड. तुजें आंग फाफसोंदी. दोळ्यांत कांटे रिगोंदीत, मासां भेसोंदीत, नास जा हराम्या, काबार जा...

(ताका धर्न वोडता आनी अबळे सर्व ताळे बंद पडतात. विचित्र अेका प्रकासाक आंज भोडवो गाब्रियेल हातांत तलवार वोडून अुग्र रुपार अुबो जाता. ताचे खाकयेंत अेक कापडा बरीच आसा.)

(ताच्या पायांक सरपडोन) मार, मार, गाब्रियेला, म्हज्यान हें सोसूंक जायना. म्हजें परगांवचें पेण म्हज्या गांवाक कशेंय लुकसाण जालें. म्हज्या घरच्याशी देस्वाटेक कारण जालें. म्हजीं ड्रायरां केस सुकयतात पूण भूक थांबयनांत. म्हजीं रेफ्रिजिरेटरां खाण थंडायतात पूण अत्मो थंडायनांत. मार... नातल्यार अेक पावटीं सोड... आनी मुखार

अेक सब्द अुचारी ना.

**गाब्रियेल :** म्हज्या सायबान तुका पारकूंक हो वर दिल्लो, अिजिदोर. मोनजातिंची भास समजोन तुजी तान भागलिगी ? या दिले भाशे प्रकार तुजी गोमटी लुंवोन वचों ?

**प्रोफेसर :** म्हाका माफ कर गाब्रियेल

**गाब्रियेल :** आमच्या सायबाची दया अपरिमीत आसा अिजिदोर. तूं हे पावटींय वांचलोय. पूण अुगडास दवर तूं मोनजातिंची भास समजताना मनशांचें सैराण किमची नाका. तांचे गूट मोनजातिंच्या तोंडांतल्यान आयकोन तांचे वैरच वापरी नाका. भास दी अिजिदोर.

**प्रोफेसर :** जायत गाब्रियेल. हाच्या उप्रांत मोनजातिंनी अुलयिल्लें आयकोन मनीस जाल्ल्याक सांगा ना.

(तो पेंटाळेर कोसळता पूण तक्षण अुटोन बोबाटता.)

गाब्रियेल, गाब्रियेल.

(गाब्रियेल परतून प्रसन्न जाता.)

**प्रोफेसर :** हांव अेक गजाल तुका विचारता राग पुणि नामू गाब्रियेल ?

**गाब्रियेल :** आमचो राग घडयेचो अिजिदोर. किते गजाल ती ?

**प्रोफेसर :** आतां गोद्दे भाशेन अुलौन आयिल्लो तो आमचो शेजारचो अरेंयं या तूं ?

**गाब्रियेल :** हांव गोद्दे भाशेन अुलौन येवना. तुजो जोप तुका धोसता जशी खोरजुळचाक खोरोज धोसता. तुज्या अंतस्कर्नांत कसलो तरी मोसराचो किडो कांतयता आनी आयिल्लया गेल्लया कडे गोद्दो दिसता.

**प्रोफेसर :** फोटी मारी नाका. ताच्या हातांत अेक कापड आसल्लें.

**गाब्रियेल :** फोटी आनी सता मधलें भोव ल्हान अंतर आमी सर्गा राज्यांत काणस मार्न तासून अुडयलां सायबा. हांवें कापड हाडूंक ना.

**प्रोफेसर :** ही ही ही ! हें कापड न्हय, लुंगी. सर्गार आमकां धोवेंच न्हैसोन वीट आयलो. सासणाच्या सासणा थाव्न धोवे दगले, धोवीं कुपां, धोवे कोड्दांव, धोव्यो तलवारी आनी धोवी खाड मिशी. हांगाच्यो फुलांच्यो लुंगयो पळोव्न आशा जाली. म्हपळचाची अेक मारली. आतां हाका कितली अुड्डापट्टी आसा कोण्णा. तुज्यो जिनोस देकताना सायबान सांगल्लें जारी करूंक मन येता अिजिदोर. तुका दिल्लो वर पाटीं काडिजे पडता.

**प्रोफेसर :** तुका गोन्या जातिच्याक आमचे कश्ट कळा नांत.

**गाब्रियेल :** देकून तुमकां मनशां जातिच्यांक ही मोनजातिंची भास कळा नाये. तुमी आयकतात आनी मोसरान शिजतात. तूं बत्तीस वरसां गांवांत

नातल्लोय.

**प्रोफेसर** : व्हय.

**गाब्रियेल** : गोद्दो गांवातच आसल्लो.

**प्रोफेसर** : व्होय.

**गाब्रियेल** : तूं तुजे बायले भुरग्यां सांगाता नातल्लोय.

**प्रोफेसर** : नातल्लों पूण हांव नातल्ल्या घरा ताका येंवक कोणेय सांगोंक ना. देकून हांव अधून मधून गांवाक येताना ताचे लागीं अुलयना. ताच्या मुस्कराक सैत पळेना तूं जाणांय हांव नातल्ल्या वेळीं ताणे ताच्या आनी म्हज्या हितला मधें आसल्ल्या मातयेच्या दोऱ्या बदलाक फातरांचो पागोर बांधला. तसो पागर बांदताना म्हज्या जाग्यांतलो चार फुटी जागो चोरला. हांव ताचेर दावो मांडतां. हांव सोडीना. सुप्रीम कोडती पर्यंत सोडी ना. देकुनच तो दोरो अुडतना ताच्या पुताचो पांय मोडला. म्हजे धुवे खातीर अुडताना ताचो पांय मोडलो देकून तो म्हजेर दावो मांडता खै. पळे, कसो न्याय आनी नितीक पोळचा तेदो घाय जाला. थोट्याच्या गांवाक पांय नातल्लो राय जाला.

**गाब्रियेल** : तूं भेश्टो मोसोर करताय अजिदोर. तुज्या आनी ताच्या घराक येंवक मातयेचो अेक मारोग आसल्लो. ताणें म्हिनत केली, दस्कत्यो घाल्यो. पांय धरले आनी झूज मांडलें आनी धूळ वचोन तार घाली. पूण तो आनिकी सायकल वोचिच्ताना तूं त्याच मार्गार कार सोडताय. खैंच्या न्यायाक केदो घाय जालो ? ताणें जोडचे तार रूवयेक आतांय टेकसां पडतात. तुजी जोड आक्षेपाविणें भितर सरता. न्याय नितिची गजाल म्हाका सांगा नाका. हांव तुका पात्येना. तुजो वर पाटीं काडतां.

**प्रोफेसर** : नाका, नाका, गाब्रियेल. हांव जिणीभर मोनजांतिचो ताळो समजोंक घोळ्ळां आनी वोळ्ळां.

**गाब्रियेल** : तर मोनजातिचें अुलोणें मनशांचेर थापी नाका. त्यो तुमची खबर अुलयताना पातकांची मूर अुटता व्होय.

**प्रोफेसर** : व्होय, ती पातकांची मूर अुटताना म्हज्या नाकाक दोन बुराक नातल्ले तर जातें आसल्लें.

**गाब्रियेल** : तूं लेक नातल्ले वर मागताय. आत्तां मोनजातिची भास जाणा जावंक अत्रेगताय. आत्तां नाकाचे बुराक बंद कर म्हणताय. म्हज्यान बायना तें. तुवें मोनजातिनी अुस्तिल्लीं पातकां तुजे बायले भुरग्यांच्या गळ्यांत चेपी नाये.

**प्रोफेसर** : जायत. हांव शेजाऱ्यां लागीं कसोय अुलयना. फाल्यां थावून बायले

भुरग्यां लागींय अुलयना.

**गाब्रियेल** : तुजी खुशी. मोनजातिच्या अुलोण्यांच्यां सुवयांनी तुवें शेजाऱ्याचे कान तोपी नाये.

**प्रोफेसर** : ना. हांव कोणायकी कांय सांगा ना.

**गाब्रियेल** : तर बरें करून आयक अिजिदोरा,
फर्माण दिलां सोम्यान सर्वेस्परा
तुमची भास कशीय घास
आमची भास घासच्या आदीं येमकोंडाच्या अुज्यांत लास
खैंचेय घडये, खैंच्याय दिसा अेक अुतर
कोणाक सांगशी तेच घडये, त्याच दिसा तुका
मरण, मरण मरण.
(तो अुसळताना हितलांतल्यान मायाक राया मारीत आंबडून हाडता. तें रडता आनी ताका चिमटें काडता.)

**प्रोफेसर** : ताका कित्याक मारतायरे ?

**राया** : पळेनाका म्हळचारी पळेत अुबें रावलां.

**प्रोफेसर** : कितें पळेव्न अुबें रावलां ?

**राया** : ताणीं सांगा नाका म्हळां.

**प्रोफेसर** : कोणें सांगा नाका म्हळांरे?

**राया** : लुयान आनी किशोर आरान्हान.

**प्रोफेसर** : खै आसात तीं ?

**राया** : काजचा रुका पोंदा, खणयेंत.

**प्रोफेसर** : कितें करतात ?

**राया** : वळोन) म्हाका गोत्तुना.

**प्रोफेसर** : तूं कितें करतालोय ?

**राया** : पुरा विचारता.

**प्रोफेसर** : तूं कितें करतालोयरे ?

**राया** : कोणी लागीं येनाशें पळेतालों.

**प्रोफेसर** : कोणी लागीं येनाशें पळेंवक तुका कोणें सांगलें ?

**राया** : ताणींच. अेकेकल्यान म्हाका अेकेक रुपय दिल्लो.

**प्रोफेसर** : (अुबराव्न) हांगा ये फड्पशा. तुका वॉचमेनाचे काम हांव शिकयतां.

**राया** : (पैस सरोन जीब भायर घाल्न) ये . . .
(प्रोफेसर रागान हितलाक रिगता आनी खांद्याची अेक ताळी मोण्ण आडार करीत चलता . . . किट्टी आनी किट्टा हासोन हासोन भायर येतात.)

किट्टी : हांव पोंत मारतां.
किट्टा : कित्याक गो ?
किट्टी : कितें दिताय सांग.
किट्टा : कित्याक म्हण पैलें सांग.
किट्टी : कितें दितात म्हणोन पैलें सांग.
किट्टा : कित्याक म्हण सांग गो.
किट्टी : हांवें सांगल्लें आयकोन मागीर जीब दाकयनाका. कितें दिताय म्हण पैलें सांग.
किट्टा : बांगडयाचो अेक कुडको दितां.
किट्टी : नाकांत घाल. म्यांव.
किट्टा : अेक कुट्टें दूद दितां.
किट्टी : कानांत गाल. म्यांव.
किट्टा : धाटोमोटो बोकूल दितां.
किट्टी : म्यांव. म्याव. तशें आतां वाटेक ये. तेगांतलें अेक ताचें न्हय.
किट्टा : गुर्र... भास नातल्ल्या. तुका कित्याक गो ताचीं कुलपां काडिजे भाणशिन्या ? तांचें खाव्न तांकां कित्याक नेगार जातायगो ?
(हितलांत सावन प्रोफेसर लुयाक मार्न हाडता.)
किट्टी : किट्टा,
किट्टा : कितें गो अुबेलेंय ?
किट्टी . अशें कुशीन ये. तो आयकाता आनी समजाता म्हाका अिल्लोसो दुबाव जाला. (किट्टा लागीं येतच)
आमी चांदण्यांत कितलेशे पावटीं वेर्स म्हणतांव. आमकां कोणी आडारांनी मार्न घरा हाडतायेरे ? हांची अवस्था पळे. हांव खंडीत सांगतां. ह्या तेगां पैकी अेक ताचें न्हय.
प्रोफेसर लुया,
लुया : डेडी.
प्रोफेसर : म्हाका डेडी म्हणा नाका (चार पासयो मारून) लुया.
लुया : हूं.
प्रोफेसर : कसले हुंकारे दितायगो ?
लुया : डेडी म्हणचेंय नाका म्हणताय.
प्रोफेसर : कित्याक म्हणाजे, कोण म्हाका ह्या घरांत आयकाता. ल्हान व्हड म्हजी ओळक नातल्ल्या बरीच चलतात. म्हज्या विणें ह्या धरांत कांय जायना म्हण हांव ते पैशिले रेंवेर रडतालों. हांगा रुकार काजू पिका नांत, भुरगीं व्हड जांवक सका नांत म्हण म्हजें रुदान देवाक धोसतालें

हांगा म्हजें चेडूं शेजारच्या चेडचा सांगाता . . . लुया तू थैंसर खणयेंत कितें करतालेंय ?

लुया : बेणसां विंचताली.

प्रोफेसर : हाता पांयांनी पडोन पाटीन आनी पोटान लोळोन बेणसां विंचचीं . . . तो कितें करतालोगो थैं ?

लुया : बेणसां खातालो. हांव विंचून दितालीं आनी तो खातालो. डेडी, ताचो अेक पांय मोडला. ताका बेणसां विंचूंक जायनांत.

प्रोफेसर : हांव कितें म्हणों ! हो काल बदला म्हणों या म्हजे गैर हाजरेंत मांडल्लो शेळो म्हणों. लुया, म्हजे मुखार, तुज्या बापाय मुखार अशें अुलौंक तुका लज दिसाना पुता ? लजेचो रोस तुज्या गलां वैलो जिरता, फोटिंचो घोस तुज्या वोंटां थावन गळता. बेणसां विंचूंक आनी खावौंक खणयेंत दोगांयनी लोळचें आसता ?

लुया : पांय निसरलो, डेडी.

प्रोफेसर : शट अप. रायाक रुपय कोणे दिल्लो ?

लुया : कोण्ण !

प्रोफेसर : तुवें रायाक थैं कोणी येनाशें पळेंवक रुपय दिल्लोगी ना ?

लुया : हांवें दिवना.

प्रोफेसर : राया तुका रुपय कोणे दिल्लो ?

राया : लुयान अेक दिल्लो. (बोलसांतले नोट काड्न दाकयता) लंगड्यान अेक दिल्लो.

प्रोफेसर : कित्याक दिल्लो ?

राया : कोणी येनाशें पळेंवक.

(प्रोफेसर अुबरायताना लुया चुकयता आनी राया लागीं वचोन ताका अेक गुद्दू घालता.)

लुया : तुका किशोराक लंगडो म्हणोंक नजो म्हळें न्हयवेरे फडपशा.

राया : (जीब भायर धाल्न) ये . . .

प्रोफेसर : तेगांय हांगा येया. मधें सालान अुबीं रावा.

(तीं रावताना)

किट्टी : हांव पोंत मारतां तें गोद्दें ताचें न्हय.

किट्टा : तें जलमताना तुवें संसार पळेंबनांय.

किट्टी : मांय म्हणतालीं.

किट्टा : म्हजीय मांय म्हणताली. त्या गजालिनी बायलांक पात्येनाये, फोटीच मारतात.

(तांचें अुलोणें आयकोन दिगभ्रांत जाल्लो प्रोफेसर तांच्या लागीं

येताना तीं पैस सरतात.)

प्रोफेसर : कितें समा म्हणताय, दूमा ?

किट्टा : (पैस सरोन) हांगा येगो भोरकुटे.

किट्टी : (ताच्या लागीं येवन) कितें कांपतायरे किट्टा ?

किट्टा : (भियान) आमी अुलयिल्लें ताका कळतागो.

किट्टी : ताका कळता बिडीसोलां. हांव पोत मारतां. तांतलें अेक पुणी ताचें न्हयच न्हय.

(प्रोफेसर अेक पावटीं तांकां पळेता आनी दुसरे पावटीं भुरग्यांक)

प्रोफेसर : (चाळवोन) खैंचें न्हय ? खेल्लया घरचो विकळाप करच्या जानवारांनो. (भुरग्यांक) थैंचीं हाला नाकाव्र, अेंडेकळांनो. म्हज्या रगताची साय लेगून तुमच्या तोंडार ना. म्हजे संस्कृतेची लव्र लेगून तुमचे कालेतींत मेळोन ना ज़ोगी नातल्ल्य. मठांत हांगा कोळिंद्राचें बिडार जालां कोंबयेच्या पोटा पोंदाक हासाचीं तांतयां.

(किट्टी आनी किट्टाक)

खैंचें खैंचें सांगा अनिश्टाच्यानो. (किट्टी आनी किट्टा अुडोन धांवतात) हांव तुमचें तोंड अुसौंक गेलों. अब्ळे तुमचें तोंड मोनें जावन संसाराक वांचयताना अुगतें जावून म्हाका बोंचायता.

(लुयाक) तुज़े दोळे थळथळतात नेणारी पोक्रिपणान आनी म्हजे म्हजे अुडदाच्या वोडयां बरी फुगोन दिसतात नेणारी मोसरान. लुया, म्हजें फुडलोद बेसांव तूं तेंतेसांवाचें किळ न्हय, तरी तुका म्हजें म्हणचें थैर ह्या जानवारांनी अपहरशिलेंमू भांगरा.

(रायाक)

राया, अुलयनाका. पाट कर. तोंड कर. बस. अूट. हो ! चितळाची सुडसुडाय कुडींत तुज्या. हस्तिची जडाय आंगांत म्हज्या. तरी म्हज्या अुमाळयांचें किर्ण तूं आव्लेसाचें किसर न्हय. कान दाकय. दोळे पळेयां, नाक्षो दाकय. तुका म्हजो म्हणचो मोग आवां शिरांचे अस्कतकायेन भोकायलोमू देवा.

(मायाक)

माया तूं उलयनाका. अुलयतना हरद्यांत म्हज्या सोरभुणाचो अुजो जळता. खाडकी दाकय. केस पळेयां. नाक मुखार हाड. अय्यो किट्टी, किट्टा तुमचें अेकच तोंड बंद जांवदी नातल्यार म्हजे कान बंद जांवदीत. अेक तोंड मात मात हो मिस्तेर जाणां आनी येतच हांव विचारतां, सांगना जाल्यार तोंड फोडतां. (भुरग्यांक) मांय खैं गेल्या?

राया : लंगड्यातेर.

**लुया** : (ताका अेक मार्न) किशोरागेर.
**राया** : (ज़ीब भायर धाल्न) ये.
**आयोना** : (भितर सरोन) हो कसलो तमासो !
**प्रोफेसर** : तुज्या तोंडांत चेपिजे आड्बसरो पळ्मासो : हो तमासो न्हय . . .
**आयोना** : तुवें किशोराक मारलेंय कित्याक, अिजिदोर . . .
**प्रोफेसर** : मेलोना. नातल्यार मारचेंच न्हय पुरतों.
**आयोना** : पूण तो कांय तुजो भुरगो न्हय. तुवें त्या पांय नातल्ल्या भुरग्याक आडारांनी मारूंक ?
**प्रोफेसर** : आनी कोण म्हजें ? तो म्हजो न्हय. हांतलें अेक म्हजें न्हय. तर कोण म्हजें ?
**आयोना** : हो मनीस गिरगीट जावनांमू ? आरान्हा तुजेर पोलीस फिर्याद करता खै . . . आनी हो . . .
**प्रोफेसर** : शट अप. ताच्याकी पैलें हांव त्या हराम्याचेर पोलीस फिर्याद करतां. हांव ताच्या चेड्याक कित्याक मारी ना ? म्हजी धूव आनी ताचो चेडो खणयेंत लोळोन अेकामेका बेणसां खावयतात. ही बुदवंतकाय तुवें शिकयल्याय म्हज्या भुरग्यांक, हांव पेल्या गांवांत गोळ दिताना.
**आयोना** : तोंडाक आयिल्लें घोंकी नाका अिजिदोर. भुरग्याक बुदवंतकाय शिकौंक म्हाका अेकल्याक तुवें कोंट्रेक्ट दिवनांय. तुका आज देंवचार लागला.
**प्रोफेसर** : व्होय. आतां जाल्यार निजायकी म्हाका देंवचार लागला. कित्याक पोतयेंतले कास मतीक अुल्लास दिनांत. अत्म्यांतले लास कुडीक अुल्लास दिनात. हांवें तुका फुडिची गिरेस्तकाय दिली तुवें म्हाका मतिची दुरबळकाय खावयलीय. राक्षिणी, सांग, हांतलें कोण म्हजें न्हय ?
**आयोना** : (ताका लोटून) तेगांय तुजीं न्हय. हांवें रिकार्डी दवरूंक नांत. हांवी तुजी न्हय. चला पुता भायर सरा. हो राक्कोस तुमचो डेडी न्हय. हो बोकूल. त्यांका आनी आमच्यां शेजारच्या बोकलाक कांय व्यत्यास ना. तोय जल्म दिव्न धांवता आनी थोड्या तेंपान पाटीं येव्न आपल्याच भुरग्यांक गिळता.
**प्रोफेसर** : (तिचो गळो फुगार कर्न) तूं वच. म्हजें न्हय आसल्ल्याक व्हर. म्हजें आसल्ल्याक दवर. नातल्यार तुका हांगाच काबार करतां, आंगणांतच पुरतां आनी ताचे वैर वाळचे भाजयेचो माटोव लायतां. लिंपयनाका. ह्या घरचें माजर सांगता. ह्या घरचें सुणेंय हांसता.
(तो आडार अुब्राव्न तिका मारूंक येताना भुरगीं बोबो मारीत

तांचे मर्द येतात)

आयोना : मिस्टर आरान्हा, मिस्टर आरान्हा.
(भायर ताळे आयकातात. दांड्यांनी चलचे आवाज जातात)

ताळो : जिचें आयोयां . . . जिचें आयोयां ?

आयोना : ताच्या आंगार आयलां.

ताळो : यांव आगमेंच हाच्चां. यांव आगमेंच हाच्चां.
(ताळे आनी दांड्यांचे आवाज लागीं जातात. दोग मनीस येतात अेकलो दांडयार आनी अेकलो असोच. दोगी ताच्या आंगार पडताना भुरगीं आनी आवय असळनात. तो मायाक आरावन धरता. अेक दांडो ताका लागता आनी दोगी बळान भुरग्याक आरावन चलतात.)

प्रोफेसर : आय्यो म्हज्याक पुणी म्हाका सोडा. कसली लज. कसली भिके पास्ट गत. सुणें आनी माजर लेगन हासता. (गोद्दयाचो ताचो आयकाताना तो अुटता. गोद्दो लागीं लागीं येता.)

ताळो : म्होज्या भुग्याक मायूक तूं कोयंगा ? गांव चुजो जालायेगा ?

प्रोफेसर : (पाटीं पाटीं वचोन) ये तुका पिसुडतां, पिसोंद्रचो करतां आनी भाणाचे रांदणीक चेपतां. तुजीं अतवणां सांगोन ह्या घरचें सुणें आनी माजर लेगून हासता.
(तो मेटा लागीं पावताना ताच्या कोलराक धरता. पूण थटक्क ! प्रकार फांकता आनी ताच्या मुखार भोडवो गाब्रियेल अुबो जाता. तलवार असयल्या.)

गाब्रियेल : तुका सांगचें सांगलें. पूण भोंगचें तें भोंगलें. सुण्या माजराचें अुतर सगळो वाडो भोंवलें. मोर अिजिदोरा. तुका मोनजातिची भास कळताना आपली भास विसराता. मोर.
(तो ताका पेंटाळेर लोटून जिवशीं मारता.)

प्रोफेसर : नाका, नाका. माफ कर. नाका, नाका. अय्यो रगत, रगत.
(ताचे बोबेक मोडवो मायाक जावन सगळीं निदेंतलीं भायर येतात)

आयोना : कितें जालें, अिज्जी . . .

लुया : } डेडी,
राया : }

माया : जेजी,

प्रोफेसर : सोपण पडलें.

आयोना : कसलें सोपण पडलें ?
(तो भुरग्यांक पळेवन शेरमैता.)
राया, डेडीक अेक ग्लास अुदक हाडन दी, पुता. (तो धांवताना)

पुरो आनी तुवें भायर निदल्लें पुरो. चल भितर वच. तुजें कोटरुंय सात पाताळांक वचोंदी.

**प्रोफ़ेसर** : आमचें किट्टी आनी किट्टा आसातमूं आयोना ?

(किट्टी आनी किट्टा अेके देगेन येवून बसतात. तो तांकांच पळेता आनी मायाक अुकलता)

**माया** : चिच्या रडलोय ज़ेजी ?

**प्रोफेसर** : भूक लागली पुता.

**माया** : (बोलसांत हात घालून) जय खा.

**प्रोफेसर** : कितें पुता ?

**माया** : मुचयें.

(सगळीं 'मुचयें' म्हणोन भितर येतात.)

(पडदो)

... ☐ ...

# 8.

# कोण कोणाचो न्ही !

## अशोक कामत

पात्रा :

सदूबाब :

दिलीप :

शांती :

दिपाली :

अनिल :

## १.

(सदुबाब हो अेक खुशालचेंडू गिरेस्त, अनिलाच्या घरच्या लोकांचो बऱ्यापैकीं दोस्त. जण एकलो आपलें मन ताजेकडेन उगडें करता. हाणे पैसो बरोच केला. हाजो व्यव्हार भारतांत आनी भारताभायर चलता. हाणें काय वर्सां युगांडांत काडल्यांत. खाडकेचेर खाड दवरलां. खाडांत आनी माथ्यांत खंय खंय धवे केस दिसतात. सगळोत्र सभाव बेफिकीर.

सदुबाब येता. घरांत कोण ना तें पळवन ताका अजाप जाता. भितल्या दारांत पळयता, माळयेर पळयता पुण ताका कोण दिसना, मागीर मेजाकडेन वता. ताका एक बंद पत्र मेळटा. हातांत काडटा आनी पत्तो वाचता – 'दिलीप के. देसाय' पत्र फाटल्या फुडल्यान पळयता आनी गालांतल्या गालांत हांसता. पत्र थंयच दवरता आनी वर्तमानपत्र वाचित बसता. इतल्यान दिलीप शिळवणी घालीत येता आनी त्याच नेटान आपले कुडींत वचूंक लागता.)

**सदुबाब** : ए ऽऽऽ! मजनूसाब ! म्हळें, आमी आसांत हांगा. ह्या गरीबाचीय मात्शी खबर घेयात.

**दिलीप** : सदुबाब पळइलोच ना हांवें तुका हां ! केन्ना आयलो तूं !

**सदु.** : तुमच्या सारख्यांक आमी दिसतात ? तरनाटे तुमी ! आमचे सारखीले मनीस कशे दिसतले तुमकां ?

**दिलीप** : तशें न्हय सदुबाब ! मात्सो विचारांत आशिल्लों. तूं दिसलो ना !

**सदु.** : कसो दिसतलो ? तरनाट्यांचें एक वेगळेंच जग आसता. तुमी आपल्या भोंवतणी एक जग निर्माण केलां ! त्याच जगांत गुल्ल तुमी ! भायल्या जगाची तुमकां पर्वा खंय आसता ?

**दिलीप** : सॉरी सदुबाब.

**सदु.** : That's all right, go ahead. आरे, दिस तुमचे ! मारा मजा ! एक वेळ आमचेय वी दिस आशिल्ले. तें पळय तुका पत्र आसा मेजार! (दिलिप पत्र फोडून वाचता. हांसत रावता. वाचून जातकर घरांत वचूंक लागता)

सदु.  : दिलिप ! पत्र कोणालें रे ? वाचून अमुरपिकोच जाला म्हुण्ण विचाल्लें. दिपालिचें काय किंतें रे !

दिलिप : सदुबाब ! तितलें भाग्य म्हजें ना रे ! येतना हांवें विचाल्लें लेगीत, 'दिपाली पत्र बरयतलें मगो ?' (सुस्कारो सोडटा.)

सदु.  मागीर ?

दिलिप : म्हुणूं लागलें 'किंतें बरोंव?'

सदु.  : आरेच्या? किंतें बरोंव हो आनी किंतें प्रस्न जालो ? बरय म्हुण्ण सांग पांजऱ्यांतल्या चानयेची गजाल. ना जाल्यार सोसायटीच्या तांदळाची गजाल. मोगाची चिट बरोवपाकय शिकय ताका आतां.

दिलिप : भिडेस्त तें मात्शें सदुबाब.

सदु.  : कांय ना भिडेस्त बि. तें पक्कें आसा !

दिलिप : पक्कें ! कळ्ळें ना म्हाका.

सदु.  : तें आपल्याक उत्तरान बांदून घेवपाक तयार ना.

दिलिप : अशें उलोंव नाका. तें तसलें न्हय. ते पिशें, सामकें सादें.

सदु.  : ताजीं शाणेपणा कळटकच जागो जातलो तूं. एक सांग, ताज्या आवय बापायक खबर आसा ?

दिलिप : ना ! तिच मात्शी अडचण आसा म्हण्टा तें.

सदु.  : म्हुणटकच कांयच थिर ना? थोडो तेंप राव. तें खरेंच सिन्सियर आसा जाल्यार तुका ताजें पत्र येतलेंच

दिलिप : ताजेकडेन म्हजो धारवाडचो पत्तो ना. तें समजणी जालें येन्ना हांव धारवाड पावलों म्हुण्ण.

सदु.  : तुवेंय पत्तो दिलोना ?

दिलिप : दिवपाचो यत्न केल्लो हांवें. भायर सरचे पैलीं तें म्हाका मेळचेना म्हुण्ण हांवें एका दोस्ताक तागेर धाडलो. म्हगेलें एक पुस्तक ताजेकडेन आसिल्लें. ताजें नांव हांवें एका कागदार बरयलें आनी पुस्तक तांजेकडल्यान हाडूंक सांगलें, त्याच कागदार फाटल्यान म्हजो पत्तो ल्हान्सान बरयलो आनी तो खोडिल्याबशेन केलो. तो पत्तो ताकाच कळचो असो हेतु.

सदु.  : वा वा ! किंतें आयडिया काडली ! मार्व्हेलस !

दिलिप : फुडलें आयक ! ताणें पुस्तक धाडलेंच, पुस्तकांत घालून तो कागदाचो कुडकोय परत धाडलो.

सदु.  : तशें जाल्यार विसर तूं. तुका ताजें पत्र येना. दिपालिन चिंतिल्ली युक्ति तुका खंय कळळ्या ? ताणें जिवलें तो कागद परतो धाडलो म्हटकर तुका सांगूंक मेळटलें कि, ताणें ताजेर बरइल्लो पत्तो

पळइलोच ना म्हुण. आनी तूं ताका पिशें म्हण्टा. तें शाणें आसा, तुजेपरस शाणें !

दिलिप : सदुबाब, तूं चुकता. म्हजो उगडास ताका पत्र बरोवपाक लायतलोच. तशें सादें आसा तें. ताजेंकडेन कपट ना.

सदु. : तूं मरे सपनांत वावुरता. आनी तुकां दिसता आपल्याचेर मोग करपी चलिय स्वप्नाळू आसा. तूं चुकता. हांव न्हीं, बाबा ! ह्या जगांत कोण कोणाचो न्हय ! जण अेकलो पळयता व्यव्वार आनी अेक गजाल मतींत दवर. दादल्यांपरस बायलो चड व्यव्वारी आसतात.

दिलिप : हांतूंत दिपालिचो व्यव्वार कितें आसा म्हाका कळना ?

सदु. : पापया चलयो सदांच रिजर्व्ड आसतात. मोग करतना लेगीत हात राखून करतलीं. केन्नाच पुराव्याक सापडचिना. चले मात उकत्या पुस्तकावरी आपलें मन उक्तें करून दाखयतात. पुराय समर्पण चले करतात, चलयो न्हय. अनुभवाचीं उतरां हीं बाबा ! एक पट्टलें तुकां. एक सांग तागेलो पुरावो जायत रकी कसलिय वस्त तुजेकडेन आसा !

दिलिप : कांयच ना !

(शांती येता)

सदु. : आरे, हांव तुका सांगतां कितें? कोण कोणाचो न्हय. व्यव्वार मात सगळ्यांचो ! प्रेम, माया, नातें - गोतें कांयच ना ह्या संसारांत.

शांती : सदुबाब, सदांच तूं हें सांगता आनी आमकां तें पटना. दर वर्सा तूं युगांडासून हांगा येता. चार - स म्हैने आमी तुज्या हवासांत आसतात. कोण कोणाचो न्हय, व्यव्वार मात सगळ्यांचो ! असल्यो गजालि आमी आयकतात. पुण अजून तुजीं मतां आमकां पटना. तुजे नदरेन इमोशन म्हण्टत त्या उतराक कांयच म्हत्व ना?

सदु. : हुं ऽऽऽ ! इमोशन, भावना हीं उतरां लेगीत मनशान आपल्या व्यव्वाराक लागून तयार केल्यांत. मनीस व्यव्वाराफुडें भावनेक लेगीत मानीना.

शांती : तूं ब्रम्हचारी आसा. तुकां भावना म्हळ्यार कितें तें कशें कळटलें !

सदु. : सगळें भोगलां हांवें, सगळो अणभव घेतला. ताजेवेल्यानच हांवें थारायलां – मोग, माया - सगळीं फकणां !

दिलिप : ह्या घरांत तरी तुकां तशें दिसचेंना. आमच्या ताईक पळय एका पायांन थोटें आसतना तें सगळ्या भावांची मायेन उस्तवारी काडिना ? भाऊक पळय. हुशार इंजिनियर तो. केन्ना मोठ्या हुद्यार आसा तो. कितल्यो चलयो सांगून येतात ताका. पुण तो भयणीच्या लग्नाक रावला. ताईचें लग्न जाल्याबगर आपूण जावचोना म्हण्टा तो. ताका खबर आसा कि

ताई एका पायान थोटें आशिल्ल्यान ताजें लग्न जाउंक कुस्तार जातलें. ताजो त्याग तुकां दिसना ? काय तोय बि व्यव्बार दिसता तुकां सदुबाब ?

सदु. : भाऊ स्वार्थी आनी तूंय स्वार्थी.

शांती :
दिलिप : } आं !

सदु. : तूं स्वार्थी कित्याक जाणा तूं ? ताई आनी भाऊ आसतना तुवें आपलें जमवन उडयलें.

दिलिप : पूण तांचे जाल्याबगर हांव जावचोना.

सदु. : चूक ! फाल्यां जर दिपालि बेगीन लग्न करूंया म्हणत, हांका सगळयांक सोडून पैलीं तूं गोणे बांदतलो. दिपालि ओगी आसा म्हण्णं तुंय ओगी आसा. खरें काय न्हय ? सांग मरे ?

दिलिप : फायचें कांय सांगूं नजो म्हज्यान.

सदु. : म्हळयार तूं उत्तर दिना.

शांती : आनी भाऊ ! तो तरी म्हजे खातीर त्याग करता मरे? इतल्यो सोयरीको येता आसताना तो म्हण्टा म्हजे जाल्याबगर आपुण लग्न जावचोना म्हुण्ण. हांव थोटें आसतना तागें अशें रावप हातूंत ताजो आदर्श दिसना ?

सदु. : सांगु ? तुकां राग येतलो. तरी पूण उलयतां. तुजो भाऊ जाणां कि अेकदां आपलें लग्न जालें कि तुजें जावपाक कठिन. म्हुण्ण आतांच तो चलयेकारांक अडोवन दाखयता, खंयचोय तरी चलयेकार इतलो बरो चलो आपल्या चलयेक मेळटा म्हण्ण ताज्या भयणीच्या, म्हणजेच तुज्या लग्नाची खटपट केल्या बगर रावचोना.

शांती : इतलेंय करून म्हगेलें जमलें ना जाल्यार?

सदु. : तुजें जमलें ना जाल्यार तो तुज्या सुखाच्यो गजाली सोडून दितलो.

शांती : सदुबाब, तुजो आनी आमचो इतलो संबंद आसून तूं आमकां ओळखलो ना ! आमच्या घरचो कसो तूं ! वायट दिसता तूं आमकां ओळखलो ना म्हण्ण.

दिलिप : म्हाका जाल्यार पटचना तुजें, जण अेकलो स्वार्थी आसता पूण तूं सांगता तितलो मात न्हय रे बाबा !

सदु. : शांती फाल्यां तुज्या भाऊचें लग्न जालें, तर तुजी भावज सभावान कशी आसतली हें तुज्यान सागूंक जाता?

शांती : तें पैलीं कशें कळटलें?

सदु. : फाल्या तूं घरांत उल्लें आनी तुजी आनी भावजेची दिसपट्टी झगडीं

जालीं जाल्यार भाऊकच मनस्ताप न्ही तो. म्हुण्ण तो यत्न करता तुज्या लग्नाचो.

शांती : तुजेकडेन बारीक बारीक तर्क करपाक जायना म्हज्यान. पूण हांव इतलें जाणा कि मनशाक भावना आसतात आनी त्योच भावना मोठयांतलें मोठें दिव्य करता.

सदु. : आयच्या सवसारांत तरी सामक्या थोडया मनशांत त्यो मेळटल्यो. म्हज्या मतान भावना मनशाक आसचीच न्ही. अेकदां मनशाची भावना दुखली जाल्यार तो आसून - नासून सारखोच. असल्या लोकांच्या मोवतणी स्वार्थी लोक चड आसतात.

दिलिप : ताईचो त्याग, ताजो निस्वार्थ सभाव तरी तुकां मान्य आसा ?

सदु. : ना !

शांती : (हांसून) कित्यावैल्यान ? आज मेरेन स्वार्थान काय वागुंकना हांव.

सदु. : तुजो स्वार्थ थोडो आसत. तो लोकांक दिसना जायत. आपल्याक भाऊन अेक बरो, सुंदर, कर्तबगार असो चलो हाडचो अशें तुकां दिसना ?

दिलिप : तशें जण एकल्याक दिसताच.

सदु. : तोच जण एकल्याचो स्वार्थ. मनीस सगळयांपैलीं आपल्या ज़ीवाचेर मोग करता, मागीर दुसऱ्याचेर.

शांती : तुजेंच पळय. आमचे भुरगेपणासान तुवें आमकां आदार दिलो. आवय - बापुय नाशिल्लीं आमी भुरगीं ! तुवें आमकां शिकयलिंना ? तुवें वैर काडलिंना आमकां ? काय तातुंतय तुजो स्वार्थ आसा ? तूं कोण ? अेक शेजारी आमचो. पूण तुजे उपकार –

सदु. : तो तुज्या साडयेर धुल्ल पडला तो पळयला (शांति पळेता आनी बोटान फाफुडटा) साडयेवेलो धुल्ल वतंकर तुजें कितें लुकसान जालें ?

सदु. : तसोच हांव तुमचे खातिर करतां तो खर्च. ताजेपासून म्हाका कितें नुकसान जालें ?

शांती : कांय ना ! (शांती आनी दिलिप हांसतात.)

दिलिप : म्हणजेच तुवें स्वार्थान तो पैसो खर्च करूंक ना तूं आपल्याक तरी निवार्स्थी समजता मरे ?

सदु. : मनशाक मरे दोन मनां आसतात. एक मन लोकांक दिसता आनी दुसरें सुप्त आसता. मनशाली सुप्त इत्सा अेकेकदां ताकाच कळना. म्हज़ोय बि कितेंय स्वार्थ आसूंये, तो म्हाका कळना जायत. म्हजी म्हणपासारखीं कोण मनशां ना ! आसा तांचेकडल्यान केन्नाच माया मेळ्ळिना. घडये तुमचेकडल्यान माया मेळटा म्हूण अितलें केलें जायत.

शांती : सदुबाब, तूं अेकेकदां खूब कोडयांनी उलयता. तुकां आमी घरचोचसो

मानला ; पूण अेक दिस तुवें आपलें मन उक्तें करून दाकयलां ? तुज्या उलवण्या वेल्यान कळटा कि तुवें खूब भोगलां म्हण्ग. तुच्या जीविताची कथा आयकुपाची आसा म्हाका. सदुबाब, सिरीयसली सांग, तूं लग्न कित्याक जालोना ?

दिलिप : कोणे चलीच दिलीना दिसता.

शांती : सदुबाब तर म्हण्टा, पैसो आसल्यार सगळीं सुखां पायांकडेन लोळटा म्हण्ण आनी ताजेकडेन तर पैसो कुसता.

सदु. : ना ! पैसो आतां जाला. तेन्ना हांव गरीब आशिल्लों.

दिलिप : आनी म्हण्ग तुकां चली दिलीना कोणे ?

सदु : हय पुता ! (हांसून) चली सांगून येना म्हुण्ण खूब जाणाकडेन गेलो चली मागपाक.

शांती : (हांसून) मागूनय बि तुकां चली दिलीना ?

सदु. : कोणच तयार जालोना चली दिवपाक ! कोणे हांव गरीब म्हण्ण चली दिलीना तर कोणे हांव ग्रॅज्युएट ना म्हण्ण दिलीना. कोणे सांगलें गोयकारांले रितिरिवाज म्हारग पडटात तर कोणाक आपली चली कांय वर्सां घरांतच दवरूंक जाय आशिल्ली. एका भावाक तर आपली भैण दुसऱ्याक दिवप हो विचारच दुःख दितालो.

शांती : कितें ! हो आनी कसलो नवलाचो भाव ?

सदु. : घरांभितर सरनाफुडें ताका भैणीचें तोंड पळल्याबगर जेवंकच चलनाशिल्लें.

शांती : बरे बाबा असले भाव ! इतली माया केन्ना पळयली ना.

सदु. : माती माया ! हांगाय बि भावाचो स्वार्थ. हो भैणीवेलो मोग न्हय ! भैण घरांत आससर सगळीं कामां आयतीं जातात. ताका बाजारांन वतना पोती लेगीत भैणीन हातांत हाडून दिवंक जाय आशिल्ली !

शांती : सदुबाब, तीं फकणां सोड आतां.

दिलिप : फटाश्यो मारपाक आयकना सदुबाब आमचो.

शांती : खऱ्यांनीच विचारतां हांव ! प्रेमान बि पडिल्लो ?

दिलीप : असेर्तार, आपटी खाली जातली. म्हुण्ण ताजो चलयांवेलोच न्ही सगळया मनशांवेलोच विस्वास उडलो जातलो.

सदु. : विस्वास ! विश्वासाक कातल्लो पानिपतच्या लडायेंत. आपली मानिल्ली मनशां विश्वास दवरूंक तयार नात. तुवें मागल्यार लेगीत तुकां दिपालिन फोटो दिलोना ! कित्याक खबर आसा ? तुजेर विस्वास ना म्हुण्ण.

शांती : चलयांक तशी खबरदारी घेवचीच पडटा सदुबाब !

सदु. : अविस्वास उलोवन दाखोंव नज म्हण्ण खबरदारी म्हण्टात चलयो ताका.

दिलिप : फाल्यां ह्या घरची सून जावन दिपालि ह्या घरांत येतकर पंद्रा दिसानीच तुज्रीं ताजे विशयीचीं मतां बदलतलीं हां !

सदु. : तातुंन म्हाका आनंदच जातलो. पूण म्हजें एकच सांगणें. जितलीं ती सुरवातिक विस्वास दाखयतात न्हीं तितलीं तीं विस्वासाक पात्र आसनात. सुरवातीक तीं दाखयता कि तुज्याबगर तांचें जायना, तुज्या उतराभायर ती नात. पूण तुज्यापरस मोठें घबाड पैशानिय मोठें, दिसपाकय बरें, हुद्याचेरय मोठया – सगळया बाबतींत अपटूडेट अशें दिसलें कांय ना, तांच्यो सगळयो भावना मागीर व्यव्हारांत बदलतात. आरे, कोण कोणाचो न्ही हेंच खरें.

शांती : सदुबाब, तुज्या मनांत कितें तरी शिजत आसा. आपलें मन उक्तें केले बगर तें हलकें जायना. तुज्या तोंडांतल्यान येता फक्त तक्रारीचो सुर. तुका दिसना कि आपले ताळयातल्यान संगिताचो गोड सुर येवचो आनी ताजो आनंद आमच्यासारक्या दोस्तानीय बि घेवचो ?

सदु. : दोस्ती - बिस्ती सगळीं फकणां गो शांती. आज बरो आशिल्लो मनीस केन्ना वायट जायत सांगू नजो.

दिलिप : तुजी तक्रार कोणा आड आसा तिच कळना. चलयांची तक्रार. दोस्तांची तक्रार काय आनी कोणाची ?

सदु. : कोणाच्या आड म्हण्ण तक्रार करूं. (हांसता) म्हज्री तक्रार त्या आवयच्या आड आसा, जिणे म्हाका जल्म दिलो, त्या बापायच्या आड आसा, ज्याणे म्हाका पोसून व्हडलो केलो. त्या समाजा आड आसा ज्याणे म्हाका बंधनात बांदलो. म्हज्याच आड म्हज्री तक्रार आसा जो आपल्याकच वळखलो ना. (भायल्यान दिपालि शांतीक उलो मारता. सगलीं भायर पळेतात. दिपालि येना.)

शांती : दिपालि, आगो तूं खंय हांगा ! (दिलिप चकित)

दिपालि : दिलिप, तूं धारवाड वता म्हण्ण सांग न्ही ?

दिलिप : ह्या ताईचो आग्रो ! आठ दिसांक म्हण्ण गोयात आयलों. आज तीन आठवडे जाले हें म्हाका सोडूंक तयार ना.

शांति : पूण तूं मुंबयच्यान केन्ना आयलें ? दिलिपा बरोबर पूण येवपाचें न्ही ? (तिरकस पळोवन) लज दिसली दिस्ता (दिपालि लजता आनी ल्हवू सदुबाबाकडें पळेता.)

दिपालि : सदुबाब, कशे आसात तुमी ? मुंबय वतना आयकल्लें तुमी येवपाचे आसात म्हण्ण.

सदु. : इद-अमिनान धांवडांवन घाले न्ही आमकां.

दिपालि : तुमकां किते ताजे ? चार म्हयने युगांडांत तर चार म्हयने इंग्लंडाक आनी चार म्हयने भारतांत. आज इंदिरा गांधीचे जाल्यार फाल्यां व्हिक्टोरीया राणीचे सोयरे तुमी ! हांसतात.)

सदु. : पूण तूं अकस्मातशें आयलें ? बाबा ह्या दिसानी दिस्टीच पडना तुजो ? आगो, (याद जाल्यावरी) By the way... congratulations ग्रॅज्युएट जालें म्हूण्ण कालच आयकलें. आतां नोकरी करपाचो विचार आसा मगो ?

दिपालि : बाबाची बदली जाल्या मद्रासाक. रेल्वे नोकरेचें अशेंच. पंद्रा दिसांभितर तांका कांमार रुजु जांवक जाय. फुडल्या आठवड्याक वतलीं आमीं.

दिलिप : वतलीं आमीं ? सगलींच वतात ?

दिपालि : हय, ना जाल्यार डबल खर्च जालोना ?

दिलिप : वतकर बेगीन येवपाचीं ना ?

शांती : अेकदम चार हात जातकच येतलें तें !

सदू. : जावपाक म्हूण. (सगळीं हांसतात. दिपालि कावरें-बावरें जाता.) चल शांती, म्हाका उदक उसपून दी. न्हावपाक जाय. (शांतिक दोळो मारता आनी दोगांय भितर वतात.)

दिपालि : बरो रसिक आसा सदुबाब. मुद्दाम अेकलींच सोडल्यांत आमकां. सांगलें बि काय किते रे तांकां ?

दिलिप : हय ! मुंबयच्याय येनाफुडें सांगून उडयलें. भाऊकय सांगलें, ताई बरोबर म्हजोय विचार आसा म्हूण लग्न करपाचो.

दिपालि : पूण तुकां किते सांगिल्लें हांवें ? येन्ना कोणाकच सांगू नांका म्हूण.

दिलिप : तुमगेल्या आंगणात रातराणी आसा ती जाणा तूं ?

दिपालि : हय !

दिलिप : रातचो व्हडलो कपडो घे आनी घट्ट बांदून दवर हां !

दिपालि : पूण कित्याक ?

दिलिप : तिजो वास सगळ्याक पसरता न्ही !

दिपालि : (हांसत सुट्टा) रातराणीचो वास लिपून रावता केन्ना ?

दिलिप : तशोच मोगाच्यो खबरी लिपनात.

दिपालि : तशें न्ही रे !

दिलिप : (चाळवन) कशें गो तें मागीर ?

दिपालि : वोगीच जुळचेपैली लोकांक कित्याक सांगप ? आनी शांतिचें अजून थारुंक ना. ताका किते दिसतलें ? तें आयकुपाचे मनस्थितींत तरी आसतलें ?

दिलिप : कांय ना. वेल्यान ताका खोस भोगतली.

दिपालि : आजून आमच्या घरांत तरी कोणांक खबर आसा ?
दिलिप : हांव सांगूं ?
दिपालि : नाका – नाका तशें करूं नाका. वोगीच काडली जीब लायली ताळयाक म्हण्ण जायना ! रागाक आमचे बाबा. तांका पसंत पडलें जाल्यार बरें जालें, ना जाल्यार–
दिलिप : कित्याक पडचेंना ! हांव मैसूर सरकारच्या शेतकी खात्यांतलो अेक क्लार्क म्हूण्ण ? तृतिय श्रेणी कर्मचारी ?
दिपालि : दिलिप – दिलिप म्हाका तूं समजून घेना. आमच्या घरांत लव्ह ह्या शब्दाक जागो ना. बाबाक हें कळत जाल्यार तो अवतार घेतलो.
दिलिप : म्हाका तुजें मत सांग. तुवें कितें चिंतलां ?
दिपालि : ह्या घराबगर दुसऱ्या घरांत पडलें जाल्यार हांव जितें उरचें ना.
दिलिप : दिपालि – दिपालि, हींच उतरां जाय आशिल्लीं म्हाका तुजेकडल्यान. तुजो सांगात आसलो जाल्यार बाबाचो विरोध विरगळटलो.
सदु. : (खांकून तांका चत्राय दिता) सॉरी हां. न्हावपाक म्हुण्ण गेल्लों. पूण शांतिलें उदकच तापूंकना. उलयात तुमी – हांव चल्लों.
दिलिप : सदुबाब, तुजेकडेन आमी कांयच लिपोवचीना. तुका हांवे सगळें सांगलांच तुवेंच आतां आमकां आदार दिवंक जाय.
सदु. : Sure ! Sure ! बाय दिपालि, स्पश्ट उलयतां म्हण्ण रागार जांव नाका हां. आमचो दिलिप ३०० रुपया जोडपी अेक क्लार्क आनी ताका घरची येणावळूय कांय ना हें तूं जाणाच. तेन्ना तुज्यो जर कितेंय अपेक्षा आसात तर आतां सांग.
दिपालि : पैशाची हौस हांवें केन्ना धल्लीच ना. म्हाका जाय ती माया आनी प्रेम. आनी तें म्हाका हांगा मेळटलें हाजी म्हाका खात्री आसा.
सदु. : (दिलिपाकडे पळवंन) आनी तुगेल्यो धालपा - करपाच्यो, रितीरिवाज, हुंडो हांचेसंबदी अटी कितें आसत ?
दिलिप : हांवे ताका केन्नाच सांगलां कि तूं न्हेसलां त्या साडयेर लेगीत घरा येशी जाल्यार सुद्धा आमची दारां तुकां सदांच उक्तीं आसतलीं. सदुबाब, भाऊक समजावपाचें काम मात्शें तुवें करचें पडटले. तो मात्सो कोल्ली आसा न्ही !
सदु. : कोण कोल्ली न्ही आनी कोण कोणाचो न्ही. जण अेकलो आपलें पळयतलो. तूं लग्न जावन ताज्या सुखाआड येतालो ? ताणे लग्न केल्यार तुकांय दुखचेंना. हो संवसार मरे गणितांनी भल्ला. प्रत्येक गजालिचें गणित ! व्यवार !
दिपालि : भावना ही व्यवारा परस श्रेष्ठ आसता सतुबाब !

सदु. : फट ! भुरगें आसा तूं अजून. फाल्यां व्यव्यार जर तुकां समजा तुजे भावनेक खोंट माल्याबगर रावचेना तूं.

दिपालि : म्हजेकडेन असली चूक जावचीना केन्ना !

सदु. : तुजेकडेन जावचीना गो ! पुण दुसऱ्यांचेर घालून तूं करतलें.

दिपालि : म्हळयार ? समजलें ना हांव !

सदु. : ह्या दिलिपाकडल्यान आपल्यो इत्सा, अपुरबाय, पुराय जावच्योना हें तुका कळून येत जाल्यार आनी हाजेपरस बरो गडगंज जागो तुकां बापायन सोदून काडलो जाल्यार तूं दिलिपाक सोडचिट्टी दिल्याबगर रावचेंना. मागीर तूं सांगतलें आवयबापायक आमचो मोग पसंत ना.

दिपालि : हो निव्वळ विस्वासघात जातलो !

सदु. : (हांसता) विस्वासघात ! आज संसारात चल्ला तो विस्वासघात न्ही जाल्यार आनी कितें ? त्या विस्वासघाताचेर कर्तव्याचो साज चडोवन तूं दिलिपाक सांगतलें (आवाज बदलून) "दिलिप म्हाका क्षमा कर ! हांव चुकलें रे ! तूं म्हजे परस बरी चली पळे आनी लग्न जा."

दिलिप : चलयेचेर आवयबापायचोय हक्क आसता.

सदु. : हेंच तें, जांव चलो जांव चली. आवयबापायचें निमित्त तांका बरें मेळटा. तांचेर घालून तीं मेकळीं. चलो म्हण्टा, म्हाका हुंडो नाका. हांव हुंडयाचेर कोंत्र ! पूण करतलो कितें ? आवयबापायच्या इत्सेआड वचपाक बरें दिसना. ताणींच पोसला न्ही म्हाका ? ताणींच शिकयला न्ही म्हाका ? तांचे विषयी म्हजेय कितेंय कर्तव्य आसा न्ही ? अेकुण कितें, डायरेक्ट न्ही जाल्यार इनडायरेक्ट तरी हुंडो जाय! चली म्हण्टा चलयांची जात आनी गायची जात अेकच. दुबळी. आवय बापूय दिता थंय लग्न करपाक जाय. तात्पर्य कितें ? एक – कोण कोणाचो ...

दिलिप :<br>दिपालि : } न्हय. (हांसतात.)

सदु. : आमच्या देशांत लग्नां जातात तीं घोव-बायलेखातीर न्ही. तांचे आवय बापायखातीर, तांचे नातलगांखातीर, समाजाचे प्रतिष्ठेखातीर. (अनिल येता. तोंड पडलां आनी ताज्या तोंडावेल्यान कळटा कि ताजें काम जालेंना म्हण. कदेलाचेर बसता. पेपर चाळूंक लागता. माठांतलें उदक पिता आनी सिगाराचें पाकीट भायर काडूंक लागसा पूण सदुबाबाचेर नदर वता आनी बेगीबेगीन बोलसांत घालता. दिपालि दिलिपाक सांगूंक लागता आपुण वता म्हण. पूण दिलिप खुणेनच ताका नाका म्हण्टा. तरी ल्हवू ल्हवू पावलां मारून वता. सदुबाब अनिलाकडे पळयता.)

शांती : (येता) सदुबाब, उदक काडलां. वच न्हावपाक. भाऊ, तूं केन्ना आयलो ?

सदु. : भितर सरता थंय आसा तो. अनिल जालें काम तुजें ? जाप कितें मेळ्ळी तांचेकडल्यान ? (अनिल ओगीच)

शांती : (सकयल्या आवाजान) काम जालेंनाशें दिसता.

सदु. : जालें ना रे अनिल ? (तरी तो चूप)

शांती : अनिल, आपलो मोलादिक वेळ वगडावन तुजेकडेन तो चार अुतरां उलयता ताजी पर्वाच ना तुकां ?

अनिल : घेवन नाच ताका. हुं ! (तिरस्कारान म्हणटा आनी नळचांकडे वैर पळेता.)

शांती : अनिल !

अनिल : (तिडकिन) तुकां - म्हाका घरगुति जीवन आसा मगो ? काय सगळें वाऱ्यार घालां ?

शांती : सदुबाबाक तूं परकी मानता ? याद दवर, तो आसा म्हण तुजें घरगुति जीवन टिकून अुल्लां.

अनिल : वाऱ्यार पडिल्लो बरो आशिल्लो. पूण हें असलें दुसऱ्याल्या पोशान उदक पिवन नाका. (दुसरेकडे पळयता.)

शांती : (तापून) अनिल . . . तो तुजेकडेन आपलेपणान उलयता, फाटले अपमान सगळे विसरून तो तुकां धाकल्या भावावरि मानता. (मात्शें ओगी) . . . तूं ताजेकडेन उलयना ! नाका उलोउंक. पूण असो ताजो अपमान केल्लो म्हाका सोसचोना, सांगून दवरतां.

सदु. : शांती, ओगीच तापूं नाका ! आतां तो जोडूंक लागलो. आपल्या पांयार उबो रावलो. इंजिनियर तो ! घरांतलो करतो सवरतो मनिस ! (हांसता) हांव कोण ? म्हजो कोण ? हांव कोणाचो ? ना, शांती ना. ह्या प्रश्नाची जाप मनिस जातिक तरी मेळूंक ना. म्हजें कितें गो ? आज ह्रांगा, फाल्या थंय. हें विश्वच म्हजें घर ! आज सकाळीं अनिल तुजो फोटो आनी टिपण घेवन भायर सल्लो म्हण तुजेकडल्यान आयकलें, म्हणून विचाल्ले. Forget it ! न्हावपाक जाय म्हाका. वेळ जाता. (वचूक लागता.)

शांती : ना सदुबाब, ह्या घरांतल्यो सुखदु:खाच्यो गजालि तुवें आयकुच्यो पडटल्यो. तुकां सांगल्याबगर ह्या घरांतलें पान लेगीत हालूंक जायना. (शांती सदुबाबाबाक थारायता.)

अनिल : तुकां आयकूंक जाय मगो हांवें हाडल्या ती नवीदाद ? आयक. आज गेल्लों त्या जाग्यारय नकार मेळ्ळो.

शांती : तातूंन लिपोवपाचें कितें आसा ? गेल्लीं तिनचार वर्सां हेंच घडलां. तातूंन आनिक अेकाची भर. अनिल, तूं पिसो. तुकां हांवें केन्नाच सांगिल्लें, तूं ह्या भानगडीक पडूं नाका. आरे पापया, बऱ्या बऱ्या सुंदर चलयांचें लग्न जावपाक कुस्तार जाता, थंय म्हजेवरी चलयेक, तेयी थोटचा कोण पसंत करतोलो ? तूं लग्न जा पळोवया. म्हाका लागून तूं आपलें जीवित पिडुचार करूं नाका. हांव काडिन जिवित तुज्या भुरग्यांचि उस्तवारि करित.

अनिल : (मोव पडटा) राग आयलो ताई ? (उट्टा आनि शांतिकडे वचून) वचत थंय अपमान जातकर मगो संताप मारता. आनी त्या संतापाच्या भरांत कितेंय उलोवन वतां हांव ताई ! हांवें धीर सोडूंक ना अजून. तुजेंच जाल्यार पुरो. (भितर वता.)

शांती : सदुबाब, ताज्या मनात कांय ना. पूण अेकेकदां रागान तो कित्याक कितें उलोवन वता. वायट धरपाचे ना ताजें.

सदु. : च्ये ! कोणाकोणाचें म्हण्ण वायट धरूं ? ह्या जिवितांत बरें धरपासारको कोण मैळलो ना म्हाका. पन्नास वर्सांच्या अणभवान इतलो शिकलां कि आयुष्यांत सिरियस म्हण्टात तें कांयच उरूंक ना म्हज्या. प्रत्येक गजाल लाइट्ली घेवंक जाय मनशान. तेच ह्या दिलिपाक सांगत आयलां हांव. प्रत्येक गजाल लाइट्ली म्हळचार वेल्यावेंर जो घेता न्ही ताका खोंट लेगीत घेवची पडली जाल्यार वायट दिसपाचें ना.

दिलिप : सदुबाब, तूं पणजे वचूंक जाय म्हण न्ही विमानाची तिकीट बुक करपाक ?

सदु. : हय ! सांजवेळां या. न्हानां हांव. शांती, हांव वच्चेपैलीं तुजें जमता काय दिशिल्लें. पूण आतां आशा दिसना.

दिलिप : भाऊ ताईचें लग्न लायल्याबगर रावना सदुबाब. कारण ताणें तसो सोपुनच घेतला न्ही. आयिल्ल्या चलये - बापायक तो हें सांगता. ताईचें लग्न जाल्याबगर आपुण आपल्या लग्नाचो विचार करचो ना. (दिलिप भितर वता.)

सदु. : परिस्थिति फेवरेबल आसा तो मेरेन जण अेकलो हेंच उलयता. ह्या जगांत कोण कोणाचो न्हय ! जण अेकलो आपलो स्वार्थ पळयता.

शांती : चुकता तूं सदुबाब, तुवें कोणाक तरी आपलें केल्लें, कोणाखातीर तरी त्याग केल्लो, कोणाक तरी आपलें जावित ओपून दिल्लें जाल्यार तूं हें उलोवचो नाशिल्लो. हांव आतां हांच्याखातीर करतां ! पूण जीव संतुश्ट जाता.

सदु. : उलोवपाक सोपें आसता तें बाय ! प्रत्येक मनिस स्वार्थी आसता.

त्यागी कोणच आसना. परिस्थितिन लाचार आशिल्लो मनिस लेगीत त्यागी आसना. तुजीच गजाल घे. भाऊन जर तुकां म्हजेसारको जाण्टो न्हवरो हाडलो. जाल्यार . . . घडये धर, हांवेंच तुकां मागणी घाली . . . (शांती सगळेंच आंग शिरशिरलेल्या भशेन करता) . . . पळय, साद्या कल्पनेनच तुजें आंग शिरशिरलें, आंगार कांटो आयलो. पळय तुजो असो आसा स्वार्थ. तो नकळत येवन आपल्या मनांत बसता.

शांती : अध्यात्माची भाषा तरी समजूंक बरी पूण तुजी न्हय. चल पळोवंया आतां न्हावंक मात्सो. जेंवुया आमी. (वचूं लागता)

सदु. : शांती,

शांती : आं ! (तें रावता)

सदु. : हांव २१ तारखेक वतलों म्हण्टां युगांडाक.

शांती : सांगिल्लें तुवें म्हाका.

सदु. : आनी परतो येवचो ना म्हण्टां हांव आतां !

शांती : (अजाप जाता) आनी हांगासल्लो सगळो धंदो ?

सदु. : विकून उडयतां.

शांती : आनी हांगा आमी आसां तीं.

सदु. : तुमी सगळीं तुमच्या पांयार उबीं रावूंक शिकलीं न्ही.

शांती : पूण युगांडाक कित्याक रावूंक जाय काय म्हण्टां हांव ? थंयचो धंदो विक आनी भारतांत राव. हांगा मायेचीं मनशां तरी आसात.

सदु. : ना गो ! आतां वय जालें ना ? माया-मोग आतां सोसचेना म्हाका. ते सगळे पास तोडून उडोंक जाय आतां. एकलोंच जन्मलां, अेकल्यान आयुष्यांत सगलें सोसलां. आतां अेकल्यानच परतें वचपाक जाय. कोण कोणाचो न्हय गो बाये . . . कोण ऽ ऽ कोणाचो न्हय. चल, चल, हांव रोखडो न्हावन येतां. तूं वाड पळवया, पणजे वचूंक जाय.

(काळोख)

## २.

(आदलोच देखाव)

सदु. : (शांतिक उलो मारित भायल्यान येता. हातांत अेक मोगऱ्यांची हळी आसा.) शांती, अे शांती.

शांती : (भितल्ल्यान) कोण ऽऽऽ

सदु. : हांव तो. तुकां हावें मोगऱ्यां हळी हाडल्या. तुका आवड्टा न्ही ती ?

शांती : भितरच यो तूं सदुबाब. रांचिकुडित सगळें काम अुल्लां. हांगाच बस तूं उलयत. (सदुबाब भितर वता.)

दिपालि : (भायल्यान येता) दिलिप, अे दिलिप. (जाप ना) शांती, अे शांती,
शांती : (भायर येता) दिपालि, तूं गो. कोण आनी येदे सकाळीं आयलां काय म्हण्टां हांव. आज सकाळफुडेंचशी दिलिपाची याद आयलि ? सुख लागना काय किते घराकडेन ?
शांती : (ताज्या तोंडाक पळोवन अजाप जाता) आगो किते जालां ?
दिपालि : खंय किते ? कांय ना !
शांती : तुज्या तोंडाची कळी बावल्याशी !
दिपालि : दिलिप ना ?
शांती : म्हाका सांगुं जायना ?
दिपालि : किते तें ?
शांती : तुजें किते घडलां ? सांगपा सारखें ना जाल्यार नाका सांगुं गो ! चल, भितल्ल्या कुडिंत आसतलो दिलिप. म्हाका मात्सें काम आसा. आज सांजवेळां चारांच्या विमानार सदुबाब वता न्ही. सगळें काम तशेंच उल्लां. (वचूं लागता)
दिपालि : ताई . . .
शांती : (फाट वळून पळयता) किते ?
दिपालि : उलोवक जाय आशिल्लें !
शांती : चल मगो ! दिलिप भितर आसा. उलयात जाय तितलें !
दिपालि : तुजेकडेन उलोंवक जाय.
शांती : म्हजेकडेन ?
दिपालि : हय.
शांती : मागीर सांग मगो. म्हजेकडेन उलोवपाक इतलें भिडेता कित्या तूं ?
दिपालि मोठी गजाल आसा ती.
शांती : तशें जाल्यार मात्सें राव. हांव आयलें. सदुबाबाक इल्ली काफी दितां आनी येतां (वता. फाटल्यान दिलिप येता.)
दिलिप : शूऽऽऽच . . . (हांसता)
दिपालि : (फाट वळून पळेता ; पूण हांसना)
दिलिप : तुजो आवाज आयकल्लो हांवें. पुण तूं भितर येतलें म्हण्ण भितरच रावलों. हें पळय किते हाडलां हांवें तुका !
दिपालि : किते ? (आवाज मोव पडला.)
दिलिप : तुजो आवड्टो सेंडल वुड पावडर.
दिपालि : तूं पिशेपणा करित राव.
दिलिप : हीं पिशेपणा मगो ?
दिपालि : पिशेपणाच तीं.

दिलिप : हाका तूं विशेषणा म्हण्टा जाल्यार हांव विशेषणा करित रावतलों.
दिपालि : नाका.
दिलिप : कित्याक नाका ?
दिपालि : (कांय उलयना.)
दिलिप : सांग मगो ?
दिपालि : दिलिप . . . दिलिप . . . तूं म्हाका विसरून चल. (सदुबाब आनी शांती येतात पूण हें आयकून दारांतच रावतात.)
दिलिप : दिपालि, दिता कितें उलयता तूं ? शुद्धिर आसा मगो ?
दिपालि : हाका आनी उपाय ना दिलिप.
दिलिप : पुण जालां कितें ? सारखें सांग तरी म्हाका.
दिपालि : हांव तुका पैलीं केन्ना-केन्नाय चत्राय दितालें तशेंच जालें तें !
दिलिप : दिपा, दिपा स्पष्ट उलय आतां . . . म्हजो जीव कासाविस जाता.
दिपालि : आमची खबर बाबाक कळली.
दिलिप : मागीर बरें जालें. तांका सांगपाचो आमगेलो वावर सोंपलो.
दिपालि : पूण आमचो मोग बाबाक पसंत ना.
दिलिप : पूग कित्याक काय म्हण्टा ? (कासाविस जाता)
दिपालि : तांकां येन्ना म्हजें लग्न करपाचे ना.
दिलिप : पूण हांव थाळंक तयार आसां न्ही.
दिपालि : ते म्हाका गोंयांत दिवपचे ना खंय.
दिलिप : कित्याक ?
दिपाल : गोंयकाराचे रितिरिवाज खूब खर्चिक आसतात. ते करपाचि तांक आमची ना म्हण्टा बाबा.
दिलिप : पूण हांवें तुका सांगलां न्ही. म्हाका रितिरिवाज करपाचे ना म्हूण. आनी म्हाका एका दमडेचो सुद्धां हुंडो नाका तुज्या बाबाकडच्यान.
दिपालि : पूण हांव कितें करूं ?
दिलिप : हो प्रस्न तूं विचारता म्हाका ?
दिपालि : (केदे वेळ जाप ना.)
दिलिप : तुजे आई-बाबा म्हाका लागना. तूं सांग म्हाका तुजें मत ; हय काय ना तें सांग म्हाका.
दिपालि : जाण्टेल्यांच्या मनाविरूद्ध लग्न केलें जाल्यार हांव सुखी जायतशें दिसना म्हाका.
दिलिप : दिपा, दिपा तूंच उलयता हें ! (कपळार हात दवरून थंयच बसता.)
दिपालि : (ल्हवू ल्हवू ताजे म्हऱ्यांत वता) दिलिप, तुजें दिपालि मेलें म्हूण समज. आनी हें उलतां तें एक स्वार्थी विश्वासघातकी दिपालि समज.

**दिलिप** : किनलें सहज उलयता तूं हें दिपालि ?

**दिपालि** : चलयांचो जल्म घेतलेबगर म्हजें मन तुकां कळपाचें ना दिलिप.

**दिलिप** : शेवटीं सदुबाब म्हण्टा तेंच खरें जालें ! कोण कोणाचो न्ही. नांव बाबाचें तुवेंच चितलें तें दिपालि, तुवेंच चितलें.

**दिपालि** : कितें तें ?

**दिलिप** : ह्या २००/२५० रूपया जोडपी क्लाकॉवांगडा आपलो संसार सुखाचो जावचो ना म्हण.

**दिपालि** : दिलिप !

**दिलिप** : प्रेम-विम कांय ना. व्यव्वारच खरो. आमचो संसार कसो आसचो आमचीं भुरगीं कशीं आसचीं हाजेर सुद्धां गजालि केल्ल्यो आनी आतां तूं –

**दिपालि** : तें भावनेच्या भरांत म्हणिल्लें हांवें.

**दिलिप** : म्हणजे आतां तुकां ताजें कांयच दिसना ?

**दिपालि** : म्हण, तुकां जायतें म्हण !

**दिलिप** : (हुस्कार सोट्टा) चल, एक पर्व सोंपलें !

**दिपालि** : बरें येतां हांव.

**दिलिप** : तुवें अेकदां सांगिल्लें म्हाका कि आपुण प्रयत्न करलेंच. तरी पूण आमचें विस्कटलें जाल्यार जीवाचें बरें वायट करुन घेंव नाका हां ! सोपुत घाल्लो तुवें म्हाका ! केलो तुवें प्रयत्न ? सांग मगो कितलोसो केलो तो प्रयत्न ?

**दिपालि** : अशक्य गोष्टीचेर आनी विचार करूं नाका दिलिप. हांव वतां. विसर म्हाका तूं ! केन्नाकेन्नाय मेळ म्हाका. नातें ना जाल्यारय दोस्ती खंय वचूना. केन्नाय तरी दिस्टी पट्टलो अशी आशा करतां हांव. (वता.)

**शांती** : (फुडें येता) दिलिप. (ताज्या मथ्यार हात फिरयता.)

**दिलिप** : ताई, बुडलों गो हांव.

**शांती** : असो धीर सोडूं नाका दिलिप.

**दिलिप** : हें सोबलें मगो दिपालिक ?

**शांती** : ज्याचो ताजो प्रस्न हो. हांव कितें सांगुं ? दिलिप, हांवें सगळें आयकलां. जालें तें वायट जालें. अशें जांव जायना आशिल्लें. पूण जालां ताका उपाय ना. आतां सगळें मनांतलें काडून उडय पळोवया.

**दिलिप** : कशें शक्य आसा तें ताई !

**शांती** : दिपालि, एक चली तुकां विसरूंक शकलें, तर तुज्यान कित्या जावचेना?

**सदु.** : हेंच तें. हांव सांगतां तें हें. शांती, अजून तुकां चलयेच्या आनी चल्याच्या मनांचो फरक तुकां कळूना. ह्या व्यव्वारी जगांत भावनेक

सुवात ना. तातूंत आनी चलयांचें मन. तूं आयकतलो थोडें दिसांनी. तुजेपरस सगळे बाबतिंत बऱ्या आनी सरस् अशा चलयाकडेन ताजें लग्न थारायलां म्हूण.

**दिलिप** : कितलिं सपनां पळयल्लीं हांवें ! फुडले जीविताचीं काय बरीं चित्रां रंगयल्लीं !

**सदु.** : हो संसार इतलो विचित्र आनी निष्ठूर आसा कि हांगा कोणच धादोसकायेन जगूंक शकना. ताजें कारण आसा, जण अेकलो आसा त्या परिस्थितिपरस बरे परिस्थितिकडेन धावपाचो ध्यास धरून आसता.

**दिलिप** : पूण हांवें ताका विचाल्लेलें म्हजी परिस्थिति मानवत काय म्हूण.

**सदु.** : दिलिप, आयचो प्रस्न आनी फायची जाप बरोबर आसताच अशें ना. चड करून ती आसना. आपलो विचार हो निमणो विचार आनी तो ठाम अशें मानूकच जायना.

**अनिल** : (येता) या मरे दिलिप ?

**दिलिप** : आज म्हाका मुड ना भाऊ ! तूंच वचून यो.

**सदु** : दिलिप, आज तुवें वचूंक जाय भाऊ वांगडा.

**शांती** : बरें दिसना जाल्यार नाका वचूं तो.

**सदु.** : आज ताका दोन कामां करपाचीं आसात. फुडले भावजेक पसंत करपाचें आसा आनी आपल्या भावोजिक पळोवपाचें आसा.

**दिलिप** : सगळें तुका खबर आसा सदुबाब ! म्हज्या मनाची दशा . . .,

**सदु.** : म्हाका सगळें खबर आसा आनी ताजेर उपाय होच. दिलिप, कोणाखातीर कोणाचें अडना. कोण कोणाचें न्ही. सगळें तुजें जीवित उल्लां. आपलें ध्येय साध्य करतलो जाल्यार आपणे दुःख सोसूंक शिकूं जाय.

**अनिल** : आज दिलिपाचें जालां कितें म्हाका कांयच कळ्ळेंना.

**सदु.** : तुं वचून यो. मागीर तुका सांगतां सगळें विस्कटावन.

**शांती** : अनिल, म्हजें एक आयकतलो ?

**अनिल** : सांग

**शांती** : आतां तूं म्हजे भानगडींत पडूं नाका. तूं लग्न करून मेकळो जा.

**अनिल** : ताई, तूं निराश जांव नाका. तूं कितें कुरूप आसा ? नाका दोळयान कितलें नाजुक आसा म्हजें ताई ! एक पायांत मात्सो डिफेक्ट आसा म्हूण कितें जालें ?

**सदु.** : ह्ये खेपेक तुजें जातलेंशें दिसता शांती.

**शांती** : कित्याक तुवें हाडलां म्हूण प्रोपोजल ?

**सदु.** : हावें हाडलां म्हूण जातलेंच. तरी पूण हें एक्स्चेन न्ही गो. सदलाबदल.

जांवय इंजिनियर मेळटलो न्ही गो !

शांती : पुण म्हजो डिफेक्ट तांकां खबर आसा ?

सदु. : हय ! हांवें तें तांका सांगलां ! आनी तांकां मान्य आसा ; पूण तांगेलें चली अनिलाक पसन पट्टा काय कितें तें पळोवंक जाय.

अनिल : तुवें पळयलां ताका ?

सदु. : ना. तूंच पळोवन यो न्ही आतां ! दिलिप, तुजें मन कळटा म्हाका. पुण ताईखातीर तरी तुका वच्चें पट्टलें.

दिलिप : म्हज्यान जायना ! म्हज्यान सोसूं नजो हें ताई !

शांती : मनशान धीर सोडूं जायना दिलिप. चार दिस दुःख जातलें. मागीर विसरतलो तूं. दुःखी कोण न्ही रे ह्या जगांत ? ह्या अनिलाक दुःख ना ? तुजे ताईक ना दुख ? सदुबाबाक दुःख ना ? उलोवन मात कोण दाखयनात.

सदु. : सुखदुखावी परंपरा जगाच्या सुरवातिपासून चलत आयल्या. आनी ती संसाराच्या अंतामेरेन चलत रावतली. दुख तेंच ! पूण प्रसंग आनी पात्रां मात वेगळीं आसतात. देकून तें आपल्याक नवें दिसता. तूं आतां भोगता, हो फाल्यां भोगीत, हांवें पंचविस वर्सां पैलीं भोगलां.

अनिल : शांती, खरें उलय, दिलिपाचें कितें जालां ? म्हाका सांगपा सारखें न्ही ?

सदु. : आरे ! तरनाटे भुरग्यांचें आनी कितें जातलें. lost love ! प्रेम भंग ! मोगाची फसगत. दिपालिन फसयलो. निमित्त जाण्टेल्यांचें पूण दिपालिच्या प्रेमाचेर ताज्याच व्यव्वारान मात केली. व्यव्वारा मुखार कोण कोणाचो न्ही.

अनिल : ताका जर तूं आवडना, ताका जर तूं नाका तर तूंय ताजी कित्याक पर्वा करता ? ताजेभशेन तूंय कर. तू नहीं और सही, और नहीं और सही.

दिलिप : भाऊ, तुका कळपा ना तें.

अनिल : हय ! म्हाका कळपा ना. बरोबर आसा. कशें कळटलें तुजें दुख म्हाका. (हुस्कार) प्रत्येकाची व्यथा प्रत्येकाक खबर आसता. तें आसूं. येता तूं म्हजेबरोबर ?

सदु. : आनी वेळ करूं नाका दिलिप. चारांक विमानतळार पावूंक जाय म्हाका. हांव वच्चे पैलीं तुमी येत जाल्यार म्हाकाय कळटलें कितें जालां तें. तशीं मनशां बरीं तीं. तुमचो अपमानय बी जावचोना थंय. चल, ऊठ.

दिलिप : (उट्ठा) चल, या भाऊ. (वतात)

शांती : म्हाका दिलिपाची चिंता लागल्या.

सदु : चिंता कोणे कोण ची करपाची ? अेकलो दुसऱ्याच्या दुखात वांटेकारी जावकच शकना. तरनाटो आसा. जगाचो अणभव घेतलो आनिक

विसरतलो इल्लो इल्लो.

शांती : तूं विसल्ला ?

सदु. : किते तें ?

शांती : तुजे फाटले जिवितांतलें दुख किंवा वायट दिस !

सदु. : म्हाका फाटले जिवितांत दुख आशिल्लें म्हण्ण तूं कित्यावेल्यान सांगतां?

शांती : सदुबाब, म्हाका फटयशी. तूं आपले मनाक फसवंक शकचोना.

सदु. : हांव सदा फटिंग मनीस. पैसो–आडको, नामना आसा, म्हाका किते कमी आसा गो ?

शांती : तुजीं उतरांच सांगतात कि तुज्या मनांत कसली तरी व्यथा आसा म्हण्ण.

सदु. : पिशें खंयचें ! म्हाका आनी कसलें दुख आसतलें ?

शांती : एक विचारूं ?

सदु. : ओ एस ! बरेभाशेन विचार.

शांती : तुवें लग्न कित्याक केलें ना ?

सदु. : तशें कांय खाशेले कारण ना.

शांती : आसा.

सदु. : आँ ! कोण सांगता ?

शांती : तुजें उदास मन.

सदु. : बरें मनकवडें आसा मगो तुं.

शांती : सायकॉलॉजी घेतिल्ली हांवें बी. ए. क–

सदु. : तिजो उपेग मात केलो ना तुवें.

शांती : किते ?

सदु. : कांय ना. चल, वचपाची तयारी करूं जाय.

शांती : सदुबाब, म्हाकाय सांगुं जायना ?

सदु. : आगो, पूण सांगपासारकें कांयच ना जाल्यार सांगतलो किते ?

शांती : सदुबाब, आतां हाजेंशपरांत तूं परतो भारतांत पावचोना आनी आमकांय मेळचोना न्ही ?

सदु. : पुरो जालें गो म्हाका ! जाण्टो जालोंना आतां आतां धांवपळ करपाक नजो म्हज्यान. एका जाग्यार वसपाचें वय हें.

शांती : आतां निमणे तरी आपलें मन उक्तें करून सांगचोना म्हाका ?

सदु. : (अजापान) किते तें ?

शांती : तुजे मनातले दुख. आमी कोणच न्ही मरे तुजीं ?

सदु. : कोण कोणाचो गो ? कोण कोणाचो न्ही बाय, कोण कोणाचीं न्ही ! फकत उतरांची कसरत. एकामेकाकडेन उलोवन दुख कमी जाता म्हण्टात तें फट. तितलेपुरतें मन हलकें दिसता पूण चार दिसांनी परतोय मनाचेर

ताण पट्टाच.

शांती : आतां ह्या जाण्टेपणांत युगांडांत वचून कित्या रावूंक जाय काय म्हटां हांव. आमी आसात हांगा. हांगा येवन राव. भुरग्यांबशेन करता आमी तुजें सगळें.

सदु. : तूं आसासर जायत गो. मागीर ह्या घरांत सुनो येतकर म्हाका हांगां सुवात मेळटलीच म्हण्ण सांगुं नजो. म्हज्या दोस्तालीं भुरगीं वाऱ्यार पडलीं नात, तीं आपल्या पायांर उबीं रांवलीं हातूंतच म्हाका संतोष. चार दिस दिलिपाक मात्सो सामाळ तूं. चार दिस मात्सो ताज्या मनार परिणाम जातलो. चलयां परस चले मात्से भावनाप्रधान आसतात.

शांती : तूं भावनेक महत्व दिनासिल्लो न्ही ?

सदु. : भावना चार दिसाची. मागीर मनांत भावनेक थारो ना. मागीर व्यव्वार. दिपालिन पळय कितलेबेगीन व्यव्वार दाखयलो.

शांती : दिपालिन अशें करूं जायनाशिल्लें.

सदु. : चलयांच्यो मगो दोन जाती आसतात. अेक जात दिपालिची. तांच्या भोंवतणीं एक वेगळेंच जग निर्माण जाता आपोआप. आनी त्या जगांतच ती वावुरतात. हो चलो म्हाका आपैता ! तो चलो म्हजेर मोग करता! तो चलो म्हाकाच पळयत आसता ! तो म्हजेर लायन मारता ! अशें मानपी चलयांची अेक जात आसता. ह्या जातींतल्या चलयांचें मन चंचल आसता. आपल्याक म्हत्व चडलें अशें तांकां दिसता. केन्ना हाजेवांगडा नाचतात तर केन्ना ताजेवांगडा खेळटात. केन्ना हाका उतर दिवप तर केन्ना ताका उतर दिवप. तांचे मन थिर आसना. आनी जेन्ना मन थिर जाता तेन्ना वेळ गेल्ली आसता. गेल्ली वेळ परती मेळना.

शांती : चलयांची दुसरी जात कसली ? आयकुंया तरी !

सदु. : दुसरे जातीचें प्रतिनिधि तूं. दुसरी जात तुजी.

शांती : (वायट दिसता) म्हणजे अपगांची, थोटयांची, फुडुयांची, पिशांची अेक जात.

सदु. : नो, नो, नो यु आर मिस्टेकन. तशें हांव केन्नाच म्हणचोना. म्हाका म्हणूंक जाय आशिल्ले स्वप्नाळू चलयांची जात ही जात मात्सी भित्री आसता.

शांती : म्हणजे हांव सप्नाळू आनी भित्रें अशें म्हणूंक जाय तुकां.

सदु. : यक्झेक्टली. इतलेंच न्ही तर आनिक एक विशेषण लावपाक सोदतां हांव ह्या जातीक.

शांती : कसलें ते ?

सदु. : ही जात मोनी लेगीत आसता !

शांती : (हांसून) म्हणजे हांव सपनाळू, भित्रे आनी भोने. आजच कळलें म्हाका हें.

सदु. : आपल्या फुडल्या (भावी) संसाराचीं तुमी सपना पळयतात. ह्या संसाराचो दुसरो भागीदार सादो आसना.

शांती : कसलो आसता तर ?

सदु. : समाजांतल्या उच्च थरांतलो मनीस. संसारांतलीं सगळीं सुखां तुमी ताजेवांगडा कल्पनेनच भोगतात ; पूण प्रत्यक्षांत तुमकां मेळटा अेका सादोसुदो, गरीबसो मनीस. हें तुमी पळयल्ल्या सपनाच्या विरुद्ध आसता. आनी असल्या संसारांत एडजस्ट करपाक तुमकां जमना.

शांती : आनी आमची जात भीत्री कित्याक ?

सदु. : समज तुमच्या सपनांतलो, म्हणजेच तुमच्या इत्सेसारखो कोणय दिसलोय जाल्यार, तुमी ताका आपल्या मनातली इत्सा उलोवन दाखवपाक भितात, आनी आपल्या आवय बापायकय सांगूक भितात. आपले मन उक्ते केन्नाच करीना म्हुण्ण तुमी मोनी. तुमचो अपेक्षाभंग जातकर तुमकां संवसारांत सूख मेळना.

शांती : तुज्या जिवितांत खंयच्या जातींतली चली आइल्ली ?

सदु. : दोनय जातींतल्यो चारपाच चलयो!

शांती : म्हणजे सगळ्या चलयांचेर मोग करतालो ?

सदु. : खरो मोग अेकल्याचेरच केल्लो.

शांती : फकाणाचोय बी मोग केल्लो तर तुवें ?

सदु. : ना. ताणी मोग करपाचें नाटक केलें. पूण अेकल्याचेर म्हजे मन बसपाक म्हाका कळलें कि तें अेकल्याचेर मोग करपी, दुसऱ्या वांगडा नाचपी आनी तिसऱ्या कडेन लग्न करपी जातींतलें आशिल्लें म्हण. ताजें लग्न जातकर आनी अेकलें जीवितांत आयलें तें आसिल्लें भित्र्या आनी मोन्या जातीतलें. ताका हांव अजून विसरूंक शकलोना.

शांती : पूण तुमचें फिस्कटलें कित्याक ? (इतल्यान अनिल आनी दिलिप येतात. दिलिप येवन कदेलार मोन्यानी बसता. अनिल भितर वता.)

सदु. : कितें जालें दिलिप ? दोगांयचीं तोंडां वाकडींशीं ?

दिलिप : भाऊक विचार.

शांती : तुवें सांगू जायना ?

दिलिप : (वैतागुन) पूण ताका विचारल्यार कितें जाता काय म्हण्टा हांव ? म्हज़ेच वैताग थोडे म्हण तुमचे आनी त्राम कित्याक गो.

शांती : हांवें हजारवेळां सांगलें अनिलाक तूं लग्न जा. म्हजेसारख्या थोटचाक

आनी जागो मेळपाक आसा ? सदुबाब तूं म्हण्टा तेंच खरें. आमीं फक्त सपनांच पळोवपाक उल्लीं. खरी परिस्थितिची आमकां जाणीव जायना. हावें खरें म्हणजे स्वंयच्याय आश्रमांत वचून रावपाचें. आयच्या समाजांत म्हाका सुवात ना.

सदु. : सगळयांक हांगा सुवात आसा. फक्त गरज आसा आत्मपरिक्षण करपाची. लोकांक दोष दिता म्हण्ण तूं म्हण्टालें न्ही. समाज व्यव्वार पळयता व्यव्वार. तुजें मन पळयना. व्यव्वारी समाज मन पळयना, हाजी वळख करून दिवची पट्टा. तुजेवरि समजुतदार मनिस लेगित स्वार्थ पळयता. तुज्यांत डिफेक्ट आसूनय हेर लोकांपरस तुजें एक्स्पेक्टेशन कमी आसा.

दिलिप : चलयेकारांचो अन्याय ना ताई. तांचो मात लेगित अन्याय ना. तांकां तूं पसंत आसा पूण . . .

शांती : पूण कितें ?

दिलिप : भाऊक तांची चली पसंत ना.

शांती : पसंत नाजाल्यार ताजेर सक्ति ना.

दिलिप : चली दिसपाक सुंदर आसा. पूण ताणे गोगल लाइल्लें.

सदु. : लायलें म्हण कितें जालें?

दिलिप : भाऊक दुबाव आयलो आनी ताणे गोगल काडूंक लायलें.

शांती : म्हणून तांकां राग आयलो ?

दिलिप : ना. भाऊकच राग आयलो.

शांती : ताकासो कसलो राग ?

दिलिप : चली मात्सें तिरशें आसा म्हण्ण भाऊन ताका नकार दिलो. तिरशें चलयेकडेन तो लग्न करपार ना खंय. सदुबाबाचेर कोंत्र आसा तो.

सदु. : कित्याक ?

दिलिप : तिरशे चलयेचें प्रोपोजल हाडलां म्हण्ण. (भितर वता)

सदु. : पळयलें शांती, हो तूं म्हण्टा तो त्याग न्ही हें तुमचें भांवडप्रेम न्ही. आपली भैण डिफेक्टीव आसा हें अनिल पळयना. थोटी भैण लोकांनी पत्करची. (शांती रडकुळें जाता. दोळे ओले जातात.) हाका मात आपली बायल सुंदर जाय. आंगान - पांगान बरी जाय. उट्टा तो म्हण्टा त्याग करचो. भावना म्हण्टा ती मोठी चीज आसा. आतां खंय गेलो त्याग अनिलाचो ? खंय गेलें भैणीवेलें प्रेम ? सगळयो उलोवपाच्यो खबरी ! स्वंयच्या तोंडान हो लोकांक सागतलो आपले थोटे भैणीकडेन लग्न करात म्हण्ण ? (मात्सो शांत) तर त्याग बी काय ना. प्रत्येक जाण आपलें चित्ता. आपलें सादोवन उल्लेंच जाल्यार मागीर

त्यागाचे नाटक. कोण कोणाचो न्हय.

**दिलिप** : (बॅग घेवन येता) ताई, ह्या गावांत म्हाका रावपाचें ना. हांव चल्लों. म्हाका सहन जायना हें.

**शांती** : खंय वतलो तूं ?

**दिलिप** : मद्या तरी धारवाड वतलों. मागीर सांगुं नजो.

**शांती** : कित्याय कितें अविचार करूं नाका.

**दिलिप** : म्हाका वचूंक. जाय !

**शांती** : आरे, पूण सदुबाबय आज वता. तूंय वचूंक भायर सल्ला. कितें येवजिलां तुमी ? घर खांवक येतलें मरे म्हाका. (दोळे पुसता.)

**दिलिप** : म्हाका म्हजेंच मन खाता. हांव कितें करूं ! पोखरता मन भितल्ल्यान. (नेटान वता.)

**सदु.** : आरे, (घडयाळ पळयता) आरे सवाय तीन जालीं. चारांक फ्लायट आसा. (भितर वता. शांती कदेलार बसता. सदुबाब बॅग घेवन येता.)

**सदु.** : शांती. (आवाजांत कांपरो) शांती येता हांव. ओगीच मोठीं मोठीं सपनां पळयत रावूं नाका. मळबांत पळयत चलूं नाका. जमनीरय पळय. मळबांतल्या परस जमनीर आसता तें म्हत्वाचें हे विसरुं नाका. बरें येतां हांव . . . (फाटीर हात फिरयता. दोळयांत ओलसाण) हें पत्र घे. हातूंत हांवें खूब बरयलां. म्हजें विमान चारांक सुटतलें. चारांक हें पत्र फोडून वाच. (वचूं लागता)

**शांती** : सदुबाब, . . . (तो थारता) एक उतर दिता म्हाका ?

**सदु.** : माग.

**शांती** : आमचेखातीर तुवें पयलीसारखो हांगा येवंक जाय ! इतली भीक घाल म्हाका . . . ना म्हणूं नाका.

**सदु.** : (मात्सो रावता) पयलीं सारकें येवंक जमचेंना म्हाका. पूण तुकां उतर दितां हांव, म्हजी गरज लागल्यार म्हाका कळय. आयलेबगर रावचोना हांव. (वता. केदो वेळ तें ताजे वाटेक दोळे लावन पळयता. मागीर मेजावेलें पत्र काडून फोडटा आनी वाचता. माचयेर काळोख जाता. फक्त शांतिचेर स्पोट लायट आसता. पत्र वाचतना लोकांक आवाज सदुबाबाचो आयकूंक येता)

मोगाळ शांती,

भाव आपल्याक अंतर दिवचेना. भाव आपल्याखातीर खूब करतात असो तुकां गर्व आशिल्लो. पूण तांचो सभाव तुकां कळून आयलाच. तूं म्हण्टा त्या इमोशनाक जीवितांत कितली सुवात दिवंक जाय हें तुकां कळ्ळांच जातलें. मनीस भावना, प्रेम ह्या शब्दांचीं भुखडीं

घालून ह्या समाजांत फिरतात. असल्या लोकांत तूंय आसा आनी हांवूय आसा. हांव भावनेपरस व्यव्वाराक मानपी. तरीपूण तुजो फुडार चिंतून म्हाका वायट दिसता. फाल्यां भावांचीं लग्नां जातकर त्या घरांत तुकां कितलें प्रेम मेळत तें सांगु नजो. घडये त्या घरांत तुकां सुवात लेगीत मेळचीना म्हूण हांवें भारतातलो सुमार पंद्रा लाखांचो धंदो तुज्या नांवार केला. तुजेकडेन पैसो आसा म्हूण तरी तुकां त्या घरांत मान मेळटलो. तूं लग्न जाल्यार लेगीत ही सगळी प्रोपर्टी तुकांच मेळटली. लग्नाची आशा म्हजे मतान तरी थोडीच. तरीपूण तुज्या पैशांकडे पळोवन कोणय तरी जायत लग्न. एक लक्षांत दवर, ह्या व्यव्वारी जगांत व्यव्वारानच वागूंक जाय.

तुका अेकदां हांवें सांगिल्लें कि सायकॉलॉजी शिकून लेगीत तिजो उपेग करूंक येना म्हूण. ह्या म्हज्या म्हणण्याचो अर्थ तुकां केन्नाय कळ्ळो जाल्यार बरय म्हाका हां.

देव बरें करूं,

तुजो,

सदुबाब.

शांती : सदुबाब, सदुबाब, तूं म्हण्टालो कोण कोणाचो न्ही. पूण ह्या तुज्या पत्रानच तूं म्हजो म्हूण सिद्ध केलें. सदुबाब तूं म्हाका मोन्यांच्या जातींत उडय नाका. तूं लेगीत त्याच जातींत आसा हें तुवें उलयनास्तना दाखोवन दिलां. सायकॉलॉजी हांव शिकलां म्हूण तुजेर तिजो प्रयोग केलो. पूण शेवट मेरेन मोनोच रावलो तूं. तूं मळबांत आसा अशेंच म्हाका दिशिल्लें. पूण जमनीरय आसा हें आतां कळ्ळें म्हाका. कोण कोणाचो न्ही जायत पूण तूं शांतिचो आनी शांती सदांच तुजें !

(पडो पडटा.)

... ❑ ...

# 9.

# तीन खेतीं शाणी सुरतीं

## प्रकाश थळी

पात्रां :

नेत्रा
गोविंद
अतुल
श्रवण
सुभाष

(अेके कॉलेज़ीच्या हॉस्टेलांतलो कॉमन रूम. स्टेज़ीचे अुजवे वटेन चार कदेलां. तांचे मदीं अेका वाटकुळया मेजार वर्तमानपत्रां, आंक बी अस्ताव्यस्त पडिल्ले आसात. मेजाफाटल्यान फायलीक लागून स्टेज़ीत भितरमेरेन येवपी अेक ल्हानसो आंतेपार (पार्टीशन) आसा. स्टेज़ीचे दावेवटेन अशेंच अेक ल्हानशें पार्टीशन निमाणे फालीक जोडून आसा. ह्या आंतेपांरा फुडें पुस्तकांची अेक ल्हानशी आलमार, अेक रेडिओ बी सामानय आसा. ताचे फुडल्यान अेक कदेल आनी मुखार अेक टिपॉय. स्टेजीचे मदीं फाटसार अेका मेजार टेलिफोन आसा. पड्डो अुगडटा तेन्ना रेडिओचेर संगीत आयकूंक येता. हॉस्टेलाच्या रॅक्टरालें कुडुं चली स्टेजीचे दावे वटेंतल्या कदेलार बसून कितें तरी विणटा.)

**नेत्रा** : (पावलांचो आवाज आयकून) कोण ? कोण आयला ? कोण थंय ? उलयना कित्याक ? उलोंवक येना काय म्हणटां हांव ? जाप कित्याक दिना ? (स्टेजीर मोनो सुभाष येवन अेक पासय मारता आनी मेजा वयले आंक बी चाळून परतो वता. कांय खिणां भितर भेरो श्रवण स्टेजीर शिळोणी घालीत प्रवेश करता. अेक पासय मारता. आंक चाळटा. हेवटेन तेवटेन पळयता आनी परतो वता) कोण थंय ? कोण आयला काय म्हणटां हांव ? उलयना कित्याक ? तुका आयकूंक येना हांव कितें म्हणटां ते ? अजापूच शें !

(श्रवण गेल्या उप्रांत गोविंद आनी ताचे फाटोफाट अतुल स्टेजीर येतात.)

**नेत्रा** : कोण थंय ? कोण अयला ?

**गोविंद** : (अतुलाक) यो. हांगा बसूया आमी. (दोगूय स्टेजीचे अुजवेवटेंतल्या कदेलांचेर बसतात )

**नेत्रा** : कोण गोविंद रे ?

**गोविंद** : हय, हांव तो कित्याक अुलो माल्लो ?

**नेत्रा** : तुका मेळपाक कोण आयिल्लो. वांगडा अेक बायल मनीसूय आशिल्ली. तुजेकडेन कितें तरी काम आशिल्लें खंय.

**गोविंद** : म्हजेकडेन काम आशिल्लें ? कोण आयिल्लो म्हळें ?

**नेत्रा** : हांवें नांव विचाल्लें ना. पूण म्हत्वाचें काम आशिल्लें अशें म्हणटालीं.

**गोविंद** : म्हत्वाचें काम ? आनी म्हजेकडेन ? कितें रकाद बी दवल्ला ?

**नेत्रा** : ना परती फावट मारतां म्हळां.

**गोविंद** : बरें आसा, येतलीं तर मागीर. (अतुलाक) आं, तर येदोळ हांव कितें म्हणटालों ? तूं ताका मात्तय नाका.

**नेत्रा** : कोणाक ?

गोविंद : हांव हाचेकडेन अुलयतां. आं. (अितलो वेळ अतुल अेकसारको नेत्राकडेन पळयत आसा.) आरे आं, हें नेत्रा आमगेल्या रँकटालें चली. (नेत्रा अुठून नमस्कार करता. टिपॉयाक आदळत.) सांबाळ, आं नेत्रा. पडशीत. हांगा टिपॉय आसा. (अतुलाकडेन पळोवन) बाबड्याक दिसना.

नेत्रा : बरें केलें ताका खबर नाशिल्लें म्हजें व्यंग सांगलें आनी वयल्यान 'बाबडें' म्हणून काकुळटूय केली.

गोविंद : सॉरी आं नेत्रा. म्हाकां तशें म्हणपाचें नाशिल्लें. तुकां वायट दिसलें व्हेरी सॉरी (परतो अतुलाकडेन वळून) तर हांव तुकां कितें सांगतालों ? हय, तूं ताका मात्तूय आवडना. तुवें जर ताची फाट सोडली ना जाल्यार सांबाळ. म्हाका पुलीशेंत कळोवचें पडटलें. तुकां दिसता आसत, हांव पोक्यो फटाशो मारतां म्हूण पूण आतांच सांगून दवरतां, म्हजेकडेन पुरावो आसा. (बॉल्सांतल्यान अेक कागद काडून दाखयता) हो पळय (अतुल झोंपय मारपाचो यत्न करता) आं, हात लावं नाका. पयसुल्यानच पळय. (कागद परतो बोल्सांत दवरता. अतुलाचें मेजार दवरिल्ल्या लायटराकडेन लक्ष वता) आरे, बरो लायटर मरे ! कितें रे, कोणालो फारायलो ?

अतुल : फारावंक ना. फारावपाची तजवीज आसा.

गोविंद : जाणा रे, खबर आसा. तुजोच हो लायटर. व्हडलो फारावपी जाल्लेवरी ! हें कितें ! तुजें नावपसून आसा हाचेर. (सकयल आशिल्ल्या अेका जायरातीकडे ताचें लक्ष वता.) आरे, ही जायरात आनी कसली ? वा ! ही सिनेमाची जायरात Dial 'M' for murder. (जायरात काडपाक बागवल्लो आसता तेन्नाच, अतुल गळ्यांतलो स्कार्फ काडटा आनी गळो आवळून गोविंदाचो खून करता. अतुल लायटर थंयच विसरला. तो गोविंदाच्या बोल्सांतलो पुराव्याचो कागद काडटा आनी ताचो मुडदो स्टेजीच्या अुजवे वटेतल्या पार्टीशना फाटल्यान उडयता. चोर पावलांनी भायर वता आसतनाच भितर सरपी सुभाषाक ताचो धक्को लागता. फाटल्यान रोखडोच श्रवणूय आयला. दोगूय चलत चलत स्टेजीचे उजवेवटेन पावल्यात. आतां हाचेफुडें सुभाषाचें चडशें ॲक्टींग, स्टेजीचे उजवे वटेनच्या जाग्यार रावन जाता. सुभाष-श्रवण आनी नेंत्रामदीं संपर्क सादून रावपी सवंग ! )

नेत्रा : कोण आयला ? कोण थंय ! कोण ? (सुभाष कुरवांनी श्रवणाक सांगता.)

श्रवण नमस्कार.

नेत्रा : (उबें रावन हात जोडटा) नमस्कार.

श्रवण : हांव श्रवण. तुजें नांव कितें ? (आयकुपाचो पिशेपणाचो यत्न करता)

नेत्रा : म्हजें नांव नेत्रा. (श्रवणाक कळूंक ना. सुभाष ताका आपणां म्हऱ्यांत आपोवन व्हरता आनी कुरवो करता.)

श्रवण : भोंवयो ? दोळे ? नदर ? नयन ? नेत्र ? हां हां नेत्र. तें नेत्र, तें नेत्र, हां हां नेत्रा. (सुभाष कुरवांनी हय म्हणटा) तुजें नांव नेत्रा ?

नेत्रा : हय, हांव नेत्रा. तूं कवी - बिवी काय कितें ? म्हज्या नांवाचीं कितलीशींच उतरां तुवें उलोवन दाखयलीं. खऱ्यांनींच तूं कवी ? (सुभाष कुरवांनी सांगपाचो यत्न करता.)

श्रवण पुस्तक ? पद ? पुस्तकांतलें पद ? कविता ? खाड ? चंद्रीम ? कविता खाड - चंद्रीम ? हां, हां, कवी ! न्हय न्हय, हांव कवी न्हय ! हांव चित्रकार. आर्टिस्ट. तुका चित्रां आवडटात ?

नेत्रा : चित्रां कोणांक आवडनात ? (सुभाष कुरवांनी 'ताका चित्रां आवडटा' अशें सुचयता.)

श्रवण : पूण तूं हांगा चल्यांच्या हॉस्टेलांत कशें पावलें ?

नेत्रा : म्हजो बापूय हागा रॅक्टर म्हणून आसा.
(सुभाष कुरवांनी हें श्रवणांक कळोवपाचो यत्न करता.)

श्रवण : तकली ? केंस ? बॅट्रि लायट ? पेंसिल ऑफ लायट ? रेय, रेय, रेय नेलकटर ? हां कटर. रेय -- कटर, हां हां रॅकटर, व्हडलो ! उंच ! हां बापूय. तुजो बापूय हांगा रॅक्टर आसा ?

नेत्रा : हय ताचेंच चली हांव. घरांतली सगळीं जाणा भायर सल्ल्यांत. हांव रेडिओ आयकतां. म्हाका पदां खूब आवडटात.
(सुभाषाच्यो कुरवो)

श्रवण : हां. हां संगीत तुकां बरें लागता ?

नेत्रा : हय. तो रेडिओ मात्सो बंद करता ? कार्यावळ सोंपलीशी दिसता.
(सुभाष कुरवांनी श्रवणाक 'रेडिओ बंद कर' अशें सांगता ; पूण ताका तें सारकें कळूंक ना. तो रेडियो म्हऱ्यांत वता आनी म्हणटा)

श्रवण : हां. रेडियो. बरो आसा हां तुमचो रेडियो. खंय घेतिल्लो म्हळें हो ?

नेत्रा : हांवेंच घेतिल्लो. मात्सो बंद करता ? स्टेशन बंद जालांशें दिसता.
(श्रवणाक आजुनय कांय कळूक ना. तो रेडियो तोखेत आसा. सुभाष खासा येवन रेडियो बंद करता.)

श्रवण : चालू आशिल्लो ? म्हाका सांगपाचें न्हय ? हांव बंद करतलों आशिल्लों. नेत्रा तुका चित्रां आवडटात न्हय ? हांव तुका म्हजीं चित्रां दाखयतां

हां ! (अेक कदेल हाडून नेत्राच्या सामकाराक दवरता. ताचेर बोटव्यांतलें अेकेक चित्र दवरून दाखयता.) हें जें आसा न्हय, तें Black and White आसा आनी हें जें दुसरें आसा पळय तें चार रंगांचे.

**नेत्रा** : Colour Combination बरें जमलां.

**श्रवण** : अशीं जायतीं चित्रां काडटां हांव. पूण कितें जालां, हालीं म्हाका चड वेळ मेळना. पूण हें बरें जालां शें दिसता. म्हाका स्वताक आवडलें. बरें एक सांग, Colour Combination कशें जालां ?

**नेत्रा** : सांगशें न्हय, Colour Combination अेकदम बरें जमलां. (सुभाष कुरवांनी समजायता.)

**श्रवण** : नेत्रा, तुका खंयचे रंग आवडटात ?

**नेत्रा** : म्हाका मूं ? म्हाका जाल्यार अेका धव्या रंगांत सातूय रंग दिसतात. (सुभाषाच्यो कुरवो)

**श्रवण** : लेंस, धवो लेंस, धवो रंग सात, धवो – रंग – सात, धव्या रंगात, सात. हां, हां, म्हणजे तुवें Physics घेतलां तर ! इंद्रधनुष्यांत दिसतात सात रंग ? तूं खंयचे कॉलेजींत शिकता ?

**नेत्रा** : हांव धेंपे कॉलेजींत शिकतां. (सुभाष कुरवानी सांगता.)

**श्रवण** चलता ? दांग मारता, हां हां धेंप, धेंप. पुस्तक, शिकता, शाळा, व्हडली शाळा. कॉलेज – कॉलेज. धेंपे – कॉलेज. हां हां धेंपे कॉलेज. तूं धेंपे कॉलेजींत शिकता तर ! तूं खंयचें ?

**नेत्रा** : आमचें घर फोंडच्यां तिस्कार. (सुभाष कुरवानी श्रवणाक समजायता.)

**श्रवण** : खण्टा ? खळगो, व्हाळ ? खळी ? किरिस्तांव . . . मेलो. पुल्लो तो जागो हां – हां फोंड तें हां हां फोंडेचें ?

**नेत्रा** : हय, हांव फोंडेचें, तूं खंयचो ? (सुभाष श्रवणाक प्रस्न सुचयता पूण ताका ते कळना.)

**श्रवण** : तकली ? घुंवऱ्या ? म्हजी ? हँ ! ऑ ? पिसो, अिग्लेजींत पिसो Crack ? Fool ? Mad ? (सुभाष 'हय' अशें कुरवांनी सांगता) लोक ? समाज ? खूब लोक ? गांव ? (सुभाष 'हय' अशें शिटकायता) मड – गांव, मड – गांव हां हां मडगांव – हांव – मडगाव. हाय देवा, हांव मडगांवचो.

**नेत्रा** : तूं खऱ्यांनींच आर्टिस्टूच न्हय. तर कवीय बी, अेकाच अर्थाची कितलीशींच उतरां तुवें सांगलीं.

श्रवण : (सिगरेट ओडटा) तूं हांगां अेकलेंचशें ? बाकीचे लोक खंय तर ?
नेत्रा : घरांतलीं सगळीं सिनेमाक गेल्यांत ! (सुभाषाच्यो कुरवो)
श्रवण : Screen ? टेलिविजन. चित्र, हां सिनेमा ? सिनेमांक गेल्यांत !
नेत्रा : हय. (तकली हालोवन सांगता.)
श्रवण : तूं गेलें ना सिनेमाक ?
नेत्रा : हांली पळयना हांव सिनेमा. तूं पळयना सिनेमा ?
(सुभाष कुरवानी प्रश्न समजयता पूण श्रवणाक कळना.)
श्रवण : हांव ? हांगा ? हां हां हालींच आयलां हॉस्टेलांत. हांगाच कामूय करतां. आं ? हांव सिनेमाक वचना काय म्हणटा ? ना ना, म्हाका तांतले Dialogues आयकुपाक वाज येता.
नेत्रा : तातूंत वाज कसलो ? अजापूच शें.
श्रवण : तुका आवडनात सिनेमा ?
नेत्रा : म्हाका मूं ? तुका सिनेमांतले Dialogues आयकुपाक वाज येता तसो म्हाकाय सिनेमातले देखावे पळोवपाक वाज येता. पूण अेक सांग, तूं गोविंदाक वळखता न्हय ? थंय ती जायरात कसली आसा ? ती वाचली आनी रोखडोच गोविंद नाच जालो (सुभाष जमनीवयली जायरात 'Dial 'M' for murder' काडून वाचता आनी श्रवणाकडेन दिता.)
श्रवण : आरे ही तर सिनेमाची जायरात – 'Dial 'M' for murder' (अितल्यांत नेत्राच्या हातांतलो सुता – गुळो पडला तो सोदपाक तें उठटा. श्रवणाचे ताचेकडेन लक्ष वता.) राव हां नेत्रा, हांव हाडून दितां. (सुना – धागो सोदतांसोदतांच श्रवणाचें लक्ष पार्टिशनाफाटल्यान वता. तो धांवतच थंय वता आनी मडें पळोवन किळांच मारता) खून ! खून ! हांगा खून जाला. कोणाचो तरी गळो दामून खून जाला.
नेत्रा : आवयस ! हांगा खून ? कोणाचो ? कोणे केलो ? आवयस ! देवा म्हज्या !
(अितल्यान सुभाष आनी श्रवण पार्टीशनाफाटल्यान वचून खात्री करून आयल्यात. सुभाषाची आनी गोविंदाची वळख आसता. सुभाष कुरवानी सांगपाचो यत्न करता.)
श्रवण : वच. वच.
नेत्रा : (गोंदळून) खंय वचूं ?
श्रवण : चल. चल.
नेत्रा : खंय चल म्हणटा ?
श्रवण : विअलेज़ींतल्यान वचूं ?

नेत्रा : कितें ? कितें ?

श्रवण : Go ... Go ... Where shall I go ? पंखो? वारो ? अिंग्लेजींतल्यान वारो ... Wind, Wind ...Go wind हां हां . . . खून जाला ? तो गोविंदाचो !

नेत्रा : गोविंदाचो खून जाला ? गोविंद तर येदोळूच गेलो म्हूण समजलें हांव देवा म्हज्या !

श्रवण : हो गोविंद कोण ?

नेत्रा : ३०२ नंबरचे कुडींत रावतालो.

श्रवण : तीन–शून्य–दोन तीनशें दोन नंबरच्या रूमांत रावतालो.
(परते दोगूय पार्टीशना म्हऱ्यांत वचून येतात.)

नेत्रा : हय व्हय.

श्रवण : कोणे केला आसत हो खून ?

नेत्रा : म्हाका खबर ना.
(सुभाष नेत्राकडेन श्रवणाचें लक्ष वेधता.)

श्रवण : तूं हांगाच आशिल्लें न्हय ?

नेत्रा : (तकली हालोवन) हय.
(सुभाष कुरवांनी हय म्हणटा.)

श्रवण : तरी तुवें पळयलें ना ?

नेत्रा : म्हाका दिसना न्हय. मातूय. हांव कुड्डें.
(सुभाषाक अेकदम अजाप. नेत्राक दिसना हें तो कुरवांनी सुभाषाक सांगता.)

श्रवण : म्हातारो, सांसपीता ! आं कुड्डो. हें कुड्डें ? (अजाप) आरे ! म्हज्या अितलो वेळ कशें लक्षांत आयलेंना ?

नेत्रा : हय हांव कुड्डें. म्हाका दिसना.
(परते सुभाष आनी श्रवण पार्टीशनाकडेन अेक फावट मारतात.)

श्रवण : मागीर तुवें खुनी मनशाक पळोवकूच ना आसतलो.
(सुभाष, 'हांवें खुनी मनशाक पळयला' अशें कुरवांनी सांगता.)

श्रवण : तुवें ताका पळयला ? (अर्थात. सुभाषाक प्रस्न)

नेत्रा : सांगलें न्हय. म्हाका दिसना म्हणून. (सुभाष नांवाचो मनीस स्टेजीर आसा हाची आजूनय नेत्राक खबर ना )

श्रवण : (सुभाषाच्या कुरवांकडेन पळोवन) तुवें ताका धांवतना पळयलो ?

नेत्रा : श्रवण, श्रवण तुकां जालां कितें ? तुका सांगले न्हय हावें, म्हाका दिसना म्हणून. देवा म्हज्या ! श्रवण तुका कितें दिसता, कुड्डें म्हगपाचें हांव सवंग करतां ?

(अितलो वेळ नेत्रा अुलयतालें ताचेकडेन सुभाषाचें आनी श्रवणाचें व्हडलेंशें लक्ष नासलें. आतां सुभाषाच्या लक्षांत आयलां. तो श्रवणाक सांगता. अर्थात कुरवांनी कीं 'आरे पापया तें कितें तरी म्हणटा पळय)

श्रवण : नेत्रा. तुवें म्हाका कितें म्हळें ? म्हजें लक्ष नासलें.

नेत्रा : हांव अितलो वेळ जालो, आड्डून सांगतां आनी तुकां खरेंच दिसना ? (फोन अेकसारखो वाजता) तो फोन पयलीं घेयात कोण तरी. (सुभाष आनी श्रवण दोगूय फोनावयलें संभाषण आयकता. आनी कुरवानी श्रवणाक समजायता. त्याप्रमाण श्रवण अुलोवपाचें काम करता. फोन मुरलीधर पानकार ह्या मनशाचो आसता. ताका रॅक्टराक मेळपाचें आसा.)

श्रवण : बरें आसा. सांगतां तुजो रकाद. (फोन दवरता.) नेत्रा, तूं कुडूं हें म्हज्या लक्षांतूच आयलें ना बरोच वेळ. I am Sorry हां. हां. हांवें तुकां म्हजी चित्रां दाखयलीं. रंगाच्यो खबरी केल्यो. खरेंच तूं म्हणटलें हांवें तुजीं फकाणां केलीं. म्हजें वायट धरू नाका हां नेत्रा.

नेत्रा : कांय नज. तो फोन कोणाचो आशिल्लो म्हळें ?

श्रवण : म्हजीं पिशेपणाच जालीं.

नेत्रा : तूं अितलो कित्याक कश्टी जाता ? खरें म्हळयार म्हजेंच पयलीं चुकलें. हांवेंच पयलीं तुकां हांव कुडूं म्हणपाचें कळोवपाचें. (ताकाच परतें वायट दिसलां अशें सुभाष श्रवणाक सांगता–कुरवांनी)

श्रवण : नेत्रा, तू तुज्या कुडूपणाचें चड वायट धरूं नाका.

नेत्रा : फोन कोणाचो आशिल्लो म्हळें ?

श्रवण : खरें म्हळयार काकूळट, माया, आपलेंपण बी संवसारांतल्यो जायत्यो गजाली –

नेत्रा : कित्या खातीर फोन केल्लो ताणें ?

श्रवण : तुज्या वांटयाक देवान जितल्यो गजाली दिल्यात आसतल्यो तितल्यो हेरांच्या घडये येवंक नात आसतल्यो.

नेत्रा : श्रवण, तूं अेकसारको विशय कित्याक बदलीत रावता ? हांव अेकसारकें फोनाविशीं विचारता आनी तूं आयकुनच घेना.
(सुभाक 'नेत्रा फोनाविशीं विचारता' अशें कुरवांनी सुचयता)

श्रवण : नेत्रा, तूं म्हाका फोनाचें विचारतालें ? हाय देवा, हांव हांव आपलों वेगळेंच कित्या कितेंय बडबडत आशिल्लों. नेत्रा, खरें सांगूं तुका ? म्हाका मातूय आयकूंक येना. हांव भेरो.

नेत्रा : (अजापान) कितें ? भेरो ? अशें कशें जातलें ? ओगी कितेंय सांगू नाका ? भेरो जाल्यार अितलो वेळ म्हजे वांगडा कसो अुलयतालो ?

त्याभायर तूं फोनार लेगीत कसो अलयतालो तर ? (सुभाष कुरवांनी 'आमी फोनार कशे अुलयले' ह्याचेबद्दल नेत्रा विचारता अशें श्रवणाक सुचयता.)

**श्रवण** : फोनार ? हांव ? कसो ? अुलयलो ? हां ... हां ...हांव फोनाचेर कसो अुलयलों तें विचारता तूं ? देवा म्हज्या ! सगळो घुस्पागोंदळूच जालो, नेत्रा आनी अेक मजा तुका सांगपाची उल्ली. म्हजे वांगडा हांगा म्हजो अेक ओइट आसा, सुभाष म्हणून. ताका अुलोंवक येना, पूण ताका आयकूंक येता. अेका accident टांत ताची बाबड्याची वाचा गेली. तूं अितलो वेळ जें कितें अुलयतालें तें सगळें तो म्हाका कुरवांनी सांगतालो. सुभाष, असो यो मरे. तुज्री नेत्राकडेन वळख करून दितां. (सुभाष आयल्यान येवन नमस्कार करता. पूण नेत्राक तें दिसूंक ना. हें लक्षांत येवन श्रवण म्हणटा –) नेत्रा, सुभाष तुका नमस्कार करता.

**नेत्रा** : Sorry आं सुभाष तूं येदो वेळ हांगा आसा हें कळ्ळेंच ना. वायट धरूं नाका आं.

(सुभाष मुमुरख्यांनी हांसता )

**श्रवण** : कितें मजा पळे. तूं नेत्रा पूण तुका मातूय दिसना. हो सुभाष पूण मोनो. आनी हांव श्रवण पूण मातूय आयकूंक येना.

**नेत्रा** : अेकेल्यालें नशीब आनी कितें !

**श्रवण** : आरे, मुखेल गजाल आमी साप्प विसल्ले. ह्या खूनाचें कितें ? (नेत्राक) तुवें कांय ताका पळोंवक ना.

**नेत्रा** : पूण हांवें ताजो आवाज आयकला. ताचीं अुतरां हांवें आयकल्यांत. 'फारांवक ना, फारात्रपाची तजवीज आसा'

(सुभाष ताका कुरवांनी सांगता)

**श्रवण** : तुवें ताका उलयतना आयकला आनी सुभाषान ताका पळयला.

**नेत्रा** : तूं सुभाषाकडेन उलयता ?

**श्रवण** : नेत्रा, हांव आतां सुभाषाकडेन अुलयतां हां. सुभाष, ताचो भेस – वेस कसो कितें आशिल्लो ? हां, पॅन्ट घाल्ली, कोट, बुशकोट, हां सफरी, पायांत बूट आशिल्ले. मिशो आशिल्लो. आंगांन मोठो, उंच, केंस मुदयाळे. आनीक, आनीक ?

**नेत्रा** : सुभाष, तुका अुलोंवक आयिल्लें जाल्यार काय बरें जावपाचें म्हय ?

(सुभाष कुरवांनी नेत्रान म्हळां तें श्रवणाक सांगता.)

**श्रवण** : कितें म्हण्टा तें ? तूं, तूं तुकां, अुलोंवक बरें जावपाचें, तुका अुलोवक आयिल्लें जायार म्हणटा ? आरे मागीर प्रस्तूच नाशिल्लो.

**नेत्रा** : सुभाष, श्रवणाक सांग बेठ्ठ्यो खबरो मारचे परस पुलिसेंत फोन करून

कळय. पुलीस येवन मागीर कितें करपाचें तें करतीत. (सुभाष कुरवांनी श्रवणाक कळयता.)

**श्रवण** : कितें पुलिस ? नाका रे बाबा आमकां ती भानगड. (थोडो वेळ येवजून) पूण अशें कशें ? ना, ना, आमी कांयच केलेना जाल्यार आमकां आनी नेत्राक धोको आसा. आमी कितें तरी करुंकच जाय. (सिगारेट ओडपाक बोलसांत सांसपिता. पाकीट भायर काडटा. पुण सिगरेटी सोंपल्यात. पाकीट सकयल उडयता.) सुभाष, सिगरेट आसा रे ? (सुभाष ना म्हणटा.) मात्सो घेवन येता ? Please. (सुभाष सिगरेटी हाडपाक भायर वता.)

**नेत्रा** : सुभाष भायर गेला ?

**श्रवण** : नेत्रा, सुभाष मात्सो भायर गेला सिगरेटी हाडपाक.

**नेत्रा** : हांवें उलयल्लेंच हो उलयता. आतां हाचे बांगडा कशें उलोवप आनी फायदो तरी ? कितें हांव उलयल्लें हाका कांय आयकूंक येवचें ना आनी समजुचेंय ना. ओगीच राविल्लें बरें.

**श्रवण** : अेक सांगू नेत्रा ? सुभाष येसर आमी दोगांयनी कितेंच उलोवपांत अर्थ ना. तुवें उलयल्लें म्हाका कांयच आयकूंक येवपाचें ना. आनी कळपाचेंय ना.

**नेत्रा** : देवा म्हज्या ! श्रवण, हांवें अेक पळयलां. (ताका आयकूंक येना हें जाणा जावनूय आपले भितरुच कशें उलयता) हांव कुडें आसुनूय पळयलां, ज्या मनशाःक अेकाद्रें व्यंग आसता न्हय ताका देव वेगळे तरेची एक शक्त दिवन दवरता.

(श्रवण अर्थातच ब्लॉक.)

**श्रवण** : नेत्रा एक गजाल तुका खबर आसा ? खबर ना जाल्यार हांव सांगतां. हांवें अशें आयकलां, आयकूंक येना तरीपुण आयकलां, ज्याका अेकाद्र व्यंग आसता न्हय. कसलेंय, ताचेकडेन देवानूच दिल्ली दुसरी खंयची तरी अेक वेगळी शक्त आसता. (अतुल येता.) आसूं तूं विचारता आसतलें अेक आनी हांव दुसरेंच कितें सांगता आसतलों.

(अतुल कितें तरी सोदीत आता. तो आपणालो लायटर हांगा विसरुन गेल्लो.)

**श्रवण** : ना जाल्यार आमी अशें करूंया. हांव अेकलोच उलयत रावतां. तूं आयकत राव. (मात्सो थांबून ना जाल्यार आमी अशें करूंया. हांव तुका अेक काणी सांगतां. (कदेलार बसून सुचत तशी अेक काणी सांगतां. नेमक्या त्याच कदेलार अतुलाचो लायटर आसता. अतुल ताका मोन्यानीच उठोवपाचो यत्न करता.) कितें जाय ?

(नेत्राक अतुल आयला म्हणपाची मातूय खबर ना.)

नेत्रा : कांय नाका.

श्रवण : अठूं ? कित्याक ?

नेत्रा : हांवें खंय तुका ऊठ म्हळां ? हांव अुलोंवकूच ना.

श्रवण : मागीर सारके सांगूंक जायना ?

नेत्रा : अशें कितें करता श्रवण काणी सांगताळी ती थांबयली कित्याक ?

श्रवण : कितें सोदता तूं ? कितें जाय ?

नेत्रा : (दुबावान) कोण ? कितें सोदता ? कोण आयला ?

(अतुल चंवाचूक जावन आसा. श्रवणाक मांडये पोंदच्या लायटराचें भान जाता.)

श्रवण : आरें, हां, लायटर. वा, बरो मरे ! कितें रें, कोणालो फारायला ?

अतुल : (भान विसरून) फारांवक ना, फारावपाची तजवीज आसा.

(नेत्राक आपणें हीच अुतरां येदोळ आयकल्यांत म्हणपाचें याद जाता. तें धडफडत धडपडत ताका धरपाचो यत्न करीत अुलयता.)

नेत्रा : श्रवण, श्रवण, होच तो आवाज. धर ताका, घट्ट धर वचूंक दिवं नाका. श्रवण, श्रवण होच रे तो. (श्रवणाक कांयच कळूंक ना. तो लायटरा वांगडा खेळटा आनी अतुलाक मात्सो खेळयता)

श्रवण : बरें, बरें, खबर आसा रे. तुजोच आसतलो. घे बाबा, जीव वचत तुजो, बरें चल्लो ? अच्छा good bye. टाटा. (अतुल चोर पावलांनी चंबाचूक हेवटेन तेवटेन पळयत वता. नेत्रा अितलें म्हणसर धडपडत, बडबडत स्टेजीचेर मदीं धोररां आनी हात तेंकोवन हताश जावन बसलां.

नेत्रा : श्रवण, श्रवण, गेलो तो ? देवा कितें केलें तुवें ? काय बरो धरूं येतालो ताका ! (श्रवण अतुलाक bye bye करून परतला)

: (जमनीर नेत्राकडेन नदर वचून) नेत्रा, नेत्रा, कितें जालें ? हां, कितें जाय ? हां... अशें कितें जालें ? तूं बसता ? यो हांगा बस. हें पळय हांगा कदेल आसा.

(हाताक धरून कदेलार बसयता. आनी अजापान येवजीत रावता, नेत्राक पळयत. अितल्यांत सुभाष परतो येता. ताणे अतुलाक पळयला म्हणपाचें ताका सांगपाचें आसा.)

श्रवण : कितें ? कितें ? तुवें खून करतल्याकच पळेलो ? धांवतना... आतां ?

: सुभाष आयला ?

श्रवण : आरे, तो तर अतुल आशिल्लो.

: सुभाष, सुभाष. तोच तोच तो. हांवें ताचो आवाज वळखलां. हांवें

श्रवणाक ताका धर म्हळो, पूण ताका आयकूंक आयलेंना. अितल्यांत तो पळ्ळो.
(सुभाष 'तोच तो' अशें कुरवांनी सांगता. आनी नेत्राय म्हणटा तेंय सांगता.)

**श्रवण** : आरे, आरे, आरे ! काय बरो धरूं येतालो. आतां कितें करूंया ?

**नेत्रा** : आतां पुलिसेक फोन करूंयां. हांगा हॉस्टेलांत अतुलान गोविंदाचो खून केला म्हणून. उरिल्लें ते पळयतीत. (सुभाष नेत्राचें म्हणणें कुरवांनी अतुलाक सांगता. श्रवण, सुभाष आनी नेत्रा तिगांय ल्हवूल्हवू फोनाकडेन येतात. नेत्रा फोनार अुलयता.)

**नेत्रा** : मडगांव पुलीस स्टेशन ? हांव डॉक्टरालें चली नेत्रा गोंयकार अुलयतां. हांगच्या अे. बी. सी. कॉलेजीच्या हॉस्टेलांत आतांच अेक खून जाला. ३०२ रूमांत रावपी गोविंद नांवाच्या भुरग्याचो. हो खून अतुल नांवाच्या भुरग्यान केला म्हणपाचो दुबाव मारता. बेगीन येयात. Thanks.

(पड्डो)

# 10.

# चीट

## तोमाझिन्यू कार्दोज

पात्रां :

रमेश :
आशा :
हरी :
बाबा :
साळू :
मास्तर :
नारायण :

(हरीचें घर. निळया रंगाचो उजवाड. रमेश आनी आशा आसता. हरी खाटीर न्हिदला. एका सपनाचो देखाव.)

**रमेश** : आगो, तूं म्हाका आनी त्या हरीक सर करता ? तो हरी, तो हरी कोण गो ? एका काळार हांव आनी तो एकेच शाळेंत बरोबरूच शिकताले. हावें म्हजी बी. ए. पास केली आनी तो, हांव कांय नकळो आजून पर्यंत बरोवंक जाणा जाल्यार, ही तुका खबर आसा ?

**आशा** : रमेश, हावूंच नकळो आतां हावें कितें करचें तें. म्हज्या घरच्यांनी म्हाका त्रासांत घातलें. म्हजे आवयन तांची म्हाका सून करूंक भास दिल्ली आसा.

**रमेश** : आशा, आधुनीक काळ हो. हो काळ आवय-बापायच्या पावलांनी चलपाचो न्हय. जण एकल्यान आपल्या स्वतंत्र चिंतनाचेर भरवंसो दवरून निर्णय घेवपाचो आसता. पळय, तुजी आनी म्हजी जोडी आकाशांतल्या नखेत्रांपरी शितळपणीं लीकलीकता आनी तूं . . .

**आशा** : रमेश, पुरो कर. तुज्याशिवाय म्हज्या काळजांत कोणाकूच सुवात ना, पूण हे अस्कत काळीज आवय-बापायच्या पिंजऱ्यांत आसा. सांग, हांव कितें करूं ? हरी कोण पळय तो म्हाका भरपूर माहिती आसा. ताचेलागीं लग्न केल्यार उरलेलें जिवीतभर म्हजी तकली सकयल घालून भोंवचें पडटलें म्हणूनय हांव जाणाच. पूण . . . पूण . . .

**रमेश** : आशा, ही सगळी तुका माहिती आसतना तूं हें चुकिचें पावल फुडें घालूंक सोदता ? त्या हरीक आपली स्वतःची सिगनेचर करूंक येना. तुज्या दोळयांमुखार तो आपलो आंगुठो लायतना तुका बरें दिसतलें ? त्या अशिक्षीत प्राण्यालागीं लग्न करून तूं तुजे परमळीत मतिचेर काळोक हाडटलें. आशा, तुवें धीर घेवंचो आसा. तुज्या आवय-बापायक हें सगळें स्पष्ट करून सांगचें आसा. आशा, पळय म्हजो फुडार परमळीत करूंक म्हाका तुजी गरज आसा.

**आशा** : आय लव यू रमेश.

रमेश : आशा, कितें म्हटलें तुवें ?

आशा : आय लव यू रमेश. आय लव यू. तुज्याच शब्दांनी म्हाका घटाय दिली, तुजे जाणवायेन म्हजे काळके मतीर उजवाड हाडलो. हांव म्हज्या आवय-बापायचे विचार बदलूंक वावुरतलें. रमेश, हांव तुका सोपूताखाल सांगतां, हांव तुजेचकडेन लग्न करतलें, त्या हरीकडेन न्हय, . .

रमेश : आशा, हें तूं उलयता ?

आशा : हय रमेश, आधुनीक काळाचो सहकार घेवन, म्हान विचारांची घटाय घेवन, हें हांवूच उलयतां.

रमेश : ओ आशा, हाव् कायंन्ड ऑफ यू, आय लव यू आशा. आमचें लग्न बेगीनूच थारावचें.

(लग्नाच्या वाजपाचो आवाज. आशा रमेश वता. ल्हवू ल्हवू हरीचेर धवो उजवाड पडटा. हरी 'आशा, आशा' म्हणून न्हिदेंत तोंड हालयत आसता आनी अखेरेक जागो जावन 'आशा' म्हणून बोब मारता. हरीचो बाबा धांवून भायर येता.)

बाबा : आरे, सकाळीफुडें तुजो बोवाळ कित्याक रे ?

हरी : बाबा आशा, आशा बाबा, आशा बाबा, आशा बाबा.

बाबा : आशा नकळो नीशा आरे, जालां पुण कितें ?

हरी : आशा बाबा आशा . . .

बाबा : आशा, आशा, आशा, त्या आशाक जालां तरी कितें ?

हरी : बाबा, आशान म्हाका सोडून त्या दळडिऱ्या रमेशालागीं लग्न केलें.

बाबा : आशान रमेशालागीं लग्न केलें, कोणें सांगलें रे तुका ?

हरी : म्हाका कोणेंच सांगूंक ना.

बाबा : आरे घोवया, कोणेंच सांगनासतना तुका कळ्ळें तरी कशें ?

हरी : बाबा, आशा आनी रमेश तशो कितें खबरो करतालीं तें हावें आयकलां.

बाबा : आशा आनी रमेश खबरो करतना तुवें आयकलां ? केन्ना रे ?

हरी : आतांच बाबा.

बाबा : आतांच आयकलां, खंय रे ?

हरी : हांगाच बाबा.

बाबा : आब्बा, आशा मुंबय आसा. आनी ताच्यो खबरी तुवें हांगा रावून आयकल्यो ? आरे, हांगा म्हळयार तें खंय रे ?

हरी : खाटीर न्हीदून बाबा.

बाबा : खाटीर न्हीदून, आरे, तुका सपन पडलां आसतलें.

हरी : हय बाबा, म्हाका सपनूच पडलां पूण म्हजीं सगळीं सपनां सारकीं

खरीं जातात.

बाबा : हरी, ओगी राव पळोवंया, तुजीं सपनां खरीं जाल्लीं जाल्यार हांव आनी तूं . . .

हरी : कितें तूं उलयता बाबा, त्या दिसा हावें तुका सांगूंक नासलेलें, म्हाका सपनांत तीन आनी सात आंकडे दिसले म्हूण आनी सादतीस आंकडयाचेर तूं मटको खेळून तुवें पांचशेंसयशें रुपये जोडूंक नासले?

बाबा : आरे, लज नासलेल्या दळडिऱ्या चूप राव.

हरी : तूं कितेंय सांग बाबा, म्हजीं सपनां खरीं जातात त्यापासत आशाचें म्हाका सारकें उतर जाय, तें म्हजे लागीं लग्न जाता वो ना तें.

बाबा : आरे, आशाचें उतर घेवंक तुवें ताचेलागीं उलोवंचो पडटलो आनी तें उलोवंक तुका कशें मेळटलें, तें मुंबय आसा मरे !

हरी : बाबा, हांव ताका आतांच चीट बरोवन ताचें सारकें उतर हाडटां. हय आतांच हांव ताका चीट बरयतलों.

बाबा : बरय, आतांच बरय, सारकी कितें ती खबर हाड. (बाबा भितर वता आनी कागद, पेन आनी कवर घेवन येता) घे, चीट बरोवंक जाय तितल्योय वस्तू घे, जाय तशी चीट बरय आनी जाता तितले बेगीन जबाब माग. हें पळय, हे डायरेर ताचो पत्तो आसा.

(हरी बाबा लागच्यो सगळयो वस्तू घेता. मेजाशीं वचून कदेलार बसता. पेन हातांत घेवन बरोवंक वता. रडूंक लागता. बाबा ताकाच पळयता.)

बाबा : आरे, तूं रडूंकसो लागलो मुरे ?

हरी : (रडून) बाबा, तुवें म्हाका शिकयल्लो जाल्यार हांव हें पेन हातांत धरून रडचो नासलों.

बाबा : बंद कर तुजें रडप आनी उलोवप. शिकपाचें म्हत्व तुका आतां कळ्ळें. जेन्ना तुका शाळेंत धाडलो तेन्ना तूं गेलो ना. हेडून - हेडून तुवें तुजें भुरगेपण वगडायलें आनी आतां चीट बरोवंक नकळो म्हणून रडटा ? दळडिऱ्या, तूं पूण शाळेक थोडे पावट गेला आसतलो, तुका लागून त्या मास्तरान तुज्याकी चड पावटी म्हाका शाळेंत आपोवन व्हेलो. आतां रडटां हो !

हरी : कोण सांगता कीं, हांव शाळेक वचनासलो म्हूण ?

बाबा : तुजो बापूय सांगता. आरे, तूं शाळेचे पांवडे चडचे सुवातेर आडसरां चोरूंक माडांवेर चडटालो. घरांत अभ्यास करचे सुवातेर दोंगरार वचून कजुच्या बियांचो फोग घालतालो आनी आतां रडटा ? स्वत : हुलपल्या शिवाय उज्याची खबर कळना. वाचपाचें - बरोवपाचें महत्व

तुका आज कळ्ळां.

हरी : बाबा सांग, आतां हांव कितें करूं ? म्हाका आशाक चीट बरोवंकूच जाय. ताचें खरें उतर म्हाका मेळ्ळयाशिवाय तान लागची ना, भूक लागची ना आनी झेमूय पडची ना. म्हाका ताका चीट बरोवंकूच जाय.

बाबा : म्हज्या हाताक पेनाच्या आदारान कागदाचेर चलोवंक कळिल्लें जाल्यार तुजी चीट हांवूच बरयतलों आसलों. पूण हो हात तुज्या हातापरीं कागदाचेर चलूंक नकळो. आतां तुवें कोणूय बऱ्या मनशाचो आदार घेवन ती बरोवची पडली.

हरी : हय बाबा, पूण म्हाका कोण मेळत ती चीट बरोवंक ?
(पोदेर उंडे घेवन येता. पेंक पेंक आवाज येता.)
बाबा, सालू पोदेर येता. तो उंडयांचो हिशोब तर सदांच बरयता. बाबा ताकाच बरय म्हूण सांगल्यार तो बरोवचोना ?

बाबा पळय सांगून, धडये बरयत तो पूण उंडयांचो हिशोब बरोवप आनी चीट बरोवप हातूंत जमीन-मळबाचो फरक आसा. पळय तूं सांगून.
(बाबा भितर वता.)

हरी : (दाराशीं वचून) आरे सालू, ओ सालू, यो मरे, उंडे जाय मरे.

सालू : (भायल्यान) उंडे जाय म्हणटाय ? तूं म्हुगे उंडे केदोना घेयच नाय मुरे. आयज म्होगेल्या उंडयां रूच येयल किन् रे ?

हरी : तशें न्हय रे सालू. यो रे, भितर यो रे.

सालू : (भायल्यानूच) भितोरी ? कित्या रे ? म्हाक आख्या गांवां उंडे दिवपाक जाय. तुमगेर भितर आयल्यारी सगळो लोक पातिशेर जातोल मूरे.

हरी : आरे यो रे पापया, मातसो यो रे भितर.
(हरी ताका ओडीत भितर हाडटा.)

सालू : आरे, तूं म्होकोडे केदनाच उंडे घेवपी न्होय, म्होज्या उंडयांक बेवशेल्लो वास येत म्हूण बोब मारपी आनी आयज कित् काय म्होळयार म्हाक ओडीत भितोर हाडटाय, आरे, तुगे कित जाल रे ?

हरी : म्हाका तुजेकडेन इल्लें गरजेचें काम आसा.

सालू : म्होजे कोडे गरजेचें काम ? केसो काम रे बाबा ? तुमगेर पीट बी मोळपा आसा कित् रे ?

हरी : पीट मळूंक नाका रे सालू. हांव पळय तुका सांगता तशी तुवें एक चीट बरोवंक जाय.

सालू : चीट बरोवच्या जाय आनी हांव ? आगे हुजे मांय ! आरे बाबा, म्हाक चीट बरोवंक येयल् जाल्यारी हांव कितें हें पाटें माथ्यार मारून

उंडे विकूंक भोंवपाचो रे ? ओप्रिगाद तुका ! कित्याक तूं हांव चीट बरोवंक जाण म्हूण समजिलो म्हूण.

हरी : आरे, तुंवूय चीट बरोवंक नकळो ?

सालू : आदीं हाव बरी चीट बरयतालों. तुवें चोयल मुरे एका लोखंणा कुडक्याक. ताक् पेंट करीनाल्यारी तो कळमेवन कळमेवन नाच जाता. तशेंच म्हाक घडलें. हावें म्हजे मतीक केदना पेंट म्हणलोलो केलो ना आनी आख्खी चीट लोखणा कुडक्यांपरीं कळमेवन कळमेवन नाच जाली.

हरी : आरे, हांव समजलों तूं बरोवंक जाणाच म्हणून. तशें जाल्यार तूं उदार दिता त्या उंडयांचो हिशोब कसो बरयता तर ?

सालू : तें सामकें सोंप मुरे. तूं फकत लायनी मारपाक जाणा जावपा जाय. आयक, तुमगेर समज चार उंडे दिले जाल्यार ह्या पेन्सिलान (कानाक लायिल्ली पेन्सिल काडून) तुमगे वणटीर चार लायनी मारपाच्यो. वस्त्यावांगेर सव उंडे दिल जाल्यारी तागेले वणटीर सव लायनी मारपाच्यो. आनी म्हयन्या कावारा त्यो सगळयो लायनी मेजपाच्यो. कळ मुरे ? वोरें तोर, म्हाका दुसरो लोक रावतलो. हांव वयतरे, पूण तुक उंडे नाकाय ?

हरी : बरें आसा, एक चार उंडे दवर. दुडू मात फाल्यां व्हर.

सालू : दुडवांपासत कित्या आंकुडताय रे. घे. (चार उंडे दिता आनी वणटीलागीं वचून कानाक लायिल्ली पेन्सिल काडटा आनी बरयता.)

हरी : आरे, तूं पांटें हांगा दवरून थंय कित्याक गेल्लो रे ?

सालू : चार उंडे उदार, म्हणजे चार लायनी नाकाय ?
(चार लायनी मारता आनी 'पेंक पेंक' करीत वता. हरीक, रमेश आनी आशाच्या शद्वांचो उगडास येता.)

हरी : (बोब मारून) आशा ऽऽ
(बाबा भायर येता.)

बाबा : कितें जालें रे, बरयली तुवें चीट ?

हरी : ना बाबा. तुवें म्हाका शिकयिल्लो जाल्यार आयज हांव म्हज्या आशाक एक चीट बरोवंक इतलो तळमळचो नासलों.

बाबा : तरूय पूण तेंच, तूं शिकलोलो जाल्यार आयज पेन वापरतलो आसलो, आकांडो न्हय. तुज्या असलें वांज हांवें खंयच पळेलें ना. तूं तीन वरसां शाळेक गेलो पूण कितेंय पर्यान बरोवंक शिकलो ना. देवा ! म्हाकाच तुवें हें जड तकलेचें खडप कित्याक दिलें कांय म्हणटां !

हरी : बाबा, तें कितेंय जांव पूण म्हाका आशाक चीट धाडून सारकी कितें

ती खबर हाडूंकच जाय.

(तो भायर पळेता. खोशी जाता.) बाबा, काम जालें, हो पळय मास्तर येता.

**बाबा** : मास्तर येता ? तो तुजी चीट बरयतलोच, पूण एक, चीट बरोयतना तुवें तीन वरसां ताचे शाळेंत केल्या करण्यांचो नियाळ ताका येतलोच.

(खरशेत खरशेत मास्तर भितर येता.)

**मास्तर** : (खरशेत) हरी, इल्लें पाणी, इल्लें पाणी.

(तो कडकडटा आनी कदेलीर बसता.)

**हरी** : मास्तरजी, तुवें आयज आमगेर रावन म्हजें व्हड काम केलें.

**मास्तर** : पाणी, हरी इल्लें पाणी.

**हरी** : मास्तरजी, उपकार कर आनी म्हजी एक चीट बरय.

**मास्तर** : आरे, पाणी . . पाणी . . .

(तो अदीक कडकडटा आनी बोलसांतली एक सिसली काडटा.)

**बाबा** : आरे हरी, मास्तराच्या जिवाक बरें दिसना जावंक जाय. चल पयलीं इल्लें उदक हाड.

(हरी उदक हाडूंक वता. बाबा सिसली उगडून मास्तराक पील्ल दिता. हरी उदक घेवन येता. मास्तर पील्ल घेता. उदक पिता आनी इल्लो इल्लो शांत जायत वता.)

**बाबा** : आरे हरी, ताची परिस्थिती पळयनासतना, तूं ताका तुजी चीट बरय म्हूण सांगता ? ताचो जीव व्हडलो वो तुजी चीट व्हडली रे ?

**हरी** : बाबा, ताका ताचो जीव व्हडलोच पूण आयज म्हजी चिटूय जाल्यार तुका धाकटीशी दिसता ?

**बाबा** : तोंड बंद कर. (मास्तराशीं वता.) मास्तर, तुका कितें जालें ?

**मास्तर** : आरे, कितें सांगू, दोन म्हयने जाले म्हाका ही पीडा लागल्यार.

**बाबा** : मास्तर, फाटलीं पंदरा-सोळा वरसां आमचे शाळेंत तूं काम करता आनी तुका पिडेचो म्हटलेलो वसो केन्नाच लागलो ना. हालिंच्या दिसांनी तुका ही कसली पीडा लागली तर ?

**मास्तर** : ब्लड प्रेशर.

**हरी** : (अजापान) ब्लड प्रेशर ?

**मास्तर** : हय, ह्या जाणटेपणार देवान म्हाका ख्यास्त दिल्या. म्हजें रगत खंयच्याय वेळार चडटा आनी त्यावेळार म्हाका हे सींसलेतलें एक पील्ल मेळना जाल्यार हांवें घडये हो संवसार सोडून वचचो पडटलो.

**बाबा** : मास्तरजी. तूं बऱ्याशा दोतोराक मेळूंक ना तर ?

मास्तर : हांव हार्ट स्पेशलीस्ट, दोतोर पानवेलकार हाका मेळ्ळां आनी ताच्याच वखदांन म्हाका बरें दिसलां.

हरी : मास्तरजी, आतां बरें दिसलें म्हणून म्हाका कळ्ळेंच. तुवें म्हजें इल्लें काम करूंक जाय.

मास्तर : कसलें रे तें तुजें काम ?

हरी : मास्तरजी, हांव सांगतां तशी तुवें एक चीट बरोवंक जाय.

मास्तर : तुजी चीट हावें बरोवंक जाय ? लज दिसना रे तुका अशें सांगूक ? जेन्ना शाळेंत हांव तुका शिकयतालों तेन्ना तूं शिकलो ना. तूं अनाडवणाच करूंक बाद जालो. उगडास आसा मरे तुका, एक दीस शाळेंत हांव बसतां ते कदेलीर आंग खोरजता तीं माजरां घातलेलीं ताचो ? उगडास आसा मरे तुका, परीक्षेक प्रश्नांचेर जापो दिवंचे बदलेक हत्ती, घोडे, पाडे चितरायतालो ताचो. उगडास आसा मरे तुका, हांव भुरग्यांक धडो समजायताना तूं माकडांपरी तोंडां करून दुसऱ्या भुरग्यांक हांसयतालो ताचो ? आनी आतां चीट बरोवंक नकळो म्हणून रडटा ?

बाबा : आरे हरी, कान उगडून आयक हें. शी शी शी शी लज आसा रे तुका?

मास्तर : चल, दी तें कागद, तुजी चीट हांव बरयतां.

हरी : हो (कागद दिता) मास्तरजी, तुका चड आनी चड देव बरें करूं.

मास्तर : कोणाक चीट बरयता रे ? (हरी ओगीव रावता.) आरे, कोणाक चीट बरयता तें सांग मरे.

हरी : मास्तरजी बरय तर "म्हज्या चड मोगाच्या आशा."

(मास्तर बरयता.)

मास्तर : म्हज्या चड मोगाच्या आशा, आरे हरी, हें आशा कोण रे ?

हरी : मास्तरजी, हांव त्या आशाच्या मोगान पडलां.

मास्तर : कितें ? तूं आशाच्या मोगान पडला ? आरे, तुजेलागीं पयल्या वर्गानथान दुसऱ्या वर्गान पडूंक केन्नाच घडलेंना आनी इतले सोंपेपणी तूं मोगान पडलो ? बरें तें आसूं, ताचेकुडें कितें बरोवचें ?

हरी : (सडसडीत सांगता) आशा, समजतां तूं आरोग्यान बरें आसतलें म्हूण. तूं मुंबय आसलेल्यान म्हाका तुजो चड हुस्को जाला. तूं म्हाका रातिचें . . .

मास्तर : आरे हरी, तूं कितें हांव मिशीन म्हुण समजला ? कितें बरोवचें आसा तें सवकसायेन सांग मरे.

(हरी सवकसायेन सांगता आनी मास्तर बरयता. उतरान उतर तोंडांतल्यान उलयत-उलयत मास्तर बरयत रावता.)

हरी : आशा, समजतां तूं आरोग्यान बरें आसतलें म्हूण. तूं मुंबय आशिल्ल्यान म्हाका तुजो चड हुस्को जाला. तूं म्हाका रातचे राती सपनांत दिसता.

मास्तर : आरे हरी, तुकां सपनाय पडूंक लागलीं हां ! बरें आसा, ह्याफुडें सांग पळोवया.

हरी : आशा, आमचें लग्न आमी आतां रोकडेंच थारावंक जाय. तुजे शिवाय म्हज्यान जियेवंक नोजो. त्यापासत आमचें लग्न केन्ना थारावंया ती सारखी खबर दिवन म्हाका बेगीन चीट बरय. तुजे ते रसरसीत दोळे, तुजे ते लांब केंस काळे आनी तुजे ते भिण्णासारके पोले म्हज्या दोळ्यांचेर निवळटात.

मास्तर : वा ! वा ! वा ! रसरशीत दोळे, लांब लांब केंस काळे भिण्णासारके पोले. आरे हरी, तूं शाळेक आसतना तुजेलागीं एकपर्यान कविता पाठ करूंक जायनाशिल्ली, आनी आतां तूं कविता घडोवंक लागलो मरे, हां ? बरें आसूं तें. त्याफुडें कितें बरोवचें ?

हरी : म्हज्या काळजाच्या गोंडया, तुजे जापेची वाट पळोवंक रावतां. तूं म्हाका तुजें उतर दिवन, लग्नाची तारीक कळोवन बेगीन चीट बरयतलें म्हूण आंवडेवन रावतां. तुज्या मोगान हुलपल्लें काळीज–हरी.

मास्तर : आरे हरी, तुजें नाव तूंच बरय. तुजी सयी म्हज्यान करूं येता रे ? हे पळय, हांगा तुजी सयी कर.

(मास्तर ताका सयी करपाची सुवात दाखयता.

हरी : बरें आसा, सयी करपाचें तें हांव मागीर पळयतां. ती खंयसर करूंक जाय थंय मातशी निशाण कर. (मास्तर निशाण करता.) आतां ती मातशी वाचून सांग पळोवया.

(मास्तर चीट वाचता.)

मास्तर : बरें हांव वतां. म्हाका शाळेंत वचपाक उशीर जातलो.

हरी : मास्तरजी, मातसो राव. ह्या कवराचेर पत्तो घालीना ? (हरी मास्तराक कवर आनी डायरी दिता. मास्तर ताचो पत्तो सोदून काडटा)

मास्तर : हय मरे, अरूखी चीट बरोवन पत्तो नासतना खंय म्हूण पावतली ? (मास्तर पत्तो बरयता) बरें तर, हांव वतां. बेस्ट ऑफ लक् ! (तो वता.)

हरी : बाबा, बाबा.

(बाबा भायर येता.)

बाबा : आरे, कित्याक गडबड रे ?

हरी : मास्तरान चीट बरोवन दिली पूण ताचेर फकत हांवें सयी करपाची उल्ल्या.

बाबा : आनीक कित्याक रावता तर ? सयी कर आनी आतांच व्हरून पोस्टांत घाल.

हरी : बाबा, म्हाका सयी करूंक आयिल्ली जाल्यार... म्हज्या नांवान तूंच कर रे बाबा !

बाबा : तुजी सयी हांव करूं ? आरे तुका हावें वीस वरसां पोसलो फकत हो म्हजो आकांडो लावन आनी तूं म्हाका सयी कर म्हण सांगता ?

हरी : तशें जाल्यार हांवूय आकांडो लावं ? शी, शी, शी, हावें आकांडो लायल्यार आशा आनीक म्हाका फुडयान दवरता ? ना हांव सयीच करतलों.

बाबा : बरें आसा. सयी करता मरे कर.
(बाबा भितर वता.)
(हरी एक कागद घेवन सयी करपाक तालीम करता. अखेरेक चिटिचेर कितेंतरी भिरकायता. चीट दुडून कवरान घालता आनी कवर बंद करता. काळोक जाता. उजवाड जाता. बाबा आसता )

बाबा : वशाड पडूं ह्या आमच्या हरीचेर. त्या आशाक चीट बरोवन घातल्यार उणेंच ते धा-बारा दीस जाले पूण आजून पर्यान ताची जाप ना. ह्याखातीर हो आमचो हरी कितेंच जेवना, कितेंच खायना आनी कितेंच पियेना. आग लागूं ? तो रातचो न्हीदय ना. हांवूच नकळो आतां कितें करचें तें. तो फकत भितरूच बसून आसता. भायर भोवूंक वच म्हळ्यार वचना. भंय दिसता कि, ह्या दोन दिसांक चीट येना जाल्यार तो थंयच भुकेन मरत म्हण (दारार मारता.) कोण रे थंय?

पोस्टमन : (भायरथान) पोस्टमन.

बाबा : (अजापान) पोस्टमन ? आरे हरी, (बाबा भितर धांवता आनी हरीक घेवन येता.) यो, हो पळय पोस्टमन.

हरी : पोस्टमन ?

पोस्टमन : ही पळय तुका एक रजिस्टर्ड चीट आसा. हांगां तुजी सयी कर पळोवया.

हरी : बाबा, होवूय सयी कर म्हणटा. हें रे, सयी करिनास्तना तुज्यान दिवंक जायना ?

पोस्टमन : तूं सयी करूंक नकळो कांय कितें रे ? बरें आसा. हें पळय हांगा तुजो आकांडो लाय.

हरी : कितें ? आकांडो लाय ? हांव सयी करूंक बरी जाणा. तुवें म्हजो अपमान केलो. दाखय पळोवया सयी खंय करूंक जाय ती ?
(पोस्टमन ताका दाखयता आनी तो कितेंतरी भिरकायता. पोस्टमन

चीट दिता आनी वचूंक करता.) आरे राव रे, म्हाका मातशें सांग रे ही चीट कोणे धाडल्या ती.

**पोस्टमन** : शी, शी बाबा, ती चीट कोणाची आयल्या ती हांव तुका सांगत जाल्यार म्हाका व्हड अपमान जातलो.

(पोस्टमन वता.)

**हरी** : बाबा, आतां चीट आयली. पूण ती कोणाची ती कोण सांगतलो ? आयज जर तुवें म्हाका वाचूंक बरोवंक शिकयल्लें जाल्यार अशें घडचें नासलें.

**बाबा** : (तापून) हरी, तरीयपूण तूं तेंच उलयता ? आरे दळडिऱ्या, तूं शिकचो हे चिंतून हांवें तुका शाळेंत धाडलो. अभ्यास करूंक सगळीं पुस्तकां हाडलीं आनी किर्ते काय म्हळचार त्या वेळार तीं सगळीं पुस्तकां विकून आनी पसऱ्यांचेर वचून तुवें लाडू आनी कापां खाल्लीं. आनी आतां तुका शिकोवंक ना म्हूण रडटा ?

(नारायण भितर सरता.)

**नारायण** : आरे हरी, तुमगेर एक लिंबू बी हाडलेलो आसा रे ?

**हरी** : हां एकदम बरें जालें. ही घे मातशी चीट वाच पळोवया.

**नारायण** : आरे, ते चिटिचें उपरांत पळोवया. पयलो लिंबू आसा जाल्यार दी पळोवया.

(ताका बावक्यो येतात.)

**बाबा** : आरे नारायण, किर्ते जालां ? आनी लिंबू तुका कित्याक जाय ?

**नारायण** : किर्ते तुका सांगू काका, म्हाका ओकूंक आयिल्ल्यापरीं दिसता.

**हरी** : आरे, तुजें ओंकपाचें मागीर दवर. आतां पयलीं ही चीट वाचून दाखय पळोवया.

(नारायणाक ओकूंक येता.)

**बाबा** : आरे बापरे, हो आनीक हांगाच ओंकत.

(बाबा भितर धांवता.)

**नारायण** : हरी, म्हाका आतां लिंबू मेळना जाल्यार ...

**हरी** : लिंबू मेळना तर नाका मेळूंक पूण म्हजी चीट वाचल्याशिवाय वचशी हां.

(ताका आनीक ओकूंक येता. बाबा लिंबू घेवन येता.)

**बाबा** : आरे घे, लिंबू जाल्यार लिंबू घे.

(नारायण लिंबू खाता.)

**नारायण** : जांव देवा ! मातसो पूण सुशेग दिसलो.

**बाबा** : आरे नारायण, तुका इतलें ओकूंक येवंक कारण किर्ते ?

नारायण : कितें तुका सांगू काका, पांच-स दीस जाले, पोटांत बरी जीरवण जायनाशिल्ली. केन्ना केन्नाय पोटांत गॅस मारी. हें सोसूं नज जावन काल सांजे फार्मासींत वचून हावें सालसाचे भायरेच्यो दोन पुडयो हाडल्यो. सकाळीं सात वरार हांवें त्यो घेतल्यो. आठ जालीं, णव जालीं, धा जालीं, इक्रा जालीं, बारा जालीं आनी आतां एक जालें तरीपूण ते भायरेचो म्हजेर कांयच परिणाम जावंक ना. पोट इतलें नीबर जालां कि हांवूच नकळो कितें जातलें पळय तें. आदीं पूण मोव आसलें आतां अदीक घट जालें. भायरी घेतलेली पोटांतलें खाली करपाक पूण आतां अदीक भरलेशें दिसता.

हरी : आरे, तें सगळें सारकें जातलें, पूण ही चीट कोणाची आनी ताचेर कितें बरयलां तें वाचून सांग पळोवया.

बाबा : नारायण सुशेग घे. तुजें पोट साप जातलें पूण तुजें आतां ओंकप बंद जालें मरे ?

नारायण : हय काका, लिंबू हावें चिवूंक नासलो तर हांव जरूर ओंकपाचो.

हरी : तशें जाल्यार घे ही चीट आनी कोणाची हें पयलीं सांग पळोवया.
(नारायण कवरार नांव वांचता.)

नारायण : ही चीट तुका आशा नायकान धाडल्या.

हरी : (खोशी जावन) आशाची चीट ? आशाची चीट ? बाबा, आशाची चीट. नारायण माल्शी बेगीन वाचून सांग पळोवया.
(नारायण कवर पिंजून चीट उगडटा.)

नारायण : आयक तर (नारायण चीट वाचता) मोगाळ हरी, समजतां तूं बरो आसा म्हणून. तुज्या मोवाळ शद्बांची चीट म्हाका मेळ्ळी. तुवें ते चिटयेंत म्हजे सुंदरायेची तुस्त केल्लयाबद्दल तुजे हांव आभार मानतां. एका कवीपरीं तूं बरयता हें वाचून हांव अजाप जालें, तूं खरोच हुशार अशें म्हाका दिसता. (नारायण थांबता. पोटाचेर हात दवरता. तोंड आंबटशें करता.)

हरी : त्याफुडें कितें आसा तें सांग मरे.

नारायण : सांगतां रे पापया, आयक तर. . . तूं खरोच हुशार भुरगो अशें म्हाका दिसता. त्यापासत म्हज्या काळजांतली गोष्ट हांव तुका सांगतां. हांव म्हजो जीवपर्यांन दीत . . .
(नारायणाक ओड मारता, हातांतली चीट उडयता, पोटार आनी भोंकार हात दवरता.)
येतां हांव. (तो वता.)

हरी : बाबा, तो अर्दकुटी चीट वाचून कित्याक धांवलो ? आशाक बी कितें

जावंक ना मू ?

**बाबा** : तुज्या आशाक कांयच जावंक ना. ताणे घेतलेले भायरेचो नारायणाचेर आतां परिणाम जाला.

**हरी** : आख्खी चीट वाचून तरी तो परिणाम जावंचो आसलो, ते कितेंय जांव, आशाक म्हजो भरपूर मोग आसा म्हूण वाचल्या ते चिटीवेल्यान कळटाच. तें म्हाका लागून आपलो जीवपासून दिवंक कबूल आसाशें दिसता.

**बाबा** : हय, हांव तें जाणाच आसलों. तूं तुज्या सपनाचेर चड पातयेता. आरे, सपनां खरीं जाल्लीं जाल्यार तुज्यासारके गड्डे रातिचे सोडूच दिसाचेय न्हीदतले आसले.

**हरी** : तें कितेंय जांव बाबा, पूण आतां उल्लेली चीट कोण वाचतलो ? हो नारायण केन्ना येतलो म्हण देव जाणा !

**बाबा** : हो पळय मास्तर येता.

**हरी** : मास्तर येता तशें जाल्यार काम जालें.
(मास्तर भितर सरता.) मास्तरजी, कशे आसात तुमी ? हांव तुमचीच वाट पळयत आसलों.

**मास्तर** : हांव आसा बरो. तुमी बरे आसात मरे ?

**बाबा** : मास्तरजी, तुमचें आरोग्य आतां कशें आसा ?

**मास्तर** : सुदरत गेलां. पूण आजून सारको बरो जावंक ना.

**हरी** : मास्तरजी, ही पळय म्हाका चीट आयल्या. तुवें बरयिल्ले चिटिचो जबाब तो. म्हाका मातसो वाचून सांग पळोवया.
(चीट घेता आनी वाचता.)
मोगाळ हरी, समजतां तूं बरो आसा म्हूण . . . हांव म्हजो जीवपर्यान दीत . . .
(मास्तर कडकडटा आनी जमनीर पडटा.)

**हरी** : मास्तरजी, कितें जालें ? फुडें कितें बरयलां ?

**मास्तर** : पाणी, पाणी . . .

**हरी** : बाबा, आशान जीव दिलो दिसता !

**मास्तर** : जीव दिवंक ना. पाणी, पाणी . . .

**बाबा** : हरी, मास्तराक सोंपेपणी कसलोच धको बसना. म्हाका दिसता, आशाक कितेंय पूण जालेंच. (बाबा चिंतता.)

**मास्तर** : पाणी, पाणी . . .

**बाबा** : (व्हडल्यान) पाणी. (बाबा भितर धांवता.)

**हरी** : मास्तरजी, आशान खरोच जीव दिलो ?

मास्तर : पाणी, पाणी . . .
(बाबा उदक घेवन येता आनी मास्तराक दिता, मास्तर सिसलेंतलें पील्ल काडटा आनी घेता आनी उदक पिता.)

हरी : बाबा, म्हज्या आशाक कितें जालें काय ?

बाबा : आरे, तुज्या आशाक कांयच जावंक ना, जालां तें मास्तराक. मास्तरजी तुका कशें दिसता ?
(मास्तर खुणा करून आपल्याक बरें दिसता म्हण सांगता.)

हरी : मास्तरजी, उपकार कर आनी मातशी उरल्या ती चीट वाचून सांग पळोवया.
(मास्तर ताका 'मातसो राव' म्हण खूण करता.)

बाबा : आरे तुकां रीत म्हटलेली ना मरे. ताच्या जिवाक बरें दिसना आनी तूं ...
(नारायण येता.)

नारायण : जांव देवा, आतां जिवाक मातशें बरें दिसलें. पोट निवळ जालें आनी हांव हळू जालों.
(हरी चीट घेवन नारायणासरीं येता.)

हरी : नारायण, मातशी उरल्या ती चीट वाच पळोवया.

नारायण : ताकाच लागून हांव हांगा परतून आयलां.

हरी : घे तर. (नारायण चीट घेता, वाचूंक वता तेन्नाच मास्तराक पळयता.)

नारायण : मास्तरज़ी, तुका कितें जालें ?

हरी : ताका कांयच जावंक ना. तूं मातशी वाचून सांग पळोवया.

मास्तर : ना म्हाका कांयच जावंक ना. तूं ताका चीट वाचून सांग.

नारायण : बरें तर. वाचतां. आख्खी वाचूं वो उरलेली ती वाचूं ?

हरी : आख्खीच वाच.

नारायण : (तो वाचता.) ... हांव म्हज़ो ज़ीवपर्यांत दीन पूण तुज्या असल्या भोटयालागीं लग्न केन्नाच जावंची ना—आशा नायक.

हरी : नारायण, ही तूं म्हाका फोट सांगता, सारकें वाचून सांग पळोवया.
(तो आनी एक पावट तेंच वाचता. हरी घुंवळ येवन पडटा. मास्तर, 'पाणी पाणी' म्हण बोवाळ करता.)

बाबा : मास्तरजी तुका पाणी जाय ?

मास्तर : म्हाका नाका, हरीक घुंवळ आयल्या ताचेर मारूंक जाय.
(बाबा उदक हाडूंक धांवता. नारायण आनी मास्तर हरीक आपल्या पांयांचेर तेकोवन दवरता. बाबा उदक घेवन येता आनी हरीचेर मारूंक वता.)

(पड्डो पडटा.)

# 11.

# मर्णकटो

## पुंडलीक नारायण नायक

**पात्रां :**

तो :
धनी :
मॅनेजर :
ती :
बापूय :
पयलो :
दुसरो :

(अेके म्हंयेधडेर अुबार असो कटो दिसता. तोच मर्णकटो. उदकाचो खळखळ, सुकण्यांचो आवाज. कटयाकुशीक कटयाचो धनी बसला कांय वेळान कुशीच्यान पावलां वाजतात. तो येता. घामेला.)

तो : हांव आयलां.

धनी : येवपाचोच.

तो : हांवें तुजी पेपरांतली जायरात वाचली.

धनी : सगळेच वाचतात.

तो : म्हाका दिसलें, तुमी म्हाका वाट दाखयत.

धनी : अवश्य. म्हजो धंदोच तो.

तो : धंदो ?

धनी : हय. आयच्या काळांत धंदयाच्यो मर्यादा खूब विस्तारल्यात. गरजे प्रमाण नवे नवे धंदे तयार जातात.

तो : हांव जिणेंत खूब निरशेलां.

धनी : तुजी पिराय कितली ?

तो : पंचीस वर्सां.

धनी : तुजी तोखणाय करूंक फाव.

तो : कित्याक ?

धनी : ह्या संवसारांत वीस वर्सां भितरूच मनीस निरशेतात. पंचीस वर्सां म्हळचार तुवें बरोच तग माल्लो.

तो : खरेंच. म्हाकांय तशेंच दिसता. हांव आजून मेरेन कसो जितों आसा ताचेंच अजाप दिसता.

धनी : ताचो उपाय म्हजेलागीं आसा.

तो : तेचखातीर तर हांव इतली वाट माड्डून हांगां आयलां.

धनी : तुजी फावट फुकट वचची ना.

तो : एके फावटीन जातलें ? काय परत येवचो पडटलो ?

धनी : परत परत फावटी मारून घेवपाचे धंदे दोतोर आनी आदोवगादांचे.

हांगासर पयली फावट तीच निमणी फावट.

तो : तूं खांपो धन्वंतरी दिसता.

धनी : प्रभूची लीला !

तो : फी आसतली न्हय ?

धनी : दर एकल्याक पोट आसता.

तो : हय. त्या पोटानूच म्हाका हो मार्ग दाखयलो.

धनी : ना. पोट मार्ग दाखयना. पोट निर्माण करता प्रश्न.

तो : हय. ह्या पोटानूच जगचें काय मरचें हो प्रश्न निर्माण केलो.

धनी : बेकार ?

तो : सामको बेकार. दुःख विसरपाक सिगरेटचें पोंतेर ओडटलो जाल्यार दमडी ना. पूण तुगेले फीची वेवस्था केल्या हांवें. कितले जातले ?

धनी : सवकासायेन. धंदो जरी आसलो तरी पैसो होच म्हजो उद्देश्य न्हय. पिडेस्ताचें समाधान हीच म्हजी खरी जोड !

तो : आयच्या काळांत ही गजाल मेळपाक खूब कुस्तार. वचत थंय फटींगपणां !

धनी तूं चड फटावलो ?

तो : जिणेंत सामको नागवलों. सगळे धोंगी. दिसता, एकएकल्याचें रुपडें टराटर पिजून वडोवचें.

धनी : मागीर खंय अडटा ?

तो : हात मोटवे पडटात.

धनी : हात लांब करूंक मेळनात ?

तो : हात लांब करूंक मेळटात-खोमसाचे.

धनी : तूं खऱ्यांनीच म्हजेकडेन येवपाक योग्य आसलो. तुकां कोणे कोणे फटयलो ?

तो : कोणा कोणाचीं म्हण नांवां घेंव ? पयले सुवातेर ह्या संवसारांत जल्मांक घालून म्हाका आवयन फटयलो.

धनी : खरेंच "ह्या" संवसारांत तुकां जल्मांक घालपाचोच न्हय.

तो : आतां एकूच भरवंसो आसा. तुजेकडसून. तूं म्हाका फटोवचोना हाची खात्री आसा.

धनी : तुजी खात्री पटली हेंच म्हज्या धंदयाचें व्हडपण. तुजे खातीर हांवें दुसऱ्या संवसाराची तजवीज केल्या.

तो : फी आदीं दिवपाची ?

धनी : अर्थांत आदीं पूण इतली ताकतिक नाका.

तो : इतलीं स्वस्टपणां लेतीत ह्या संवसारांत पळोवपाक मेळनात.

धनी : तुजे खातीर ह्या दुश्ट संवसाराचीं दारां सासणां खातीर बंद करूंया.
तो : ह्या पाडंग संवसारांत म्हजे खातीर कोणेंच दार काडलें ना.
धनी : शिक्षणाचीं दारां तुजे खातीर बंद आसलीं ?
तो : तीं उक्तीं आसून फायदो कितें ? संडासाच्या दारांचो उपेग जालो तितलो लेगीत जिणेंत शिक्षणाच्या दारांचो उपेग म्हाका जालो ना.
धनी : बरोच दुखावला.
तो : दुःखा बगर दुसरें कितें आसा ह्या संवसारांत ?
धनी : मागीर सुख म्हणटा तें खंय रावता ?
तो : तेंच तुकां विचारपाक आयलां हांव.
धनी : बरेभाशेन. सासणांखातीर त्या सुखाचें दार हांव तुकां उक्तें करून दीन.
तो : म्हाका उमळशीक लागल्या.
धनी : तुकां मातसो थार धरचो पडटलो.
तो : चड वेळ ?
धनी : ना
तो : जाय जाल्यार चड फी दिवपाक हांव तयार आसां.
धनी : ताची गरज ना.
तो : सगळ्याक अशेंच चलता.
धनी : जाणां हांव. पूण हांगां तशें चलना. हें जिणेचें निमाणे तोंक.
तो : निमाणे तोंक ?
धनी : हय. सामकें निमाणे. हांगां सगळ्या दुःखाचो अंत जाता.
तो : आनी सुखाची पालय दिसता, न्हय ?
धनी : तुजो पुनरजल्माचेर विस्वास आसा ?
तो : ना.
धनी : मागीर हांगां दुःखाचो अंत जाता हेंच निमाणे सत्य.
तो : (दुबावता.)
धनी : तुज्या काळजांतली ती आशेची कीट पालोवन वडय. ते किटी वांगडा तुजें दुःखूय वाडीक लागतलें.
तो : तूं कितें सुचोंवक सोदता ?
धनी : तुज्या भल्याचें.
तो : हांवें कितें करप ?
धनी : (कट्याकडेन बोट दाखोवन) म्हणो कटो तुजेखातीर सज्ज आसा.
तो : कटो ?
धनी : हय. मर्णकटो !
तो : (कांपवेता)

धनी : कसल्या जीवनाचे आसक्तीन इतलो कांचवेलो ?
(तो कडेक वचून कटो नियाळटा.)

तो : हे न्हंयेधडेर हो कटो कित्याखातीर बांदला ?

धनी : दुःखी जिणेंतल्यान मुक्ती जोडपाक.

तो : जीव दिवपाक ?

धनी : हय.

तो : तुज्या धंदयाचें स्वरूप कितें ?

धनी : खंयच्याय धंदयापरस म्हजो धंदो उक्तो. हेर धंदयासारकी तातूंत फटींगपणा नात.

तो : ह्या कटयावयल्यान जीव दिवप ?

धनी : हय. पूण त्या आदीं म्हजी फी फारीक करप.

तो : दुडू फारीक करून जीव दिवप्याक एक तर पिशें लागूंक जाय.

धनी : हय. मनशाक मर्णाचें लेगीत पिशेंच लागता. तुजूंय ताका आडवाद ना.

तो : हांव हांगां जीव दिवपाक येवंना.

धनी : हांगां आयिल्लो दर एकलो हेंच सांगतालो.

तो : आनी मागीर ?

धनी : आनी मागीर आपखोशयेन ह्या कटयावयल्यान जीव दितालो.

तो : जीव दिवपाचोच जाल्यार कितले उपाय आसात. वीख खांव येता. बांयत घालून घेंव येता. रेल्वेच्या रुळाचेर मान दिंव येता.

धनी : पूण तातूंत धोको आसा. समज, तुवें वीख खाल्लें जाल्यार पयल्याच धपक्याक तूं सोंपतलो म्हण कितें भरवंसो आसा ? आयच्या काळांत विखांत लेगीत भेसळ आसता. बांयत घालून घेवप सोपें पूण तेचप्रमाण बांयतल्या मनशाक वांटोवपूय सोपें. अशा वेळार बुडटल्याक वांचोवपाचो लोकांक मोटो किंवाटो येता. आनी रेल्वेच्या रुळार मान दिवप म्हणटा तें एक फकाण ! ह्या देशांतलो ट्रेनी अमुकूच वेळार येतलो म्हणपाचो कितें भरवंसो आसा ? ह्या सगळया उपायांत रीस्क आसा. हांगां तशें ना. ह्या मर्णकटयावयल्यान एकदां उडी घेतली की खलास. मर्ण हो एक पवित्र खीण. तो खीण जोडटाना कुडीक वेदना भोगप योग्य न्हय. मर्णकटयावयलें मर्ण खऱ्यांनीच भाग्याचें. म्हण चडशे मर्णकार हांगाच येतात. आनी तातूंत उडी मारतकूच उदकाक तेंकचे आदींच तुजो जीव गेलो जाल्यार तुजेसारको भाग्यवान तूंच.

तो : मागीर मेल्या उपरांत कितें ?

धनी : मेल्या उपरांत कितें ? ह्या प्रश्नाक मरतल्याचे नदरेन कसलें म्हत्व आसा ?

तो : मड्याचें कितें ?

धनी : तें जिते आशिल्ले मनीस पळोवन घेतात. तूं भियेंव नाका. मर्णकट्यावयल्यान जीव दिल्ल्या मनशाचें मडेंच मेळना.

तो : मेळना म्हणजे ?

धनी : सकल न्हंयेतल्या उदकांत भुकेल्लें नुस्तें आसा. हाडां लेगीत ना करता.

तो : इतली लक्तुबाय करून वाडयिल्लो हो देह नुस्त्याच्या तोंडांत दिवप ?

धनी : हांगां उपाशीं देह सुण्याचे भकीक धालचेपरस मेल्या उपरांत नुस्त्याच्या तोंडात दिल्यार कितें वायट ? आनी देहाक विटिल्ल्या मनशान.

तो : हांव ह्या संवसाराक विटलां.

धनी : अर्थ एकूच. ह्या संवसारांत तुज्या देहाक सुवात ना. मागीर त्या देहाचें मेल्या उपरांत कितें जातलें हाची चिंता कित्याक? त्या म्हाकविची गजाल तुकां सांगता. ताणे जिवितभर नुस्त्याचो मोग केलो. (खालें ह्या अर्थान) निमाणी मरताना लेगीत नुस्त्याचो कांटो गळयांत आडखळिल्ल्यान मेलो. ताच्या मृत्यूपत्राप्रमाण ताचें मडें न्हंयेंत नुस्त्याचे भकीक घातलें. केदो व्हड विचार ! जांच्या मांसार आपली कूड पोसली तीच कूड अखेर तांकांच ओंपली. आनी अजाप म्हळ्यार ते न्हंयेंतलें नुस्तें जाणी जाणी खालें ते ते कवी जाले.

तो : त्या प्रसिद्ध कविचें नांव कितें ?

धनी : कविच्या जीवनांतल्यो फक्त असल्योच घटना मतित धरपाच्यो आसतात. तांचीं नांवां आनी कविता न्हय.

तो : तूं कितेंतरी कल्पने भायलें सांगता.

धनी : देखुनूच इतले पयस सावन लोक हांगां येतात.

तो : तुजे पेपरांतले जायरातीचो अर्थ कितें ?

धनी : तुवें जायरात सारकी वाचिल्ली दिसना.

तो : बेसबरी वाचल्या. 'तुमकां जीव दीन दिसता ? आमकां मेळात.'

धनी : मागीर ?

तो : म्हाका दिसलें, तूं जीव दिवंक सोदतल्यांक कसलो तरी मार्ग दाखयतलो.

धनी : तुकां आदींच सांगलां, म्हजो धंदो अुक्तो. सामको उक्तो.

तो : तुज्या धंद्याक लायसन आसा ?

धनी : लायसन नाशिल्ले अशे कितले धंदे चलता.

तो : कायद्यान आत्महत्या करप हो गुन्यांव हें तुकां खबर ना?

धनी : आत्महत्या करतना वांचलो जाल्यार गुन्यांव, मेलो जाल्यार मुक्ती !

तो : तुजेर खुनाचो आळ येवंचो ना ?

धनी : कसो ?

तो : पुलीसांक कळचार ?

धनी : पूण पुलीस हांगा पावतले कशे ? अितल्या पैस येवन खुनाचे धागेदोरे अुस्तुवपाक पुलीसांक घरदार, संवसार कांय नां म्हण समजला तूं ? आनी वचत थंय संप, मोर्चा, हरताळ चलताना पुलीसांक हे आडवाटेन येवपाची गरजूच कितें ? आनी आयलेच जाल्यार बोल्सां घट करून वतले. तांकां तरीं नीतीचो पातसो कित्याक बादचो ?

तो : हय, तें म्हज्या दोळयांनी देखलां हांवे.

धनी : अणभव आसा मरे ? मागीर असो कूळ खबर आसून खूळ कित्याक पांगुरता ? आनी म्हाका अेक सांग–आत्महत्या हो गुन्यांव हें कोणे थारायलें ? तांकां केन्ना आत्महत्येची गरज भाशिल्ली ? जीव दिवपाचें महत्व पटिल्लें ? समजुंया, त्या कायदे - पंडितांच्या जाग्यार आज तूं आशिल्लो जाल्यार कसलो निर्णय घेतलो आसलो ?

तो : हांव आत्महत्येक चडानचड अुत्तेजन दितलों आसलों.

धनी : म्हणटकच ' जीव दिवप गुन्यांव ' हो कायदो काळाभायरो जालो ना ?

तो : ह्या संवसारांत जल्मांक येवपूय गुन्यांव आनी मरपूय गुन्यांव.

धनी : आतां फाटले अुगडास काडून चित्तांत अशांती निर्माण करूं नाका. मन नितळ कर. आतां तूं अेका नव्या संवसारांत पावल दवरपाक मुखार सल्ला.

तो : (कांचवेन) ना. ह्या कटयावयल्यान जीव दिवपाक म्हज्यान जांवचेना.

धनी : पिसो ! हो कटो सादो न्हय. नव्या संवसाराचें प्रवेशद्वार. थंय अुबो रावन पळय. माथ्यावयलें अुक्तें मळब तुकां निमाणो आशिर्वाद दितलें. न्हंयचे देगेवयलीं झाडां तुकां खांदयो हालोवन निमाणो निरोप दितलीं. झाडांवयली सुकणी तुजेखातीर निमाणी प्रार्थना म्हणटलीं. आनी सकयली खळखळटी निळी न्हंय, संवसारात तुजे आवयन तुकां घेतलोना तितल्या मोगान तुकां अचळय गोपांत घेतली.

तो : (गोंदळून) ना ! (कांयवेळ दोगूय वगी) जाय जाल्यार हांव तुजी फी फारीक करतां पूण म्हाका मर्णाचो फोर्स करूं नाका. म्हाका मरपाचें ना. तुजी फी घे.

धनी : शिकनासताना लेगीत टर्म फी फारीक करची पडटा ती कॉलेजची. मर्णकटयार असलीं नाडंगपणा चलनात. तुकां मरणाचें नासल्यार तुज्यान परत वचूं येता.

तो : खऱ्यांनीच ?

धनी : हय. हांवें तुकां बांदून थोडोच घाला !

तो : (वचपाक वता. थाऊन) पूण तुकां भिरांत दिसना ?
धनी : कसली ?
तो : हांव तुजी गजाल सगळयाक सांगत म्हणून ?
धनी : तातूंन भिवपाक कित्याक जाय ? म्हजी फुकटची जायरात जातली.
तो : तरीपूण कायदयाचे वाटेन ?
धनी : ते विशीं तुकां हांवें आदींच सांगला.
तो : तशें न्हय, हांव अेक जुवान, तरनाटो. तुवें चलयिल्ल्या ह्या अन्यायाआड हांव आवाज अुठयन म्हणपाची भिरांत तुकां दिसना ?
धनी : (हांसता) तुजें कट्टें तरनाटयाचें, काळीज जड्डयाचें ! तूं कसलो जुवान ? आनी अन्यायाआड आवाज अुठोवपाचो आसल्यार तूं हांगा म्हाका सोदीत कित्याक येतलो आसलो ? तूं जियेतालो थंय अन्याय थोडो आसलो ? थंय अन्यायाचो अुजो पेटिल्लो. मोन्यानी तो हुलप तुवें सोंसलो. आरे, जाचो आवाजूच बसला तो आवाज कसलो अुठयतलो कर्माचो ? आनी तुजेपारके तरनाटे जल्मांक येवंक नाशिल्ले जाल्यार हो मर्णकटो बांदपाची म्हाका कसली गरज आसली ?
तो : (निरशेवन कूस मारता.) हांव वतां.
धनी : बरेभशेन. जंयसावन आयला थंय चल. सुखान राव.
तो : सुखान ? थंय सुखाचो विलय जाला.
धनी : शे ! शे ! थंयच सुखाच्यो खणी आसात.
तो : सुखाच्यो न्हय, विखाच्यो.
धनी : थंय तुजेखातीर मान आसा, प्रतिष्टा आसा.
तो : फट ! थंय मनशाक प्रतिष्ठा ना. पैशांक आसा. जनावरांक आसा. फॉरेन सुण्यांक हांडीर मारून वचपी बायलेक वालेतीन पडिल्ल्या सुण्यापाइट मनशाची काकळूट येना. अशा देशांत सुखान नंदतलो जाल्यार फोरेन सुण्याचो जल्म मेळपाक जाय.
धनी : थंय जाय तसल्यो चाकऱ्यो आसात. जाय तशो मेळटात.
तो : हेंयूय फट ! चाकऱ्यो आसात पूण त्यो जाय तांकां केन्नाच मेळनात.
धनी : मेळटात.
तो : (तिडकून) मेळनात. म्हजेपरस अदीक तूं जाणां ? हांव वर्साची वर्सा त्या चक्रांत भड्डत आसां.
धनी : लायकी लागता.
तो : न्हय, नालायकी लागता.
धनी : अपेशी जाला जायत !
तो : कितले फावटीं ? कट्टुलार अपेशाचो शिक्को मारूनच आमी जल्मल्यात?

धनी : जोती चड झल्लीं ?

तो : ना. अेकूय झल्लें ना. कारण पायांक जोतेंच नासलें. पायाचे तळवे मात झल्ले.

धनी : अेक अणभव तरी सांग.

तो : काणयो दिसतल्यो.

धनी : काणयेंतल्या राजकुमारा, अेका अिंटरव्ह्यूची काणी सांग.

तो : तो आयुश्यांतलो निमाणो अिंटरव्ह्यू. निमाणो म्हण थरोवनूच गेल्लों. पयलींच नांव आयलें. भितर गेलों. मुखार कोण नासलो. बसलों. (बसकेर बसता.) कांय वेळान मुखार येवन बसलो – मॅनेजर नांवाचो सुटाबुटांतलो प्राणी. (मॅनेजर येवन मुखावयले बसकेर बसता.) ताका हांवें कसो चक्रावचो ? (फाटलो प्रसंग. 'तो' न वळून उलयिल्ले संवाद धनयाखातीर, पूण मॅनेजराक लेखून.)

मॅनेजर : तुजें नांव ?

तो : (वळून) मस्णो !

मॅनेजर : कितें शिकला ?

तो : (वळून) बॉंड !

मॅनेजर : तुका आयकूंक येता न्हय ?

तो : (वळून) कानांत घालूंक भिण्गेल आसा जाल्यार दी.

मॅनेजर : गांवान खंयचो ?

तो : तुगेल्या मावडचो.

मॅनेजर : रावता खंय ?

तो : तुज्या बॅडरुमांत.

मॅनेजर : सदयाक काम कितें ?

तो : (वळून) तुजें बायलेचें समाधान करप.

मॅनेजर : अेक्काय प्रश्नाची जाप तूं दिना.

तो : (वळून) तुका म्हजे सर्विसेचें पडूंना तशें तुज्या प्रश्नाचेंय म्हाका पडूंना.

मॅनेजर : तूं हांगा आयला तरी कित्याक ?

तो : (वळून) हेर सर्विसांसारकी हिवूय सर्विस म्हाका नाका हें सांगपाक.

मॅनेजर : ह्या कामाचो कितल्या तेपाचो अणभव आसा ?

तो : णव म्हयन्याचो. आवयच्या पोटांतसून शिकून आयलां.

मॅनेजर : हे सर्विसेक ट्राय करपा फाटलें कारण कितें ?

तो : (वळून) फॉल्ग !

मॅनेजर : सद्याक भारताचे पंतप्रधान कोण आसात ?

तो : (वळून) तुजो बापूय !

मॅनेजर : सद्याचें आमचें परराश्ट धोरण कितें ?

तो : (वळून) हांगा परराश्ट्रमंत्र्याची व्हॅकन्सी आसा ?

मॅनेजर : भारत–पाक संबंदाविशीं सांगशीं ?

तो : (वळून) तुज्या म्हज्या संबंदाविशीं सांगूं ?

मॅनेजर : आमच्या तिरंगी बावटयांत कितले रंग आसात ?

तो : (वळून) सात.

मॅनेजर : तूं हांगा इंटरव्ह्यू दिवपाक आयला काय आमची फकाणां करुंक ? अेकाय प्रश्नाची जाप तूं दिना. येवन बसला घुगमो कसो. तुजेसारके बेकार ना हांगा कोण ! अितले लोक भायर लायनींत रावल्यात तें दिसना ? फुटल्या दोळे ? सादे मॅनर्स नात. सर्विसो फुकट मेळटात ? फालतू गजालीखातीर वेळ ना हांगा, चल.

तो : (मॅनेजराक) वचना.

मॅनेजर : तोंड आसा तर तुकां.

तो : हय, तुजे गंवटेक घांस मारपाइतलें आसा.

मॅनेजर : फकाणां बंद कर.

तो : त्या पयलीं तुजें तोंड बंद कर. कोण करता फकाणां ? हांव ? काय तूं? अिंटरव्ह्यू घेता ! तुज्या ह्या रुपडयापोंदा कितें दडलां तें खबर ना म्हाका ? म्हज्या सारको बेकार ना तूं न्हय ? हांव आसांच बेकार. कितलींशीच वर्सां बेकार. म्हणून तर असल्या ऑफिसाचीं सोपणां झरयतां. तूं दिता म्हाका सर्विस ? आसा तुजेकडेन ? खंयची आसतली? ती कोणाक दिवपाची तें आदींच थल्लां. सर्विसो फुकट मेळनात ! आमकांय खबर आसा. तेखातीर बोल्सां भरची पडटात. गुड्डे घालचे पडटात. सांगात - अेक अेक गुड्डो कितल्या रुपयांचो ? बोल्सांत कोणाच्या घालपाचें ? वाडी कोणांक दवरपाची ? हें सगळें आदीं सांगात. तांकता जाल्यार आमी तशें करतां आनी मागीरूच येतां इंटरव्ह्यूक. हें इंटरव्ह्यूचें नाटक कित्याक ? कोणाच्या दोळयांक उदक लावपाक ? समाजाक, सरकाराक फटोवपाक ? आमच्या सोंशिकतायेचो अंत पळोवपाक ? आमच्या निलाजऱ्यापणाच्यो भगल्यो मारपाक ? प्रश्न विचारता ! नांव, गांव, शिक्षण ? अर्जाचेर बरयलां तें कितें ? डिग्रीचीं सर्टिफिकीटां जोडल्यांत तीं धुवंक घालपाक ? विचारपाक जाय म्हण तोंडाक येता तें विचारप. तिरंगी बावटयांत कितले रंग आसात ? तिरंगी बावटयांत तीन रंग आसात. एक म्हज्या सांडूक नाशिल्ल्या रक्ताचो, दुसरो म्हज्या फुलूंक नाशिल्ल्या शेताचो, आनी तिसरो म्हज्या पडूंक नाशिल्ल्या उजवाडाचो.

मॅनेजर : गेट आउट.
तो : यू गेट आउट फस्ट. (मॅनेजर रागान अठून वता.)
धनी : मॅनेजराक तुवें बरोच चक्रायलो.
तो : अुपेग कितें ? सर्विस दिनाजावन ताणें म्हाका चक्रायलो.
धनी : झगडलेबगर काय मेळना.
तो : हांव झगडलों. म्हाका खंय कितें मेळ्ळें ?
धनी : अेकोडो झगडून अुपेग कितें ?
तो : थंय आपल्या शिवाय कोणांक कोणाचें पडूं ना. आपणाल्या घराक अुज्जो पेट्टा तेन्ना भायर सरून बोबो मारतात पूण दुसऱ्याचेर आकांत कोसळटा तेन्ना आपणाली दारां धांपून भितर रावतात.
धनी : ह्याका तूं आडवाद आसलो ?
तो : हांव कित्याक आसतलों ?
धनी : (हांसता.)
तो : तूं हांसता ?
धनी : मागीर कितें रडूं ?
तो : आपणाल्या दुःखाचो चुरको दुसऱ्याक येना हेंच खरें.
धनी : म्हाका तुजें दुःख कळटा.
तो : मागीर हांसता कित्याक ?
धनी : हांवें अेकदां आयकल्लें.
तो : कितें ?
धनी : हांसतकूच मनशाची पिराय वाडटा खंय.
तो : सरणाचेर पोळी भाजून खावप्याची जात तुजी.
धनी : तुका जाय तें म्हण.
तो : खरें म्हळयार म्हाका धीर दिवपाचो तुवें.
धनी : हांवें तुका मार्ग दाखयिल्लो.
तो : कसलो मार्ग ?
धनी : (बोट दाखोवन) मर्णकटयाचो.
(दोगूय कांय वेळ वग्गी.)
धनी : चल, परत चल तुज्या संवसारात. सर्विस नासूं ती तरी आसतली.
तो : ती कोण ?
धनी : तुजी मोगिका - लव्हर.
तो : तुकां कशें कळ्ळें ?
धनी : अणभवान.
तो : तुवें केन्ना मोग केल्लो ?

धनी : हांव फक्त दुसऱ्यांच्या मर्णावो मोग करतां.

तो : मागीर तुकां कशें कळ्ळें ?

धनी : हांवें आयकल्लें – कॉलेजचें अेक सोपण चडनाफुडें तरनाटे मोगाचीं दोन सोंपणां हुपतात.

तो : खरें तुजें. (फाटल्या सुखदिण्या जिवितांत वचून.) आमचें कितें जालें जाणा ?

धनी : हिंदी सिनेमा जालो.

तो : बंडल.

धनी : कितें ?

तो : सिनेमा बंडल. आमचो मोग खरो.

धनी : सांग.

तो : पयलीच भेट ! कॉलेजच्या ऑफिसाचो काअुंटर ! ॲडमिशन फॉर्म भरपाक चलयांचलयांची झुंडी. जो तो आपणाल्या विचारांत. हांवूय एका कोनशाक अुबो. गर्दी केन्ना अुणी जायत हाची वाट पळयत. अितल्यान अेके चलयेन अचळय म्हज्या भुजाक बोट तेंकोवन म्हळ्ळें –

धनी : ॲक्सक्यूज मी, विल यू प्लीज गिव मी पेन.

तो : अेक्झेक्टली ? तुका कशें कळ्ळें ?

धनी : सोपी गजाल. पेन सोडून चलयांकडेन हेर सगळचो वस्तु आसतात.

तो : हांवें झट् करून पेन काडून ताका दिलें.

धनी : काळीज काडून दिवचें तशें !

तो : तूं बरोच रंगेल दिसता !

धनी : प्रेमस्य कथः रम्यम !

तो : पेन दिलें. पूण काळजांत खपखप ' पेन लागना जाल्यार ?

धनी : नवें असलें ?

तो : नवेंच, पूण वारूं नासून पोर्णेंच आसलें. ताणें बकल काडलें. काळजाचें धाकणें अुक्तें जालें. नीब फॉर्मार तेंकयली. हांव मातसो बागवलों. आरे कर्मा ! पेन लागना. अेकदां फापुडलें. दोनदां फापुडलें. मदींच म्हजेकडेन पळयलें. ती नजर ! म्हाका लजेक म्हारक जालें. पेन तिसरे फावट फापुडलें. आनी अजाप ! पेन लागलें. आनी तूं जाणा, तेन्नासावन हांव कसलेय गजालीन तिसरो चान्स घेतां. पयल्याच वर्सा फेल जालों. दुसऱ्याय वर्सा तशेंच. निरशेलोना. तिसऱ्या वर्सा बसलों आनी तेंच अजाप. सहजतायेन पास जालों. पूण हें म्हत्वाचें न्हय. पेनाची गजाल सांगतालो. ताणें म्हगेल्या पेनान आपणालें नांव बरयलें. हांव धन्य जालों. सार्थक जालें अशें दिसलें.

धनी : कसलें ?
तो : पेनाचें. अक्षर व्हडलेशें सुंदर नासलें.
धनी : सुंदर चलयांचें अक्षर वायट आसता.
तो : हां, हां, तेंच. आनी तूं जाणां ? त्या दिसा हावें ताका सर्वस्व दिल्लें.
धनी : म्हणजे तुज्या सर्वस्वाचो खंयचो पार्ट ?
तो : फकाणां न्हय. तेन्ना म्हजेकडेन तें पेनूच अेक वस्त म्हजी आसली. बाकी मुस्तायकी, पुस्तकां सगळीं बापायचे जोडीची. आनी तूं जाणां ? एका श्रेष्ठ धर्माच्या संस्थापकान कितें म्हळां तें ? नांव खबर ना म्हाका ताचें. ताणें म्हळ्ळां – जो आपणालें सर्वस्व दिता तो खरें दान करता.
धनी : ताणे पेन परत केलें ना ?
तो : तीच तर मजा ! पेन दिवपाचें तें विसरून गेलें आनी कितें विसल्लें तेंच ताका कळ्ळें ना.
धनी : कितें विसल्लें ?
तो : आपणालें काळीज म्हजेकडेन विसरून गेलें. फुडली सगळी प्रेमकथा त्या पेनानूच बरयली.
धनी : पेनांतली शाय खंय सोंपली ?
तो : म्हळयार कितें ?
धनी : प्रेमभंग !
तो : (निराशेन) प्रेमभंग म्हजो जालो.
धनी : प्रेम दोगांयनी केल्लें.
तो : हय. तरीलेगीत प्रेमभंग म्हजो अेकल्याचोच जालो. त्या दिसा सदच्या जाग्यार आमी दोगांय मेळ्ळीं.
(फाटलो प्रसंग. तो ती अेकामेकांक मेळटात.)
ती : इंटरव्हयूचें कितें जालें ?
तो : सदासारकें.
ती : इतले सहजतायेन सांगता ?
तो : मागीर कितें हामेल मारूं ?
ती : तुजेकडेन अुलोवपासारकें ना.
तो : अुलोंव नाका.
ती : अुलयनासून प्रश्न सुटना.
तो : मागीर अुलय.
ती : तरी फकाणां. हांव सिरीयस जालां.
तो : हांव कितें करूं ?
ती : तूंय सिरीयस जा.

तो : जालों.
ती : म्हज्या घरांत म्हज्या लग्नाचीं अुलोवणी चलतात.
तो : कोणाकडेन ?
ती : म्हजें लग्न कोणाकडेन करचें हाजींच अुलोवणी चलतात.
तो : मागीर ?
ती : मागीर कितें ? बापायन म्हाका विचाल्लें, तुज्या मनांत कितें आसा काय म्हणून ?
तो : तुवें कितें जाप दिली ?
ती : तुजे नदरेन कितें दिवपाची सांग ?
तो : बापायक म्हजें नांव सांगपाचें.
ती : हावें सांगलें ना.
तो : कित्याक ?
ती : कित्याक म्हण म्हाका विचारता ? तुज्या मनांक विचारुन पळय.
तो : पूण आजूच म्हज्यांत अशें कितें अुणें जालें ?
ती : आजूच कित्याक ? सदांच आसा.
तो : कितें ?
ती : तुजी बेकारी.
तो : लग्न म्हजेकडेन जातलें.
ती आनी खातलें कितें ? मुक्ताफळां ?
तो : हें कळपाक तुका अितलीं वर्सां लागलीं ?
ती : गिन्यानाचो दिस्टावो अेका खिणांतूय घडटा.
तो : हें गिन्यान काय वेवहार ?
ती : वेवहारी गिन्यान.
तो : आमी घेतिल्ले ते सोपूत ?
ती : खंयचे सोपूत ?
तो : तेमयेवल्या मोडक्या देवळांत घेतिल्ले सोपूत–अेकामेकाक सोडचीं ना म्हणून.
ती : तेन्ना तेमयेर आशिल्लीं, आतां मुळसांत पावलीं आनी तूं नकळो, तें आतां मोडकें देवूळ अुरुंक ना. ताची बांदावळ सिमेंट कॉन्क्रीटान केल्या.
तो : म्हजेखातीर ते मोडकें देवूळूच अुल्लां.
ती : तुजे विचारुच पोर्णे.
तो : हें तुका आतां कळटा ?
ती : तेन्नाय कळटालें आसुयें.
तो : मागीर सांगलेंना कित्याक ?

ती : तेंच कळना.
तो : म्हाका सगळें कळटा.
ती : कितें ?
तो : तूं अुदेत्या सूर्याक नमस्कार करुंक सोदता.
ती : मागीर तुगेलो सूर्या अुदेना ताका हांव कितें करूं ?
तो : तुका मात्तूय धक ना ?
ती : कसलो ?
तो : आमी इतलो मोग केलो.
ती : मागीर तुका धन्य दिसूंक फाव.
तो : कित्याक ?
ती : अेका बेकार मनशावांगडा हांवे अितलो तेप मोग तिगून दवल्लो.
तो : मजनू बेकारूच आसलो.
ती : तेन्नाची हवाच वेगळी. हवा गिळचारूच पोट भरतालें.
तो : खरें तुजें. तेन्नाची हवा वेगळी. नितळ. आतांची दुशीत. कोणाच्या दुस्वासांत कसलें विखयाळेंपण आसत म्हणपाचो भरवंसो ना.
ती : नाच.
तो : हांव तुका लेखून म्हणटां, तुवें म्हाका फटयलो.
ती : केद्‌चान आड्डता रे ?
तो : आतां काळजी नाका म्हजी.
ती : तुजी न्हय, म्हजी काळजी घेतां हांव.
तो : आपसुवार्थी !
ती : तसो तुंवूय आपसुवार्थीच.
तो : कसो ?
ती : बेकार आसून म्हजेकडेन लग्न जावंक सोदता हो आपसुवार्थ न्हय ?
तो : पुरो कर. बेकार ! बेकार ! बेकार म्हळचार अस्पृश्य ! बेकार म्हळचार पिडेस्त ! म्हारोगी ! समाजाक लागिल्ली किड ! बेकार म्हळचार नालायक ! नपुंसक !
ती : हांवें तुका नपुंसक म्हणूंना आं.
तो : कशें म्हणटलें ?
ती : वचूं हांव ?
तो : विचारता कित्याक ?
ती : परत आनीक केन्नाच विचारचेंना म्हणून.
तो : अशें अुलोवन काळजाक परत मयपासाचे दोर बांदू नाका.
ती : काळीज घट कर.

तो : तितलें तरी म्हजेखातीर माग.

ती : अवश्य मागन. हांवेय तुजेर ऐका काळार मोग केल्लो. पूण तो वेव्हाराचें फास्केन बसलोना. आय अॅम सॉरी ! (वता. आदलो देखाव)

धनी : आदले मनीस आतां उरंक नात.

तो : खरें तुजें. मनशाच्या मनीसपणाची धसरण जायत आसा. फक्त आदली आसा धर्तरी, दोंगर, झाडां - पेडां.

धनी : आनी उदक.

तो : म्हाका तान लागल्या.

धनी : कसली ?

तो : कसली म्हणजे ? उदकाची तान लागल्या.

धनी : हांव समजलों, मर्णाची तान लागल्या. ती तान सामकी खर.

तो : हांवें तुका आदींच सांगला, म्हाका मरपाचें ना.

धनी : जगून कितें करपाचें आसा ?

तो : खबर ना.

धनी : जिविता विशिंची इतली असक्ती हांवें पळयलीना.

तो : हांवें संवसारांत भोगलां कितें ?

धनी : दुःख !

तो : हय, फक्त दुःख. त्याभायर आनीक कांयच पळोंव ना.

धनी : आनी तें केन्ना मेळपाचेंच ना.

तो : कित्याक ?

धनी : नाच तें खंय सोदूंक भोंवतलो ?

तो : मागीर हांवें करप तरी कितें ?

धनी : (कट्याकडेन बोट दाखयता)

तो : ना.

धनी : निलाजरो ! समाजान तुकां हीण लेखलो. शेंकड्यानी ऑफिसांची सोपणां झरयलीं पूण कोणेंच तुका चाकरी दिली ना. तुज्या दुःखान कोणाचें काळीज मात लेगीत हाल्लें ना. जीव तोडून मोग केलो ते मोगिकेन तुकां कितें दिलें? तिगल्या वेवहारांत तुगेल्या मोगाची हार जाली. अखेर प्रेमभंग तुजो एकल्याचोच जालो. सर्विस नासून तुजे भुकेक मोल ना आनी मोग आसून तुज्या काळजाक मोल ना. आनीक उल्लें कितें संवसारांत? मनीस ह्या संवसारात आनीक दुसरे कसले गजालीखातीर जियेता?

(कांय वेळ दोगूय वगी.)

जिणेवयली तुजी आशा फक्त एके गजालीखातीर वाडूं येता.

तो : (खंयचे?)
धनी : अशा वेळार आपणालें रगतूच पावता. आवय आसा ?
तो : ना.
धनी : बापूय ?
तो : आसा.
धनी : मागीर बापायखातीर तुजें पाबल फाटी सरता.
तो : ना.
धनी : जांव्र येता. अशा वेळार तोच तुजीं दुकां पुसपी आदार.
तो : अुगडास काडूं नाका ताचो.
(फाटलो प्रसंग. तो आनी बापूय.)
बापूय : ही तरी सर्विस मेळपाची आसत आसा ?
तो : ना. निखालस ना.
बापूय : कितल्यावी खेप ही ?
तो : अुगडास ना.
बापूय : मागीर कसलो अुगडास आसा ?
तो : (वग्गी)
बापूय : घरा परत येवपाचो बरो अुगडास अुल्लो.
तो : कितें करपाचें ?
बापूय : अेका बेकार मनशाक हें हावें सांगचे पडटा ? कसलोय धंदो कर.
तो : ताका भांडवल लागता.
बापूय : पयली अक्कल लागता.
तो : कोणांक नागोंव ?
बापूय . कोण बदचोना तुका. तुवें नागोवपाचो म्हाका.
तो : सकाळीं बलसांतले दोनूच रुपया काडिल्ले.
बापूय : सगळे काडिल्ले.
तो : म्हय, फक्त दोनूच रुपया.
बापूय : हय. दोनूच रुपया. तितलेच आशिल्ले बलसांत. आतां हांव कोणांक नागोंव तें सांग. कितलें म्हणून सोसूं रे हांव ? म्हजे जोडीर तुवें जियेवपाचें रे ? तूं जल्माक आयला त्या दिसा कितली खोस जाल्ली. घराक दिवो आयलो ! बापायक पोसपाक पूत आयलो ! फुडाराचो परजळ आयलो ! कसल्यो कसल्यो कल्पना केल्यो ! तुवें सगळचो मातयेंत भरशिल्यो. तुज्या पड्टया पावलाक जैतूच ना. इतलो दळडिरो मनीस हावें अुबें पिरायेंत पळयलो ना.
तो : तुजोच पूत हांव.

बापूय : तें न्हयकारपाक येना हें दुर्दैव म्हजें.

तो : तुज्यो वेदना म्हाका समजना.

बापूय : वेदना समजून उपेग कितें? गरज आसा वेदनेवयल्या अुपायाची. तुकां शिकयलो हें बरें केलें ना.

तो : कित्याक ?

बापूय : घडये शिकना जाल्यार कसलेंय मेळटा तें काम करतलो आसलो. कसली पाडी बुद्ध जाली आनी तुकां शिकयलो. आनी तुकां डिग्री मेळ्ळी थंयच कपल फुटलें म्हजें.

तो : ते डिग्रेक खाता कोण ?

बापूय : देखूनूच नाका आशिल्ली ती. पुताक डिग्री आसा हें सांगपाक तोंड ना म्हाका. डिग्री जोडली ती जोडली, मोग आनी केलो.

तो : ना, तें प्रकरण मिटलें आतां.

बापूय : म्हणजे प्रकरण जायसर मोग केल्लो ?

तो : तशें न्हय, मोग सोडलो हावें.

बापूय : मोग सोडलो काय ताणें तुका सोडलो?

तो : तुमकां कशें कळ्ळें ?

बापूय : बापूय म्हणून दुर्दैवान तुज्यो सगळयो गजाली कळटात म्हाका. बरें केलें ते चलयेन. अकलेन वागलें. आयच्या काळाक सोबशें पावल उबाल्लें ताणें.

तो : म्हाका चाळयता ?

बापूय : हांव न्हय, परिस्थिती.

तो : ताचें बरें जांव !

बापूय : जातलेंच. ताचें लग्न लेगीत थाल्लां.

तो : कोणाकडेन ?

बापूय : काल तूं जे सर्विसेच्या अिंटरव्ह्यूक गेल्लो, ती सर्विस जाका मेळ्ळया त्या चल्याकडेन.

तो : सर्विस पयलींच मेळिल्ली ?

बापूय : हय आनी सर्विस मेळटकूच चली मेळपाची आशिल्ली.

तो : नशिब अेकअेकल्याचें.

बापूय : तूं नशिबाचेर पातयेवन राव. लोक हांगा नशिबां बदलून वडयतात.

तो : म्हज्या नशिबाची जातूच वेगळी. तें बदलपाचें ना.

बापूय : पीडा बऱ्याची न्हय जाल्यार दुसऱ्यापासून त्या पिडेस्ताक पैस दवरतात.

तो : हांव कितें करूं ?

बापूय : परत परत हो प्रश्न म्हाका विचारून म्हजी तकली काबार करूं नाका.

तो : निमाणी अेकदांच सांगात, हांव कितें करुं ?

बापूय : तुज्यान म्हाका पोसून संवसार चलोंवक जायना हें तर सिद्ध जालेंच. आतां खंयचेय परिस्थितींत म्हज्या माथ्यावयलें तुजें वजें सासणाखातीर काडून घे. जायते अुपाय आसात. जायते अुपाय आसात. (बापूय वता. काळोख उपरांत आसा तसो आदलो देखाव.)

धनी : थूऽऽथूऽऽ तुजे जिणेचेर ! खंयच, कोणेच तुकां जगपाखातीर आस्त दाखयलीना. तरी लेगीत ते दळडीरे जिणेचेर मोग करता. त्या रेब्यांत कसलें सुख ? कसली ओड ते घाणीची ? तेन्नाच कुशीक सरपाचो तूं. शक्तीहीण. देखून असो फाटीं रावलो. मरपाच्यो कितल्यो संदी वगडायल्यो तुवें. खरो दुर्भागीच तूं. म्हाका दिसता – ही तुकां निमाणी संद. तुज्या रगताच्या बापायन लेगीत तुकां मर्णाची वाट दाखयल्या. ते वाटेकडेन आडनदर केल्यार तुजेसारको कपलफुटको तूंच.

तो : म्हाका तान लागल्या. म्हाका मातसो विचार करूं दी.

धनी : असल्या निमाण्या वेळार विचार कसलो कर्माचो करता ? हो खीण हातसून गेल्यार जल्मभर पस्तावतलो. कपल फोडीत आनी दुकां गळयत ह्या संवसारांत राती सारच्यो पडटल्यो. किडयाचे अवतिकायेन जियेवचो पडटलो.

तो : (फाटीफुडें जाता) म्हाका तान लागल्या.

धनी : चल, सर मुखार. हें भांगरासंदीचो लाव घे. पळय, म्हजो मर्णकटो तुकां येवकार दिवंक तयार आसा. आयक, न्हंयेच्या ल्हारांचो आवाज आयक. तीं ल्हारां आपणालीं भुजां वावडून तुजेखातीर तिश्टत रावल्यांत. पळय, पळय ती न्हंयेदेगेवयलीं झाडांपेडां तुजेखातीर धोलूंक लागलीं. आयक, सवण्यांनी तुजेखातीर निमाणी प्रार्थना सुरू केली. पळय वयर मळबांत, घणघणीत सूर्या तुज्या माथ्यार सांडलो. ह्या सगळ्यांचे गवायेन तुजे प्राण ओंप. मेळय मुक्ती ! खरेंच तूं भाग्यवान. आयच्या सारको अितलो प्रसन्न दीस ह्यानपयलीं केन्नाच अुदेलोना. आयज जे जे प्राण ओंपतले ते ते सुखाक पावतले. आज मर्णकटयार मर्णकारांची दाटी जातली. आयज पयलो मान तुकां मेळटा. अशी संद आयुश्यांत अेकदांच येता. ही संद वगडांव नाका. हारतलो. सामको हारतलो. (अेकलो धांवत येता. ताणे दोळे धांपल्या.)

पयलो : कटयाच्या धनयां, कटयाच्या धनयां,

धनी : कितें जालां ?

पयलो : हांव मरपाक आयलां. म्हाका मुक्ती जाय.

धनी : आदीं दोळे अुक्ते कर.

पयलो : ह्या दुश्ट संवसाराचेर नदर घालपाची म्हाका इत्सा ना. आतां कुडींतल्यान प्राण गेल्याबगर दोळे अुक्ते करचों ना.

धनी : तुका मातसो रावचो पडटलो.

पयलो : ना. मात्तूय थार धरपाक म्हज्यान जांवचें ना. हांव तुज्या पांया पडटां. (जळपून) खंय आसा तुजे पांय ?

धनी : पांयां पडपाची गरज ना.

पयलो : हांव तुजी फी दितलों.

धनी : ती सगळेच दितात.

पयलो : चड दितलों.

धनी : तीं नाडंगपणां हांगा नात.

पयलो : तुकां कसो समजांव ?

धनी : तुवें हो अुपाय कित्याक आपणायलो ?

पयलो : आनीक दुसरो कसलोच अुपाय नासलो. आनी जिणेंत जेन्ना जेन्ना निरशेलां तेन्ना तेन्ना हो मर्णाचोच अुपाय म्हाका बऱ्याक पडला. तुजी फी कितली ?

धनी : हो धंदो फक्त पैशाखातीर न्हय. गिरायकाक ताच्या वांगडा समाधान मेळूंक जाय आनी तें लेगीत समानतायेन. हांगा तसली गुड्डेगिरी ना. चिनी भाशेंत अेक म्हणणी आसा - जो पयलीं येता तो पयलीं दळण दळूंक पावता.

पयलो : म्हाका चिनाचें पडूं ना, म्हज्या मर्णाचें पडलां.

धनी : थार धर. मातसो थार धर.

पयलो : हे धर्तरेवयलो अेक अेक खीण म्हळ्यार अेक अेक युग जावन आसा. म्हाका या दु:खांत असो युगाचीं युगां तिश्टत दवरुं नाका. हांव विनयतां तुकां. म्हाका मातसो अदीं आविचार कर. (दुसरो मनीस, दुसरे वटेनसून येता.)

दुसरो : तुमच्या मदलो कटचाचो धनी कोण ?

धनी : कोण कसो दिसता ?

दुसरो : पळय, फकाणां मारून घेवपाक म्हाका वेळ ना. म्हजें ताचेलागीं म्हत्वाचें काम आसा.

धनी : सांग.

दुसरो : हाजे हुजरां ?

धनी : धंदयाबगर आनीक कसलीं कामां करपाक म्हाका फुरसत ना. आनी म्हजो धंदो तर सामको उक्तो.

दुसरो : हांव कानांत सांगतां.

धनी : सांग.
दुसरो : (कानांत) म्हाका मरपाचें आसा.
धनी : हातूंत लिपोवपाचें कितें ? मरपाचें सगल्यांकूच आसा.
दुसरो : पूण म्हाका मातशी ताकीद आसा.
धनी : ताकीद सगळयांकूच आसा.
पयलो : हांव हांगां पयलीं आयलां.
दुसरो : तुंवूंय मरपाक आयला ?
पयलो : मागीर कितें गजाली मारपाक आयलां ?
दुसरो : तूं गजाली मारोत बस, ते म्हणसर हांव मरून येता.
पयलो : फकाणां करुं नाका आं. दोळे धांपल्या म्हण वगी आसा.
दुसरो : तुवें दोळे कित्याक धांपल्या हें लेगीत विचारपाची म्हाका अित्सा ना.
पयलो : आनी म्हाका सांगपाचीय ना.
दुसरो : धनयां म्हाका पयलीं निबाय.
पयलो : ना, पयलीं म्हाका.
दुसरो : ये, कुड्ड्या कुशीक सर.
पयलो : कोण कुड्डो ? दोळे फुटूंना म्हजे.
दुसरो : दोळे फुटले आनी धांपले अेकूच.
पयलो : दादागिरी करता ?
दुसरो : तुजेवांगडा झांकपाक म्हाका वेळ ना.
पयलो : हांवूय रस्ताद ना.
दुसरो : रस्ताद ना ? रस्ताद ना जाल्यार जीव दी बचून.
पयलो : जीव दिव मरे ? मागीर तूं कुशीक सर.
दुसरो : ना, ना, पयलीं हांव.
पयलो : पयली हांव. (झगडटात.)
धनी : झगडूं नाकात. तुमचें मदीं थारायात आदीं कोणे जीव दिवपाचो तो. (बसता.)
पयलो : अशें कित्याक ? हांव पयलीं आयिल्लों. म्हाका पयलीं मरुं दी.
दुसरो : तुज्या हाताक जाल्यार हांव कितेंय लायतां. म्हाकां पयलीं मरुं दी. घरचीं मनशां म्हाका सोदपाक आयल्यार मागीर सगळोच बेत फिसकट्टलो.
पयलो : तशें जाल्यार दोगूय वांगडाच जीव दिवया.
धनी : ना. म्हज्या कटचावयल्यान अेका वेळार अेकल्यानूच अुडी घेवं येता.
दुसरो : तशें जाल्यार पयलीं हांव वतां.
पयलो : ना, पयलीं हांव.

दुसरो : म्हजे पैशे घे.

पयलो : म्हजे पैशे घे.

(दोगूय पैशे मुखार करतात. येदो वेळ 'तो' चो घुस्मटमार चलिल्लो. तो आतां मुखार येता.)

तो : ना. पयलो मान म्हजो आसा.

पयलो : कोण अुलयलो ? (ताका सांसपून पळयता.)

दुसरो : तूं हांगा कित्याक आयला ?

तो : हांवूंय मरपाक आयलां.

पयलो : मागीर अितलो वेळ वगी कित्याक आसलो ?

धनी : अेका गिरायकान दुसऱ्या गिरायकाचो अपमान केल्लो म्हाका सोंसना.

दुसरो : हो सांगता तें खरें ?

धनी : हय.

तो : (पैशे काडून) तुजी फी कितली ? म्हजेलागीं फकत पन्नास रुपया आसा.

धनी : बोला फुलाक गांठ म्हणटा ती अशी. म्हजी फी पन्नासूच रुपया आसा. (पैशे घेता.)

तो : येतां हांव. (तो मर्णकटयार वता. सगळे 'तो' उडी मारता तो आवाज आयकुपाक आशेवन रावतात. निमाणीं न्हंयेंत अुडी मारिल्ल्याचो आवाज.)

पयलो, दुसरो : हा ऽऽ हा ऽऽ (दोगूय भिल्यात.)

पयलो : ना, ना, म्हाका मरपाचें ना.

दुसरो : म्हाकाय मरपाचें ना.

पयलो : हांव चल्लों.

दुसरो : हांव चल्लों.

(दोगूय वतात. काय वेळान 'तो' परत येता. सगळो भिजला.)

तो : हांव आयलां.

धनी : आं ? तूं ?

तो : संवसारांत म्हाका सगळयांनी फटयलो. पूण तुवें अेकल्यानूच म्हाका खरो मार्ग दाखयलो. फकाणानी म्हणता. खऱ्यांनीच सांगतां. तुजो हेतू कितेंय आसूं. असाध्य पिडेक काजऱ्याचें फळ पारचें तशें घडलें. अुडी मारचे पयलीं आशिल्लों हांव अुडी मारतकूच ना जालों. म्हजो पुनर्जल्म जालो. दोंगराचे दोणीतल्यान वाट काडीत व्हांवपी हे न्हैयेन म्हाका आडखळीचेर जैत जोडपाची स्फूर्त दिली. त्या ल्हारांनी म्हज्या कानांत जियेवपाचो मंत्र फुंकलो. तीं झाडां म्हाका नवी नदर दितीं

जालीं. त्या सत्रण्यांनी म्हाका प्रेरणा दिली. त्या सैमान म्हाका नवी जीण दिली.

धनी : तूं आतां खऱ्यांनीच जगपाक लायक आसा. मर्णाचेर तुवें जैत जोडलां. सामान्य मनशाचो थर तुवें हुपला. आतां संवसारातल्यो कसल्योच आडखळी तुकां बादच्योना. तूं असामान्याचे पदवेक पावला.

तो : हांव तुजो उपकारी आसा.
(दिमी मारून उपकार आठयता.)

धनी : असोच जैतीवंत जा !

(काळोख)

... □ ...

# संग्रहांतल्या एकांकींविशीं

**1. आब्रावंचें यज्ञदान/लुईस मास्कारेन्यस**

विसाव्या शेकड्याच्या मदेकार मंगळूर शारांत चलतल्या उखलाप्या कोंकणी नाटकांक आदर्श थरचो म्हण बरयिल्ली ही नाट्यकृती फकत कोंकणी नाटकाच्या मळार न्हय तर सकट कोंकणी साहित्यांत अज्रंवर स्वरुपाची कलाकृती आसा.

पोरण्या तेस्तामेंतातल्या एका प्रसंगावयल्यान हे एकांकिची रचना केल्या. देवाच्या आदेशाप्रमाण पालेस्तीनात रावपी आब्रांव आपणाल्या पुताक, देवाक बळी दिवपाक व्हरता.

'आब्रावंचें यज्ञदान' हो त्याग आनी उदात्तीकरणाचो पाश्चात मिथ्चो भारतीय रंगमाचयेवयलो आविष्कार थरता. त्या काळावयल्या रंगमाचयेवयल्या संकेतांची झलक हे एकांकींत पळोवपाक मेळटा तेचप्रमाण काव्यमंय शैलीवरवीं पुर्विल्ले कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय दिश्टी पडटा.

**2. दामू कुराडो/आचार्य रामचंद्र शंकर नायक**

कोंकणी एकांकी रचपाचो पयलो मान फाव जाल्ल्या स्वतंत्र प्रज्ञेच्या बरोवप्याची 'दामू कुराडो' ही एकांकी तांगेल्या एकांकी साहित्याचें प्रतिनिधीत्व करपी आसा.'

तारवार गेल्लो दामू कुराडो कांय वर्सांनी परतता आनी आपणाले मोगिकेच्या लग्नाची खबर आयकून थतर-वितर जाता आनी आपणाल्या मूळ भीड-मुर्वत नाशिल्ल्या विक्षीप्त सभावाप्रमाण निर्णय घेवन मुखावयल्या मनशाक पेंचांत घालता अशी हे एकांकिची कथावस्तू.

फकत दोन पात्रांचेर आटापिल्ली ही एकांकी सुटसुटीत घोटीव संवाद, वाडटी उमळशीक, वैशिश्टचपुराय व्यक्तीरेखाटण हाका लागून निमाणेमेरेन मनाची पकड सोडिना. तुमार चार दशकां कोंकणी रंगमाचयेर रंगिल्ली ही एकांकी आजूय कोंकणी नाट्यसंवसारांत उठून दिसता.

**3. पोपेबाबाली मुंबै/रघुवीर राम नेवरेंकार**

मनोरंजन आनी करमणूक हांचो हुकमी एको अशा उतरांनी जिचो गौरव करूं येता अशी एकांकी म्हळ्यार 'पोपेबाबाली मुंबै'

गोंयच्या वातावरणात वाडिल्लो आनी गांवगिरे जीवनपद्धतीन पुराय एकरूप जाल्लो पोपेबाब आपणाली धूव आनी जांवय हांगेल्या आगऱ्याक लागून मुंबय वता. थंयच्या महानगरांतल्या वातावरणात ताची कशी धांदळ जाता ताचें वर्णन हे दोन पात्री एकांकींत आसा.

रंगमाचयेर प्रयक्ष घटना घडना पूण घटनांचीं वर्णना करताना बरोवपी पात्रांच्या तोंडसून जें जितें जिवें चित्र उबें करता तें हे एकांकिचें खाशेलेपण.

मुखार कोंकणी एकांकींत Stock character जाल्ले 'बाप्पा' हे व्यक्तिरेखेचीं बीजां हे रचनेंत पळोवपाक मेळटात. क्रमीक पुस्तकांनी पाठ जाल्ली ही एकांकी नेणट्या आनीं जाणट्यांच्या यादस्तेच्या कुरकुटांत रीग करून बसल्या.

**4. कौरवांलो कृष्णु/बैंदुर देवराय अय्यगळ**

महाभारतांतले एके नाटयपूर्ण घडणुकेर बरयिल्ली 'कौरवांलो कृष्णु' ही एकांकी म्हळ्यार भारतीय महाकाव्याचो प्रादेशीक भाशेंत आनी सामाजीक जिणेंत पडिल्लो प्रभाव.

सुर्यान आपणाल्या पुताक कर्णाक कवचकुंडलां दिलीं आनी इंद्रान कर्णाचे दानशूरतेचो लाब उठोवन भिक्षुचो भेस घेवन तीं हातासलीं, हे घडणुकेचेर आटापिल्ली ही एकांकी, म्हळ्यार कोंकणी रंगमाचयेर आमच्या सांस्कृतीक दायजाचें पडबिंब थरता.

**5. पळसाक पानां तीन/किसन कामत**

कोंकणी एकांकीक तंत्रशुद्ध आकार दिवन हेर प्रगत भासांतल्या एकांकीकडेन तांची सर करपी एकांकीकाराची 'पळसाक पानां तीन' ही एकांकी म्हणजे कोंकणी आधुनीक एकांकिचो बऱ्यांतलो बरो एक नमुनो.

वीस वर्सांआदीं खुनाच्या आरोपावयल्यान जल्मठेपेची ख्यास्त जाल्लो घरकार, बंदखणीतल्यान पळून येवन, घरा बायल भुरग्यांक मेळटा आनी कौटुंबीक संघर्शाक सुरवात जाता अशी हे एकांकिची कथावस्तू.

मुदलाक बरोवप्याचो पींड हो जरी विनोदी बरप्याचो आसलो आनी 'बाप्पा' हे व्यक्तिरेखेक ताणी नांवाजती केली तरी लेगीत तांगेली ही एकांकी आकृतिबंधाचो धटा सांबाळटा आसतनाच खोल आशयाक भीडटा.

**6. सुणें माजर हासता/चा. फ्रा. दे कोस्ता**

कोंकणीतल्या शैलीदार आनी विद्रोही रचनाकाराची 'सुणें माजर हासता' ही एकांकी म्हळ्यार कोंकणीतल्या उत्कृष्ट नाटयाची देख.

प्रोफेसर अिजिदोर मोरल्लो हो निवृत्त विज्ञानी पस्तीस वर्सां उपरांत आपणाल्या गांवघरा बायलभुरग्यांच्या कुटुंबांत परतता. हजार दुबावांनी पोखरिल्ल्या मोरल्लोक सर्गाचो दूत गाब्रीयेल धर्तरेर येवन मोनजातिची भास ताका कळटली म्हणपाचें देवाचें फर्मान ताका दिता. मोरल्लोक तांच्या घरांतल्या सुण्या - माजराची भास कळपाक लागता आनी आपले अस्वडीं घराण्याची जाल्ली विदरणा ताका आयकुंची पडटा.

पुर्विल्ल्या दंतकथांचो कल्पकतेन वापर करून रचनेक रंग भरपाचें कसब आनी तें करताना सामाजीक दंभाआड मार्मीक रितीन उठयिल्लो आवाज ह्या खाशेलपणांसयत ही एकांकी जिणेच्या सत्याक भिडून आशयघन जाता.

**7. बाप्पा भजीं गाळटा/विनय सुर्लकार**

कोंकणी रंगमाचयेर जाणी 'बाप्पा' हो Stock character निर्माण करून हास्यांकी एकांकिच्या प्रकाराक चालना दिली त्या बरोवप्याची 'बाप्पा भजीं गाळटा' ही एकांकी.

हातूंतलो 'बाप्पा' एक दीस भजीं खावपाची इत्सा प्रगट करून घरकान्नीकडल्यान भजीं तळून घेता पूण भज्यांच्या वासान आवती भोंवतिचे लोक इश्टमित्र घरांत रीगतात आनी सगळयांक वांटून दिवचीं पडिल्ल्यान बाप्पाक एकूय भजें सारकें खावंक मेळना.

निर्व्याज आनी सादया भोळया सभावाचो 'बाप्पा' ही व्यक्तिरेखा, ताच्या कुटुंबांतलें आनी भोंवतणचें वातावरण, चालू सामाजीक घटनांचे पडसाद, गोंयकार समाजजीवनाची धोंगा पोंगा हांचें विनोदी ढंगान वर्णन करपी ही एकांकी बरोवप्याची एक प्रतिनिधीक स्वरुपाची एकांकी मानू येता.

**8. कोण कोणाचो न्हो / अशोक कामत**

करमणुकिचे मोख मुखार दवरून निर्माण जाल्ले प्रहसनात्मक आनी फार्सिकल एकांकिची परंपरा पुराय जाणविकायेन म्होडून कौटुंबीक भावबंध आनी संघर्शाची आपणाली अशी खास एकांकिची परंपरा निर्माण करपी बरोवप्याची 'कोण कोणाचो न्ही' ही एक खाशेली एकांकी.

ही एकांकी सदुबाब हे विलक्षण व्यक्तिरेखे भोंवतणी घुंवता. घरांतलीं मनशां, रगताच्या नात्यान कोणाचीं कोण लागतात पूण सदुबाब रगताच्या नात्यान कोणाचोच कोण लागना. 'कोण कोणाचो न्ही' हो आपणाल्या आजवेरच्या संवसारीक अनभवाचो मंत्र म्हण तो सगळयांक सांगता आनी निमाणे त्याच मंत्राच्या उरफाटें वागून मानवीक नदरेंतल्यान एके विलक्षणाचे तेंगशेर पावता.

मध्यमवर्गीय कुटुंबीक जिणेंत नितिमूल्यां प्रस्थापीत करपी ही एकांकी वैचारीक आनी कलात्मक ह्या दोनूय पांवडयार यशस्वी थरता.

**9. तीन खेतीं शाणी सुरतीं / प्रकाश गंगाराम थळी**

दिग्दर्शनाक फाव आशिल्लयो संहिता निर्मुवपांत जैतिवंत थरिल्ल्या बरोवप्याची 'तीन खेतीं शाणी सुरतीं' ही एकांकी कोंकणी रंगमाचयेर लक्षणीय थरल्या.

एका कॉलेजच्या हॉस्टेलांत कुड्डें नेत्रा, मोनो सुभाष आनी भेड्डो श्रवण हांचे हाजीरेंत, गोवींद नांवाच्या भुरग्याचो, अतूल नांवाचो भुरगो खून करून वता आनी आपणालो विसरिल्लो लायटर व्हरपाक परत येता. खुनी अतूल मुखार आसूनय आपणाल्या शारीरीक उणावाक लागून तिगांय संघटीत जावंक शकनात आनी चोर हातांतसून सुटटा अशी एकांकिची रचना आसा.

पात्रांक दिल्लीं नावां सामाजीक विसंगतिचें दर्शन घडयता. तेचबराबर तिनूय व्यक्तिरेखा एक रुपकात्मक अर्थ प्रगट करता. अपंगूळ व्यक्तिरेखा निर्माण करून बरोवप्यान कथेंतल्या घटनांत निखळ विनोदाची निर्मणी केल्या पूण शारीरीक व्यंगाचें भांडवल करून विनोद निर्मुवपाचो हिणकस आनी अमानवी प्रयोग करूंना, हेंच हे एकांकिचें सगळयांत व्हड यश आसा.

**10. चीट / तोमाजिन्यू कार्दोज**

आपणाले खासा तियात्र शैलीन कोंकणी एकांकीन वेगळेपण दाखोवपी

बरोवप्याची 'चीट' ही एकांकी म्हळचार एक हलकी - फुलकी नौटंकी कशी.

हरी नांवाचो तरनाटो शिकपाच्या वेळार आलमपेड्ड्यारपणा करून अशिक्षीत उरता. मुंबय आशिल्ले आशा नांवाचे चलयेकडेन ताचें लग्न थरता. पूण तो दुबावता आनी तिका चीट बरोवपाक सांगता. पूण निरक्षर आशिल्ल्यान तो चीट बरोवपाक शकना. तेखातीर ताका तरातरांच्या लोकांक गळवण्या येवचें पडटा. बरयिल्ले चिटीक आयिल्ली जाप वाचून घेवपाक ताका तशीच कसरत करची पडटा. आनी निमाणे आशा, तो निरक्षर म्हण ताका न्हयकारता. अशी सादी सरळ हे एकांकिची कल्पनां.

खाशेली गांवची सोबुये अशीं पदेर, मास्तर हांचीं व्यक्ति चित्रां तांगेले लकबींसयत एकांकीत उबीं जाल्यां. उमळशीक ताणून धरून उंचेल्या बिंदूर सत्याचो स्पोट करपाची कळाशी हें हे एकांकिचें खाशेलेपण मानपाक जाय.

11. **मर्णकटो / पुंडलीक नारायण नायक**

कोंकणी एकांकीक संवसारीक (Universal पांवडयाचेर व्हरपी बरोवप्याची ही एकांकी म्हळचार कोंकणी रंगमांचयेवयली एक महत्वपुराय नाटचकृती थरल्या.

समाजांत ज्याची फटवण जाल्या असो एक तरनाटो मानवी भ्रष्टाचारांक विटून भाडयाच्या मर्णकटयावयल्यान जीव दिवपाचो यत्न करता. पूण न्हंयेंत बुडटाना ताका संकश्टांकडेन झुजपाची प्रेरणा भोंवतणच्या सैमाकटल्यान लाबता आनी तो ताचो पुनरजल्म थरता.

चिंतनशील आशय, व्यंगात्मक शैली, सूचकतायखातीर प्रतीमा, प्रतिकांचो केल्लो योग्य वापर आदी गूण तिगेले प्रयोगक्षमतेंत मोलाची भर घालतात.

# लेखकांची वळख

१. **लुईस मास्कारेन्यस** (1 फेब्रुवारी 1887-23 जुलय 1961)
कन्नड लिपयेंतल्या "आधुनीक कवितेचो बापूय" म्हण गौरव करतात. संपादक ('कोंकणी दिवें' 1912) विवाद सोडोवपी पंचायत सभेचो संस्थापक, दुर्बळांखातीर आशिल्ले संस्थेचो संस्थापक.
साहित्य निर्मणी : कवितालेखन.
एकांकी : आब्रावचें यज्ञदान -(1948, 1982, 1987)

२. **आचार्य रामचंद्र शंकर नायक उर्फ राणू नायक**
(13 आगस्ट 1893 - 2 जानेवारी 1960)
शिक्षकांच्या ट्रेनींग कॉलेजचे प्राध्यापक, कोंकणी एकांकिचे मुखेल रचनाकार.
साहित्यनिर्मणी : भुरग्यांलो वेद (बालसाहित्य)
एकांकी : चवथिचो चंद्र (1935), रायबान्याची व्हाड्डीक (1937), दामू कुराडो (1948), सोनुदादालो संवसार (1956), एक हजार आनी तेऔस (1955), म्हज्जो सर्गार आसल्लो घरकार, एका परस एक हटी (1956),
असंग्रहीत एकांकी : शिकयिल्ली शिकवण (साद - 1953)

३. **रघुवीर राम नेवरेंकार** (16 नोवेंबर 1928)
नट, दिग्दर्शक, मुंबय आकाशवाणीचेर 1952 सावन लेखन आनी कार्यक्रमांत सातत्यान वांटो घेवपी. दूरदर्शनावयल्या नाटकांनी सहभाग
एकांकीसंग्रह : पोपेबाबाली मुंबय (1960)
असंग्रहीत एकांकी : जलमगांठ (दूरदर्शन)

४. **बेंदुर देवराय अटचगळ** (11 आक्टोबर 1909)
नाटककार, भाशा संशोधक, टी. एम. ए. पै फावंडेशन (मणिपाल) पुरस्कार जोडपी. संपादक (बालचंद्र)
साहित्यनिर्मणी : सोयरिके संभ्रम, दुडवा ध्यासु, धडाने घट्टी की बोडाने, फोडुलें पन्नंबर, प्रीतीखातिर, उबणि उद्योगु, सुखा संसारू, बावीसांटी बारसो, हो वयि दिवसु वतलो, कौरवांलो कृष्णु अथवा सत्यव्रत कर्णु, पांडव प्रगटन, मद्देचो (नाटकां) पंचतंत्र कथा, वेताळपंचविशी, भासकवी, मक्कांतु महालिंग, जयाचें महाभारत, कथांकुज (पुस्तकां) कोंकणी स्वयंशिक्षक, कोंकणी - इंग्लीश शब्दकोश,
एकांकी : पावतो कवड काडी (1983)

५. **किसन कामत** ((17 मार्च 1932)
कला प्राध्यापक, नट, दिग्दर्शक, तंत्रशुद्ध आर्विल्ले एकांकिचे रचनाकार
एकांकी संग्रह : दोन आनी दोन (1960)

६. **चार्लस फ्रान्सीस दे कोस्ता उर्फ चा. फ्रा दे कोस्ता** (10 आक्टो. 1931)
कवी, पत्रकार आनी नाटककार, संपादक - ('जाग माग', 'पैणारी', 'विशाल

कोंकण', 'उदेव', 9 व्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचे अध्यक्ष, साहित्य अकादमी पुरस्कार (1989) विजेते.

साहित्य निर्मणी : मेल्लें (कथा), पैणाऱ्यांचो इश्ट (चरित्र), तर्नें तर्नें मोर्नें, मागीरचें मागीर (नाटकां) सोश्याचे कान (कविता), रंगतरंग, मांडसोभाण (गीत - कॅसेटी)

एकांकी : सुणें माजर हासता (1977), एकांकी संग्रह : सुणे माजर हासता (1988)

७. **विनय मंगेश सुर्लकार** (13 जानेवारी 1942)

हौशी नट, नकलाकार, विनोदी एकांकीकार, वेवसायान डॉक्टर, राज्यथरावयलीं अभिनयाचीं आनी एकांकी लेखनाचीं इनमां जोडपी.

एकांकी संग्रह : सात मजली हांसो (1967), खावचीपानां (1968), बाप्पाली गांथन (1971),

एकांकी : ह्याला जीवन ऐसे नाव (मराठी - 1966)

८. **अशोक सोयरू कामत** (3 डिसेंबर 1940)

एकांकीकार, कवी, कथालेखक, वेवसायान शिक्षक, राज्यथरावयले एकांकी संतित लेखनाचीं इनामा जोडपी.

साहित्यनिर्मणी : सूर्यपुत सुभाष (चरित्र), बंदखणिचीं देवळां जालीं (नाटक)

एकांकीसंग्रह : म्हज्री भूंय म्हजो मोग (डिसेंबर 1969), अशोकांकी (डिसेंबर 1973), कोण कोणाचो न्ही ! (1974),

असंग्रहीत एकांकी : हो तर खेळ सैमाचो (कोंकणी दिवाळी 1976) दुकांचीं जालीं मोतयां (कोंकणी वर्सुकी 1986-87)

९. **प्रकाश गंगाराम थळी** (14 जानेवारी 1945)

कवी, निबंदकार, नट, दिग्दर्शक, साहित्य समिक्षक, प्राध्यापक, वकील, संपादक - (कुळागर, एनसायक्लॉपेडीया ऑफ इंडीयन लिटरेचर - कोंकणी विभाग) दिग्दर्शनाच्या मळार एकांकी आनी नाटकांनी राज्यथरावयलीं इनामां जोडपी.

साहित्यनिर्मणी : वेटींग फोर घासलेट (1976) - मराठी एकांकी संग्रह, मराठी, बंगाली, कन्नड भासांतल्या नाटकांचे कोंकणीत अणकार.

एकांकी संग्रह तीन खेतीं शाणी सुरतीं (1987)

१०. **तोमाझिन्यू कार्दोज** (14 एप्रील 1946)

कवी, कांतारीस्त, तियात्रिस्त, 'कलामोगी' (तियात्र संस्था) चो मखेली, तियात्र आनी मांडो महोत्सवांत इनामां जोडपी, राज्य साहित्य पुरस्कार जोडपी. शाळा - हेडमास्टर

साहित्य निर्मणी : कांटेच कांटे, उतरां आनी करण्यो, हांवूच तो, इश्ट, इन्स्पेक्टर, आयचो समाज, काळोख आनी उजवाड, अंतस्कर्ण आनी कायदो, भुरगीं आमची गिरेस्तकाय, तियात्र माचयेर (तियात्र), थेंबे (कांतारां), मांडो (लोकगीतां), झेलो (कथा), पाकळचो (कविता)

एकांकी : पुनरदुष्ट,

एकांकी संग्रह : एक आंकी नाटकुलीं (1986)

**११. पुंडलीक नारायण नायक** (21 एप्रील 1952)

कवी, कथा कादंबरीकार, नाटककार, आकाशवाणी स्क्रीप्ट रायटर, शिक्षक, राज्य साहित्य पुरस्कार जोडपी, साहित्य अकादमी पुरस्कार (1984), आकाशवाणी नाट्य पुरस्कार (1980, 1986), पॅटर्स ऑस्ट्रेलीयन ॲवार्ड (1988)

साहित्य निर्मणी : गा आमी राखणे (कविता), मुठय, पिशांतर, अर्दूक (कथा), अच्छेव (कादंबरी), बांबर, वसंतोत्सव आनी दायज (नवलीका), रानसुंदरी, आळशांक वाग खातलो, मनू (बालसाहित्य), खण खण माती, रक्तखेव, राखण, सुरींग, सूर्यसांवट, देमान्द, भक्तताय, शबै शबै भौजनसमाज, पिंपळ पेटला, श्री विचित्राची जात्रा (नाटकां), काजी नजरूल इस्लाम, नानालाल (चरित्र - अणकार)

एकांकी : छप्पन्न थिगळी येसवंत (एकपात्री – 1980)

एकांकीसंग्रह : गांवधनी गांवकार (1975), चौरंग (1982), आकाशमंच (1987),

दिगंत (आगामी)

